## मांडावळ

# म्हजें उतर



पंदरा वर्सां आदली ही गजाल. म्हज्या एका संपादपी इश्टान म्हाका एक गोंयां भायलें दिसाळें पाठयलें जाचेर कोंकणी चलचित्रां विशीं म्हायती आसली. ती वाचतकुच म्हाका ती अर्दकुटी आसा, अशें दिसलें. आनी ह्या खातीर ती म्हायती पूर्ण करपाक हांवें सोद घेवपाक थारायलें. असो सोद घेताना साबार अडचण्यो दोळ्यां मुखार आयल्यो.बऱ्याचश्या निर्मुप्यां कडेन निर्माण केल्ल्या फिल्मांची प्रत वा फोटू लेगीत नांत. मुंबय दूरदर्शन जाणीं कांय कोंकणीं फिल्मां दाखयल्यांत, तांचे फुडयांत गेल्यार, कोणूच त्या फिल्मां विशीं वासपूस करपाक येवूंक ना देखून तीं आतां तांचे लागीं नांत, अशें कळून आयलें.

आकाशवाणी मुंबय वा आकाशवाणी पणजी हांचे लागीं पोरण्यो फिल्मांच्यो रेकॉर्डी सोंपेपणीं मेळनांत. पुण्यांतल्या *नॅशनल फिल्म आरकायवस् ऑफ इंडिया* सौंस्थे कडेन दोन कोंकणी चलचित्रां आसात पूण तीं थंय जमो केल्लो सांपडना. फिल्मांची म्हायती एकठावपाक खूब त्रास जाले. पवित्र पुस्तकांतल्या भशेन, आनासागेर सान कायफासागेर आनी कायफासागेर सान आनासागेर, अशी गत घडली, कारण जण एकलो दुसऱ्याक बोट दाखोवपाक लागलो आनी शेवटाक 'खंय गेलो खंय ना, कितें हाडलें कांय ना'. कांय जाणांनी मजत करचे बदलाक, दुसरें कितें सांगपाक सुरू केलें. ह्या वरवीं फामाद वोपार. "हांव गेल्लों आशेन आनी सेर्मांव सांगलो फिरंगी भाशेन', अशेंय घडलें. आदल्यो रेकॉर्डी मुद्रावपी ग्रामाफोन कंपन्यो आतां बंद जाल्यात आनी रेकॉर्डी सोंपेपणीं मेळनांत.कांय लोकान तांचे लागीं साहित्य आसून दिवंक ना देखून वायट दिसता. कांय कोंकणी मोग्यां कडल्यान कांतारां मेळ्ळीं आनी हे परीं कांतारांची उतरां दिवपाक घडलें.

कांय निर्मुप्यां कडेन सेगीद संर्पक करचो पडलो आनी सर्व

संवसाराचो कारभार तांच्या माथ्यार पडला देखून तांकां वेळ ना, अशें दिसून आयलें. 'आनाक पडलां आनाचें, भेऱ्याक पडलां आपल्या कानाचें', अशी गत जाली. कांय फिल्मां रंगीत आशिल्ल्यान तांचे फिल्मांतले काळे-धवे फोटू रंगीत करचे पडले तर कांय फोटू पोरणे आशिल्ल्यान सुदारापाक पडले. कांय फोटू मेळोवपा खातीर *इंडेमनीटी बॉंड* दिवचें पडलें. मजकूर एका लिप्येंतल्यान दुसऱ्या लि'येंत लिप्यांतर करचो पडलो.ह्या पुस्तकांत, वाचप्यांक 45 *सेलुलॉयड* कोंकणी फिल्मांची म्हायती मेळटली. तातूंत तुमकां 315 फोटू, 155 कांतारां पळोवपाक मेळटलें. भारतीय फिल्मांनी केल्ल्या योगदानाची कांय कोंकणी मानेस्तांचो समावेश फोटवां सयत अक्षरमाळेंत केला.

फिल्मां विशीं कांय गश्टी आयकुपांत आयल्यो. एका फिल्मांक हाजी मस्तान ह्या जकातचोराचो हातभार आसलो. फामाद जाल्ल्या एका फिल्माक ऐन वेळार दुडवांची गरज उप्रासली जी एका बरें देखणाऱ्यान दिवूंक नाशिल्ली जाल्यार आमकां तें फिल्म पळोवपाक भाग मेळचें नासलें म्हण कळून आयलें. चलचित्राचें चित्रीकरण करपाक वयताना एका फिल्मी पंगडाक अपघात घडलो, अशी समजूत जाली पूण खरेपणीं त्या वेळार धरणीकांप जाल्ली. कांय निर्मात्यांनी फकत अनुदानाचेर दोळो दवरून फिल्मां काडलीं आनी उपरांत तीं विकलीं आनी आतां तांचो सोदपूस करपाक गेल्यार तीं मेळनांत. एका फिल्माक सरकारान अनुदान भासायलेलें तें वेळार मेळूंक ना देखून खूब हाल जाले आनी दुसरे भाशेंत तें निर्मुपाची येवजण फिस्कटली. थोड्या फिल्मांनी बिगर कोंकणी कलाकारांनी भाग घेतला जशें बेंजामीन गिलानी, निलम मेहरा, ए. के. हंगल, प्रमोद चक्रवरती, नंदीनी सींग, परिक्षीत सहानी, टॉम ऑल्टर, रीमा लागू, निता जैन दूहॉ, डॉ. मोहन आगाशे... हें तुमकां पुस्तक वाचताना कळून येतलें. एका फिल्मांक एनक डॅनियलस् हाणें संगीत बसयलां तर चार फिल्मांक अशोक पत्की, मुकेश घाटवळ, विल्फी रेबिंबूस दर एकल्यान संगीत दिलां. आशा भोंसले हिणें एका फिल्मांत आपलो ताळो दिला. भूपिंदर सींग, मन्ना डे, शान,शंकर महादेवान, सोनू निगम

सारकेल्यांनी कोंकणी कांतारां गायल्यांत.

जीं फिल्मां मेळनांत तीं मेळोवपाक सगळी तजवीत चालू दवरपाक जाय. ह्या खातीर वाचप्यांची मजत मेळ्ळयार फुडले पिळगेक तीं सांबाळून दवरपाक जातलें. सरकारी गोपांतल्यान खबर मेळ्ळया त्या प्रमाणें फिल्म तयार करपाक गोंय सरकार वीस लाख रूपया अनुदान दिता. गरजेच्यो सवलती जश्यो *एडीटींग, डबींग, रेकॉर्डींग, सेंसर सर्टिफिकेट, सबटायटलींग,* सरकारान गोंयांतूच मेळोवन दिवपाक जाय कारण ह्या कामांक भायर वयचें पडटा आनी वेळ आनी खर्चूय वाडटा. बऱ्याच हिंदी चलचित्रांचें गोंयांत चित्रण जाता आनी ह्या खातीर हांगासर *स्टुडियो* उबारपाक जाय. चलचित्र उद्देगाचें शिक्षण मेळपाक पुण्यांत आसा तसलें *फिल्म इंस्टिटूट* स्थापपाक जाय. आध्रप्रदेसांत तशेंच मुंबयंत *फिल्म सिटी* आसात तसले एक गोंयांतूय स्थापपाक जाय.गोंय सरकारान चलचित्रांक एक उद्देगाचो दर्जो दिवपाक थारायलां. कोंकणीक कितें मेळोवपाचें आसा तें हक्कान मेळोवपाक जाय. हेर राज्यांनीं *फिल्म फायनेंस कॉरपोरेशन* आसात तशें गोंयांत स्थापून फिल्म काडपाक रिणाची सय करुन दिवपाक जाय. तेन्नांच की कोंकणी चलचित्रांक बरे दीस येतेले अशी म्हाका खात्री आसा.

ह्या आदीं हें पुस्तक रोमी आनी कन्नड लिप्येंत उजवाडाक आयलां. वाचप्यांचे सुचवण्यांचो आसपाव करताना, ह्या पुस्तकांत जायतेंच नवें जोडपांत आयलां. www.konkanifilmbook.com ह्या *वेबसायटिचेर* ह्या पुस्तकाची म्हायती दिवपांत आयिल्ली.

पुणे — इजिदोर दान्तस



# फाटभूंय

फिल्म, हें उतर खेरीत चलत्या चित्रांचो आस्पाव करता आनी ह्या खातीर आमी ताका चलचित्र म्हण्टात. ह्या पासत चलचित्र उद्देगांत चलचित्राक एक कलेचो दर्जो दिल्लो आसा. चलचित्राक एक खेरीत कलेचो आकार दिवन तें एक मनोरंजनाचे साधन तशेंच शिकोवपाचें माध्यम जावन गेलां. चलचित्राच्या देखाव्या वरवीं संपर्क सादप सोंपें जालां आनी संवसार भर लोकांच्या आवडिचें जावन गेलां.

चलचित्रघरांनी आमी '*स्लायड्स*' ह्यो स्थीर आशिल्ल्यो चौकटी '*मॅजीक लॅन्टर्न*' हाचे वरवीं पळयतात. त्यो वेगान दाखोवपाक लागतकूच, त्यो खरेंच चलतात अश्यो दिसपाक लागतात. ह्याच तत्वाचेर, फिल्म म्हळ्यार एका फाटल्यान सेगीद दिसपी देखाव्यांच्यो चौकटी. त्यो चौकटी वेगान दाखयतच पळयतल्याक त्यो चलतात असो भास जाता. चौकटी फाटलें लुकलुकप पळयतल्याक दिसना कारण त्यो सेगीद नदरेक पडटात. पड्ड्यार दाखयल्ली चौकट, मूळ चौकट काडिल्ली आसतना, आमचे दोळे एका सेकंदाच्या कुडक्या इतलो वेळ ती एका जाग्यार स्थीर रावता. पळयतल्याक हें चलप एक मनशास्त्री परीणामाक लागून दिसता जाका इंग्लीश भाशेंत '*बेटा मूवमॅण्ट*' म्हण पाचारतात.

फिल्म ह्या उतराचो आरंभ फोटोग्राफीचें फिल्म हातूंतल्यान आयला, जे मुद्रावपाक आनी दाखोवपाक एक पयलें माध्यम जावन आसा. *सॅल्युलॉयड* फिल्म हाचो विकास करतकुच देखावे सुदारपाक सोपें जालें.

भारतांत पयलें उलोवपी चलचित्र 'आलम आरा' 14 मार्च 1931 दिसा मुंबयंत दाखोवपांत आयलें.त्या आदीं मोनीं चलचित्रां लोकांक धादोशी करतालीं. राजा हरीशचंद्र हें पयलें मोने फिल्म 1913 वर्सा प्रस्तूत जाल्लें आसा. ह्या पोरण्या फिल्मांक सांगात दिवपाक संगीताची व्हड गरज लागताली. आनी हें करपाक वाध्यवृंदांची गरज भासली आनी आमच्या जायत्याच गोंयकांरांक असो रोजगार मेळपाक पावलो कारण गोंयकार संगीतांत हुशार आसले. ही हुशारकाय तांकां गांवच्या देवमंदिरांनी आनी

देवळांनी चलयतल्या शाळां वरवीं प्राप्त जाली आनी हें कामाक आयलें. उपरांत रंगीत फिल्मां जशी *ऑरवाप, इस्टमन, टॅक्नीकलर* अशीं येवपाक लागलीं. सुर्वेक फिल्मां 16mm हातूंत दाखोवपांत येतालीं. पूण तांचो, रुपेरी पड्ड्यार गुणकारी परिणाम जायनासलो. ते उपरांत 35mm आनी 70mm असो पड्ड्यार दिसपी फिल्मांचो आकार वाडलो आनी प्रेक्षकांक रुंद पड्ड्यार फिल्मां पळोवन धादोशी जावपाक मेळ्ळें. उपरांत *सिनेमास्कॉप, 3 डायमॅनशन* आनी *डिजीटल* चलचित्रां भायर सरपाक लागलीं.

पयलेच फावट समाजांतल्या हिंदी भाशेंतल्यान, एका चलचित्रांत अस्सल जिवितांत घडिल्ल्यावरीं पड्ड्यार उलोवपी पळोवन, लोकांक एक वेगळे तरेची खुशी भोगली. आनी हे खातीर हें चलचित्र पळोवपाक लोकांची गर्दी जाली.

हिंदी चलचित्र उद्देग, त्या काळार भांगाराच्या युगांतल्यान पासार जातालो आनी ह्या उद्देगांत गोंयकारांनी जायतें योगदान दिल्लें आसा. ह्या उद्देगांतल्या वेगवेगळ्या विभागांनी जशें निर्मिती, संगीत, गावप, नाचप, फोटू काडप, दिग्दर्शन आनी अभिनय हातूंत कोंकणी उलोवप्यानी भाग घेतिल्लो आसा. जेन्ना हिंदी चलचित्रां रुपेरी पड्ड्यार दिसपाक लागलीं, तेन्ना थळाव्या लोकां मदीं आपूण उलयतल्या गांवठी भाशेंतल्यान फिल्म काडपाक उमेद उत्पन्न जाली. आनी हाका लागून आमकां मुंबयंत उलयतल्या गांवठी भासांनी चलचित्रां काडिल्लीं झलकतात. अशीच इत्सा कांय कोंकणी मोग्यां मदीं उत्पन्न जाली. कोंकणी फिल्म काडपाक जायत्या जाणांनी प्रयत्न केले पूण कांय कारणांक लागून सगळेच जैतिवंत जावपाक पावले नांत.

कोंकणी वाठारांत रावतल्या लोकांक संगीत आनी नाटक हाची खूब आवड. कोंकणी लोकांची नामना भूंय-सौंदर्या खातीर चड करून वेळां खातीर नांवाजिल्ली आसा. ह्या वस्तुंचे प्रत्यक्षांत आसप एक चलचित्र निर्मिती करपाक उत्तेजन दिवपी हें सांगपाची गरज ना. कोंकणी सिनेमाची प्रस्तूती करपांत, गोंयकार तशेच मंगळूरकार भावांनी उपाट वावर केल्लो आसा. कोंकणी चलचित्रांनी विशय हाताळ्ळले आसात ते समाजीक, धर्मिश्ट,

श्रद्धा, वायटाचेर जैत, कसौटी, सामान्य मनशाचे कर्मभोग, आदी. हातूंत संगीत, नाटक, विविधा, विनोद, नाच, शोकांतिका हांचो समावेश जाल्लो झलकता. ह्या फिल्मांचो लागशिल्लो संबंद नाटकां विशीं जोडिल्लो आसा, कारण हातूंतले कलाकार चडशे नाटकीस्त.

एका चलचित्राची निर्मिती करपाक साबार अडचणींक तोंड दिवंचें पडटा जशें अर्थ-वेवस्था, कथा थारावप, कलाकारांची निवड, संगीत रचप. एक चलचित्र काडप म्हळ्यार, कसल्याच फायद्याची अपेक्षा करनासतना, एक बऱ्याच खर्चाची घडणी आनी ती फकत कोंकणीचें पिशें लागिल्ले करपाक शकतात असो अणभव पळोवपाक मेळटा. कोंकणी चलचित्रांक औंदू चवसठ वर्सां वलांडतात. आयज मेरेन 45 कोंकणी *सॅल्युलॉयड* चलचित्रां तयार जाल्यात. कांय अर्दकुटीं आसून भायर सरपाक पावूंक नांत.

फिल्मा भाशेचेर, न्हेसपाचेर,रितरोविसेचेर प्रभाव घालून समाजीक वागणुकेचेर भर घालतात. तीं मुखावेले पिळगे खातीर छाप मारुन दवरताना लिपलेलें भांडार जावन गेलां. फिल्मा जिविताच्या घडणुकां परस व्हड जावन आसात आनी सगळ्या सामान्य जनतेक एक पावोवपाचें माध्यम जावन गेलां. तयार जाल्ल्या कोंकणी चलचित्रांचेर एक धांवती नदर घालपाक ह्या पुस्तकांत प्रयत्न केला.



**फिल्मी नखेत्र हेलेन हीच्या हस्तुकीं रोमी लिप्येंतल्या कोंकणी चलचित्रां पुस्तकाचें मुंबंयत विमोचन**

# कोंकणी चलचित्रांचें खाशेलेपण

- मोगाचो आंवडो हें पयलें कोंकणी फिल्म आनी तियात्रिस्त नाशिल्लें फिल्म.
- आमचें नशीब सुवादीक संगीता खातीर आनी विनोदा खातीर खूब गाजलां.
- निर्मोण फिल्मांक बरी काणी आसून ताका भारत सरकाराची *सेर्टिफिकेट ऑफ मेरीट* फावो जावून सी. आल्वारीस हाका बरो नट आनी शालिनी हिका बरी नटी म्हण इनामा फावो जाल्यांत. तेच परीं तकदीर नांवां खाल हिंदी भाशेंत तें तय्यार केलां आनी सात भारती भासांनी जशें तामीळ, तेलुगू, कन्नड, मळयाळी, बंगाली, आसामी आनी अडिया हातूंत *डब* केलां.
- बगलांट फिल्मांचीं आठूय कांतारां एकाच दिसांत मुद्रावन आल्फ्रेड रोज हाणे विक्रम केला.
- मोग आनी मयपास हें कोंकणीतलें पयलें रंगीत फिल्म.
- तीन फिल्मां तियात्रांचेर आदारीत आसात तीं म्हळ्यार तिसरी चीट, बगलांट आनी पाद्री.
- पाद्री फिल्मां प्रीन्स जेकबाच्या 'पी' अक्षरांतल्या 25 व्या तियात्राचेर बसयलां.
- भुयारांतलो मनीस हाचें *टायटल* कांतार नामणेची गावपी आशा भोसले हाणीं गायलां.
- भगसणें फिल्मांक कर्नाटक सरकारान बरें फिल्म म्हण तस्रीप दिलां. तातूंत अंदमान जुंव्याचे सुंदर देखावे दिसतात.
- जीजस फिल्म पळयतकूच जेजू आतां कोंकणी उलोवपाक लागला अशें लोक म्हणटात.
- ओ बाय हें मटवें फिल्म विला दू कोंद, पुरतुगाल फिल्म उत्सवांत दाखयलेलें पयलें कोंकणी फिल्म.
- आलिशा फिल्मांक कोंकणीचें पयलें राष्ट्रीय तस्रीप फावो जालां.

- अंतर्नाद फिल्मांक बरो पार्शव गायक, बरो बाळ कलाकार, बरें संगीत, बरें दिग्दर्शन आनी बरें फिल्म म्हण तस्रिपां फावो जाल्यांत.
- ब्लेक न्हेसप-आतांचें फॅशन. हें कोंकणीतलें पयलें ई फिल्म आनी तें पुरें कुवेटांत काडलां.
- सावारिया डॉट कोम हें फिल्म इंटर्नेट लग्नाचेर आटापलां.
- पलतडचो मनीस ह्या फिल्मांक अंतराष्ट्रीय मान टोरंटो शारांत मेळून ताका राष्ट्रीय तस्रीप फावो जालां.
- मोगाची झर हाचें *शुटिंग* 60 टक्के नायगरा शारांत जालां.
- ओ मारिया फिल्मांत शर्नाज पटेल, तिकू ताल्सानिया, सुलभा आर्या आनी कोरी गोलडबर्ग हो अमेरिकान कलाकार भाग घेतात.
- मारियोला फिल्म चेडूं-भुग्र्याचेर आटापलां.
- म्हजो गांव म्हजें गोंय-हें मराठी फिल्म-‘गडया आपला गांव बरा’ कोंकणीत *डब* केलां.
- दिगंत फिल्म धंगर समाजाचेर आटापलां.
- *अ रेनी डे* मराठिंत काडलेलें फिल्म कोंकणीत *डब* केलां.
- *बागा बीच* फिल्मांक 2013 वर्सांतलें बरें फिल्म म्हण राष्ट्रीय पुरस्कार फावो जाला.
- मुकेश घाटवळ, अशोक पत्की, आनी विल्फी रेबिंबूस हाणीं दर एकल्यान चार फिल्मांक संगीत बसयलां.
- पुस्तकांचेर आदारीत फिल्मा: मोगाचो आंवडो हें दियोगीन डी मॅलो हाच्या मोगाची ओड, पल्तडचो मनीस हें म्हाबलेश्वर सैल हाच्या अद्रुश्ट आनी सूड हें दामोदर मावजो हाच्या त्याच नांवाच्या पुस्तकाचेर आसात.
- नाचोंया कुंपासार गोंयकार संगीतकारांनी बॉलीवुडांत केल्ल्या योगदानाक आर्गां जावन आसा.

# मोगाचो आंवडो





जॅरी ब्रागांजा

आल जॅरीबाब ब्रागांझा हाणें मोगाचो आंवडो हे पयलें कोंकणी चलचित्र एप्रिलाचे 24 वेर 1950 दीसा रुपेरी पड्ड्यार दाखयलें. ह्या खातीर ताका कोंकणी चलचित्रांचो बापूय मानतात. आब्रिलाची 24 तारीख ज्या दीसा हें फिल्म सादर जालें. त्या तारखेर कोंकणी चलचित्राचो दीस म्हण मनयतात. आल जॅरी ब्रागांझा हाचें पुरें नांव आंतोन्यो लॉरेंस जॅरी ब्रागांझा आनी तो गांवान म्हापशेंचो.

आल जॅरी ब्रागांझा हाणे हिंदी चलचित्र उद्देगांत काम पळयलां. ताचो *इंडियन निव्ज परेड* (आतांचें *फिल्मस् डिवीजन*) तशेंच *गीता पिक्चर्स* आनी विश्व शांती फिल्म्स हातूंत आसपाव आसलो. नावाजत्या भगवान ह्या हिंदी सिनेमाच्या फोकाणेरा खातीर तो वावुरला.'नवकला फिल्म कंपनीं'त ताणें आदारी दिग्दर्शपी आनी निर्मुपी कारभारी म्हण काम केलां. हाचो अणभव घेवन आनी '*एटिका पिक्चर्स*' म्हळ्यार '*एक्सचेंज टॉकीज ऑफ इंडिया, चायना एंड आफ्रिका पिक्चर्स* कंपनी' हांच्या पालवान 'मोगाचो आंवडो' चलचित्र तयार केलें. ह्या एटिका कंपनीचे भागीदार चडशे मुसलमान आसले आनी ही कंपनी मुंबयच्या जोगेश्वरी वाठारांत आसली.

ह्या चलचित्राचे मुखेल कलाकार आल जॅरी ब्रागांजा आनी लीना फेर्नांडीस (आतां डायस) आसात. आल जॅरी ब्रांगाजा कांतार करपाक तशेंच बदलत्या सुरांचेर ऊंचायेन गावंक (जाका इंग्लीश भाशेंत *योडलींग* म्हण्टात) हुशार आसलो. तेच वरी ताका बरो अभिनय करपाक येतालो. आनी ह्या खातीर ताणें मुखेल नट जावपाचें सूत्र आपल्या हातांत धरलें. जेम्स ब्रागांजा ह्या फिल्मांत विनोदी भोमिका करता. हेर कलाकारां मदीं लॅवीस रातुस, आमराल, जॅकब फेर्नांडीस, एलिझाबॅथ दे आब्रेव, मेरी डी सौजा, जॉयस् फेर्नांडीस, रोम्यो पॉल, पिरीस दिसतात. आल्फेड आल्मेयदान ह्या सिनेमाक संगीत बसयलां.

नांव जोडिल्लो गावपी आनी बरोवपी दियोगीनबाब डी मॅलो हाचे मोगाची ओड नवल काणयेचेर आदारून ताची काणी बसयल्या जी एका नश्ट्या गिरेस्त चलो आबॅलाच्या आनी गरीब मारिया नांवाच्या मोग्याचेर आटापिल्ली आसा. तीं चोरयां काजार जातात, दोशीं जातात आनी शेवटीं एकवटतात. ह्या चलचित्राच्या कांतारा मदीं 'दोगूय आमीग' जें जॅरी ब्रांगाजा आनी जेम्स ब्रागांझा हाणीं गायलां तशेंच मुखेल कांतार 'मोगाचो आंवडो' जें जॅरी ब्रागांजाआनी लीना फेर्नांडीस हाणीं गायलां लौकीक जावंक पावल्यांत. हेर कांतारा मदीं जॅरी ब्रागांजान गायिल्लें 'भिकारी' आनी 'आवाज घांटांचो' आस्पावता. हेच वरी 'मोगाळ बाय' दुयेट जें जॅरी आनी लीना हाणीं गायलां तेंवुय ह्या फिल्मांत दिसता. हीं कांतारां 'यंग इंडिया कंपनी'च्या रेकॉर्डींचेर मुद्रायल्यांत.

चलचित्राचो मुखेल नट गिरेस्त आशिल्ल्यान आपल्या गरीब मोग्याक अख्खें गोंय भोंवडावपाची भास दिता. आनी ताका लागून आमकां गोंयचे सोबीत सुंदर देखावे जशें पोरण्या गोंयची इगर्ज, म्हापशेंची इगर्ज, कालांगूट वेळ, मांडवी नदी, आग्वादचो फोलेर, पणजेचो आल्तिन्ह दोंगर आनी कांपाल पळोवपाक मेळटात.

म्हापशेच्या दशरथ सिनेमात 24 एप्रील 1950 दिसा तर एकाच वेळार मुंबयच्या माटुंगा वाठारांतल्या रिवोली आनी माजगांवच्या स्टार वसऱ्यांनी तें दाखयलें. धोबीतलाव, हो त्या वेळाचो गोंयकारांचो माज जावन

आशिल्लो. आनी ताच्या लागसार आशिल्ल्या लिबर्टी सिनेमां घरांत धा आयतारांक सकाळचे खेळ जाताले ताका गोंयकार उपाट गर्दी करताले. आनी हें फिल्म  कांय जाणांनी चार-पांच फावटी पासून पळेलां. फिल्म भायर सरचे पयलीं मुंबयच्या तेन्नाच्या कोंकणी सातोळ्या पत्रांनी जशें 'सत उलय', 'घ गोवा टायम्स' हांचेर ताची जायरात येताली, आनी लोक उमेदीन केन्ना हें फिल्म आपणांक पळोवपाक मेळटलें म्हण वाट पळयताले. तशेंच मुंबयच्या मरीन लायन्स रेल्वे स्टेशनाचेर ह्या फिल्माची मुखेल नटी लीना फेर्नांडीस बांयचें उदक काडटा असो फिल्माचो तकटो लायिल्लो जो पळोवन लोकांची उमेद अदीकच वाडटाली. ह्या फिल्माचें चित्रीकरण चेंबूर वाठारांतल्या एका स्टुडियोंत काडपांत आयलें आनी पुराय फिल्म तयार जावपाक सुमार आठ म्हयने लागले, कारण मदीं थोडे दीस खांच पडून कांय कारणांक लागून बंद उरलें. फिल्मांत भाग घेतल्यांक एक थारावीक रक्कम दिनासतना म्हयन्याच्या हिशोबान दुडू फारीक केल्ले. मुखेल नटी लीनाच्या सांगण्या प्रमाणें सुमार पांचशीं रुपया म्हयन्याक तिका मेळटाले. पूण फिल्म पुराय जावपा खातीर तिणें तशें जॅरी ब्रागांझा हाणें दुडवांची अट घालूंक ना. आनी ह्या कारणाक लागून हें फिल्म उजवाड पळोवपाक पावलें.

ह्या फिल्मांचीं कांतारां खास कलाकारांनी गायल्यात, आनी तीं *डब* करूंक नांत. ह्या सिनेमाचें संगीत मुद्रावंक नावलौकीक ज्यो पॅरी आनी पीटर डी मॅलो वांगडा सत्तावीस संगीतकार आशिल्ले. कलाकारांची निवड करतना मुखेल नटिची निवड करपाक जाय आशिल्ली. तेन्ना अशें घडलें. लीना फेर्नांडीस, *युनायटेड आर्टीस्ट* हे अमेरिकन कंपनींत *टॅलिफोन ऑपरेटर/रिसॅप्शनीश्ट* म्हण वावुरताली. थंय जॅरी ब्रागांझाचो सोयरो काम करतालो. ताणें लीनाक कोंकणी उलोवपाक तशेंच कोंकणी कांतारां गावपाक येता काय म्हण विचारलें. लीनान हयकार दितच आनी तिच्या आवय-बापायची परवानगी मेळटकूच, मोगाचो आंवडो फिल्मांत तिचो मुखेल नटी म्हण आस्पाव जालो. आनी पयल्या कोंकणी चलचित्रांत पयली मुखेल नटी म्हण तिका मान फावो जालो. लीना गांवान शिवोलेची आनी आतां मुंबयत

अंधेरी वाठारांत आपले धुवे वांगडा रावता.

मुंबयच्या गोंयकारांनी ह्या फिल्माक बरो प्रतिसाद दिलो. जॅरी ब्रागांझान ह्या फिल्मांत तियात्रिस्तांक घेनासतना ह्या पयल्याच फिल्माचें श्रय आपल्या पदरांत घेतलें. दुर्दैवान ह्या फिल्माचो स्वाद चाखपाक ताची एकय प्रत ना पूण त्या फिल्माच्यो यादी अजून ताज्यो आसात. ह्या सिनेमांत कोंकणी भाशेच्या मळ्यांत इतिहास रचलो आनी फुडल्या कोंकणी चलचित्रांक वाट उक्ती केली. ह्या अमर वावराक लागून आल जॅरी ब्रागांझा हाका कोंकणी सिनेमाचो बापूय म्हण्टात. जॅरीबाबाक आमचो सलाम आनी नोमान.



**मुंबयंत माटूंगा विभागांतल्या रिवोली चित्रघरा भायर मोगाचो आंवडो कलाकार**



**लीना फेर्नांदीस**



जॅरी ब्रागांजा आनी लीना फेर्नांदीस



जॅरी , रातूस, लीना आनी आल्फ्रेड

**दोगूय आमीग**

गावपी: जॅरी आनी जेम्स ब्रागांजा

रचपी:जेरी ब्रागांजा

संगीत:आल्फ्रेद आलमेयदा

दोगूय आमी बरे आमीग भुरगे आसतना
परतिलीं आमी व्हडलीं इस्कोलां
पूण कित्याक उपकारलें कांयच शिकूंक ना
वर्तोले जड तकलेन भेजो कांयच ना

कोरसः

लोकाक सांगताले गोपां व्हडलीं,व्हडलीं,व्हडलीं
चेडवांचे रुचिचीं, बायलांच्या घोस्ताचीं
खांकेत मारून पुस्तकां व्हडलीं, व्हडलीं व्हडलीं
न्हेसूंक मागून हाडलीं सुटां रे दुसऱ्याचीं

चोरून आमी आंबे पणस आनी आडसरां
कोणेंय विचारल्यार दिताले थापटां
लिसांव आमचें वर्तोलें मस्तेपणां
चायेचीं हॉटेलां, वर्तोलीं आमी इस्कोलां

**मोगाचो आंवडो** गावपी: जॅरी,जेम्स आनी लीना

रचपी:जो वाज आनी जेम्स ब्रागांजा संगीत: आल्फ्रेद आलमेयदा

खरेंच तो चड खर, मोगाचो आंवडो
कोणाक जायना सर, मोगाचो आंवडो
खंतीत पडला तर, मोगाचो आंवडो
सूख मेळटले धर, मोगाचो आंवडो

मोग वर्तोता सगळ्यांकच सवस्तकाय
काळजांत रिगून मेळटली तुका घोटाय
पिसडून उडयता ती निश्ठूर निड्डूकाय
कसलेय गरजेक पयलो मोग दाखोवंक जाय

# आमचें नशीब

FRANK FILMS (GOA) PRESENT

AMCHEM NOXIB

(OUR LUCK)

A KONKANI FILM





PRODUCED & MUSIC BY: FRANK FERNAND    DIRECTED BY: A SALAAM

Producer & Music: Frank Fernand    Director: A Salaam



फ्रेंक फेर्नांद

गोंयचे सोडवणे उपरांत 1963 वर्सा फ्रँक फिल्मस् (गोवा) ह्या बावट्या खाल आमचें नशीब तयार जालें. फ्रँकबाब फेर्नांद, कुडचडें गांवचो आनी ताका गांवच्या देवमंदिराचे संगीत शाळेंत संगीताचें प्रशिक्षण प्राप्त जाले. ताणें 1948 वर्सा शंकर-जैकिशन ह्या नांवाजत्या संगीत दिग्दर्शकाच्या हाता खाल काम पळयलां. आर. के. फिल्मस् हांच्या 'बरसात' आनी एस्. डी. बर्मन हांच्या 'शबनम' फिल्माच्या येसांत ताचो व्हड हात आसा. किशोर कुमार, सी. आर. रामचंद्र, रोशन आनी अनील बिस्वास ह्या संगीत दिग्दर्शप्यां खातीर तो वावुरला.निमाणो, कल्याणजी-आनंदजी संगीत दिग्दर्शप्यांचो पयलो आदारी म्हण वावुरतालो. ताणें हिंदी चलचित्रांच्या उद्देगांत, रॅबेक वाजोवपी, संगीत मांडपी आनी वाध्यव्रूंद चलोवपी म्हण पस्तीस वर्सां काम केलें. मंगेशकर भयणींच्या मराठी चलचित्रांनी ताणें मजत केल्या. कोंकणी फिल्मां शिवाय ताणें 'प्रिया' आनी

'आहट' हिंदी फिल्मां प्रस्तूत केल्यांत. आनी 'चोर दरवाजा',ह्या फिल्माक संगीत दिलां आनी फामाद जाल्लें 'मेरा जिवन कोरा कागज' ह्या 'कोरा कागज' फिल्माच्या गीताक ताचो जादवाचो हात आसा.

पन्नासेच्या दसकांत दिग्दर्शपी ए.सलाम, संगीत दिग्दर्शपी रवी. वांगडा फ्रँकबाब एक हिंदी फिल्म काडूंक येवजितालो. पूण दुर्दैवान सुरवात वांकडी जाली. गुरु दत्त, मीना कुमारी वांगडा *हिरो* जावंक कसोच कबूल नाशिल्ल्यान ही येवजण फिसकटली. एल्. एम्. रातूश एक कोंकणी फिल्म काडपाक सोदी, आनी ह्या फिल्माक फ्रँकबाबाक संगीत बसवपाक सांगलें. पूण दुडवांचे अडचणीक लागून ही येवजण फुडें वचूंक ना. एल्. एम्. रातूश हाचे काण्येचेर 'आमचें नशीब' फिल्म तयार जालें. फ्रँक फेर्नाद हिंदी फिल्मांच्या नावलौकीक संगितकाराचो संगीत मांडपी आशिल्ल्यान ताणें आपल्या फिल्मांत, आपले फिशालकायेचो उपेग केलो. हें फिल्म सादर करपी तशेंच मधूर संगीत दिवपी फ्रँक फेर्नांद जावन आशिल्लो. ह्या फिल्माचें दिग्दर्शन चड भार घेवन ए.सलाम हाणें केलां. तातूंतले कलाकार सी.आल्वारीस, रिता लोबो, एँथनी मेन्डीस, सौजा फेर्रांव, रिको रॉड, रॅमी कुलासो, एम्. बॉयर, ऑफेलिया, कीड बॉक्सर, सेलीन, आल्फ्रेड रोज, ग्रेस सिक्वेरा, एँथनी डी सा, कॅथलीन आदी आसात. हे फिल्म जरूय रंगीत ना तरी तातूंत गोंयचे सुंदर देखावे दिसतात. ह्या चलचित्राची काणी एक मोग करपी जोडयेचेर स्थापिल्ली आसा.

पणजेचो डॉ. मोंतेरो एक वेवसायीक भेट दिवपाक मुंबय पावता. आपलो मेकळो वेळ सारपाक तो एका हॉटेलांत प्रवेस करता. थंयसर फ्लाविया ह्या सुंदर गावप्याक तो भूलता आनी पयलेच नदरेन तिचे विशीं मोग किल्लयता. दोतोराक आपल्या कामा खातीर थंयचो कडसरचो पडटा. ह्या खातीर वालीस ह्या ताच्या बुत्केराक तो फ्लावियाचो सोद करपाक सांगता. पूण फ्लाविया तांका दोगांकय मेळना. दोतोर निराशी जावन गोंयां परतता. गांवचें एमा दोतोराक खुब आशेता. आनी ताका आपलो करपाक वावुरता. इतल्यान फ्लाविया आपलो कोंत्राद सोंपोवन गोंयां पावता. पूण दोतोर ही खबर नकळो. दोतोर आपल्या एका पिडेस्ताक बारेटोबाबाक भेट

दिवपाक वयता. फ्लाविया बारेटोची सोयरी आसता. पूण दोतोराक तिची भेट जावपाक नशीब ना. फ्लावियाची खबर गांवच्या कांय तरणाट्यांक कळटा. बारेटोच्या भलायकेची चवकशी करपाच्या निबान ते फ्लाचीयाचेर तीर मारपाक सोदतात. आनी हे परी बारेटोबाबाक सतायतात.

हे सतावणेंतलो मेकळो जावपाक, घरचीं फ्लावियाक एक काजारी अस्तुरी म्हण वळख करून दितात. बारेटोबाबाचो चलो रॉबर्ट, हें आपल्याक बऱ्याक पडलें म्हण मुरगट्टा, कित्याक ताचे दोळे, फ्लावियाचेर आसतात, पूण नशीबाचें चाक हे फावट दोतोराच्या वटेन फिरता. दोतोराक फ्लाविया दडटा आनी सगळे खुशाल चलता. रॉबर्ट आनी एमा दोगांय हे जोडयेक दोशीं करपाक वावुरतात, आनी फ्लाविया काजारी अस्तुरी म्हण दोतोराक सांगतात. आनी परतून हे जोडयेची दुस्पट जावपाक पावता. पूण नशीबान हो गैरसमज पयस जाता, आनी कडसरिल्लीं काळजां एकवटतात. दोतोराची पार्त सी. आल्वारीस करता, तर फ्लावियाची पार्त रिता लोबो करता. रिता लोबो ही ह्या फिल्मांत नवें मुखामळ जी मुंगळूरकान्न जावन आसा. आनी सद्याक मुंबय अंधेरी वाठारांत रावता. विनोदी भामिकेन एँथनी मेन्डीस आनी आंतोनेत दिसतात. एमाची भूमिका ऑफेलिया आनी रॉबर्टचो अभिनय एमá.बॉयर करतात.

तातूंतलें मांडो दुल्पद गीत, मळबायलो दव, बॅकणायता पाय, भोव लौकीक जाल्यांत, आनी तीं संगीताचो स्वाद घेवप्यांच्या वोठांचेर अजून खेळतात, जीं *एँजल* कंपनीन मुद्रायल्यात. तीं कांतारां बरोवपी सी.आल्वारीस, एमá.बॉयर आनी रॅमी कुलासो जावन आसात. ह्या फिल्मांत एक इंग्लीश कांतार आसा. *आय लोस्ट माय हार्ट टू यू,* जें आल्फ्रेड रोज हाणें रचलां आनी मॉली हिणें गायलां. ह्या फिल्माचें खाशेलेपण म्हणल्यार एँथनी मेन्डीसाचो विनोद आनी तातूंतलीं हीट गीतां. ह्या फिल्माक एक लाख पंचवीस हजार रुपया खर्च आयलो. ह्या फिल्माची सी.डी.काडल्या.



सी. आल्वारीस

### संतस भगता

गावपी: मॉली
रचपी: सी आल्वारीस
संगीत: फ्रेंक फेर्नांद

दोन काळजां आसतोच एके फाशेन
संतोस भोगता दुसरेच भाशेन
काळीज कोणाक रावता जायत आशेन
मुरगट्टा उमेदीन तें खोशेन

मोगाचे करी नेजो वांटे
पारकूंक जायना कितले फांटे
मोग कुड्डो नोको तोपल्यार कांटे
पोयना तो कोण कुड्डे कोण थोटे
सूख भोगता हय मोगान
केन्ना हांसता रागान
मोग उलयता लागान
भोवूंक भागान

काळजाक काळीज दडटा
हड्ड्यांत भितर वडटा
हें फकत मोग करणारां मदीं घडटा

### मळबायलो दव

गावपी: मॉली
रचपी: सी आल्वारीस
संगीत: फ्रेंक फेर्नांद

मोगान आसूंक बरें, जिवीत सुखी खरें
शीतळकायेचें वारें, काळजान आसता पूरें
बऱ्या मोगाचो फोव, आमकां दितोलो देव
फुलां जातात मोव, पडून मळबायलो दव

नदर आमचेर पडून, सुखणीं गेलीं उडून
नुस्तें पोयता बुडून, निर्मोण आयलें घडून
उदकाचें मारून ल्हार, उगडलें मोगाचें दार
मोगाचो गळ्यांत हार. पयस चिंतनांचो भार

फुलां सबयता बाग,
मोगान निवयता राग
मोगाचो काळजाक दाग,
असोच उरूंक तो माग
मोगान बुडलां काळ्.ज,
लागून दोळ्यांचें वीज
मोग तुजो केला नीज,
जाल्यार पुरो फेलीज

### आय लोस्ट माय हार्ट टू यू

रचपी: आल्फ्रेड रोज

गावपी: मॉली

संगीत: फ्रेंक फेर्नांद

(इंग्लीश कांतार)

*आय लोस्ट माय हार्ट टू यू,*
*आय डोंट नो वॉट टू डू*
*प्लीज टेल मी डार्लिंग यू लव मी टू*
*आय एम वेयटींग फोर यू*

*आय लोस्ट माय हार्ट टू यू*
*वेन विल माय ड्रीमस् कम ट्रू*
*कम टू मी डार्लिंग आय एम फिलींग ब्लू*
*वेयटींग फोर यू*

*डार्लिंग इफ यू आर न्यर मी*
*न्यर मी विथ अ स्मायलींग फेस*
*नो वन आय निड् टू चर मी*
*वेन आय एम इन योर वोर्म एब्रेस*
*यू आर माय फर्स्ट एंड् लास्ट वन*
*डीप इन माय हार्ट यू शायन*
*वेन विल यू विस्पर अ वर्ड जस्ट वन*
*अँड से डॅट यू विल बी मायन*

(कोंकणीत समजणी)

मोग भेटयला तुका
कांयच समजना म्हाका
मोग करता म्हण सांग सुखा
तुंच म्हाका जाय, कोण नाका

काळीज भेटयलां खरें
सपन केन्ना जायत पुरें
धांवून यो जाल्या परीं वारें
जिवाक दिसतेलें बरें

म्हजेशीं आसल्यार बुशा
खुशाल रावूंक म्हजी आशा
उरबेर धरूंक कोण नाका पिशा
गोपांत आसतोच भागता नशा
खरेंच एकल्याचो मोग करतां तुजो
दुसऱ्याक लागीं कर नजो
एकूच उतर उलोवन पालय उजो
मोग करता म्हण सांग म्हजो



सी. आल्वारीस आनी रिता लोबो



सी. आल्वारीस आनी रिता लोबो



सी. आल्वारीस आनी रिता लोबो

**बेकनायता पाय**

गावपी: एंथनी मेन्डीस आनी आंतोनेत
रचपी: सी आल्वारीस
संगीत: फ्रँक फेर्नांद

तूं नासलोय पूण तुका स्वॅटर करीं
तुजें चितीं एकलीं आसलीं खरीं
उगडास येतच स्वॅटर हड्डार दवरीं
फुगासांवान म्हजे दीस हांव सारीं
आनी रडटालीं धाकटुल्या भुरग्या परीं

**यो मोगा**

गावपी: मार्था, आरोसीं,मॉली
रचपी: रेमी कुलासो
संगीत: फ्रँक फेर्नांद

यो मोगा तूं म्हज्या सुखा
तुजे विणें कोण नाका म्हाका
हांवूय तेंच सांगूक सोदी तुका
कितले दीस जाले सोदतां,
शेकीं तूं मेळ्ळें म्हाका

हावूंय पिसो आसां तुज्या रुपान
मारीया चंद्रीम तूं दिसता कुपान
काजार जावंक लिसेंस दित जाल्यार
पापान
धरचो ना हांव सारको वल्लेन सुपान
मागीर आसतलें तूं सदांच म्हज्या
गोपान

वालीस तुजीच म्हाका आशा
मोग तुजो करतां हांव खाशा
व्हडल्यान सांगनाकाय पिशा
म्हाकाय मोग तुजो भूशा

वेगीं आमी काजार जावंक जाय
कसलोय वालीस तूं कर उपाय
काजार जावंक खुशी येता बाय
पूण बॅकणायता तुजो पाय

भियेवपाचें वालीस तूं कर थोडें
पोय काय बरें आमचें सोबता जोडें
काजार जातली हांव तुजे कोडें
वारें नासतना आमचें चलता होडें
पूण पापा तुजो करीत म्हजें मोडें.

तें तुज्या मनांतलें विसर वालीस
पापाक म्हज्या तसली ना मालीस
वळखतां पापा तुजो व्हडलो तालीस
तोंडानूय उलोवंक तो मोठो फालीस
म्हाका मोच्यांक करीत पालीस

फुडारार म्हज्या विस्वास म्हजो धर
काजाराचें उतर दिवन धोदोशी कर
काळीज तुजें म्हज्या मोगान
लासता हय तर
तूं वर्तोताय म्हज्या काळजाचो
कुंवर

तूं मेळ्ळयार कितले दीस जाले
सोदून तुका वळ्ळे दोळे
मोगाक तुज्या आशेतात चले
म्हाका नाका दुसरें कोण.
मस्कऱ्यो करशी पळे

मोगाक तुज्या लागून जाल्यां पिशीं
चितूंक ना हावें एक जायत म्हण
अशीं
सदांच मोगान भोंवचीं आतां
भोवतात तशीं
मरो पासून आमी जावंचीं न्हय
दोशीं

काजार जावंक तूं आसाय कबूल
हो मोग म्हजो करशी तूं नूल
सोबीत तुजे, दोळे ते आजूल
पयलेच नदरेन जालों गूल.
तूं दिसता बागेतलें फूल

काजार जावंक वालीस जा राजी
खोशी मोडीनाकाय म्हजी
हांव सांगातीन जातां तुजी
खावंक काजाराची सोजी

मोगान दोळ्यांचेर आयल्या साय
काजार जातच भायर सरता वाय
खोशेन भोंवतलो बांदून टाय
जातच चौगां भुरग्यांचो पाय

सांग मोगा, कितें आसा तुजे मतींत
कित्याक ओगीच आसा हात धरून हातींत
मोग म्हजो विसरून घालीनाका खंतीन
करतलों तुका फुडाराची पतीन



एंथनी मेन्डीस आनी आंतोनेत

**मोगाचें तारूं**

रचपी: एम् बॉयर

गावपी: एंथनी मेन्डीस
संगीत:फ्रेंक फेर्नांद

बेस्टेंच रागान चाळवून,
कित्याक वेताय धांवून
तुज्या मोगान पय वयता हांव बावून

मोगान जायतें बाये घडटा,
केन्नांय हांसता केन्नाय रडटा
पूण तें तुवें हावें समजुचें पडटा

पाळण्यान धोलयता म्हण बेस्टेंच म्हणलें
मोग समजना पळयात हें रागान फुल्लें
दुबाव लागता हें कोणाकय पूण भुल्लें
हें म्हाका फटोवन फटोवन काळीज तुटोवन हात दाखोवन चल्लें

मोगा तूं म्हजें सुख, मोडटा मोगाचो रूख
गोपांत आसतच तूं लागना म्हाका भूक
हाचो मोग केलेलो पोरू, धांवता कशें हाका धरूं
दर्यान लोटून वयता मोगांचे तारूं

मोगा जालें तें जावं, म्हजो गोडाचो पांव
म्हाका सोडशी, तर जीव दितेलो हांव
म्हाका भुलयलो फोर्सान, मोग जालोलो गेल्या मार्चान
अजून पळोवंक ना हावें मोगाची गोडसाण

राव गो सुखा म्हज्या सर्गावयल्या आंज्या
कालसांव देंवता पळे सिंतीमेंतान तुज्या
पुरो शिकयलां तें लिसांव झगडीं नाका करया तेंसाव
देवान घातल्यार पुरो कुर्पेचें बेसांव

मोग तुजो आसा म्हणून धांवून येतां
जालें तें जालें सगळें विसर आतां
तुजी खुशी कर सगळें सोंसून घेतां
पोण तुका फुडाराची राणी करून राजा हांव जातां

**मांडो गोयेंचो**

गावपी: जुलयेट,जेणेत आनी मॉली

रचपी: रेमी कुलासो

संगीत: फ्रेंक फेर्नांद

काळीज खुशेन भरलें आमचें,
कितलें बरें फॅस्त ह्या गांवचें
आमच्या मनान हें दवरचें,
उगडासान फुडल्या वर्साक येवंचें
गांवचें फॅस्त करतात गोंयची शारां,
काय बरीं न्हेसोवन आपलीं घरां
जाण्टीं तशीं नेण्टीं पोरां,
उर्बेन सारतात फॅस्ताचीं वरां

हो मांडो गोंयचो खरो, नाचूंक कितलो बरो
उर्बा हाडटा वारो, वाजल्यारूच पुरो
सगळी रात, न्हीद ना मात,
सान्नां वडे करूंक उकडूंक दवरलां भात
रातचे रानांत आमच्या रडटात कोले
दिसाचे गांवात फिवणी घालतात चले
फॅस्ता दीस, फेरयेंत मीस,
हॅपी फिस्ट म्हण चेडे चेडवांक दितात कीस

बागेंत आमच्या सोबीत फुल्ल्यांत फुलां
थंयसर मूस भोंवतात सांगूच्याक तालां

## निर्मोण





फ्रेंक फेर्नांद


ए. सलाम

1965 वर्सा फ्रँक फेर्नांद ह्या फिल्म निर्मुपी संगीतकार आनी ए. सलाम ह्या दिग्दर्शपी पंगडान निर्मोण चलचित्र तयार केलें. ह्या चलचित्रांतलीं नखेत्रां सी. आल्वारीस, शालिनी, एँथनी डी सा, जासिंतो वाज, सिरियाको डायस, आंतोनेत, ऑफेलिया, सौजा फेर्रांव, जॅक फेर्रांव, रोम्यो मेन्डीस, यंग मेंडीस, जेपसिस हिटलर, रॉबीन वाज, रघुवीर नायक, टिटा प्रेटो, सॅबी डी सौजा, जे.पी. सौझालिन आदी. बाळ कलाकार कीथ, मेल्बा आनी शैला हांचोय आसपाव आसा. तातूंतलीं कातारां सी. आल्वारीस आनी सौजा फैर्रांव हाणीं रचल्यांत आनी तातूंतले क्लावडिया हें गीत भोव लौकीक जाल्लें आसा.

ताची ए. सलाम हाणें बरोयल्ली काणी *लॉर्ड टेनिसन* हांच्या *एनक आर्डन* पात्राचेर आदारिल्ली आसा. एनक *आर्डन* ही *आलफ्रेद लॉर्ड टेनिसन* हाची 1864 वर्सांतली कविता. ह्या कवितेंतलो नट एक व्यापारी तारवटी (आदलो खारवी) घराब्याची बरी सेवा करपाक आपल्या बायल भुर्ग्यांक सोडून तारवार काम करता.आपली वियाज मारताना ताचें तारुं अपघाताक सांपडटा आनी तो शेवटीं कांय वर्सां उपरांत घरा परत येता, जाल्यार ती आपल्या इश्टा लागीं लग्न जालेली

पळेता.

एक गरीब गांवठी तरनाटी क्लावडिया, एका आधुनिक, गिरेस्त, वेपाऱ्याच्या जो उपरांत मिनेर जावंक पावता, भुलोवण्याची परवा करनासतना संगीताक लब्धल्ल्या एका गुणेस्त संगीत मेस्त्रीक मारकूस हाका वेंचुन काडटा. आपलो दिसपट्टो ग्रास आनी रीण, संगीत शिकोवपाचे नोकरेंत भागोवपाक जायना देखून मारकूस तारवार वचपाक भायर सरता आनी दुर्दैवान ताचें तारू अपघाताक सापडून बुडटा.भुकेचे वळवळे सोंसूंक जायना देखून ती नोकरी सोदता, पूण तिका कोणाचोच आदार मेळना. हाची संदी घेवन क्लावडियाक आदी सावन आशेल्लो मिनेर तिका आपल्या पागेरांत घालपाक सोदता. पूण ती मजबूत रावून हें सगळें नाकारता. क्लावडियाचें निर्मोण तिका वायट दीस धाडटा. आनी कसलोच उपाय ना जावन आपल्या भुरग्यांच्या बरेपणा खातीर ती शेकीं मिनेराकडे काजार जाता. इतल्यान. आफ्रिकेचो एक एकसूरो जाण. एका गोंयकारांचे वस्तींत भोंâविल्लो दिसता. हो जाणटेलो एक दीस आपलें रचिल्लें क्लावडिया कांतार आयकता आनी आपूण कोण तो ताका उगडास येता. थंयच्या लोकांच्या बरेपणान तो गोंयां परतता. गोंयां पावतकुच ताका आपली बायल दुसऱ्याची जाल्ली पळोवपाक मेळटा. अखरेक ताचे वाटेन निर्मोण साथ दिता आनी दोगांय एकठांय जातात. ती काणी, मनशाचें काळीज म्होवाळपी, भावनेंत रेवडिल्ल्या समाजाक कळवळावपी जावन आसा. ह्या फिल्माचे जायराती प्रमाणे निर्मोण चलचित्राची काणी दोन जिवीतां जियेवपी अस्तुरेची जावन आसा.

मिनेराची पार्त एँथनी डी सा, मेस्त्रीची पार्त सी.आल्वारीस आनी क्लावडियाचें सवंग शालिनीन केलां. जासिंत वाज विनोदी भूमिकेन दिसता. ह्या चलचित्राचें खाशेलेंपण म्हणजे मनभुलोवपी अलंकारी देखावे, तोखणाय करपा सारकीं सवंगां. विनोद, खडेंगाठ अभिनय, सात *हीट* गीतांचे सूर, चक्क फोटोग्राफी आनी उत्तम दिग्दर्शन. निर्मोण फिल्माक केंद्र सरकाराची *सर्टिफिकेट ऑफ मॅरिट* फावो जाल्या. ही कोंकणीक पयलेच फावट जावन आसा. ह्या फिल्मांत सांत फ्रान्सिस शावियराचें रॅलिकेचें चित्रण पळोवपाक

मेळटा. तसोच तातूंत एक पुर्तुगेज फादी दिसता. ह्या फिल्मांत याद उरपी भूमिका सी. आल्वारीस, शालिनी, एँथनी डी सा आनी जासिंत वाज हांची जाल्या. तातुंतली मनभुलगायती न्हीद म्हज्या बाय, उपकार करात, क्लावडिया कातारां अजून लोकांच्या वोंठार खेळटात. हें फिल्म 'तकदीर' नांवा खाल ए. सलाम हाणें हिंदी फिल्म तयार केलां, जातूंत शालिनी, भारतभूषण, जलाल आगा आनी फरिदा जलाल हांच्यो मुखेल भूमिका आसात. 'आमचें नशीब' आनी 'निर्मोण' फिल्मांच्या गीतांची उतरां आनी सुंदर देखावे सरगम नांवाचें यादस्तीकेचेर पळोवपाक मेळटात. हीं गीतां एँजल कंपनीन मुद्रायल्यात. 'आमचें नशीब' आनी 'निर्मोण' कलाकारांची निवड सी. आल्वारीस हांणी केल्या. ह्या फिल्माची डी.वी. डी. काडल्या. ह्या फिल्माक 1 लाख 50 हजार रुपया खर्च आयलो.



सी. आल्वारीस, सौजा फेर्रांव आनी हेर



शालीनी भुरग्यां वांगडा



जासींत वाज

**उपकार करात**

रचपी: सी. आल्वारीस

गावपी: जासींत वाज

संगीत: फ्रेंक फेर्नांद

काजार जावंक आसा, बरो चलो
आंकवार चलयांक तो करता उलो
तकलेन तो हुशार, सारकोच कोलो
घरजांवय म्हणशीं, रोकडोच जालो

दोत म्हणचे घेयना, काळें-गोरें पोयना
रागारूय जायना, खोडी कांय ना
व्हंकल खंयचीय जावं, न्हवऱ्याचो राय गांव,
सांगता ताचें नांव, बाल्तू तो हांव

बारीक जावं मोठें, उतर दितां
लांब नोको मोटवें, मानून घेतां
हांव एकदम नितळ, सदांच न्हातां
सुमानाक एक फावट, कुंमसार जातां

भोंवडायतां थाली, हांव म्हजोच माली,
सोयरीक तर जाली, बॉल्सां खाली
तुपाचीं फोडणां, सांगूक हें तोंड ना
न्हीद म्हाका पडना, एकलो, कोण ना

चेडवांनी म्हजी घेयात खबर
सगळ्यांनी काळीज, केलां निबर
चिंतून हें सगळें, जाता जबर
नशीबार म्हज्या बसलां माजर

मोनें जावं भेरें, मेळटा तें बरें
दिसता तर खरें, धरतां वेरें
घालिनाका रिस्कार, सोडटां हो सुस्कार
पळोवन म्हजो रुपकार, करात उपकार



सी आल्वारीस आनी शालीनी



एंथनी डी सा



सर्गेस्त प्रधान मंत्री इंदीरा गांधी फ्रेंक फेर्नांद हाका सरटिफिकेट ऑफ मेरीट भेटयताना



सर्गेस्त प्रधान मंत्री इंदीरा सी. आल्वारिसाक बऱ्या नटा खातीर इनाम भेटयताना



सर्गेस्त प्रधान मंत्री इंदीरा शालिनीक बऱ्या नटी खातीर इनाम भेटयताना

**क्लावदिया** गावपी: आंतोनेत आनी रोम्यो

रचपी: सी. आल्वारीस संगीत: फ्रेंक फेर्नांद

क्लावदिया, मोगाच्या, उर्बेभरीत जीव आसा म्हजो
क्लावदिया, नीज म्हज्या, दोळ्यांचेर छापला रुपकार तुजो
क्लावदिया, काळजांत ह्या, मोगाचो पेटून आसा उजो
क्लावदिया, पोय आंज्या, मोग आमचो म्हातारो जावं नजो

मोयपासान, न्हिवता तान, जिवीत आमचें न्हय एक सपन
भुरगीं थावन, सांगातान, भालो दोन काळजांत आसा तोपून
ओनोदान, नशीबान, गूट आमचो उरूं नेजो लिपून
व्हडलो मान, संवसारांत, बरेंपण दवरीत जाल्यार वंपून

क्लावदिया, देव बापान, रचल्यांत एकठांय जियेवंक आमी
कितेंय जावं, धर तेंसाव, फकत मर्ण घालीत दुखांनी
क्लावदिया, तुजें नांव, सदांच खेळटा म्हज्या वोंठानी
गरीब हांव, जाणा गांव, मोगान गिरेस्त सर्वय वाटांनी

**नाच आतांचे**

गावपी: कारमो रॉड

रचपी: सी. आल्वारीस

संगीत: फ्रेंक फेर्नांद

भुरगे जावं जाण्टे, सगल्यांचे तंटे, नांच आतांचे, यां पां पां, यां पां पां
काजारी आंकवार, सगळे सांकवार, पाडे जोताचे, या पां पा, यां पां पां
वाजतोच काय बरीं हालतात सगळ्यांचीं भेंडां
खांवचो जेवचो उगडास कोणाक येना
कोण नाचूंक नकळो तांचीं काळीं तोंडां
पूण बँडवाल्याक मातूय सुशेग दिना
कसल्यो रे खडी, सोडटात वोडी, नाच जायना बंद, या पां पां, या पां पां

आवय! म्हातारीं पासून नाचतात अशीं हालून
नाचाच्या भारान मोचे वेतात सोलून
मागीर बेश्ट्या पांयानी घरा चलून

आरे नाचाच्या सालांत, चीवींग-गमां गालांत, कितें चेराचो वास, या पां पां, या पां पां
आरे घामाचो लोट, तरी नाचतात फॉर्त, वा पोय तूं नाचाची आस, या पां पां, या पां पां

मुजगांनी वाजतोच सगळ्यांची ल्हंव फुलता
चेडो खंयसर, चेडूं थंयसर धोलता
गमत कसली माड कशे तीं हालता
नाचूंक नोकोय जाल्यारूय चलता

आदले काय बरे नाच,पळोवन न्हिवताली आस,आता मारता थडथडो, या पांपां,यापां पां
आता कसलीं दोंगां, कोण घालता पोंगां, कोण काडटा कडकडो, या पां पां, या पां पां

## न्हीद म्हज्या बाय

गावपी: शालीनी
रचपी: सी. आल्वारीस
संगीत: फ्रेंक फेर्नांद

धोल म्हज्या बाय, न्हिद म्हज्या बाय, पिपीट हाडटलो पाय
कावळो रडून, घराचेर घाय, विचारी कितें जाय
कावळ्या बाबा, रेकाद दिला, बायेक हुस्को जाला
बायेच्या पायन, फोटू व्हेला, बिस्कूत हाडूंक गेला

पाय मोगाचें, बाय म्हजें धोल, तुका दितेली बॉल
सपनांत उठून, पाय सरशीं चल, दाखय मोगाचे मोल
चान्नी मामा, केंकें दिता, बायेन केली ताता
दिसूय सरून, रातय वेंता, पायचो उगडास येता

## पेरगुंतास्ते फादू

(पुर्तुगेज कांतार)
गावपी तूना आकादेमीका

*पेरगुंतास्ते मी अवत्रू दिया*
*से येव साबिया उ के यार उ फादू*

*येव दिससे ते एके नांव साबिया*
*उ तु फिकास्ते आदमीरादा*
*सें साबेर उ के दिजीया*
*येव मेंती अकेला व्हरा*
*मेस बिबां कि ये साबिया*
*वव ते कोंत्रा आगोरा*

*आलमास वेंसिदा, नैतीस पेर्दीदास*
*संबरा जिजारा*

*ना मौरारीया कांते रुफियास*
*शñरां गितारास*
*आमोर ए स्यूयमीस सिंजास*
*एलूमीस दर ए पेकादू*
*तुदू इस्तु एक्जिस्ती तुदू एस्तु*
*ए त्रिस्ती तुदू इस्ती ए फादू*

(कोंकणींत समजणी)
त्या दिसा म्हाका विचारलें तुवें
हांव जाणा जाल्यार फादू कितें तें

हांवें तुका हांव नकळो म्हण्टलें
आनी तूं अजापून गेलें
मागीर याद जाली हांव तें जाणा
तें कितें तें सांगतां
उलयलों हांव चिंति नासताना
वगतार फट मारली कळनासताना

सोंपलेले आत्मे, सांडलेल्यो राती, सगळ्यो काळखी
गांवार गावपी चल्यो, गितार वाजोवपी
मोग आनी नसाय, सावळी आनी उजवाड, पातक आनी खंती
हें प्रत्यक्षांत आसपी, हें सगळें दुखी
हाचो आसपाव, फादू दिवपी

**कुणबी आवराडी**
रचपी: सौजा फेर्रांव

गावपी: रॉबीन वाज,सौजा फेर्रांव
संगीत:फ्रेंक फेर्नांद

आवरा वताय कुराडी मान खांदारी
कुदोळ वयर सकल काण फोडटाय भांडारी

घर बांदूक निचळायताय चिरे तांकारी
सोनवो दीस भाकरा भाटू पाडटलेय तोंकारी

फोडी घाताय नस्त्याक पुरयच्याक अंडे
रोयताय तवशीं, मोलावन विंचताय भेंडे
पोरू वर्सा नाशीन पिकयले गोंडे
भाटां पुंजयताय नाल्ल बोंडे

रेंदाक चेलाय काजुंचे आफ्रामेंतू
हांडीयान नोयन कुंवान पिकयचे चिंतील शेतू
ह्या वर्सा साठ रुपयांनी विंचील भातू
चेस्ल्या आवराक आमी नोकडे घाताय हातू

मळां पोरसां नोयन ओरोव वाडोवंया
काजू बियो भायर धाण निब्रां जोडूंया
शिकणार येयाय नज ना आवर करुंया
आवरा व्हडपण वयर दवरुंया

भलायकेन घट गा कुणबी नोकडा खांबो
पावस वतान आवर कोन नेजें जिवीत नांवो
आबील घटाय दित नाका वखदा थेंबो
सकाणीं आवराक तयार साद घातरी कोंबो

रस्ते बांदल्याय कुणे ? आवराड्यांनी
मीन उस्तीलां कुणे ? आवराड्यांनी
रानाचीं शारां केल्यांय आवराड्यांनी
गांव सुंदरायतल्यांत आवराड्यांनी

**सां फ्रांसिस्कू शावियेरा**

गावपी: सेंट फ्रांसीस दे आसिसी शाळेचें
गायन मंडळ, बोरिवली



सां फ्रासीस्कू शावीयरा
तुजी कूडू गोंया शारा
जेजूच्या सांगाता
सदांच तुजी निती वर्तोता
सां फ्रासीस्कू अंतरलो
तो सांतू जालो
मेज्रीकांवू फुल्लो
भकता तुज्या फोंडावयरी
सां फ्रासीस्कू शावीयरा
तुजी कुडू गोंया शारा
भावलो पापा रोमा शारा
आत्मो तुजो सर्गा नगरा



**आंतोनेत.रोम्यो आनी ऑफेलिया**

# सुखाचें सपन




जॅरी ब्रागांजा

1966 वर्सा सेप्टेंबरचे पयलेर हेलन प्रॉडक्शन्स हांचें सुखाचें सपन हें जॅरिबाब ब्रागांजा हांचें चलचित्र गोंयचे संस्कृतायेचेर आदारून तयार केल्लें दाखोवपांत आयलें. ताची काणी एल्. एम्. रातूश हाणें बरयल्या. गोंयचो एक आयरीश नांवोचो चेडो आसता. तो लक्ष्मण शेट हाचे गॅरेजींत काम करता. तो आपल्या कामांत हुशार आसता. ताच्या मोगांत इझाबेल नांवाचें चेडूं पडटा. आपलो फुडार परजळीत करपाक तो मुंबय वयता. मुंबय एके गॅरेजींत हुशारकायेन काम करता. ते गॅरेजीच्या पात्रावांक आयरीन नांवाचें एक सोबीत चेडूं आसता. त्या चेडवाचेर तो आपले *इंप्रेशन* मारता. आनी ताच्या मोगान पडटा इतल्यान ही खबर इझाबेलाच्या कानांत पडटा. तें मुंबय वचून आपली खात्री करता. मुंबयच्यान गोंयांत परतता आनी जीव दिवपाक सोदता. त्या वेळार ताका लक्ष्मण शेट वाटायता. असल्या त्रिकोनी मोगाचो शेवट कितें जाता तें ह्या फिल्मांत इस्कुटायलां. शेकी सुखाचें सपन नदरेक येता. म्हापशेच्या श्रीरंगबाब

नार्वेकार हाणें लक्ष्मण शेटीची भूमिका केल्या. ह्या चलचित्राक मानुयेल आलफोंसो हाणें संगीत बसयलां. आनी कातारां रॉबीन वाज, आनी आल्फ्रेड रोज हाणीं रचल्यांत. ताचे मुखेल कलाकार फातिमा, जॅरी ब्रागांजा, आंतोनेत, रिको रॉड, सौजा फेर्रांव, रोबीन वाज, आल्फ्रेड रोज, सिसिलिया माशादो, जॉयस नॉर्टन, जॅम्स ब्रागांझा, फ्रांसिस ऑलिव्हेरो गोमीस, विणा, पेट्रिक वॉग, वरनन, जून, मारिया आनी श्रीरंग नार्वेकार जावन आसात. तातुंतलीं गाजिल्लीं गीतां रॉबीन वाजाचें सिताराम गाडीवाला, पातवांतलीं कुंवर, ज्युरामेंत नखेत्रांचेर, मोतियांचो शृंगार हीं जावन आसात. हीं कातारां एच्.एम्.व्ही. रिकॉर्डीचेर आयकूंक मेळटात.

### सिताराम गाडीवाला

रचपी: रॉबीन वाज



रॉबीन वाज

गावपी: रॉबीन वाज, सिसीलीया माशाडो आनी हेर

गाडी घेवुनू जात्रेक वयतां, आरे गाडी घेवुनू जात्रेकू वयतां
येतात जाल्यार सांगात म्हाका, म्हुजे बराबर व्हरतां
येतात जाल्यार सांगात म्हाका, म्हुजे बराबर व्हरतां
गाडी घेवुनू जात्रेकू वयतां, आरे गाडी घेवुनू जात्रेकू वयतां
ओह आमोरी जाली, सिताराम उपकार करी
बगलेक तुजी हाडून गाडी, जात्रेक आमकां व्हर
यो यो यो, यो यो यो, यो यो यो, यो यो यो, यो यो
तुमकां गाडयेंत बसयतां, आनी जात्रेक पावयतां
उपरांत तुमचे बराबर, हावूंय बी येतां

व्हर व्हर व्हर गा सायबा, तुजे बराबर व्हर
व्हर व्हर व्हर गा सायबा, तुजे बराबर व्हर
ओह! ओह! आमोरी जाली, सिताराम उपकार करी
बगलेक तुजी हाडून गाडी, जात्रेक आमकां व्हर

काय बरीं पळोवंक तुमी दिसतात
काय बरीं हालून धोलून नाचतात
सगळ्यांक पयतच तुमकां, मजा दिसता म्हाका
सांगात प्यार म्हजो करतात वो ना ?

सिताराम भियेनाका त्या पासत
तुज्या प्यारान आमचें काळीज वेता लासत
आमकां गाडयेंत बसय आनी जात्रेकू पावय
उपरांत भोंवचें हासून नाचत



रॉबीन वाज



जॅरी ब्रागांजा, आंतोनेटे आनी सौजा फेर्रांव

### जुरामेंत नेखेत्रांचेर

रचपी: आलफ्रेड रोज


मानुयेल आल्फोंसो

गावपी: जेरी ब्रागांजा

संगीत: मानुयेल आल्फोंसो

जुरामेंत तुका दिताâ नखेत्रांचेर, पातयेवन तूं राव म्हज्या उतरांचेर
काय बरीं सोबीत फुलां फुल्ल्यांत ह्या काळजाचेर,
कशीं विसर हांव घालतलीं तांचेर

कोरसः

चंद्रीम पळे लिपला कुपांनी, दोळे कित्याक भरताय रे दुकांनी
पळे आंज्या म्हज्या दोळ्यांनी, भियेनाकाय घालचो ना खंतिनी

दिलेलें उतर हांव वेचोना नेगार, मोलादीक ही भेट दवरतलों आंगार
तुज्या शिवाय कांयच नाका संवसारांत असलो शृंगार,
कित्याक आंज्या काळजांत जाताय फुगार

कोरस :

कायबरी रात थंडायेची, घट आयज करया बुन्याद मोगाची
हांसून दाखय खोशी काळजाची, तूंच वर्तोता दिवली फुडाराची
समदिराचें उदक सावें जावंचें ना, गुलाबाच्या झाडाक, शेंवती फुलचिना
तशेंच ह्या म्हज्या काळजाचेर, इंग्रातपण जल्मुचेंना,
काळजान फुलयल्या फुलाक विसरूंक जावंचें ना.

### पातवांतली कुंवर

गावपी: जॅरी ब्रागांजा आनी सिसीलीया माशाडो

रचपी: आल्फ्रेड रोज

संगीत: मानुयेल आलफोंसो

काळीज हें हांसता पोय, नाचता पोय कुंपासार
अंत्रळार सुकणीं पासून करतात आब्रासार

त्या फुलांचो परमळ फकत गोमता वासार
मोगाचीं चिंतना ह्या मनांत जातात पासार

पळोवन तुका नदर पासून, फांकारलो मोगाचो उजो
तूं वय तसो तूं पोयनाका म्हज्यान तुका कांयच दिवं नजो
पुरो पुरो तूं फुलांचो तुरो, ह्या फुलांनी लिपला मोयपास आमचो

म्हाका तूं हांसयता, भुलयता ह्या उतरांनी
सांग कित्याक उलयतात असल्या फिग्रांनी
पळे तें घर बांदलां मोलादीक फातरांनी
असलें हांव बांदतलो ह्या म्हज्या हातांनी

कोरसः

उतरां तुजीं गोडां गोडां, त्या मुसाच्या म्हौंवा परीं
पोय दर्याचीं ल्हारां ल्हारां, खडपाचेर पडटात कायबरीं
ल्हारां तीं सुखाचीं, ल्हारां तीं मोगाची
आशेतात एक करूंक काळजां आमचीं

माणकां मोतयां दियामांत जायना सर
दोळ्यां मुखार आसतच पातोवांतली कुंवर
उजो नासतना कित्याक तूं करताय धुंवर
सोसूंक जायना देखून ह्या दोळ्यांचो पावर

कोरसः

चिंतून काळीज म्हजें, सगळेंच घुस्पलां कांट्यांनी
हाय देवा वाटाय म्हाका, फारवलां सगळ्यांच वाटांनी
तुका विसरचोना, तुका हांव सांडचो ना, घट बांदतलो मोगाच्या दोरांनी
तुका विसरचीना, तुका हांव सांडची ना, घट बांदतलीं मोगाच्या दोरांनी

काळीज हें हांसता पोय, नाचता पोय कुंपासार..........

**मोत्यांचो सूंरगार** गावपी: जॅरी ब्रागांजा,सिसीलीया माशाडो आनी हेर

रचपी: आल्फ्रेड रोज संगीत: मानुयेल आल्फोंसो

साक्रामेंत जोडलो, एकवट आयज जडलो, काळजां गुंतलीं दोगांयनी
आदाराक मेळ्ळो, सुख सâतोस व्हडलो, सदांच मोगान जियेवंची
एकामेकाक लजताल्यांव, पयस रावून हांसताल्यांव
वेगीन आमी एकठांय जावंक आशेताल्यांव
एकामेकाक लजताल्यांव, पयस रावून हांसताल्यांव
वेगीन आमी एकठांय जावंक आशेताल्यांव

व्हडें हें तांडून, तडीक व्हरून, एकवटाक बरें मागून
विस्वासान चलून, जड-मोड सोंसून, देवाचेर भावार्थ दवरून
कोरसः
वाटेर पासार जाताना, करार कांतार करतना
काळजां मुरगट्टांली नदर मेळटना
आâज बोडवे सर्गार, नखेत्रां मळबार
वाट पोयतात, जायतीं साबार
मोतयांचो शृंगार, दोगांयच्या काळजार
मोरोसर परजळूंक जाय.
कोरसः
सगळे दीस ते रावपाचे
काळजां उपाट भरपाचे
लिसेंस आमकां मेळ्ळां मोगान भोंवपाचें.

## म्हजी घरकान्न





शालिनी

1969 वर्सांत म्हजी घरकान्न ही मुव्हीरमा, शालिनी म्हाड्डोळकार आनी ए. सलाम हांची प्रस्तूती.ए.सलाम हाणें काणी बरोवन दिग्दर्शन केली. शालिनीबाय गांवांन म्हाड्ड्ळची आनी तिणे जायत्या तियात्रांनी काम केलां. आनी सौजालीन तियात्रीस्तांच्या धार्मिक तियात्रांनी सायबीण मायचे पार्तीक लागून गाजल्या. तशेंच निर्माण चलचित्रांत मुखेल अभिनय केला आनी हिंदी फिल्म तकदीर हातूंतली ती मुखेल नटी आसा.

संगीत फ्रँक फेर्नांद हाणें बसयलां. ताची काणी विनोदी आसून एक फट पचोवपाक साबार फटी मारच्यो पडटात तें बेस बरें दाखयलां. आपल्याक बरें दिसता ते प्रमाणे धुवेचें काजार जायना देखून तिचो बापूय तिच्या काजाराक येनासतना रावता. ती आपल्या बापायक आपूण एका गिरेस्ता लागीं काजार जाल्या म्हण कळयता. गिरेस्त चलयेचो बापूय आपले चलयेचो फुडार कसो चलता तें पळोवपाक चिंतता आनी ह्याखातीर आपूण ताका मेळपाक येता म्हण कळयता. ही जोडी आंजेला आनी जासिंत जावन आसतात. आतां ही जोडी रावता तें घर धाकटें कारण तीं गरीबकायेन दीस काडटात. आपल्या बापायक खुशाल दवरपाक तीं भाड्याचें

जिवीत जियेपाक येवजितात. शेजारच्या दोतार कुरैर्याच्या घराची चावी एके शेजान्नी कडेन आसता. हें घर व्हड आसून तातूंत घरवत, फोन, असल्यो गिरेस्तांगेर आशिल्ल्यो वस्तू आसतात. हें आपलें घर म्हण सांगतात. आतां चलयेच्या पायक भुरग्यांची व्हड अपुरबाय तर हिंदू शेजान्नीचो पूत त्या घराचे पांवडें चडटना बापायक सापडटा आनी तो भाड्याचो चलो आपलो नातू म्हण समजता. पायक आपलो घोव बरो दिसपाक, एका कलाकाराक घोव म्हण दाखोवपाक सोदतात. आनी हातूंत खरो घोव कुजनेर जावंक पावता. आनी अशें करतना भुरग्याचो वाडदीसूय समारंभतात. तांची अशी समजूत आशिल्ली की पाय दोन दीस रावून परत वयतलो. पूण तो तांच्या संवसारांत गुल्ल जाता आनी आपलें पेणें वाडयता. इतल्यान घराचो अस्सल धनी येता. आनी सगळे सत कितें तें उगडापें जाता. ही लज सोसूंक जाय नाशिल्ल्यान आंजेला जीव दिवपाक वयता. आंजेला ना देखून सगळीं तिका सोदूंक लागतात आनी शेवटी तें सापडटा आनी शेवट गोड जाता. आंजेलाची पार्त शालिनी करता तर जासिंताचें सवंग जासिंत वाज निभयता. कलाकाराचें पात्र सी. आल्वारीस करता. ह्या चलचित्रान थोडे विनोद बरे आसात. तांचो कुजनेर आपूण घर साफ करपाक चड हुशार म्हण्टा आनी खरेपणी तो घर साफ म्हणजे चोरी करता. आपलो घोव ताजमहाल हॉटेलांत *एरकंडिशन्ड* कुडींत रावता म्हण सांगता पूण खरेंपणी तो कुजनांत गरमेन हुलपता. मोटोरिंत पेत्रोल ना देखून एक बेबदो मोटारिचे टाकयेंत बाटलेंत आशिल्लो सोरो वोत्ता. आनी मागीर मोटार सुरांट्या भशेन वांकडे तिकडें चलता. तातूंतले मुखेल कलाकार सी. आल्वारीस, शालिनी, जासिंत वाज, सौझा फेर्रांव, रिको रॉड, रॉबीन वाज, सुषमा, तातू वेलिंगकार, रिता रोज, प्लाटिल्डा, साबिना, आरिस्तीदिश डायस, सिसिलिया माशादो आनी बाळ कलाकार गोती. ह्या फिल्माचें संगीत गीतां रचल्या उपरांत बसयल्ल्यान, तें तितलें प्रभावी जावंक पावलें ना. जावचें न्हय दोशी. एक एकसुरो भुरगो, *हॅपी बर्थ डे*, खड्डो म्हातारो, फुडाराचो दिवो, कार्नावालाचो दीस कातारांचो आस्पाव आसा जीं. एँजल रिकॉर्ड हाणीं मुद्रायल्यांत.


सौजा फेर्रांव


जासींत वाज

**एक एकसुरो भुरगो**

गावपी: जासींत वाज

रचपी: सी. आल्वारीस

संगीत: फ्रेंक फेर्नांद

एक एकसुरो भुरगो वाड्यांत सदांच दिसतालो
आपले सावळेक भियेवन तो चिंतूक बसतालो
चेडवांशी पावतच तांका मुरगटून हांसतालो
चेडवां नासतना तो एकलोच नाचतालो

चिंती आपूण संवसारांत दीस कशे सारूं
ना वड्याक शीड कशें चलतलें तारूं
चेडवाक पळोवन म्हणो कोणाक पागेर मारूं
आपूण आपल्याकच तो समजतालो गाडूं

रात दीस तो वाती पेटोवन देवाक करी रोजार
एकसुरें वीद सारून तो जालोलो बेजार
चिंती बायले बोरीं केन्ना जेवतलो मेजार
म्हणो आपल्या नशीबांत ना म्हण काजार

एक दीस तो रस्त्यावयल्यान एकलोच वेगीन वचो
एका चेडवान पोवन आमुरकोच मारलो हांसो
जायते फावट तो असो चेडवांक पळोवन फोसो
पूण हे फावट सारकोच ताका सांपडला सोंसो

आंज्या सारकें रुपणें ताचें पोवन जालों गूल
वाऱ्याच्या पाकरां मदें आसचें ना तसलें बुलबूल
बागीं मदें ना ताचे असलें परमळीत फूल
इतलें तें सोबीत दोळे आनी ताचे आजूल

आवचीत देरेफेंत शितळकायेचो मारलो वारो
ताका पळोवन ताचीं चिंतनां जाली पोरो
काळजान थावन ताणें ताचो मोग केलोलो खरो
शेवटाक काजार जालीं फुडार मागून बरो.



जासींत वाज, सी आल्वारीस, सौजा फेर्रांव आनी शालीनी



सिसीलीया माशाडो

**खड्डो म्हातारो**

गावपी: सिसीलीया माशाडो

रचपी: सौजा फेरांव

संगीत: फ्रेंक फेर्नांद

भाकराबाब म्हाका आपोयता
शंबरांच्यो नोटी अशो दाखयता
हाताक धरून आपले कुशीक बसयता
आनी माजीर आय हा हा हा
वेंग मारून नाचयता

म्हाका चोयतकच ताचेर येता भार
आवरा व्हरताय, पूण करूंक दिना आवर
घरांत व्हरून म्हाका बंद केलें दार
आनी माजीर, म्हजे आवय
फाटल्या दारान काडली पार

मोटारकार म्हाका मोटरांत आपोयताय
व्हरून म्हाका सारके मुखार बसयताय
मागीर मोटार कुतू रस्तेन चलयताय
आनी माजीर हा हा हा
मोटार माडार चडयताय

मुखो काजार जावंक सोदता बाब कामिलू
बारकेलो सारको दिसता बोंबिलू
तेगे फूंय बोंमाय आसा फामिलू
तेक फोबोर ना
आमी जेयताय आंबिलू

म्हुज फाटल्यान लागला भाकारू
पांच रुपय म्हाका दिता पागारू
नक म्हण्टा घरा म्हाका बेकारू

पूण तो शी हा हा हा
आसा खड्डो म्हातारो.



आल्वारीस,जार्सीत, फेर्रांव आनी शालीनी



जार्सीत,शालीनी आनी फेर्रांव

फुडाराचो दिवो
रचपी: सी. आल्वारीस

गावपी: शालीनी
संगीत: फ्रेंक फेर्नांद

कितलो तूं बरो, बाबा म्हजो खरो
भुकेलाय खरो, तूं फुलांचो तूरो
कितली आपुरबाय, करता तुजो पाय
खोशी जाता शापाय, सगळ्यांकूच तूं जाय

मागण्यांनी तुका पुता देवान दिला
कितले कश्ट सोंसून कुसव्यान हावें सांबाळ्ळा
मागण्यांनी तुका पुता देवान दिला
कितले कश्ट सोंसून कुसव्यान हावें सांबाळ्ळा
रडून जीव बावला, आंगवण्यांनी मेळ्ळा

पुता तुका मान, न्हिंवता म्हजी तान
शिंपलाय हावें दुदान, शापाय सारके दोळे कान

फुडाराचो तूं पुता म्हजो दिवो
घराक ह्या तुजो उजवाड जावो
हांव आशेन रावल्यां आयकूंक तुजो तावो

कितलो तूं बरो बाबा म्हजो खरो
एकलोच तूं पुरो, पाय भाशेन गोरो

**कारनावालाचो दीस** गावपी: जासींत वाज, रिको रॉड आनी सी.आल्वारीस
रचपी: सी. आल्वारीस संगीत: फ्रेंक फेर्नांद

आयज कार्नावालाचो दीस, सगळे आसात कासावीस
घोव बायल सांगातान आयकतात मीस, म्हजो जालो पोपीस
हांव काजारी पूण आतां आंकवार, भलतोच येवन बसला सांकवार
म्हज्या माथ्याक चिंतनांचो भार, हुंदराक न्हय लोखणाचो वावर

हें तोंडाक तुज्य: घालून मोयें, रुप लिपयलां तुवें
पूण जरी तुकां सांगल्यार हांव, तुजें तोंड जातलें काळें
म्हजो सदांच बरो आसा ताल, हांव *ऍक्टर* जालां आयजकाल
हांव नाचता âआयज म्हण कार्नावाल, पूण *ऍक्टींग* म्हाका पडलां माल

एक सोरोप येवन रावत तर घरांत, भियेवंक लागतां जोरान
तूं आर्म घेवन मारीत फारान, लोक भरतलो दारान
कासादोर हांव चड बरो, सुकण्यांचो करतां चुरो
म्हाका सांगलां तितलेंच पुरो, हांव दीस रात करतां पारो

एक नाकार म्हज्या मूस बसला, बेश्टोच ताका पोसला
तो पणसाच्या दिखाक दसला, गरजे भायर बाबडो फसला
म्हजी घरकान्न कितली बरी, म्हज्या मोगान लासता खरी
ही खबर हांव जाणां पुरी, भितरल्यान तोपता सुरी

हांव सांगीत तर म्हजी काणी, उदक जातलें पाणी
घैरांव करता वाणी, ना जातच घराची राणी
मावोडेचें घर हें व्हडलें, आतां सगळेंच म्हाका पडलें

हांव नोको कितें जायत तें फुडलें, पींत पासून भितर कडलें.

**जावंचें न्हय दोर्शी**

गावपी: सी. आल्वारीस आनी हेर

रचपी: सी. आल्वारीस

संगीत: फ्रेंक फेर्नांद

गावडो गेला वयल्या रानांत
गावडी न्हेसल्या कुड्या पानांत
गावडे गे गावडे, फूल भरी पानां

गावडो गेला वयल्या रानांत
गावडी न्हेसल्या कुड्या पानांत
गावडे गे गावडे, फूल भरी पानां

मोगान भोंवचीं आतां भोंवतात तशीं
मोरो परयान दोगांय जावंची न्हय दोर्शी
देवाचें बेसांव आसतलें आमचे सरशीं
रागान रावल्यार फुडार करतलीं दुखी

भियेनाका म्हज्या सुखा, आशेलां पयतच तुका
भियेनाका म्हज्या सुखा, आशेलां पयतच तुका
गावडो गेला वयल्या रानांत
गावडी न्हेसल्या कुड्या पानांत
गावडे गे गावडे, फूल भरी पानां

सदांच म्हज्या आसताय गोपांत
तुका पोयतच चंद्रीम लिपता कुपांत
तूं आनी हांव भोंवतोच सांगातान
लोक म्हण्टा तूं न्हय म्हण म्हजी घरकान्न

घरकार म्हजो कितलो बरो, मोग म्हजो करता खरो

घरकार म्हजो कितलो बरो, मोग म्हजो करता खरो
गावडो गेला वयल्या रानांत
गावडी न्हेसल्या कुड्या पानांत
गावडे गे गावडे, फूल भरी पानां

मोगान तुज्या हांव जाल्यां पिशीं
काजार जातच काळीज जालें धोदोशी
चितूंक नासलें बायल मेवत म्हण अशी
मोगाळ उतरांनी म्हाका करता पिशी

आतां आमी आयल्यां दोगां, फुडले फावटी येवंची तिगां
आतां आमी आयल्या दोगां, फुडले फावटी येवंची तिगां
गावडो गेला वयल्या रानांत
गावडी न्हेसल्या कुड्या पानांत
गावडे गे गावडे, फूल भरी पानां

**हेपी बर्थडे** गावपी: सी. आल्वारीस.शालीनी, जासींत वाज, रिको रॉड आनी हेर
रचपी: सी. आल्वारीस संगीत: फ्रेंक फेर्नांद

*इट्स अ हॅप हॅप हॅपी बर्थडे*
केदो व्हड दीस तुज्या जल्माचो
*इट्स अ हॅप हॅप हॅपी बर्थडे*
तुजेर जीव आसा आमचो सगळ्यांचो
*इट्स अ हॅप हॅप हॅपी बर्थडे*
म्हाका हो दीस सदांच बरो जावंचो

खुशालकायेचो व्हड दीस हो आयचो
मांय आनी पायचो, आपुरबायेचो
उमेदीन आसा सगळो लोक गांवचो
मागणीं आमचीं तुजो फुडार बरो जावंचो

*हॅपी बर्थडे, हॅपी बर्थडे*
*इट्स अ हॅप हॅप हॅपी बर्थडे*
हो तो दीस तूं आयलाय संवसारांत
*इट्स अ हॅप हॅप हॅपी बर्थडे*
खोशी जाल्यांत आज सगळे जाण

*इट्स अ हॅप हॅप हॅपी बर्थडे*
एका ताळ्यान तुका दितात मान
थोडे तुका बरेपणान मागतात पयस थावन
व्हड तशे ल्हान
फोगोट्यांचो आवाज आयकून फुट्टात कान
मांय आनी पायचीं काळजां थावन न्हिवता तान
हॅपी बर्थडे, हॅपी बर्थडे

*इट्स अ हॅप हॅप हॅपी बर्थडे*
कांय नजो ना जाल्यार तुजो मांय-पाय
*इट्स अ हॅप हॅप हॅपी बर्थडे*

आशेतल्यांक सदांच नशीब आसूंक जाय
*इट्स अ हॅप हॅप हॅपी बर्थडे*
बरेंपण पोवंक आशेता शापाय
खुशालकाय भोगता जावं बाब वो बाय
दोंगरायलीं झाडां कोण शिंपता गाय
नशींबात पोय तूं कितलो सुखी आसाय
देवाच्या हातांत आसा सगळो उपाय
*हॅपी बर्थडे हॅपी बर्थडे*

# कर्तूबांचो संवसार





रिको रॉड

1970 वर्सांत कर्तूबांचो संवसार हें मुवी गिल्ड हाचें फिल्म आलबर्ट दे ब्रिटोना आनी रिको रॉड हाणीं तयार केलें.ह्या फिल्मांक आलबर्ट दे ब्रिटोना हाणें सुरवात केली. पुण दुडवांचे अडचणीक लागून तें मुखार वचना जालें. ह्या खातीर नांवस्तो तियात्रिस्त रिको रॉड मुखार सरलो.रिको जो गांवान चिंचोणेचो ताणें आदीं जायत्या तियात्रांनी काम केलां आनी कांय फिल्मांनी काम पळेलां. हाचो अणभव घेवून ताणें दुडवांचो भार आपल्या माथ्यार घेतलो. आपुण फिल्मांत भाग घेवपाक आयीलों तो चिंतिनासताना ह्या फिल्मांचो सांगाती निर्मुपी जालों म्हण रिको सांगता. हें पुरें फिल्म अंयशीं हजारां मदीं तयार जालें. रेगीनाल्द फेर्नांदेस हाणें संवाद बरयल्यात. ताचीं कांतारां आलबर्ट दे ब्रिटोना आनी रिको रॉड हाणीं रचल्यांत.कथा

डेवीड डी सौवजाची आसा जी दोन मोग करपी जोडयेचेर आटापलली आसा. कारीदाद आनी कोंसतांतीन भुरग्याचपणार सान दाट इश्ट जावन आसले. आनी ही इश्टागत फुडाराक वाडोवपाक ताणीं आपल्या भुरग्यांक दोनूय घराब्यांत काजार करपाक समजूत केल्लो. दुर्दैवान, बाबड्या कोंसतांतीनाची इश्टागत बिघडटा आनी हाचें कारण. कारीदादाची गिरेस्तकाय एक्ठावपाची आस. ताचें ध्यान मन फकत गिरेस्तकाय पुंजावपाक आसता. हाका लागून तो दिल्लें उतर विसरता. देवाचे हुकूमे बगर एक कुस्कुट हालनां, तशें तांचे इश्टागती सवें घडटा.

आनी देवाचे येवजणेन देवाची कुरपा आसता. कारीदादाची एकलीच धूव कोंसतांतीनाच्या चेड्याच्या मोगाक लोभदोता. दोगांय मोग्यांक दोशीं करपाक कारीदाद जायती तजवीत करता.पूण निर्मळ मोग करणारां, फ्रेंक आनी लोदोमीरा हांकां देव आदार दिता. फ्रेंक मुंबय वचपाची वाट धरता. थंय ताचो माम तोस्कान ताका मेळटा. फ्रेंक आपली अद्रुश्टी खबर आपल्या मामांक कळयता. ती आयकून तोस्कान आपली बुद वापुडटा. ताचे दोग इश्ट रिको आनी आलबर्ट हांचे उदेशीं हिकमतीन दुस्मान जाल्ल्या इश्टांक परतुन एकठायता.

ह्या चलचित्राक संगीत मानुयेल आल्फोंसो हाणीं दिलां. दिग्दर्शन रविंद्र व्यास हाणें केलां. संवाद रिको रॉड हाणें बरयल्यात.ह्या फिल्मांची सुरवात ब्रिटोनच्या इगर्जेत सुरू जाता आनी तातूंत पिराचितकाळाची दाखोवण दिसता. तेच परीं मुंबयच्या मड आयलॅड हांगासोर ताचें चित्रण केलां. हांतले कलाकार फातिमा, सॅबी, रिको,सौजा फेरांव, रॉबीन वाज, एच्. ब्रिटन, तिटा प्रेटो, आलबर्ट दे ब्रिटोना, सिसीलीया, सॅबी कुतिंहो, जे. जे. पेरेरा, डॅरीक, शावीएर आसात. कालांगूत प्रायेर कांतार बरें आसा.हेर कांतारांचीं नांवां म्हजो जीव आशेला, धंदो करुंया, कर्तूबांचो संवसार जावन आसात.



**आलबर्ट दे ब्रिटोना, फातिमा आनी रिको रॉड**

**म्हजो जीव आशेला** गावपी: चिको कॉसता आनी किटी क्रास्टो

रचपी: आलबर्ट दे ब्रिटना संगीत: मानुयेल आल्फोंसो

शीतळ दव पडन फुलां फुल्लीं मळ्यांत
सोबीत साळकां मान दितात रावून तळ्यांत
पळवन तुजो रुपकार वेताय ह्या दोळ्यांत
इनोसेंत मोग हो घालतां तुज्या गळ्यांत

परमळीत फुला मोग आमी केला
काजार जावंच्याक हय जुरामेंत दिला
काळजाचे खरीक हय तो किरलोला
गोपांत तुका घेवंक म्हजो जीव आशेला. हा हा हू

मोगान आसतोच काळजाक खेरीत भोगता सूख
सिंतीद उडटा लागना तान आनी भूक
खऱ्या मोगाक भोगचें पडटा जायतें दूख
जिविताच्या रस्त्यार किरलता तो रूख

कोरस:

दोगांय जावन जुरार, मोग करतां सेलार,
गवाय सूर्या रावन अंत्रळार
नदर आमचेर मार, जातां पोय ओरार
सदांच तुं राव म्हण आमच्या फावरार
हा हा हुं हुं ला-ला  ला ला ला (2)

मोग करणारांनी मोग करूंक जाय खरो
परवा ना दुस्मान आसल्यार करुन पारो
एकवटान भोंवल्यार दुस्मान सरता परो
आनी फुडारुय पर्जळटा बरो

कोरस:

भोंवंचीं सांगतान, रावचीं एकवटान,
पावसर सुखाच्या भुंयवैकुटान
भागोंवंची आमी, ही मोगाची तान
बांदून काळजां सातव्या साक्रामेंतान
हा हा हुं हुं ला-ला-ला ला ला ला (2)

**धंदो करूंया**

रचपी: रिको रॉड

गावपी: आलबर्ट दे ब्रिटोना
संगीत: मानुयेल आल्फोंसो

सांग आतां कितें करुंया
पोट आमचें कशें भरुंया
कसलो पुण धंदो धरुंया
पयलें हें घरा व्हरुंया

कोरस:

जायते धंदे करुन पयले,
वयता त्या धंद्यान फोटवले
दीस कशे काडूंया फुडले
दुसरो धंदो चिंतून पळे

चल आमी धंदो करुंया
धंदो करुन पोट भरुंया
भूक पयस करूंक वावरुंया
दीस आमचे खोशेन सारुंया
कोरस:
बरीं चिंतनां मनान आयलीं
गाड्यार घालून विकुंया केळीं
चेडवां काजार जांवक लजतेलीं
मागल्यार कोण ना रे दितेलीं

न्हेसप आमचें बदली करचें
केळीं खोपोंवंक कांतार घडचें
नेगोस करुन हें पोट भरचें
आयक कांतार अशें म्हणचें

मोटा दस, छोटा पांच
ससता हय अच्छा चांस
पैशे दिवन मारात घांस
मोटा दस,छोटा पांच
आ ला ला ला ला

**कालांगूत प्रायेर**
गावपी: शिला एग्नेस
रचपी: आलबर्ट दे ब्रिटोना
संगीत: मानुयेल आल्फोंसो

खोशेन काळीज मुरगट्टा
व्हड उर्बा आमकां हाडटा
पावतच हे कालांगूत प्रायेर
हें मोगयांक बऱ्याक पडटा

जिनसांवार नवलां घडटा
खेरीत संतस देंवता पळेतेल्यांचेर
हाय हाय हाय हाय कितली शीतळ ही कालांगूत प्राय
खरें हे दोन म्हैने आब्रील आनी माय

हाय हाय हाय हाय
कितली थोंड शीतळ ही कालांगूतची प्राय
खरेंच हे दोन म्हैने आब्रील आनी माय
जिवाक आमच्या दिता व्हड धादोस्काय
ला ला ला ला ला (2)

आब्रील माय म्हयन्यांत खरें
पळोंवक दिसता कायबरें
चवशिल्यान मारता थोंड शीतळ वारें
येतात लोकाचें भिरें, न्हावच्याक हें उदक खारें
जाणट्यांक नेंट्यांक इतलें साउदीक बरें
कोरस:
हाय हाय हाय हाय... ला ला
अपुरबायेचो गांव, णव लेत्रांचें ताचें नांव
पुतां धूवांचें इस्तींमासांव
भोगतोच आमकां फुगासांव,
मारुन आमी येतात धांव
करूंक दर वरसाचें मुदासांव
कोरस:
हाय हाय हाय हाय... ला ला
मोग करणारांनी मोग करूंक जाय खरो
परवा ना दुस्मान आसल्यार करुन पारो
एकवटान भोंवल्यार दुस्मान सरता परो
आनी फुडारुय परजळटा बरो

**कर्तूबांचो संवसार**

गावपी: रिको रॉड
रचपी: रिको रॉड
संगीत: मानुयेल आल्फोंसो

आरे हें कितें करतात
सोरो तुमीच पियेतात
आमकां पयन कित्याक वेतात
तकली करात उजार
पेर्देर करतात काजार
कर्तूबांचो संवसार
रीत रविस कितें ती गोमना
बरें वायट सगलें आमी जाणा,
थोडी ससणिकाय कित्याक घेना
तुका एमसीपण फावोना
हे वाटेन हाड ती बाटली, मिज्यास कित्याक ती
म्हजी जीब उदकान ओतली हे वाटे इतली
उशिर कित्याक इतली, जीब पोय उदकान ओतली
हाड तूं उघड ती बाटली
कोरस:
हांव सांगतां बाटली दी ती हेणें
नवऱ्याक प्रेजेंट दिला ताणें
त्या हिसपान पियेल्यांव तें उणें
तुमकां आपोयलेले कोणें.

कवलें तुमी व्हडले चोर
सांगतां बऱ्यान कुशीन सोर
चल शावयेर मेज उकलून व्हर.
इतल्यान करुन बरें, वयल्यान खांदार खरें
कर्तूबांचो संवसार

हय मनीस दुस्वाशी, कोण मेळोना विस्वाशी
कर्तूबांचो संवसार
आमी देख दिवन बरी, वयल्यान अनुपकारी
कर्तूबांचो संवसार
जो कोण बरें करता, शेवटाक रडंक पावता
करतूबांचो संवसार

# जिवीत आमचें अशें




1972 वर्सा जिवीत आमचें अशें हें गोंयचें आनी कर्नाटकांतल्या कोंकण्यांचें चलचित्र मैसूरच्या मुथू क्रिशनदासबाब हाणीं अंबिका फिल्मस् बावट्याखाल रचलां आनी नावादीक तेलुगू दिग्दर्शपी बाब व्हाय.वी.राव हाणें तांचें दिग्दर्शन केलां. तातूंतले कलाकार बाब सुरेश रामाणी, बॅटी नाझ, फिलोमीना डी सौजा, सिसिलीया माशाडो, फॅलिसियो कार्दोज, सौजा फेर्रांव, पात्रिसिया डी सौझा, ऑलिव्हिया साल्ढाना, एन.सी. पंडरीबाय आदी. संगीत विजय भास्कर हाणें बसयलां. आनी गीतां डॉ. मनोहरराय सरदेसाय हाणीं रचल्यांत. नावाजतो पत्रकार फॅलिसियो कार्दोज हाणें आदारी दिग्दर्शप्याचें सूत्र सांबाळ्ळां, आनी तातूंत ताणें वांटो घेतला. तशेंच मुथू क्रिशनदास मारियो नांवाचो जकात चोराची भामिका करता. ह्या फिल्मांत डॉ. सुरेश रामाणी एका क्रिस्तांव चल्याची तर बॅटी नाझ एके हिंदू चलयेची पार्त करतात.

बाब दास हाणें बरयल्ले काण्येंत खून, लिपचोर्यो वेपार, नाच, *सस्पेन्स* आसा. एका क्रिस्तांव घराब्यांतलीं धूव, एक हिंदू घराबो पोसता आनी शेवटी तिचें जल्म खुणें उदेशी तीं वोळखूंक मेळटा तें बेसबरें दाखयलां. रिको रॉड आनी पॅट्रिसिया डी सौजा ह्या फिल्मांत विनोदी सवंगा करतात.

आंग म्हजे चोय, आपोय म्हाका, म्हज्या मनांत, ल्हारार ल्हार, जिवीत आमचें अशें ह्या कातारांचो आस्पाव आसा. ह्या फिल्मांत

कर्नाटकांतल्या वृंदावन बाग, शिमोगा आनी जोग धबधबो हांचे सुंदर देखावे दिसतात. हातूंतली कातारां ओडियन रिकॉर्डीचेर आयकूंक मेळटात.

### आपय म्हाका

रचपी: डॉ. मनोहरराय सरदेसाय



गावपी: पी. बी. श्रीनिवास, अंज
संगीत: विजय भास्कर

डॉ. मनोहरराय सरदेसाय

आपोय म्हाका हांव येता धांवून, मोगा वतांत चोय गेलां बावून
दिसता म्हाका तुगेर केन्ना पावन, तुज्या गोपांत असोच रावून
दीसभर मस्ती मोगा कसलीं, मुंबय वचून धरतां व्हड चाकरी
स्वता सांग कित्याक येता धांवून, आतां म्हयने जाले बावन

पाय गो तुजो, बाय म्हज्या दुडवां पिसो, म्हजे सारको जांवय सोडटा कसो
दुडवां बगर संवसार म्हजो चलत कसो, हांव असोच आंकवार रावून
आपोय म्हाका हांव येता धांवून, मोगा वतांत चोय गेलां बावून
दिसता म्हाका तुगेर केन्ना पावन, तुज्या गोपांत असोच रावून

### म्हज्या मनांत

गावपी एस्. जानकी
संगीत: विजय भास्कर

रचपी: डॉ. मनोहर सरदेसाय

म्हज्या मनांत मोग उदेला
म्हज्या सुखा तूं भान विसल्ला
याद कसली साद घालता, पडटा रगतार शितळ शिंवर
म्हज्या मनांत मोग उदेला, म्हज्या सुखा तूं भान विसल्ला
संसर यो, झरझर यो, फेणेर मोतयां फुलयत यो
उसळून आयलो कशें ल्हार
उक्त्या जाग्यार अमृत धार, आंकवार सपनां सांगीत यो

घसघस यो यो. शंशर यो यो
पानांच्या उतरांक शिंपडीत यो
पालोयत, जागयत, पयली तान
थर-थर हालता काळजा तार
कुपांची पावलां पाळतीत यो

**जिवीत आमचें अशें**

गावपी: एस्.जानकी आनी पी.बी. श्रीनिवास
रचपी :डॉ. मनोहर सरदेसाय
संगीत: विजय भास्कर

जिवीत आमचें अशें
कोणाक खबर ना मनशा कपलांत
देवान बरयलां कितें

फुल सकाळचें, सांजचें बावता
मोगा वज्रो गिमांत सुकता
सोबीत चंद्राक लायलें कोणें
लाशें काळें अशें

खिणा-खिणांक ही जीण बदलता
काळखा उपरांत दीस उदेता
मळब हांसतलें, परतुन वेतलें
तुफान आयलें तशें

जिवीत आमचें अशें
कोणाक खबर ना मनशा कपलांत
देवान बरयलां कितें

मोगाक लागून काळीज जळटा
रुखाक सोडून पानूच झडटा
उडटा-उडटना पांखूच तुटलें
सवणें शेणलें असें
जीवीत आमचें अशें

**आंग म्हजें चोय**



गावपी: एल.आर.इश्वरी

रचपी: डॉ. मनोहर सरदेसाय

संगीत: विजय भास्कर

**विजय भास्कर**

आंग म्हजें चोय पूण हात लायनाका,
वोंट म्हजे पोय पूण कीस करीनाका
यो घरा, यो घरा, यो घरा
घर म्हजें पोय पूण दार फोडीनाका

पी पी पी पी कित्याक पियेताय सोरो ?
सो सो सो सो सोबीत बायल एक पुरो
तुजो सांगात दी, म्हजे वेंगेंत यो,
नाचात गायात बुमाक बूम

सो सो सो सो नही सोचना यहाँ
दुनिया वालों यहीं प्यार का जहाँ
मेरे हात में तेरा हात दो
आयी हम प्यासी मैं तेरे लिए

चीन चीन चीन चीन कित्याक मेजता रे दुडू ?
म्हातारो जातच तुकां मेळचेना चेडूं
आजचें आज मोड, फाल्यांचें फाल्यां सोड
मोगाच्या सुखाचें जिवीत जोड.





**ल्हारा ल्हारार**
गावपी: पी.बी.श्रीनिवास आनी एस्. जानकी

रचपी: डॉ. मनोहर सरदेसाय
संगीत: विजय भास्कर

ल्हारा - ल्हारार, ल्हारा- ल्हारारं
तारूं तुरू तुरू धांवता
भुरु भुरु, भुरु भुरु वाऱ्यार
मन म्हजें हालता
दर्यांत सुर्या देंवला,
भांगरा वेळ पावला
मोगा यो दर्या गाजता,
खळखळटा मोगा यो
शिडांत वारें झणझणटा,
यो मुर्गट यो
यो मोगा वेंगेंत म्हज्या यो,
भरते परीं यो

हांसुया, ल्हारां भशेन खळखळुंया
नाचूंया, एकामेकांत विरगळुंया
या, तुजी म्हजीं सपनां झेलपाक
भुरग्यांपरी या, सुकण्यां परीं या







सुरेश रमनी आनी बॅटी नाज



रिको रॉड आनी पात्रीच्या डी सौजा

## बगलांट




1975 वर्सा अंबिका फिल्मस् हांच्या बावट्याखाल बगलांट चलचित्र भायर सरलें. जाचो निर्मातो आनी दिग्दर्शपी मुथू क्रिशनदास. ताची कातारां रचपी आल्फ्रेड रोज आनी प्रेमकुमार. ताका संगीत आल्फ्रेड रोज हाणें बसयलां. तातूंतलीं मुखेल पात्रां प्रेमकुमार आनी रिता रोज हाणीं केल्यांत. तशेंच सॅबी कुतिन्हो, फ्रॅडी बारबोजा, पॉल रॉमी, जो रोज, फेलिक्स मेन्डीस, बॅटी नाझ, आल्फ्रेड रोज, सौजा फेर्रांव, ऑफेलिया, फिलू फेर्नांदीश, बेला कुतिन्हो, बॅटी गर्ल आदी ह्या फिल्मांत वांटो घेतला. प्रेमकुमाराच्या *नो वेकन्सी* ह्या तियात्राचे कथेचेर हें फिल्म आदारीत आसा, आनी बगलांटाचो बळी जाल्ल्या व्यक्तीचो कर्मभोग इस्कुटायता. बगलांट फिल्माची काणी पिळणुके विशीं आसा. ह्या चलचित्राचीं सगळीं कांतारां एक दिसा भितर मुद्रावन आल्फ्रेड रोज हाणें विक्रम केल्लो आसा. हीं कांतारां एच्.एम्.व्ही. कंपनीच्या रेकॉर्डीचेर मुद्रायल्यांत.

संवसारातलें व्हडांतले व्हड नश्ट दुडू जावन आसा. एका मनशाक दुडवांची आस्त लागतच तो तांचो गुलाम जाता. ह्या दुडवांक लागून टायसन दुडवांचो तसोच आपले बायलेचो गुलाम जाता आनी आपल्या कुटुंबाची दुर्दशा करपाक पावता. टायसनाचो भाव मेल्या उपरांत तो आपल्या भावाची घरकान्न मारीया आनी ताच्या एकल्याच पुताक सॅड्रिकाक घरांतली भायर घालता. मारीया सॅड्रिकाक घेवन आपल्या घोवाच्या इश्टागेर मुंगळूर वचपाक भायर सरता. पूण दुर्दैवान वाटेर पावस

पडून सेड्रिक दुयेंत जाता आनी हेन्री नांवाच्या दोतोराच्या आदारान बरो जाता आनी तोच दोतोर तांकां दोगांकय आपल्या घरांत आसरो दिता.

वर्सां वलांडल्या उपरांत सेड्रिक बी. ए. परिक्षा ऊंचल्या गुणांनी पास जाता. ह्या कुटुंबांत दोतोराची दुसरेपणाची बायल तांकां वायट वागणूक दिता. सॅड्रिक आतां नोकरेची सोदपूस करता. पूण फावो ती नोकरी ताका मेळना. ह्या कारणाक लागून एक हलकी नोकरी करता. टायसनाचो पूत जॅरी आनी धूव पॅमला हीं दोगांय बेजबाबदार भुरगीं उतरतात. सॅड्रिक आपलो जीव धोक्यांत घालून एक चोरी सांपडायता आनी मरलिन जाची चोरी जाल्ली ती ताका आपल्या घरा व्हरता आनी एक पिवनाची नोकरी दिता.

खरेंपणीं मरलिनाचो बापूय जॉर्ज हो मारीयाच्या घराब्याचो लागशिल्लो इश्ट आसता. पूण ही खबर मारीया नकळो कारण टायसनान जॉर्जीक तांचे विशीं फोटी सांगिल्ल्यो. टायसन आपल्या चल्याक जॉर्जीचे धूवे लागी काजार करपाक सोदता. पूण जेन्ना पॅमलाच्या न्हवऱ्याचो म्हणचे आर्मादाचो पाय दोत मागता तेन्ना तो पॅमलाक आर्मादाच्या दोळ्याâ सरशिल्लें पयस करूंक सोदता. इतल्यांत सेड्रिकाक बरी नोकरी जॉर्ज दिता आनी मर्लिन आनी सॅड्रिक मोगांत पडटात. टायसन मंगळूर पावता आनी सेड्रिक जॉर्जीचे कंपनींत मॅनेजर आसा तें पळोवन अजापता. एका कॅब्रे नाचपी डॉली नांवाच्या चेडवाच्या आदारान तांच्या मोगाची दुस्पट करता. मर्लिन सेड्रिकाक दुबावता आनी सेड्रिक रागान डॉलीक मेळपाक गेल्ले कडेन तिची कूड रगतान भरिल्ली दिसता. पुलिस दुबावान सॅड्रिकाक धरून व्हरतात.

ही खबर आयकून मारीया आपल्या पुताक सोडोवपाक जॉर्जी फुड्यांत वयता पूण जॉर्ज मजत करपाक कबूल जायना. मारीया थंयची कडसरता आनी भायर सरून वयताना एका ट्रकाच्या पोंदाक पडून चुरचुऱ्यांचें मरण मरता. नीत कशी जाता आनी आपले दुडवांचे आशेक लागून आपल्या कुटुंबाची कशी दुर्दशा करपाक पावता तें ह्या फिल्मांत कवतूकपणी दाखोवन दिलां.

दोन वेगळ्यो काणयो- एक सतावपी दुसरी सोंसपी अश्यो चलतात. आनी तातूंत थोडो विनोद आसा. दिग्दर्शपी दास एक खरी घडणी दोळ्यां मुखार दवरता आनी कांय घडणूको काळजाक हात घालतात. शेवटीं नीत फावो जाता.

ह्या फिल्माचें चित्रीकरण चडशें कर्नाटकांत केलां. प्रेमकुमार हांचें काम बरें जालां. तशीच बॅटी नाझाची आवयची पार्त बेस बरी जाल्या. ज्यो रोज आनी पॉल रॉमी फकाणेर कशे सोबतात. ह्या फिल्माचो शेवट अचकीतसो जाल्ल्यान प्रेक्षक गोंदळांत पडटात. ह्या मुंगळूरकारांच्या फिल्माक 1.50 लाख रुपया खर्च जाला ताका कर्नाटक सरकाराचें अनुदान म्हण अर्द लाख रुपया फावो जालें. ह्या फिल्माची डी.वी. डी. काडल्या.



बॅटी नाज आनी प्रेम कुमार



प्रेम कुमार, बॅटी नाज आनी सांगाती



प्रेम कुमार, सॅबी कुतिंहो आनी बॅटी नाज



प्रेम कुमार आनी रिता रोज

**सूख आयलें लोटोन**



आलफ्रेड रोज

गावपी: आलफ्रेड रोज

रचपी: आलफ्रेद रोज

संगीत: आलफ्रेड रोज

सूख सूख सूख आयलें लोटोन
दूख दूख दूख गेलें उठोन
पडल्यार पासून दुखना, मारल्यार पासून लागना
अदृश्ट आयज थावन गेलें सुटोन

पास जालों हांव पास जालों
शेकीं बी.ए.पास जालों
सिर्वीस आतां करतलों, व्हडलो ऑफिसर जातोलों, ला ला ला सूख ...
हय माय खोशेनूच भरतेली, वेंगेंत म्हाका धरतेली
शेजाऱ्यांक आपोयतेली, देवाक आर्गां दितेली, खोशेचीं दुकां रडटेली

खोशेनूच हांव हांसता, उडोन उडोन नाचतां
घुमट तबलें वाजतां, धादोसपणान शिजतां, ला ला ला सूख...

हां, खोशेचीं व्हांवतात दुकां, काळजाक फुटलीं पाकां
सुकणें कशें उडटां, धादोसपणान बुडटां, नशीबाचीं झगझगलीं थिकां

**असोच फटयताय**

गावपी: आल्फ्रेड रोज आनी रिता रोज
रचपी: आल्फ्रेद रोज
संगीत: आल्फ्रेड रोज

मोग तुजो करून, भागोन गेलीं हांव
काजार जाताय म्हण सदांच सांगता शेरमांव
पोय तुका लागोन, भोगतां फुगासांव
जीव म्हजो दितां समदीरांत मारून धांव

नाका नाका समदीरांत जीव दिनाका, हात जोडून मागतां,
आमी मोगान जियेवचे पासत पयलीं प्रॅक्टीस हांव करतां
काजार जातच तुका सगळे सुख दिवंच्या पासत वावुरतां
आनी फुडल्या वर्सा तुजे लागी हांव साक्रामेंत जोडटां

असोच फोटोयताय, दुकांनी रडयताय
हांव ना जातच दुसऱ्या चेडवांक आपोयताय
कित्याक दुबावताय, काळीज दुखयताय
दुसरीं चेडवां नाकात, पूण तूंच म्हाका जाय

पाद्रीशीं व्हरतां, कुमसारूय करतां
फटय फटय म्हाका, दाखयतां
सांगता तें करताâ, कानाकुय धरतां
पेद्याक सांगून आतांच फोंड काडून पुरतां

तकलेर हात दवरून जुरार जातां, हावें फटोवंक ना तुकां
दुसरीं चेडवां लागीं येतात, फुंकट पासून दिल्यार नाका
फुडल्या वर्साक वोर्रान काजार जावंचीं
तूं कांयच भियेनाका
फुडल्या वर्सा ?
ना बाय ह्याच वर्सा, कानाक धरिनाका
हांव काजार जातोलों, जाय तें करतोलो
तुका जाय तर मसालोय हांव वांट्टलों
घरांत रावतलों, भुरग्यांक पोयतोलों
तूं सुशेगाद बस, हांव जेवण रांदतोलों



**प्रेम कुमार आनी बॅटी नाज**

**बिजलेचो पावर**

गावपी: आल्फ्रेद रोज आनी रिता रोज

रचपी: आल्फ्रेद रोज

संगीत:आल्फ्रेड रोज

बावली दिसता मेणाची ,नदर तुज्या दोळ्यांची, बिजलेचो पावर
सुरोपाय तुज्या पोल्यांची, सोबीताय आबोल्यांची, तूंच म्हजो कुंवर
नदर तुज्या दोळ्यांची, बिजली म्हज्या काळजाची, मोगाचो धुंवर
दोंगर भरला दोळ्यांनी, मोग रिगला काळजांनी, तूंच म्हजी सांवर

तुजे विणें रावूं नेजो, एकसुरपणूय सोंशीनेजो
तूं बाय म्हजें, हावूंय तुजो, गोपान धरून पालोय मोगाचो उजो

सुकणीं उडटात जोम्यांनी, बागी भरल्यात फुलांनी, फूल तूं मोगाचें
शेगुणाची तूं राणी, तूं ह्या काळजाची धनी, नखेत्र सर्गीचें
सर्गार म्हाका पावयताय, गोपांत धरून खेळयताय, माणीक काळजाचें
काळीज तुकाच भेटयतां, मोगान नखेत्र पेटयतां, सूख फुडाराचें.

तुजे विणें रावूं नेजो, एकसुरपणूय सोंशी नजो
तूं बाय म्हजें, हावूंय तुजो, गोपान धरून पालय मोगाचो उजो
बावली दिसता मेणाची नदर तुज्या दोळ्यांची, बिजलेचो पावर
सुरोपाय तुज्या पोल्यांची, सोबीताय आबोल्यांची, तूंच म्हजो कुंवर
नदर तुज्या दोळ्यांची, बिजली म्हज्या काळजाची, मोगाचो धुंवर,
दोंगर भरला दोळ्यांनी, मोग रिगलाय काळजांनी, तूंच म्हजी सांवर

सांबाळ म्हाका फटोवशी, दुखान म्हाका बुडोवशी
ना बुडोवचोना
रुपें म्हाका दाखयशी भांगार म्हण फोटयशी
तशें करचोना
मोग काळजान रिगला भितर, येयत पासून खंयचोय दोतोर
काडूंक जावंचोना

बांदल्यार पासून दोरांनी, मारल्यार पासून फारांनी
तुका सोडचोना

तुजे विणें रावूं नेजो, एकसुरपणूय सोंशीनजो
तूं बाय म्हजें, हावूंय तुजो, गोपान धरून पालोय मोगाचो उजो
बावली दिसता मेणाची नदर तुज्या दोळ्यांची, बिजलेचो पावर
सुरोपाय तुज्या पोल्यांची, सोबीताय आबोल्यांची, तूंच म्हजो कुंवर
नदर तुज्या दोळ्यांची, बिजली म्हज्या काळजाची, मोगाचो धुंवर
दोंगर भरला दोळ्यांनी, मोग रिगलाय काळजांनी, तूंच म्हजी सांवर

**आंवडे तुजे संपोय** गावपीः आल्फ्रेड रोज आनी रिता रोज
रचपीः आल्फ्रेद रोज संगीत :आल्फ्रेड रोज

कापडां तुजीं वेंगेंत धरून, गोपांत आसाय म्हण समजतां
रात दीस तुकाच हांव आशेतां
दिमी घालून रोजार करतां
दोळे वयर काडून पोय, वेंगेंत म्हाका आपोय, आंवडे तुजे संपोय
मारून जोंपय.
आतां खोशी जालोय, सपन तुजें खेळय, काळजाक काळीज मेळय
वेंगेंत धोलय
ओह! म्हजे वेंगेंत आयलें आंज्या,
लिपय म्हाका काळजांत तुज्या ला ला ला ला

तुजो रुपकार दोळ्यांमुखार, काळीज मोगान जाता फुगार
बरोवन दवरतां मोगाच्या बुकार, काजार जातच जियेवंची सुखार

सुख तुका मेवतलें, काळीज एक जातेलें
एकसूरपण वेतेलें, दूख उबतेलें ला ला ला

उतरां आयकून खोशी जालों
संवसारर थावन सर्गार पावलों
हा हा हा हा  हो हो हो हो ,हो हो हो हो हा हा हा हा

**तूं म्हजें सूख** गावपी: आल्फ्रेड रोज आनी रिता रोज
रचपी: आल्फ्रेद रोज संगीत: आल्फ्रेड रोज

तूं म्हजें सूख, दिवं नाका दूख
तूं म्हजो रूख, लागना भूक
तुजे विणें, संवसार सगळो, दिसता काळोख
तूं म्हजें फूल, तूं एक बुलबूल
तुज्या मोगान, हांव जालां गूल
तुजे मुखार, माणका म्हज्या, हांव जमनींतली धुल्ल

सांत पोवंक दिसता जिवो सांत
तूं किल्ल्यानाका दांत
कुडीक सुटलो आकांत
मोड मोगाच्या समदीरांत
मोड जालां तर, म्हाका घट्ट धर, जियेवंची सुखांत

**नवें वर्स** गावपी: देल्फीन
रचपी: आल्फ्रेड रोज संगीत: आल्फ्रेड रोज

नवें वर्स येता धांवून, पोरणें वर्स वेता पळून
सोबाय ताची गेली बांवून, कोटा कोटा वेता पळून

काळोख जालो कोणाचो कोण *बेज* घेता
कितले चेडे चेडवां वेळाकूच रावता
मोग कोरणारां चेडे चेडवांक वेंगोयता
तो म्हातारो पोय चेडूं म्हण समजून कदेलीक वेंग मारता

हॅपी न्यू इयर ओह हॅपी न्यू यर
चेडूं म्हण्टा '*यू आर माय डीयर*'
चेडो सांगता '*डार्लींग कम न्यर*'
कोण पियेता रम, कोण पियेता बियर

हॅपी न्यू इयर सगळ्यांक तुमकां म्हण्टां हांव
चेडवां कोणाक आसात तांगेर चेडे जांव
आंकावरांचेर रचणारान घालचें बेसांव
समेंस्तांचेर सवस्तकायेन मारची धांव,
*हॅपी न्यू इयर ओ हॅपी न्यू यर*

**निमाणे बेसांव**

रचपी: प्रेम कुमार


**प्रेम कुमार**

गावपी: आलफ्रेड रोज

संगीत: आलफ्रेड रोज

संवसारा, फटकिऱ्या संवसारा, हाय संवसारा, मतलबी संवसारा
कोणाक हांसयताय, कोणाक रडयताय, दोळे उक्ते करून पोय
आशेन चडफडली, मरतना रडली, पुताक आशेली आवय
वगत मेवलो ना, मर्ण रावलेना, मारून आयलें एक झोंपय
निमाणें बेसांव, दितेली म्हण मांय, पुताक तूं आशेन रावोय

पुताच्या उगडासाक जीव कांपूक लागलोलो
उजवाड भावार्थाचो काळजांत पालूंक लागलोलो
साद मरणाचो कानांशी गाजूंक लागलोलो
कूड कांपली जेन्ना संवसार मांयचो सोपूंक लागलोलो

खोटेची निशा, काळजान घेवन आशा, मांयक मेळूंक आयलोय पिशा
तुफान घेवन आयलोय, आवयक आशेल्लोय, चुर्चूर्यांची ही दशा

आयकूंक उरली ना,पुताक मेवली ना, काळजांतूच उरली आशा
आशेन जियेली, एकसुरी मेली, पूत हो आसताना खाशा

पूत सुस्कारता माय, तूं म्हाका मेवली ना
माती पासून मांय म्हजी तुका फावो जाली ना
निमाण्या वेळार म्हजी नदर तुजेर पडलिना
ह्या पुताचें बरेंपण पोवंक मांय तूं पावलिना
संवसारा, फटकिऱ्या संवसारा, हाय संवसारा, मतलबी संवसारा

**सुकणें** गावपी: देल्फीन

रचपी: आल्फ्रेड रोज संगीत: आल्फ्रेड रोज

सुकणें सुकणें सुकणें जावन हांव उडटां, मोगान घोंटेर करूंक आशेतां
रातचीं मोगाचीं सपनां सपनेतां, तूं म्हण समजून उशीं पोशेतां
हें म्हज्या मोगा, आशेंता तुकां, वेंगेंत धर म्हाका, भियेनाका
हांव रावता तुका, तूंच म्हज्या सुखा, धांवून यो वेगीन, लज नाका
सुकणें सुकणें सुकणें जावन हांव उडटां, मोगान घोंटेर करूंक आशेतां

पिशीं पिशीं सगळींच जाल्यां पिशीं
मोगाक लागून जाल्यां हांव अशीं
मोगाचेच भुकेन आसा उपाशीं
वेळ लायनाका ये तूं म्हजेशीं

तूं कित्याक हांसताय ? म्हाका पोवन लजताय ? लज नाकाय
अपटूडेट न्हेसताय, पोवंक बरो दिसताय
मोगान तर भाजताय, कित्याक रावताय
ये तर ... पिशीं

मोगान तुज्या पडटेलीं सेतेंब्रांत

काजार आमी जावंची ओतुब्रांत
हनी मुनांत आमी वेचें नोवेब्रांत
तेगां जातेलीं फुडल्या वर्सांत

हा हा हा हांसताय, तूं कित्याक हांसताय
आमूरपिकोच हांसताय, हांसू नाकाय
तूं कुंवर दिसता, भिरतल्यान शिजताय
मोग म्हजो करताय, कित्याक रावताय
हा मोगान..............



**बॅटी नाज आनी आल्फ्रेड रोज**

# मोग आनी मयपास





कॅप्टन मरवीन पिंटो

मोग आनी मयपास हें 1977 वर्सा युनायटेड यंगस्टर्स कंपनीन तयार केल्लें चलचित्र मंगळूरकार भावांचें आसा. हें फिल्म प्रस्तूत करपी मंगळूरच्या जेप्पू भागांतल्या *युनायटेड यंगस्टर्स* घडणार कॅप्टन मरवीन जे पिंटो, जावन आसा. सद्याक तो कॅनाडाच्या वॅन्कुंवर हांगां घरबांदावळीचे कंपनीचो यजमान जावन आसा.चलचित्र दुडू जोडपाचे नदरेन न्हय पूण कोंकणीच्या मोगा खातीर 35 mm हातूंत 12 रिलां भितर तयार केलां.

ह्या फिल्माची कथा आनी कातारांचे सूर नावादीक बाब विल्फी रेबिंबूस जाका कोंकणी कोगूळ म्हण पाचारतात, हांचें आसा.दिग्दर्शन एन्. एल्. आर. सह्याद्री, फोटोग्राफी बी. गणेश पानादियान, संगीत उपेंद्र कुमार हाणीं केलां. हे दाखोवणेन कलाकार ओझी सिक्वेरा, लीन फॅर्नाडीस, डायना, मिक-मॅक्स, एडवर्ड क्वाद्रूस, डॉ. जे.एम. मोंतेरो, सेलीन बी. राव, नालीन कुमार, जॉन परेरा, क्लावद डी सौजा, जॉन डी सौजा, जॉसी रेगो, सिल्वेस्टर डी सौजा, पर्सी नोरोन्हा, फ्रॅंकी डी सौजा, विष्णू पै, विणा कामत, व्हॉल्टर डी सौजा, जी.एल्. रोचा, सिप्रियान डॅरबैल, सरिता, बबिता, नॉर्बट डी सिल्वा, व्हॉल्टर लुईस, नविन विजय, रघुवीर बोलेर, बुझया बोलर्म, शेखर

बोलर आनी फकाणेर डोला, व्हिन्सेट पी. कामत आनी चारल्स सिक्वेरा जावन आसात. ह्या सिनेमांत बरें संगीत तशेंच दक्षिण कर्नाटकांतले सोबीत देखावे पळोवपाक मेळटात. हातूंत उडपी, कोल्हापूर, पेरदूर, मोलपे, सोमेश्वर वेळ, समरसॅण्डस् वेळ, बाजवे विमानतळ, हंपनकट्टा हांचो समावेश आसा. ह्या चलचित्राक साडेतीन लाख रुपया खर्च जाला आनी सरकाराचें अनुदान देड लाख रुपया फाव जाला. ताका सिंडीकेट बँकेचो अर्थीक आदार मेळ्ळा. ह्या सिनेमांतलीं कातारां मारिया, मोग तुजो कितलो आशेलों, म्हाका काय ना उणें, आनी दीस आदले गेले उडोन जीं ई.एम्.आय. कंपनीच्या रिकॉर्डीचेर मुद्रायल्यांत. चलचित्राची काणी कुटुंबाचे कश्ट, कर्मभोग, मोयपास, अपुरबाय आनी दुयेंस हांचेर आटापल्या.

ही मंगळूरकारांल्या कोंकणी क्रिस्तांव मनशांची मायेमोगाची कथा. दोन कुटुंबाच्या मोगा मयपासाची काणी. दोग मोग करणाऱ्यांचें जिवीत गुणेस्त सांबाळून माणसुकी मर्यादेचें मोल उखलून दवरिल्ल्या म्हालगड्या मनश्याची जीण.

एक पेलवान मेस्त्री गांवचे व्यायाम शाळेचो धनी आसता. गांवचे तरनाटे कसरत करपाक हांगां येतात. दुसरे कडेन शेजारच्या संगीत मेस्त्रीच्या घरा थोड्यो चलयो संगीत शिकपाक येतात. पेलवान मेस्त्री आनी संगीत मेस्त्री दोगूय इश्ट जावन आसात. पेलवान मेस्त्री आंकवार, संगीत मेस्त्री काजारी पूण ताची घरकान्न अंतरल्या. ताका दोग धूवो. व्हडल्या चेडवाचें नांव मारीया. जाचे लागीं शेजारी व्यायाम शाळेचो गिरेस्त चलो रबी मोगान पडटा आनी गायता 'आनी म्हाका ना कांय उणें, भागी मोगा म्हजे जीणें' आनी दुसरें एक जोडें व्यायाम शाळेतलो आडांग चलो आनी खोपटेंतली दुबळी कुड्डी चली ही मोग करणाऱ्या गांवांत गुजगुजो उपजयतात आनी उमाळो वळयतात.

रबीचो गिरेस्त आवय-बापूय मारियाचो तिरस्कार करतात. ताचे गरीबकायेची फकाणां करतात, तांचो मोग आडायतात. ह्या मदीं मारियाचे भयणीक दोग तरणाटे एकाच वेळार एकाच जाग्यार केन्ना केन्ना बसून गरी उडयतात.

रबी आनी मारीया निराशी मोग करणाऱ्या मदीं गिरेस्तकायेचो दोरो आड आयिल्ल्यान रबीचो बापूय ताका गल्फान एके बरे कंपनींत कामाक लायता. मारिया घरा एकसुरें जीवावर्तो मोग करपी आपलो बापूय आसुनूय खंत करता. ताका दुडवांचें मोल कळटा आनी गल्फाक वचून, वावर करून गिरेस्त जावपाक जाय म्हण येवजिता आनी एजंटालागीं वयता.

विजा दिवपी एजंट एक तड्डकी आसता. तो नकली विजा करून चेडवाक फोटोवन, तारवाचेर बसोवन दुबय म्हण सांगून गोंयां व्हरून सोडटा. ह्या तारवाचो मुखेली गिरेस्त आनी निश्ठूर जावन आसता. पेलवान मेस्त्रीक ही खबर कळटा. आपल्या शाळेतल्या सगळ्या तरनाट्या सांगात्यांक घेवन विजा एजंटाक आनी ताच्या पंगडातल्यांक धाडावन, पेटोवन, बांदून घालता आनी मारियाक घेवन एजंट पळापळ काडटना गल्फाक सावन आयिल्लो रबी आपल्या इश्टा थावन खबर घेवन धांवता आनी आपल्या मोगाच्या भयणीक वाटयता. अशें ह्या चित्राचो बरे तरेन शेवट जाता. हें कोंकणींतलें पयलें रंगात ऑरवो फिल्म. ह्या फिल्माची सी.डी.काडल्या..



लीन फेर्नांदीस आनी ओझी सिकवेरा

**आनी म्हाका कांय ना उणे**

गावपी: विल्फी रेबिंबूस आनी मीना

रचपी: विल्फी रेबिंबूस

सूर: विल्फी रेबिंबूस

आनी म्हाका ना काय उणें, भागी मोगा म्हजें जिणें
जाता जाल्यार थोड्या दीसां फुडें, उक्त्या म्हज्या गोपांत तुजे येणें
आदी सूख असलें भोगलां कोणें, संवसारांत तुजे विणें
सुखी जातेले दीस फुडाराचे, मोगा हांव आनी तूं मेळटना
बरें मन तुज्या जावं आदाराचें, येता चुकोन पडनासतना
ना ना सोडचो ना, सगळो संवसार हो उपरतल्यारी
तुका सोडचो ना, कितलें तूं म्हाका दुखयल्यारी
तर मोगा कोण आसा संवसारांत सुखी म्हजे बरी

थोड्याच तेंपानी खरें जातलें, मोगा म्हजें तुजें एक सपन
वळून वळून हांत मेळूंक येतलीं, ताऱ्या सारक्या ह्या तुज्यो गोपांत
राखून रावतलों उगत्या हातांनी आरायतलों
संवसार त्या वेळा वांकड्या दोळ्यांनी पळेतलो
पर्वा ना, लेकचो ना तुका लग्नाक हांव आपोयतलों
कोरसः आनी म्हाका ना कांय उणें...............

**मारीया**

गावपी: विल्फी रेबिंबूस आनी मीना

रचपी: विल्फी रेबिंबूस

सूर: विल्फी रेबिंबूस

मारीया, मारीया, तुजो मोग म्हाका मारीया
वर्नुक जायना परयान, म्हज्या अंदकारांतल्या जिवीतांत
तूं दनपारचो सुर्या, जर तर म्हाका म्हज्या देवान
एक बरोवपी जावन रचलेलो, मोगा तुकाच वरनू
एक ग्रंथ लिखतो आसलों

तुजो हात घेवंक माणका, सात दरया उतरून आयलां
तुज्या मुग्दरुप साळका, काळजांत म्हज्या खोंचलां
तुजो हात घेवंक माणका, सात दरया उतरून आयलां
तुज्या मुग्दरुप साळका, काळजांत म्हज्या खोंचलां

जर म्हाका म्हज्या देवान, एक शिल्पी जावन रचलोलो
रुपणें तुजेंच कांतोवन, आराधन करतलों आसलों

तुजो मोग म्हाका कितलो, न्हय तो मेजूंक जावंचो
ह्या जिवाक तांकता तितलो, तुका मात हावें दिवंचो
तुजो मोग म्हाका कितलो, न्हय तो मेजूंक जावंचो
ह्या जिवाक तांकता तितलो, तुका मात हावें दिवंचो

जर म्हाका म्हज्या देवान, तुजो न्हंवरो जावन रचलोलो
मोरो पासून मोगा, तुजो मोग करतो आसलों
हो हो मारीया, मारीया

## दीस आदले गेले उडोन

रचपी: विल्फी रेबिंबूस


विल्फी रेबिंबूस

गावपी: विल्फी रेबिंबूस,मीना
आनी सांगाती
सूर: विल्फी रेबिंबूस

दीस आदले गेले उडोन, सिंतिमेंतांनी बुडोन
घडप हें आयलां घडोन, दोगांयकय लागी ओडोन
नातालांच्या ह्या फेस्ता, सगळ्यांनी संतोस गाजता
मोगाची काळजां लासता, दोळ्यांनी दोळ्यांक वाचता
हॅपी हॅपी हॅपी, हॅपी क्रिसमस तुका
नाचूंया संतसान, वेंगोवन एकामेका
मोग आनी मोयपासान, बांदून घालां आमकां

उडटालो म्हजो दोळो, आसा काय कोणाक पळोवंक
मोगाचो मारलो उलो
आयलोय तूं म्हाका मेळूंक, कागदांनी उलोवन जालें
सपनांनी करून फालें
एकसुरे दीस ते गेले, दोळ्यां थंय भेटले दोळे

हांसून नाचून गाजोवन फेस्त आमी करूंया
जिणेच्या अखेर पासून, ह्या पोरींच उरूंया
मोग आनी मोयपासान जिवीत हें सारूंया

नाच आमचो नाचूंया, काळजांनी काळजां उसोवंया
बँड आमचें वाजोवंया, फेस्ताची गौजी गाजोवंया

हो आयचे राती बाळोक जल्मला
काळोख धांदांचो सुर्या उदेवन आयला
नाच आमचो नाचूंया, गाजोवंया

## मोग तुजो कितलो आशेलों

रचपी: विल्फी रेबिंबूस


पी. बी .श्रीनिवास

गावपी: पी.बी श्रीनिवास

सूर: विल्फी रेबिंबूस

मोग तुजो कितलो आशेलों, तितलोय लाभूंक ना म्हाका
परतून हांव जल्मून येतोलों, मोगा म्हण आपोवंक तुका
मोगाची अप्रूप घडी, बसून हांव उगडास काडी
उगडासान कितेंय करून, दोळ्यांनी दुकां हाडी

आदलो तो उगडास केल्यार, देंवतेली दुकां दोळ्यांर
जल्मता शंबर पावटी, मोग तुजो मेवता जाल्यार,

मोग तुजो कितलो आशेलों, तितलोय लाभूंक ना म्हाका
परतून हांव जल्मून येतोलों, मोगा म्हण आपोवंक तुका
मोगाची अप्रूप घडी, बसून हांव उगडास काडी
उगडासान कितेंय करून, दोळ्यांनी दुकां हाडी



ओझी सिकवेरा आनी लीन फेर्नांदीस



सेलिन राव

# भुयांरांतलो मनीस





ख्रीस पॅरी

भुंयारांतलो मनीस ही क्रिपटोन मोशन पिक्चर्सची 1978 वर्सांत ख्रिस पॅरी आनी टोनी कुतिन्हो हाणीं तयार केल्ली प्रस्तूती. हें गोंयचें पयलें रंगीत ORWO कोंकणी फिल्म. ताची काणी संगीत आनी कातारां ख्रीस पॅरी हाणें बरयल्यात. ख्रीस पॅरी जो गांवांत मडगांवचो. ताणें तियात्रमळांत बाब पिंटो ह्या नांवान प्रवेस केलो. ताणे आपलें नशीबांचो न्हवरो, पाद्रीचो लोब, विद मोग करणाऱ्यांचें अशे तियात्र दाखयल्यांत. ताचे खाशेलेपण म्हणजे तो आपले हस्तंगी संगीत वाचपाक आनी बरोवपाक शिकलो.

ताका फुंकेचीं वाद्या जशीं सॅक्षाफोन, ट्रंपेट, मुरली तेच परीं बोटांची वाध्यां जशे *कीबोर्ड, पियानो* आनी *गितार* सोंपेपणीं वाजोवपाक येतालें. ताचें आदलें संगीत *कोलोंबिया* आनी *एच्. एम्. व्ही.* रिकॉर्डीचेर आयकूंक मेळटा, जाका आदल्या तियात्रिस्तांनी ताळो दिला. कोलकोत्ता, दिल्ली, मद्रास ह्या नगरांतल्या चक्क हॉटेलांनी ताणें संगीत वाजोयलां आनी नांव मेळयलां. पंचवीस वर्सां ताणें हिंदी चलचित्रांच्या संगीत दिग्दर्शप्यां खातीर वाजोयलां आनी ताचो जादूचो स्पर्श आमकां हिंदी फिल्मांनी जशें कभी कभी, त्रिशूल आदी हांतूंत दिसता. ताणें कोंकणी संगीतांत जाझ संगीत हाडून परिणामी

बदल घडोवन हाडलो. हें संगीत लॉर्ना, महम्मद रफी, उषा उथूप, आशा भोसले हांच्या आवाजाâत आमकां आयकूंक मेळटा. हे फांटभूंयेर ताका एक कोंकणी चलचित्र काडूंशें दिसलें आनी भुंयारांतलो मनीस आमकां फावो जालें.

ह्या फिल्माचे कलाकार आयवो आल्मेयदा, हेलन परेरा, सी. आल्वारीस, सौजा फेर्रांव, सिरियाको डायस, रिको रॉड, रॉबीन वाज, पॉल रोमी, आंजेला, जॅक फैर्रांव, सॅबी कुतिन्हो, जॉर्ज रिटो, लुसियान डायस, मेसियाह तावारिस. शेख नूर महम्मद. राज सरनायक. मोन्सेन्होर माकारियोस. मास्टर राफाईल. आलेक्स रास्किना डी. एस.पी.,पायटी कुतिन्हो. डायगो सौजा. जॅरी फेरर्नांडीस. लिली. बॅर्नादीनो व्हेल्लो, कातांव गोमीस. डायगो फेरर्नांडीस. सॅबी. सप्रे वेरेंकार. वि.व्हाय.पारान. पी.एस.आय.आलू रॉड्रिगीस. ऑफेलिया. बॅटी फर्नस्. आदी आसात. हातूंत खेरीत हाजिरी गोवा ब्लॅक टायगर ज्युलियान हाची झगड्यानी दिसता. तेच परींâ *मिस वर्ल्ड टीन प्रिन्सेस* 1975-75 राधा बारटक्के हातूंत दिसता. ह्या फिल्माचे संवाद रिको रॉड हाणें बरयल्यात तर पटकथा आनी दिग्दर्शन श्रीधर नायक हांचें जावन आसा.

हें फिल्म नोरोन्हा प्रायव्हेट लिमिटेड हाचे उदेशीं जाहीर केलां. तांतूंत मनभुलगावपी देखावे पळोवपाक मेळटात. तातुंतलें *टायटल* कांतार फांकिवंत गावपी आशा भोसले हिणें गायलां. हेर कांतारांचीं नांवां नखरे. चूप चूप आनी आदेवस जावन आसा. हीं कांतारां एच्.एम्.व्ही. कंपनीच्या रेकॉर्डाचेर मुद्रायल्यांत.कथा जकात चोरयेचेर तशेंच खून प्रकरणांवयर आटापिल्लीं आसा, जी हिंदी सिनेमा पद्दतीन चलता.

गोंयच्या दाबोली विमानतळाचो जागो. विमानतळातलो एक सरदारजी(बी.एम्.बदलत्या भेसांत) देंवता. एक ट्रॅक्सी चलोवपी ताका जाय थंय पावयता. बी.एम्. ताका फारीक करता पूण तो दुडू घेना आनी आपूण ताका वळखता म्हण्टा. आपलो गूट लिपोवपाक तो ताका जिवेशीं मारता.

दुसरे दीसा ताची कूड सापडटा आनी पुलिसेची सोदपूस चालू

जाता. बी.एम. आपले जकात चोरयेचें काम चालूच दवरता. मारिया आनी क्लिफ हीं दोगांय मोगी. क्लिफ आपल्याक बरें पागार मेळटा म्हण कॉलेज सोडटा आनी बी.एम. हाचे कंपनींत वावुरता. इतल्यान बी.एम.चो म्हाल सांपडायतात आनी फारपेटेंत बी.एम्. मरता म्हण पत्रांचेर परगट जाता. पूण खाशा बी. एम. कंपनीचो धनी जिवंत आसता. मारीया क्लिफाक बी.एमाची खबर सांगता आनी तो विस्वास दवरना. तीं मागीर दोगांय बी.एम.चे कंपनींत वयतात आनी थंय बी.एम्.कंपनीचो धनी तांकां भेटटा. बी.एम.मारीयाक भुलयता आनी हें पळोवन क्लिफ मारीयाचेर थापट मारता. बी.एमाक वायट दिसून तो क्लिफाक नाटाक करपाक लायता.

इतलें म्हणसर मारीया बी.एमाचे कंपनींत आदारी म्हण वावुरता आनी बी.एम.च्या वांगडा संवसार भोंवता. बी. एम. गोंयां पावतच आपली गिरेस्तकाय मारीयाक दाखयता आनी आपणें एक टॅक्सी चलोवप्याक आपलो गूट जाणा देखून जिवो मारिल्लो म्हण कुमसार जाता. इतल्यान क्लिफ बी.एमाक सांपडायता आनी पुलिस ताका आपल्या ताब्यांत करतात. आनी हो बी.एम्. आग्वाद कैदेतल्यान पळून गेल्लो कैदी म्हण कळटा, जाचे नांव बेर्नाद मास्कारेन्हयास. विविदा, लोकसंगीत आनी सुवादीक गीतां हांचो हातूंत आसपाव आसा. ह्या फिल्माचें चित्रीकरण वायंगिणी, मडगांव, मोंतीर, शिरिदांव तशेंच मुंबयंत केलां. ह्या फिल्माची डी.वी. डी. काडल्या.


पॉल रोमी आनी आयवो आलमेयदा


आयवो आलमेयदा आनी हेलेन परेरा



सिरियाको डायस        सी.आल्वारीस आनी हेलेन परेरा



आशा भोसले

**भूयांरांतलो मनीस**

गावपी: आशा भोसले

संगीत: ख्रीस पॅरी

रचपी: ख्रीस पॅरी

घडली इस्तोर गोवा शारांत, आसलो एक मनीस भुंयारांत
नासली ताका ती कसलीच भिरांत, आसलो जिगांट ताच्या दारांत
कोणूच ताका वळखो नासलो, हिकमतीन तो हुशार आसलो
गुन्यांवकारांक भगशी नासलो, कोण जायत तो, मनीस हो असलो
गरीबसाणीन तो वाडलेलो, गिरेस्तकायेन तो बुडलोलो

**नखरे**

रचपी: ख्रीस पॅरी

गावपी: आदॉल्फ

संगीत: ख्रीस पॅरी

कित्याक करताय नखरे, राग तुजो तो लिपय
मोग म्हजो तुका आसा तर, तेन्नांच म्हाका आपोय
फाटल्यान भोंवतात बकडे, मारीत तुजेर झोंपय
कोंवसलेल्या काळजाक ह्या, तुज्या मोगान आपोय

संवसार हो, आतांचो, मौजेन सारपाचो
चेड्यांनी, चेडवांनी, मोगान भोंवपाचो
कित्याक करताय नखरे, मोग तुजो तो दाखय
काळजाक तुज्या हाडून त्या म्हज्या काळजाक तेंकय

कित्याक करताय नखरे, मोगाची वात पेटय
मोगाळ ह्या तुज्या उतराâनी जिवाक म्हज्या नेटय
हय ते दोगूय सुकडे, तांका तूं फटय
न्हिदलेल्या म्हज्या काळजाक ह्या, तुज्या मोगान उठय

कित्याक करताय नखरे, चिंतनां म्हजी सुटय
आशेलेल्या काळजाक ह्या, तुज्या फारान पेटय

**चूपचूप**

गावपी: आदॉल्फ आनी मॅबल

रचपी: ख्रीस पॅरी

संगीत: ख्रीस पॅरी

शितळ वारें, कायबरें, जीव जाता धादोशी
सपन खरें, जालें पुरें, करूंक म्हाका खोशी
नितळ आसत तर काळीज, सदांच करतले पेणें
आसल्यार बरें, एकसुरें, सांडून म्हाका वेशी
ला ला ला ला ला गोपांत म्हाका धर
चूप चूप चूप ओगी राव आनी तोंड तुजें बद कर
ला ला ला ला ला मोगाक आयला जोर
चूप चूप चूप काळीज चोरलां म्हजें, हो व्हडलो चोर

ला ला ला ला ला गोपांत म्हाका धर
चूप चूप चूप ओगी राव आनी तोंड तुजें बद कर
ला ला ला ला ला मोगाक आयला जोर
चूप चूप चूप काळीज चोरलां म्हजें, हो व्हडलो चोर

जालें जालें, नशीबांतलें, खोशेन आता भरलां सगळें सगळें
हावें जोडलें, मोग करूंक फुडें सरलांव, केन्नाच जावंचे न्हय रागार
उतर वेचें न्हय नेगार, देवान निर्मण निर्मिलेलें, काजार जावपाचे उरलां

ला ला ला ला ला गोपांत म्हाका धर
ला ला ला ला ला, चूप चूप चूप ओगी राव, हांगासर बाय येनाका
ला ला ला ला ला, तूं भियेनाका,चूप चूप चूप, घरा यो, धादोशी करतां तुका
ला ला ला ला ला, गोपांत धर म्हाका
चूप चूप चूप, ओगी राव, हांगासर बाय येनाका
ला ला ला ला ला, तूं भियेनाका
चूप चूप चूप, घरा यो धादोशी करतां तुका
ला ला ला ला ला

**आदेवस**

रचपी: ख्रीस पॅरी

गावपी: आदॉलफ
संगीत: ख्रीस पॅरी

उलयलेलीं उतरां, मनांत तुज्या उरोंन
उदकाच्या परीं तो मोग, म्हजो गेलो वारोन
एक दीस आमी केन्नाय संवसार हो तो सरोन
तुजो मोग ह्या काळजांत म्हज्या आसतलो बुडोन

कांयच उलयनासतना, तूं कोडसरलें
आदेवस करूंक पासून तूं विसरलें
निर्मळ काळजाक म्हज्या, तुवें तोपलेय कांटे
कित्याक म्हुणोन देवान आमचे केले वांटे

# तिसरी चीट


पिटर गोन्सालवीस

1978 वर्सा *कोंकण पिकचर्स* हांचें तिसरी चीट हें चलचित्र भायर सरलें.हो मुंगळूकारांचो सिनेमा, विल्फी रेबिंबूस हाच्या त्याच नांवांच्या तियात्राचेर आदारीत आसा आनी ती कथा विलफ्रेद डी सौजा हाणें बरयल्या.तुळू नाटकांनी नांव मेळयल्ल्या डॉ. रिचर्ड कासतेलिनाचो ताका हातभार आसा.

मुंगळुरचो पिटेर गोन्सालवीस ही फोटोग्राफिच्या संवसारांत एक नांवलोवकीक व्यक्ती. ताका म्हायतीपटाचो *बॅकग्रौंड* आसा आनी तो मिलाग्रीस फोटो स्टुडियोचो धनी आनी मुंगळूरच्या कन्नड लिप्यंेत उज्वाडायतेल्या राखणो कोंकणी सातोळ्याचो आदलो अधिक्रूत फोटोग्राफर.ताणें हें चलचित्र निर्माण करून दिग्दर्शीत केलां. हें फिल्म 123 मिनटांचें. हें चलचित्र सुरवातेक अनुदान मेळनासलेल्यान 16 mm हातूंत काडलेलें पूण ताका वितरक मेळपाक कठीन जाल्यान उपरांत 35 m m हांतूंत चित्रिकरण करचें पडलें. अशें करपाक खूब त्रास पडले. तांतलीं कांतारां आनी सूर विल्फी रेबिंबूस हाचे जावन आसात.हांतलें कलाकार आर्थर रासकिन्हा, सायमन रासकिन्हा, मेबल कांट, विन्सेंत पी. कामात एस्. पी. आंजेलर, लियो डी सौजा, हिलडा रिबेळो. हेरीबॉय, आदी. हेनरी टी. ड. सौजा हाणें संगीत बसयलां. त्या फिल्मांचे गावपी विल्फी रेबिंबूस, मीना रेबिंबूस, प्रेम लोबो, बाबिता डी सा आनी क्लावड डी सौजा आसात. हें फिल्म मुंगळूरच्या प्रभात ठियटरांत दाखवपांत आयलें.

ह्या चलचित्राची काणी अशी धांवता.क्रिस्ती लोकाच्या काजाराक एक दस्तूर आसा.काजार जातात तांच्यो इगर्जेत चीटी वाचतात. सगळ्यो मेळून तीन चिटी आसतात ज्यो दर आयताराच्या मिसाक वाचतात. इगर्जेचो पाद्रीविगार इगर्जेत पुल्पिताच्या सकयल आसलेल्या एका खास कदेलिचेर जाका काथेद्रा म्हणटात ताचेर बसून माथ्यार बेरीट न्हेसून ह्यो चीटी वाचपाची चाल आसा.


देवाचे कुरपेन काजार जातात...

पाद्रीन इगर्जेत अशें वाचलें:
"देवाचे कुरपेन काजार जातात रॉनी आनी विन्सी, आंकवार पूत मिलार फिरगोजेच्या डॉ. सिलवेसटर प्रभूचे आनी लिला आनी माल्तिल्दा आंकवार धूवो वालेन्सिया फिरगोजेच्या बेनी फारियास हांच्यो. ह्यो जोडयो काजाराच्या संवस्सकारांत एकठांय जावंक सोदतात.

ही काजारां जावंक कोणाची आडखल आसा जाल्यार पाद्रीविगाराक वो फिरगोजेच्या मंडळाच्या खयंच्या वांगडाक रखडेंच कळवचें.

ही चीट तिसरी जावन आसली. स्तेला नांवांचें एक चेडूं जें डेनिसबाब प्रभू ह्या इस्टेट एजनटागेर काम करतालें तें बायंत उडकी मारून जीव दिता. ताच्या मरणाच्या तीन दिसां उपरांत, डेनीस प्रभूचो खून जाता. खून करतेल्याक अजून धरुंक ना. मोडगेरेचीं केनेलां आनी ताची घरकान्न मोरनेलामी आपलें घर विकून मुंगळूर फिलियाद लियोगेर

रावपाक वयतात. अठरा वर्सां उपरांत खुन्याक धरतात आनी रॉनीचें आनी लिलाचें काजार मोडटा.हें कित्याक घडटा जायत? इगर्जेंत तीन चिटी वाचल्या उपरांत, हें काजार कित्याक आडायतात? शेकीं! बॉनी जो हो गूट जाणा तो सत उगटायता, तेन्ना खरी काणी उज्वाडांत येता.

तर हो बॉनी कोण ? ह्या प्रस्नाचो जबाब ह्या तिसरी चीट चलचित्रांत मेळटा.



**लियो सौजा, व्हिन्सेंट पी. कामात आनी मॅबल कांट**

**आमचें मोगाचें घर** गावपी: विल्फी, मीना, प्रेम लॉबो आनी बाबिता डी सा

रचपी: विल्फी रेबिंबूस सूर: विल्फी रेबिंबूस

चिंतना फुटवना, तडवना
आदले ते दीस नियाळटाना
मोगाचें घर आमचें सांडटाना
रडुंक येता हें सर्व चिंतासताना.

रडून आयज भयणी कांय फायदो ना
चल्यांक तें निर्मिलां वाट नासताना

नवऱ्याचें घर तुमी सरताना
जल्मल्लें घर तुंकां विसरचेंना

बरे नशिबान आमकां कुडसायलां
चार हीं मनां संगीं घडसायलां
एक उदरीं आमकां जल्मायलां
आनी ह्या मोगाच्या घरा पायलां

आमच्या घरांत तुमी सारुल्लीं वरां
विसरनाका तुंच्या नवऱ्याच्या घरा
आमचो उगडास तुंमचे मतिंत दवरा
वर्सा एक फावटी पूण या कुळारा

थड्याच दिसांनीं आमच्या चल्ता गाडी
आयकन घेयात आमचीं उतरां थडीं
नेणटेपणार आमच्यो घडामडी
विसरून सदात कित्याक नेटी घडी

भावांनी भयणीचो मोग बरो
रगता बांधांत कांय मेळटा गेरो
केन्नांय आसांव आमी झगडें मारून
तरूय काळजांतलो मोग खरो

**गुलोबा**

रचपी: विल्फी रेबिंबूस

गावपी:मीना रेबिंबूस
सूरः विल्फी रेबिंबूस

दुखी जाता काळीज म्हजें चिंतून तुज्या नशीबा
एका दिसाचो सयरो तूं दुलोबी गुलाबा

तूं फुलताना सबाय तुजी उजळटा
तूं बावताना काळीज म्हजें कसळटा
चार वाटांनी सुगंध तुजो उबता
संवसारांतलो सुगंद आंगार माळून सोबता

मातयेंत फुल्ताय माथ्यार बावताय
फांत्या थावन सुगंध व्हावताय
रंग रंगाचें धाकटें एक परभळाचें आगटें
आसाय देखून उगतें केन्सांत लिपताय

तूं फुल्ताना... सोबता

परमळान तूं संवसार भरताय
सोबयताय कांय सिंतीद धरताय
लावन खाण मुसाचें दिवन सोबय केन्सांचेर
जिवन एक दिसाचें संपताय बावताय

**आमी आंकवार आसांव** गावपी: प्रेम लोबो आनी बाबिता डी सा
रचपी: विल्फी रेबिंबूस सूर: विल्फी रेबिंबूस

आयज आयला बरो दीस हो सांगूंक आमचो निवज
आयज पर यांत आंकवार आसांव सान जुजेचे शीस
देवाक दिवन आरगां मीस, बांदून दलत्यांचो फीस
पिकूंक जाले केन्स वर्सां जावंक जालीं तीस

कितें चेडवां आसात संवसारांत वा वा
एका चेडवा फाटल्यान चेडवां सात वा वा

तरूय कोणी मेळुंक ना भेटूंक ना
संवसारांतल्या मायंनो सयरीक सोदताना
उगडास दवरा चलयानो तुंकां पिराय भरताना
आमी आंकवार आसांव, आंकवार आसांव, आजुनूय काजार जाय नासताना

कांय सपना पडटात आमकां रातच्या बारांचेर
उबगणेचे दीस न्हय गे आंकवाऱ्यांचें
जिवाक जाय म्हणून वखद एक सुडसुडायेचें
आंकवार सगळे काजार जाले आमचे पिरायेचे

कितें चेडवां . . .नासताना

### चान्नयाचे राती

रचपी: विल्फी रेबिंबूस

गावपी: विल्फी रेबिंबूस
सूर: विल्फी रेबिंबूस

दर्या वेळेर बसून आंज्या
रुपणें तुजें हांव पिंतारतां
चिंतून तुका भगणा म्हजी
चान्नया रातीक हांव उत्रायतां

चान्नयाची रात आयची
दर्या वेळेर बसून म्हज्या आंज्या
आयज हांव रडटां दुकां जायतीं
आयज हांव एक्सुरो जालां
ना मू  म्हजे सरशीं

दर्या तडीक कितलीं ल्हारां
चंद्रा भोंवतीं कितलीं तारां

पूण हांव मोगा एकलो जालां
संवसार सगळो बाय आजून न्हिदून पडला
चंद्राक पळवन नियाळटां तुका
ये गो तूं ह्या म्हज्या उग्त्या गोपांत

चान्नयाची रात आयची.. सरशीं
संवसार सांडून गेलो सुर्या
म्हाकाय आपोयताय तो दर्या
तुजे विणे ह्या संवसारांत
चान्नया रातीक हांव आसां अंधकारांत
चंद्राक पळवन नियाळटां तुका
ये गो ह्या म्हज्या उग्त्या गोपांत

**काळजांत काळीज बांदलां** गावपी: विल्फी रेबिंबूस आनी बाबिता डी सा
रचपी: विल्फी रेबिंबूस सूर: विल्फी रेबिंबूस

खंय येताय सोडून,
काळजांक म्हज्या दुखवन
आयज आयला उदेवन हो वेळ बरो
तूं येताय जाल्यार ना आड दोरो
हांव येतलं पाट धरून

काळजान काळीज तुजें बांदलां
कित्याक काळजांक दुखवन तूं वेताय
तुका म्हजें करुंक चिंतलां
म्हज्या काळजांत तूं आसाय

धयऱ्याचें मात काड, मगाची वाट धर,हुंबऱ्यार राखन रावतां
दरयाचें ल्हार तुजें उडून उठून ये तडीर राखून बसतां
तूं दिश्टी थावन पळटाय तरूय साक्रामेंत मेळटां
तुका आंकवारपणा थावन सुटका लाभयतां

म्हज्या लग्ना राजांत तुका पाठ बेनडयतां
आनी मुखलो फुडां बांदतां
चिंतलां तशेंच तुका सांगतां
म्हज्या चिंतनानीं तूं येताय

तुका म्हजच करुंक आसाय
चंद्राचीं किर्णा बांदतेलीं तरणा
वगी जालाय कित्याक उलय मोगान तुका उतरां उरल्यांत जायतीं
म्हजें काळीज लालेवन रावता, उलय एकूच उतर पावता

तुज्या मुखल्या मेटाची वाट सबयतां
तुवें चलचे वाटेर मोगा काळ बांदयतां
आनी मोगाचें गीत गायतां
हांसयत्या तोंडार देखलां
म्हजो मुखलो फुडार तूं जाताय
तुका म्हजेंच करुंक आसाय

**मातिल्दा**

रचपी:विल्फी रेबिंबूस

गावपी: विल्फी रेबिंबूस
सूर: विल्फी रेबिंबूस

मातिल्दा तूं अपुरबायेचें
किर्णाळ सुरियाचें, तूं ल्हार दर्याचें
काळजा तड मगान आपटंवचें

माणीक मगाचें तूं कणीक देवाचें
म्हाकाच निर्मिलां सूख नशीबाचें

संवसार भेश्टायता,हांवें सांडच्याक तुका
संवसार सांडटलो पूण तूं जाय म्हाका
लोक चुकता मोग आंचो फटयनाका
एकवट जांवया मागीर सांगया लोकाक

तूं सदांच ध्यान म्हजें
एक मोगाचें ल्हान वजें
जोडें हें आभचें किरा साळोरेचें
म्हाकाच निर्मिलां सूख नशीबाचें

मातिल्दा.. नशीबाचें

मोग हांवें केलां हय कितलो तुजो
काळीज उघडून पळे सांगुंक नजो
मगाक लागून काळजांत पेटला उजो
तुजे विणें कणेंच पालवंक नजो

तूं आसाय चिंत्नांत म्हज्या
तूं येताय सपनांत आंज्या
जोडें हें आमचें किर साळोरेचें
म्हाकाच निर्मिलां सूख नशीबाचें
मातिल्दा.. नशीबाचें

**मध्यानेचो ताळो**

गावपी: मीना रेबिंबूस

रचपी: विल्फी रेबिंबूस

सूर: विल्फी रेबिंबूस

हो हो हो हं हं
ह्या मध्याने रातिच्या वेळार
तूं न्हिदून आसाय ये उठून
ना कणूच जागो भुयं थळार
हे वाटे वयल्या सांखळ्यो तुटवून
ये तूं म्हज्या सुखा

म्हाका सांडिनाका
तुज्या उग्त्या गोपांत
तूं सदां

संवसार न्हिदेन आसा चार वाटांनी पांगुरल्या निशा
ह्या रातीक तूं राविच्या वेसार ये दाखय एक पाचवी दिशा
ना जाल्यार तूं कोणूच ना म्हाका
जा आदार सूख आनी दुखांत
ये तूं मुखार वेगीं
ह्या मध्याने . . .

निर्मळ मोगाक तिबो लायतात लोकाच्यो जिबो
आयज आंच्या दोगायंच्या मदें दुस्मान जाला उबो
संवसार आडायत तुका
तरूय तूं म्हाका सांडिनाका
ये मरसर आमी रावया सांगीं
ह्या मध्याने . . ..

## जीजस





ब्रायन डिकन

जीजस हें वॉर्नर ब्रदर्स हांचे 1979 वर्सा काडिल्लें आनी कोंकणींत बेंगाळूरच्या डायगो इसतेवीस हाणें डब केल्लें चलचित्र जॉन हीमॅन हाणीं काडलां आनी तें मुंगळूरांत दाखयलां.

शुभवर्तमानाचें चार ग्रंथ आसात जें ख्रिस्ती भावार्थाची सुरवात दाखयतात. तातूंतल्या एकल्या सांत लुकाच्या शुभवर्तमाना प्रमाणे जेजू ख्रिस्ताचें जिवीत ह्या फिल्मांत चित्रांयलां.

चलचित्राची सुरवात ह्या उतरांनी जाताः "देवान संवसाराचो इतलो मोग केलो की ताणें आपल्या एकल्याच पुताक ओंपून दिलो, तांकां सांसणाचें जिवीत मेळपाक आनी न्हय तांचेर विस्वास दवरतल्यांचो नाश जावपाक. देवान पुताक संवसारांत धाडलो संवसाराचे खास्तीचें फरमोण मारपाक न्हय पूण ताचे वरवीं संवसाराक तारण जावपाक".

मारीयाक ताची आवय वेंचून काडप, जेजूचो जल्म..... अशे संतोसाचे मिस्तेर तातूंत दिसतात. तेच परी जेजूचो जॉरडन नदींत बातिज्म, ताचो चाळीस दीस उपास, नुस्तेकारांक आनी कर एकठावप्यांक आपले शीस करप,देवाचें उतर परगटप, जेरुजाल्यांत प्रवेस करप, ताचेर जाल्लें फितूरपण आनी शेवटीं पोंâचस पिलाताचें स्वाधीन करप आनी खुरसार मारप अशें देखावे पळोवपाक मेळटात. चलचित्राचो शेवट ताचे

पुर्नजिवंतपण, पातकांतलो मेकळो जावन संवसाराक एक भरवंसो दिता.

ताचे चित्रीकरण चड करून इजरायलाक केलां. तें शंबर वेगळ्या भासांनी भाशांतर केलां. ह्या चलचित्राचें येस कितल्या लोकांनी पळेलां ताचेर नासून कितल्या लोकांनी ताचो पाटलाव केला ताचेर आदारून आसा. दोनशी मिल्यांव लोकांनी जेजू ख्रिस्ताक आपलो सोडवणदार आनी धनी मानून घेतला.

कोंकणीत तें गोंयकारांचें बोल्येंत तशेंच मंगळूरकारांचे बोलीभाशेंत पळोवपाक मेळटा. तें काडपाक स मिल्यांव डॉलर्स खर्च जाला. ताचो दिग्दर्शपी ऑस्ट्रेलियाचो पिटर स्कायस आनी इंग्लंडाचो जॉन क्रिश्च्य जावन आसात. ब्रायन डिकन जेजूचे मुखेल पात्र निभयता. ह्या फिल्मा उदेशीं सांगिल्ली ही एक वरिश्ठ कथा अशें मानतात. जेजू आतां कोंकणी उलोवपाक लागलो अशें लोक उलयल्लो आयकूंक मेळटा. तें http://jesusfilmmedia.org/video/1_6519-jf-00/konkani%2c+goanese/jesus हांगा पळोवपाक मेळटा.



**जेजू प्रवचन करताना**



**जेजू कुड्ड्यांक बरे करताना**



नुस्त्याचें आनी उंडयाचें विस्मीत



जेजू आनी पवित्र आत्मो पारव्याच्या रुपांत



निमाणे जेवण



जेजूक जेरबोंड मारताना



जेजू लोका मदीं



खुरसार मारील्लो जेजू

# तपस्वीनी




के जी नायक

तपस्वीनी हें *हनुमान पिक्चर्स* हांचें रंगीत फिल्म मार्चाचे 28 वेर 1980 दीसा दाखोवपांत आयलें. तपस्वीनी हाचो अर्थ अवघड जिवीत जियेवपी अस्तुरी. हें चलचित्र सारस्वत गौड धंदेकार समाजाचें आसून तें गुरूकृपा फिल्मसच्या चित्रवेटा बावट्या खाला निर्माण केलां आनी ताचीं शिवराक जेवणाचीं हॉटेलां मंगळर. बेळगांव आनी मंबयंत आसात.

*हनुमान पिक्चर्स* हाणीं तें प्रसिध्द केलां. ताचो निर्मुपी मंगळूरचो के.जी.नायक जावन आसा. सर्गेस्त के.जी.नायकबाब हॉटेलां चलोवपाचो वेवसाय करतालो.तो हनुमान हाचो भक्त. आनी ह्या खातीर ताच्या हॉटेलाक तशेंच ताणें सादर केल्ल्या ह्या फिल्माक हनुमानाचें नांव आसा. मुंबयंâत ताचें हॉटेल सायन वाठारांत आसा. आनी तें फामाद फिल्म नखेत्र राज कपूर हाचें आवडीचें जावन आसलें. राज कपूराच्या वावुरप्यांक ह्या हॉटेलांत सावन जेवणाचीं पुरवण जाताली. के.जी.मल्ह्या ह्या बरोवप्यान के.जी.नायक हांची भेट घेतली आनी आपल्या लागीं पुरें चलचित्र तयार आसा आनी तें उजवाडावपाक अर्थीक मजत जाय म्हण सांगलें. ह्या बऱ्या कामाखातीर नायकबाब कबूल जालो आनी ह्या चलचित्राचो असो जल्म जालो. ह्या चलचित्रातले कलाकार बऱ्या हुद्द्याचेर आशिल्ल्यान तांणीं मजूरी घेवंक ना आनी ह्या खातीर ताचो पुराय खर्च फकत दोन लाख रुपया जालो. जाका कर्नाटक सरकारान एक लाख रुपया अनुदान दिलेâ. फिल्माचे काण्येंत मसालो नाशिल्ल्यान आनी ताची काणी सादी

आशिल्ल्यान तें बरें चलूंक पावूंक ना. नायकबाब मुंबयंंत माटुंगा वाठारांत रावताले. संगीत बसोवपी आनी दिग्दर्शपी अमृत प्रभू जावन आसा. तातूंतली कातारां बरोवपी बी.व्ही.बाळिगा, के.अनंतभट आनी बी.बी.गुलवाडी जावन आसात. ही रंगीत कलाकृती तीस दिसांत तयार केली आनी तिची काणी दोत आनी कोंकणी लोकांच्या एकचाराचेर आटापिल्ली आसा.

के.जी.मल्ह्या हाणीं बरयिल्ली काणी अशी चलता: एका गुणी अस्तुरेचेर, दुडवांचें पिशें लागिल्ल्या समाजान घेतिल्ले बलिदान ह्या चलचित्रांत इस्कुटायिल्लें आसा. गांवचे शाळेचो शिकोवपी रामराया हाका तीन भुरगीं, व्हडलें वसंती आनी दोगांय धाकटीं रवी आनी मालती. वसंतीचें लग्न थारायलां आनी लग्नाच्या आदीं न्हवऱ्यालो आवय-बापूय दोत मागतात आनी ह्या खातीर हें लग्न जावं नजो. हें पळोवन रामराया हो विधूर आपलो प्राण सोडटा. ह्या खातीर वसंती आंकवार रावपाक थारायता. आनी आपल्या भांवडांचो सांबाळ करपाक सोदता.गांवचो कोणूच तांकां आदार करना. पूण शाळेचो वडील वसंतीक तिच्या बापायचें शिकोवपाचें काम दिता जें ती स्विकारता. गांवचो पारखूपी आनी सोयरिककार लक्ष्मण, वसंतीक एक सोयरीक हाडटा. हो न्हवरो एकदम गिरेस्त पूण विधूर आनी हें तो आपणाक बरी दलाली मेळटली म्हण करता. वसंती ही सोयरीक नाकारता आनी सोयरीककार हो आपलो एक व्हड अपमान समजता आनी तिचे कुटुंब नश्ट करतलो म्हण सोपूत घेता. वसंतीचें नांव तो वयता थंय हुबोयता.

इतले म्हणसर मालती आनी रवी आपलो घर संवसार गांवांभायर करतात. लक्ष्मणाचो पूत एक पोस्टमन आसता. दुडवांचे आशेन आपल्या बापायचें आयकून वसंतीक आयिल्ल्यो चीटी नपयत करता. वसंती आतां एकसुरपणान जियेता. मालती एके चलयेक जल्म दिवन सोंपता. ताची सासूमांय ते चलयेक वसंती फुड्यान हाडून पोसूंक सोडटा. रवीक बरें काम आनी पात्रांव मेळटा. पात्रांवाक रवीचेर खूब विस्वास आनी ह्या खातीर आपूण विदेसांत वयतना आपलें घर ताच्या ताब्यांत करता.

अशें करतना पात्रांवाच्या घरांत चोरी जाता आनी आपलो जीव

धोक्यांत घालून ती चोरी सांपडायता. हें पळोवन पात्रांव आपले धूवेशीं लग्न जावपाक ताचे कडेन मागणी घालता. रवी आपले भयणीक विचारपाक जाय म्हण पात्रांवाक सांगता. पात्रांव वसंतीचे सोदीक वयता आनी थंय ताका लक्ष्मण मेळटा, जो फट मारून वसंतीची खबर ना म्हण सांगता. पात्रांव पुलिसेंत फिर्याद करता आनी लोकांच्यो चीटी फोडून गैरवेव्हार करतना पोस्टमनाक सांपडायता. पुलिस वसंतीक सोदून काडटात. आनी रवी आपले बायलेक घेवन तिचे फुड्यांत पावतना वसंती प्राण सोडटा.तातूंतले दादले कलाकार बी.व्ही.बाळिगा, बालगोपाल, एच्.व्ही.कामत, एम्.आर. प्रभू, व्ही. मंगेशभट, दिनेश प्रभू, सी. उपेंद्र कामत शानभाग, एस्.सुरेंद्र कामत, आर.एम्.कामत, डॉ. एम्.एस्. नायक, सदानंद मल्ह्या, के. अनंतभट, मोहनदास पै, बाळ कलाकार सुखानंद माधव पुराणिक आनी के. श्रीनिवास भट; बायलो कलाकारां मदीं रेखा माविनकुर्वे, रुपलेखा, एम्.रामाणी, आर. प्रभू, बाळ कलाकार राधिका, एल्.एम्. कामत, सी. रोहिणी कामत, चंद्रिका नंदिनी मल्ह्या आनी प्रिथी शेणय. सारस्वत संस्कृतीचेर आनी इतिहासाचेर ह्या फिल्माची काणी आदारीत आसा. एका टपालकाराचें जिवीत दाखयतल्या ह्या सिनेमांत रेखाचे मुखेल भomिकेâत अभिनय बेसबरो जाला आनी तिका प्रेक्षकांची शाबासकी मेळ्ळया. तेचपरीं श्रीनिवासबाब भट हो भौगुणी कलाकार तातूंत परजळटा. ह्या फिल्माचें चित्रण कर्नाटकांत केल्लें आसा.



तपस्वीनीचे कलाकार

### राम राम

गावपी: उपेंद्र भट आनी सांगाती
रचपी: दत्तात्रय भट
संगीत: अमृत प्रभू

राम राम जय राजा राम
पावन तुगेलें अमृत नाम
रघुपती राघव राजा राम
पतीत पावन सिताराम

राम राज्य पुनःपवित्र येव
प्रजा जणांक समृद्धी जावं
कपू तपू आनी दुरीत निवारुंनू
धर्म, निती आनी उन्नती तूं
भक्त मनोरथ कल्पधम तूं
कवी जन मन विश्रांती स्थान तूं
योगी जन चित्त ब्रधाम तूं
गुरू प्रसादाला माता पिता तूं

### राधे

गावपी: उपेंद्र भट आनी सांगाती
रचपी: के. आनंद भट
संगीत: अमृत प्रभू

राधे, तूं निपुनू बैसुनू इत्या खेळोयता
आयला हो चेडूं वेळ मना मेळोयता
खंय थावनू मुर्तिचो नादू आयकता
कृशणा, हें मन मिलन मागता
आत्म्याचें आत्म्याक मिलन जाता
कृशणांतू राधा मेळून वता
कृशणांतू राधा मेळून वता

### दिवसू राती

रचपी: वी.बालिगा
गावपी: सुमना राव
संगीत: आम्रूत प्रभू

दिवसू राती सांज सकाळीं
शिशीर वसंतू परत येताती
काळू सरतना आयू सरता
सरणा जिवाली विशया सक्ती
बंधू ते कोण बाधून कोण
अती विचात्रू संवसारा गती

खंय धावनू आयलो आनी तूं कोण
जावो मना तुका जागृती
देह हें भोगू आनी सूख आटयता
देह रंगाक बली जाता
अत्यारी मरणाक शरणू वसता
कळनू कळूनय पाप आचरण करता.

# जन मन





डॉ. के. रमेश कामत

डॉ. के. रमेशबाब कामत, कोंकणी समाजांतली बेंगाळारू रावपी एक नावादीक व्यक्ती. मुळांत वीजेचो इजनेर पूण ताणे फिल्माचें प्रशिक्षण पूण्यांतल्या फामाद *फिल्म एण्ड टेलेव्हिजन इंट्युट्यूट ऑफ इंडिया* हातूंत घेतलां.नावाजत्या राष्ट्रीय तस्रीप जिखणाऱ्या दिग्दर्शपी पी.लंकेश हाच्या हाताखाल ताणें आदारी दिग्दर्शपी, आवाजाची आखणी करपी म्हण काम पळयलांताणें 1980 वर्सा जन मन हें गौड सारस्वत हांचें पयलें कोंकणी फिल्म सादर केलें.

जन मन म्हणजे प्रजेचें मन. तें शंबर अदीक दीस कर्नाटकांत आनी केरळांत दाखोवपात आयलें. दुरदर्शनाच्या राष्ट्रीय नेटवर्काचेर प्रसारीत करपी तें पयलें कोंकणी फिल्म. डॉ. कामत हो कर्नाटक फिल्म इंडस्ट्री डेव्हलपमेंट तशेंच श्री कांतिराव फिल्म स्टुडियो हातूंत 1982 ते 1989 मेरेन वावुरला. बेंगाळारूच्या जवाहरलाल नेहरू प्लेनेटोरियम हातूंत ताणें वावर केला. ताणें जायतें म्हायतीपट, टि.व्ही. धारावाहिक तयार केल्यात. हिंदुस्थानी संगीत (सितार) हातूंत ताणें आपलें बरें नांव जोडलां आनी कोंकणी आनी कन्नड भाशेंत तो नांवाडगो बरोवपी. बेंगाळारूंत ताची NET INDIA नांवाची वॅबसायट आंखपाची कंपनी आसा. ताणें भुरग्यांखातीर कोंकणी लोकगीतां आनी भजनां रचल्यांत.

ऑगस्ट 9, 1981 दीसा के. रमेश कामत हाचे विकास फिल्मस् तरफेन ऑल इंडिया सारस्वत फेडरेशना खातीर मुंबयच्या शनमुखानंद हॉलांत जन मन हो सिनेमा दाखोवपात आयलो.

हिंदू, ख्रिस्ती जोडपें जॉन आनी जन्नू हे जोडयेचेर आटापिल्ली काणी मित्रा प्रभू हाणें बरयल्या. शोभा, एक गरीब चली पूण शिकपांत तशेंच हेर मळांनी खूब हुशार. ती सतीश नांवाच्या चल्याच्या मोगान पडटा आनी गर्भेस्त जाता. ती कोर्टीत लग्न जातात पूण शोभाची सान पिराय आडखळ थारता. ही कथा सामाजिक आसून ती दोत, बरेपण, जाती, हिंदू-क्रिस्तावाचें काजार हाचेर आदारून आसा. तातूंतले कलाकार दिनेश राव, सुमन राव, बी.व्ही.बाळिगा, विनीकिनी, श्रीनिवास भट, अरुंधती शेणय, जनार्दन नायक आदी आसात. ह्या फिल्माक सुमार 1.75 लाख रुपया खर्च जालो.

ह्या चलचित्राक केरळांत त्या राज्याच्या सरकारान सदांकाळ मौजेकराची माफी दिल्या. बंद पडिल्ल्या नावादीक *इलास्ट्रेटेड विकली ऑफ इंडिया* हातूंत ह्या चलचित्राचो अख्ख्या पानार उल्लेख केला आनी ताच्या अग्रलेखांतूय ताचे वयर बरोवप केलां.



सुमना राव



अरुणा आनी बालगोपाल



जनार्धन नायक, श्रीनिवास भट,अरूंधाती आनी दिनेश प्रभू

**तूं मोगाची**

गावपी: सुरेंद्र प्रभू आनी शोभा शेखर

रचपी: बी. वी. बालिगा

संगीत: इसाय अनबान

तूं मोगाची, तूं जिवाची, तूं गुणाची, सपनांतली राणी
इतल्याक मुस्ती, व्यर्था प्रिती, हांव ती सानी, तूं तो धनी
तूं मोगाचो, तूं जिवाचो, तूं गुणाचो, सपनांतलो रायू
धांवनाका परी, भियेनाका नारी, विस्वास तूं करी वचून तूं
भिती ती खरी, सतीक भारी, अस्वासू म्हळ्यारी अभयातूं

सतीश आनी शोभा: मनाची भिती, वोचो ती दूर
सर्वेस्वरा तूं मोगाची
जिवाचो जिवा, हात धरी देवा
आधारू तूं म्हाका जिवनू तूं

सतीश : यो लागीं देवीं अर्धांगी भावी, साकारू दी म्हाका दांपत्यांतू

सतीश -- शोभा: मनाची आशा, जावो ती सत्या, सर्वेस्वरा, तूं मोगाची.

## जनालें मन

गावपी: सुरेंद्र प्रभू
रचपी डॉ. के .रमेश कामत
संगीत: इसाय अनबान

जनालें मन सांगूक जायना, मनांतलो उजो कोणाकूय कळना
जनालें मन जातूं आयलो, प्रेमाचो पाशू

आसतना दिल्या बहुतेची भासू
संवसार बंदना पळयल्या नंतर, गळून जायना तितलो खाणा घासू

रातीचो चंद्र, दिसाचो सूर्य
नक्काच बंदन सोतोस विहीन
म्हळ्यारी राबत वा जावचो कार्य, जनालें मन

केलेलें कोणाक कामेळूक फळ
सोंशीत मनाक अमास काळ
त्या मोह बंदन चुकिल्लें नंतर
वरचें जिवन म्हणलेलें फूल, जनालें मन

# सुजाना



डॉ. अजित सिंहा



एनक डॅनियल्स्

1982 वर्सा सुजाना हें प्रियम प्रॉडक्शन्स हांचें कोंकणी, मळयाळी आनी हिंदी भासांनी तयार केल्लें चलचित्र पटनाच्या डॉ. अजीतबाब सिन्हा हाणें बरोवन दिग्दर्शीत केलां. ताणें बौध्द धर्माचेर सोद करून विध्यापिठाची ऊंचली पदवी मेळोयल्या. ह्या चलचित्रांत हिंदी कलाकार निलम मेहरा आनी बेंजामीन गिलानी मुखेल भूमिका करतात. एनक डॅनियलस् हाणें संगीत बसयलां. आल्फ्रेड रोज हाणें गीतां रचल्यांत. संवाद आर. नेवरेकार हाणें बरयल्यांत तातूंत ए.के.हंगल, अचला सचदेव हाणीं भाग घेतला. फादर चार्लस वाज हाणें एक गीत गायलां. आपल्या आवय बापायच्या सुरक्षेच्या खातीर आंकवार रावपी एकाद्र्या अस्तुरेचो त्याग तातूंत दाखयला. हातूंतली कातारां सुजाना, सूर्या उदेता आनी तो अस्तंता आनी संवसार कर्तुबांचो हांचो आस्पाव आसा



बेंजामीन गिलानी आनी निलम मेहरा

### सूर्या उदेता आनी अस्तंता

गावपी: मन्ना डे

रचपी: आलफ्रेड रोज

संगीत: एनक डॅनियल्स्



मन्ना डे

सूर्या उदेता सदांच आनी तो अस्तंता
तीं फुलां फुलतात आनी बावून वेतात
संवसार हो हांसयता रडयता
आयची ती रात खोशेन काळजां नाचयता
पातवांतली परी मिसता तुमकां आपोयता
आदलीं सपना पय दोळयां मुखार द्खयता
आदलो उगडास आमकां वेंगेंत खेळयता
आदलें सुख मेळूंक तो
तो उगडास वचूं नजो
ना ना सूर्या उदेता आनी तो सदांच
अस्तंता

चिंतून भोगतां
वर्स जावं नजो
ना ना ना
म्हातारपण
येता तें कोणाक चुकूंक तें नेजो
सुर्या उदेता सदांच आनी तो अस्तंता

### सुजाना

गावपी: फादर चारल्स वाज

रचपी: आलफ्रेड रोज

संगीत: एनक डॅनियल्स्



फादर चारल्स वाज

सुजाना सुंदरी गोरी गोरी एक
पोरी
पातवांतली तूं पोरी सपनांतली
सावोरी
हालताना चलताना धोलताना,
भोंवताना
सारकीच सर्गावेली परी

सर्ग संवसार तुका मेवला
दिसता, देवान पाटयलां
मिसता
एका चल्याच्या मोगान
लासता, काळीज खोशेन तें
हांसता
मोगाच्या गितारा परी वाजता,
सुकण्यां परी तें नाचता
खोशेन वेंगयता, वेंगेंत
धोलयता. सर्ग संवसारांत
आयला दिसता

सगळें हावें देखलें
सगळें हावें सोडलें
राती करून सपनां
मोगान करूंक चिंतलां
नवे करूंक चिंतलां
वायट बरें

हो संवसार कर्तुबांचो
थोड्यांक व्हडे खोशेचो
थोड्यांक व्हडा दुखाचो
म्हाका संवसार मौजेचो
चला रे चला रे चला रे चल नाचूंया
म्हातारपणार नाचूंया.

हो संवसार कर्तुबांचो हांसयता रडयता
हो संवसार कर्तुबांचो हांसयता रडयता
हांव आडवो तिडवो रावत तर दिसता म्हाका आपोयता
चलता जिवीताचो रस्तो नकळो खंय पावयता

उजवाड हाडटा काळोखी जिवीतांत
निवयता ताची तान
मोग्यांचो हात घेवन आपल्या हातांत
दाखयता मोगाची गोडसाण
दोळ्यांत पळेता मोयपासान
काजाराची लागल्या रे तान
ताका हांसयता मोगान वेंगायता
जियेवंक ती दोगांय सांगातान

जिवीतांतल्या सोमदिरांत
रावून झड व्हरू येता
तारू व्हांवता कोश्टीक झोगलायता
जीव तो घाबरता हातांत वेरें घेता
जिवीत मोगान भेटयता हें पळोवन
तो जीव सांबाळ करता.

गावपी: भूपेंद्र सिंग
संगीत: एनक डॅनियल्स्

**संवसार कर्तूबांचो**

रचपी: आलफ्रेड रोज



**भूपिंदर सिंग**

हो संवसार कर्तुबांचो हांसता रडयता
वारें सदांच तें चुंचुडटा, ल्हारां सदांच दर्यार नाचता

काळजात भितर उजो पेट्टा, कित्याक तो समजना म्हाका
तें मळब दिश्टी पडटा, तो सुर्या परजळटा
समदिराक सुकती भरती येता, तेच परी जमनीर तीं झाडां किल्लता
तर काळीज म्हजें कित्याक दडदडटा, कोणाक तें घाबरता ?

भियेवंची कसली गरज ना हे जिवीत मनशाचें
कोण संवसारांत रावूंक येवंक ना
सगळ्यांनी वचूंक जाये, मरण कोणाक चुकना, तें कोणाक रावना
संवसारांत येतांव वो जियेतांव, जिवीत हें मनशाचें
संवसारांत कोण रावचोना, सगळ्यांनी वचूंक जायें
हो संवसार कर्तुबांचो, हांसयता, रडयता.

देव आपली कुर्पा धाडटा, नवो संतोस देंवता दिसता
आज बोडवे गायन करता, रचणार आपोयता
वायट करीत तर तुका पेल्याची
मरणाचीं दारां उक्तीं करून
धन्या तुजें जियेता, तूं काकुतवंत
म्हजे थांय काकूत दाखय,म्हजे थांय माया दाखय
तुजी काकूत धाड तुजी दया धाड, तुजी शांती धाड (2)



बेंजामीन गिलानी ,निलम मेहरा आनी ए.के हंगल

# गिरेस्तकाय




गिरेस्तकाय हें तिसरें रंगीत चलचित्र अंबिका फिल्मस् हाची 1983 वर्साची निर्मिती. मुथूबाब क्रिशन दास हाणें जेमिनी कलर लॅब हातूंत तयार केलां आनी ताणेंच ताची काणी बरयल्या.

ह्या चलचित्राची काणी आमच्या घराब्यांत घडटा तसली आसा. आवय-बापूय आपले जोडिल्ले जोडीन भाट-बेंस तयार करतात आनी ताणीं कश्टांनी कोमायल्ले हे गिरेस्तकायेचेर कांय जणांचो दोळो आसता. कश्ट करनासतना फुकट मेळोवपाची ही गत. अशेंच हांगासर घडटा मरण-पत्रार आशिल्ली गिरेस्तकाय घरचेच, भायल्यांक घेवन लुटूंक सोदतात. पूण शेवटी शारती पावनात हें बेसबरें दाखयलां. हे गिरेस्तकायेक लागून कांय लोकांची पिळवणूक जावंक पावता. नावादीक बरोवपी आनी सुटके झुजारी लॅबर्टबाब मास्कारेन्हयास हांच्या 'सॉरोईंग लायस् माय लँड' पुस्तकाचो हे काण्येंत आदार घेतला.

गिरेस्तकाय चलचित्रातले कलाकार ख्रिस्टफर लेयतांव, मीना लेयतांव, जो रोज, अनिलकुमार, सॅन्ड्रा, रुजारियो डायस, मायक मेहता, कामत द असोल्णा, जॅसी डायस, बॅटी फर्नस्, प्रेमानंद सांगोडकार, पॉल रोमी, टिटा प्रेटो, मिनीन दे बांदार आदी. बाब दास हाणीं दिग्दर्शीत केल्ल्या ह्या फिल्मांत इमिलियानो दा क्रूज हाणें संगीत बसयलां.



तातूंत बरो अभिनय जाला आनी ताचें शूटींग कर्नाटकांत केलां. चार बरीं गीतां तातूंत आयकूंक मेळटात. ह्या चलचित्राचें भितरलें *शूटींग* आदलो आमदार बाब माँत क्रूज हांचे इमारतींत काडलां. तातूंत तांत्रीक दोश आशिल्ल्यान तें बरें चलूंक पावूंक ना. तें परत *डब* केल्यार बरो प्रतिसाद मेळूंक शकता.

तातूंतलीं कातारां अशी आसात- खोशेची भेट, पार्टी सोबोंवया, हांव न्हय फटकिरो, दोन हात जाय, काळीज भेटयलां. हीं कातारां रुजारियो रोड्रीगीस आनी जो रोज हाणीं रचल्यांत आनी ऑरियेंटल ग्रामोफोन कंपनी हांच्या रेकॉर्डाचेर मुद्रायल्यांत आनी ती यंग चिको, बॅटी नाज, एँथनी सॅन, क्लारिंदा आनी ब्राज फेर्नांडीस गायतात.



जो रोज,बॅटी फर्न्स आनी जेस्सी

जेस्सी,जो रोज आनी मीना लेयतांव

**पार्टी सोबोंवंया**

गावपी: यंग चिको

रचपी: रूजारियो रोड्रीगीस

संगीत: एमिलियानो दा क्रूज

मोगाच्या कुपासार नाचोयां, रेबेक गितार बोंगो वाजोवंया
उडटें गीत गाजोवंया, पार्टी सोबोवंया

गम्मत पोयतलोय मोठी, म्हातारो म्हाताऱ्यां फाटीं
पोय चलयांक करतां सुटी, प्रायेर कोंगोटी
नाच नाच नाच बायñ थोको सर, दोन दिसांचो संवसार, मौजा कर
कुडीत जीव आसो सर, संतोस वयर उखलून धर

कोल्वा प्रायेचेर वचून, चले चलयो वेगेंत आसून
फोल्ग मारूया उठून बसून, सगळी रात नाचून नाचून
शितळ वारें वयर चंद्रीम मळबार, व्हड उर्बा हाडटा आमच्या काळजार
कांतार, वाजोवन गितार, नाचूंया हय कुंपासार

**काळीज भेटयतां**

गावपी: यंग चिको आनी बॅटी नाज

रचपी: रूजारियो रोड्रीगीस

संगीत: एमिलियानो दा क्रुज



एमिलियानो दा क्रूज

ज्या दिसाक तुवें ह्या म्हज्या काळजाक, तुज्या मोगाचें अमृत ओतयलां
त्या दिसाक थावन म्हजें तरणें काळीज, फकत हांवें पोय तुकाच भेटयलां
ह्या तुज्या रुपण्याक सोबीत हावें, ह्या म्हज्या तरण्या काळजांत कांतयलां
दिसता म्हाका देवान तुका संवसारांत, फकत म्हजेच पासत पाठयलां.

सपनां परी म्हज्या जिवीतांत, आवचीत एक विजमीत कशे घडोन
दीस रात तुजोच रुपकार दोळ्यांशीं येता, ती गजाल मोगान तुज्या पोडोन

अखेरेक तुवें म्हाका फटयत तर, उरलेलें जिवीत सारतलें रडून
सांगात म्हजो तूं सोडशी तर, जिवीत हें सारतेलीं दुखान बुडून
मरण पासून येवन म्हजेर पडून, खंयसरूय हांव उरत जाल्यार चिड्डून
तरुय एका सुकण्या परीं, गोपांत तुज्या येतेलें उडून

तो नियाळ मनांत हाडिनासतन,एकूय रात न्हीद म्हाका पडना
एक दीस पासून तूं नदरे भायर वचून, तुजे विणें जियेवंक जायना
गोपांत तुज्या रावून, हें सुख भोगतां, कितें म्हाका खंयसरूच गोमोना
हें काळीज फकत तुजोच मोग मागता, भांगार आनी मोतयां मागना
म्हजें काळीज तुजो कितलो मोग करता, तुका उतरांनी आनीक सांगना
ह्या कुडींत आमचो जीव हो आससर, मोग आमचो दोशी जावंचोना (3)

**दोन हात जाय**

गावपी: ब्राज फर्न्स

रचपी: जो रोज

संगीत: मारयान फेर्नांदीस

मोगान काळजाक धोको बसतच हाय, दुखेन भितर रडूनाकाय
आदींच आमी नियाळ करूंक जाय, ताळयो पेटोवंक दोन हात हे जाय

आतांच हात मार फाटीं सरूं नाका. आदार म्हजो हांव दितां पोय तुका
विस्वास तुजो म्हजेर दवर भियेनाका. कित्याक एकलेंच सांडून बसूं नाका
मुखार येवन सांगूक लजनाका. रावता एकूच सिनाल पुरो म्हाका
मोगान काळजाक धोको बसतच हाय. दुखेन भितर रडूनाकाय........

मोगान आसतच केन्नाय अशें घडटा. काळीज भितर फुगार जावन रडटा
दुखेन दुसऱ्याक सांगूक कितें भोगूंक सोदता. तेन्ना थंय भूजवण मेळ्ळयार बऱ्याक पडटा
सुखी दुखी ते वारांव आमचे मोडटा
आनी काळीज कुपान वयर भितर सरता

मोगान काळजाक धोको बसतोच हाय, दुखेन भितर रडूनाकाय
आदींच आमी नियाळ करूंक जाय, ताळयो पेटोवंक दोन हात हे जाय.

**खोशेची भेट**


रूजारियो रोड्रीगीस

गावपी: यंग चिको आनी आयरीन

रचपी: रूजारियो रोड्रीगीस

संगीत: एमिलियानो दा क्रूज

आयज असलो बरो सुयोग आमकां मेळून. दोगांय एकसुरीं हांगा पावून
चितिनासतना भेट आमची आयज जावंक पावली अशी
जीव हो सगळो आमचो खोशी जाता. हो दीस पासून आमकां नवो दीस
हड्ड्यान म्हज्या काळीज संतोसान ती गाडी चलता पोय तशी
ल्हान आसलेल्याव व्हड तूं जातच वाडून. पयलींच दोळयां सामकार पडून

चिंतना पोयना फुडें खंयच्यानच तकली जाल्या पिशी
म्हज्या सुखा, हें विद तुका, खोशेन म्हजें करून तुका करतलों धादोशी

पोय मळबार नदर लावून पोय
त्या सोबीत कुपांनी मळबार कितलें बरें रुप दिलां
तेच परी म्हज्या जिवितांत तूं येवन
ह्या म्हज्या जिवितांत तुवें धादोसपण दिलां
पोय सोबीत त्या सुकण्यांक पोय
वयर रुखांचेर रावून कितल्या मोगान तीं चिंवतात फुलां
त्या फुलां परीं ह्या निर्मळ मोगान
हें म्हजें काळीज फकत तुज्या नांवार हावें केलां.

कर हें सगळें खरें कर,
ह्या समेस्तां फुड्यांत तुजो रुपकार हांव काळजांत घेतां
मोरोसर तुका सोडचोना म्हण
मारिया तुका म्हजो खरो जुरामेंत दितां
कूड निर्मळ ही म्हजी कूड

देवाच्या फुड्यांत रावून फकत तुज्याच नांवार करतां
ह्या मोगाक आमच्या सदांच बरी तोड मेळूंक जाय म्हण
आज हांव देवाचो आदार मागतां
ह्या मोगाक आमच्या सदांच बरी तोड मेळूंक जाय म्हण
आज हांव देवाचो आदार मागतां
ला ला ला रा ला

**हांव न्हय फटकिरो** गावपी: एंथनी सॅन आनी क्लारिंदा
रचपी: रूजारियो रोड्रीगीस संगीत: एमिलियानो दा क्रूज

इश्टा तूं मात्सो सांग काल खंय तूं हुस्क्या पोरीं गेलें भागून
पैस पैस रावून आयला तर मेळूंक जाल्यार कित्याक मोग घेतलो मागून

केन्ना काय जालें पावून, देखून आयलां हांव धावून
फकत तुज्याच मोगाक लागून
भियेनाका केन्नाच फटोवंचोना काजार जातां म्हण सांगून.

इश्टा म्हाका मोग तुजो हय तो खरो
तसोच तूं 'गोड' उतरांनी उलोवंक चड बरो
तूं गोपांत म्हज्या येवन आरो
दोळ्यांक लावन दोळे, मोग म्हजो तूं पळे, हांव न्हय बाय फटकिरो
खरेंच तशें सांगता आनीक मोग मागता, उलोवंक जायना पुरो
नीज हो मोग सदांच परमळीत उरूंक जाय, जाल्ल्या परीं फुलांचो तुरो
पयस पयस तूं रावनाका काळीज दुखयनाका, गोपांत येवन तूं म्हज्या आरो
म्हज्या मारिया मोग हो घट करुंया, त्या मोगाचो करचो न्हय चुरो

ह्या म्हज्या काळजाक गोपांत तूं तेंकय
कूड तुजी हे म्हजे कुडींत हाडून लिपय
खऱ्या म्हज्या विशी मत तूं नोकोय
नितळ चिंतनां हाडून निर्मळ मोग म्हजो करून, पतीन जावन दाखय.

उपरांत सगळीच कूड सदांच जातेली, नासल्यार गवाय म्हजी करून पोय
खऱ्या मोगाची कितली ती मस्ती, मात पूण ना तें तूं नोकोय
मोगा तूं भियेनाका, केन्नाच सोडचो ना तुका, मारून येतलो हांव झोंपय
हें काळीज म्हजें, जातेलें तुजें. काळजाक तुज्या व्हरून तेंकय

ह्या तेंपार चेडे दोतीक भुलून काजार जाताय
पुण तुका हांव जाय तशीच वस्त ती जाय
दुडू म्हजे घरचे वर्तोताय
देखून दुडू जाय आनी तूंय जायें. दोनूय जायें गो बाय.

## भगसणें





डॉ.रिचर्ड कास्तेलीनो

भगसणें ही राज्यलक्ष्मी फिल्मस् हांची 25 लाख रुपयांची मुंगळुरच्या डॉ. रिचर्डबाब कास्तेलिनो हांची प्रस्तूती 1995 वर्सा तयार जाली. हो मुंगळूरकार भांगर पाटलेर (भांगराचो फुडारी) ह्या ताच्या तुळू भाशेतल्या फिल्मा खातीर फामाद जाला. ताणें तुळू फिल्म सेप्टेंबर 8 हें 24 वरांत आठ कॅमेरा वापरून तयार करून विक्रम केला.

ताणें एक तुळू फिल्म बडी नांवाचें काडलां,जें दोतीच्या विशयाचेर ह्या फिल्माची पटकथा डॉ. रिचर्डबाबान बरयल्या आनी ते राज्यलक्ष्मी फिल्मस् हांच्या बावट्या खाल प्रस्तूत जालां. भगसणें हें चलचित्र 12-01-1996 तारखेर मुंगळूरच्या ज्योती टॉकीज हातूंत दाखयलें. हातूंतलें बिगर कोंकणी कलाकार आसात तांची नांवां अशीं-नंदिनी सींग, प्रमोद चक्रवर्ती, हेर कलाकारांचीं नांवां संदिप मलानी, शोभा रघुवेंद्रा, बॅना रुझाय, विनिथा, मनोहर प्रसाद, किशोरी बलाल, वाणी श्री, आदी. संगीत आनी गीतां रचपी विल्फी रेबिबूस, फोटोग्राफर अशोक कश्यप, संवाद एडविन जे.एफ्.डी सौजा आनी सी.जे.एस.ताकोडे हाणीं बरयल्यात.

ह्या सिनेमाची कथा विधवा आनी तिच्या दोन भुरग्यांचेर आटापिल्ली आसा. क्रिस्तांव समाजांतल्या जोड घराब्यातल्या दोग भावांचें

झगडें तातूंत दाखयलां. ह्या फिल्माची काणी एक सामाजीक काणी जावन आसा. काणी तीन मनशांच्या घराब्यांचेर नेटयल्या. एक आवय आनी तिचे दोग चल्यांचेर ही काणी आटापल्या. ही काणी एक आवय बरोच त्याग करून देवभिरांतीन आपल्या भुरग्यांक वाडयता. खूब कश्ट सोसून ती तांकां समाजातले बरे नागरीक करपाक वावुरता. देवाचेर विस्वास दवरून ती जियेता. व्हडलो पूत रिचर्ड जायतो थोकस घेवन भाटा-बेसांचो परामस करता. पूण धाकटो पूत व्हिक्टर वाळेस्त उतरता आनी दुडू इबाडटा. आवय ताका बरो भुरगो जावचो म्हण देवालागी प्रार्थना करता. पूण फोल्गी पूता भशेन तो घराचो वांटो मागून कुशीन रावपाक सोदता.

काजार करून घडयेक सुदारतलो म्हण एकाची सुचोवणी येता. अशे तरेन ताका एका बऱ्या घराब्यांत जासिंता नांवाच्या चलयेलागीं काजार करतात. पूण सुण्याची शेपडी वांकडी ती वांकडीच ती नळयेंत घातल्यार पासून नीट जायना, अशी गत व्हिक्टराची जाता. व्हिक्टर सुदारना. व्हिक्टराचो तारवटी इश्ट राजेश ताका अंदमन जुंव्यार नोकरी दिता. व्हिक्टर आपलो घराबो सोडून अंदमन जुव्यार वयता. थंय ताचे एका मरलिन नांवाच्या गोंयकार पत्रकार चलये लागीं इश्टागत जाता. व्हिक्टराची वर्स भर खबर ना म्हण ताची बायल जासिंता अंदमन पावता. विक्टराचें मन कित्याक लागून बदलता, ताका भगसणें फावता वो ना तें फुडें चलपी भावनेन रेंवडायल्लें नाटक मुजरत पळोवन काडपाचें.

तातूंत मंगळूर, गोंय आनी अंदमन जुव्याचें सोबीत देखावे पळोवपाक मेळटात. गोंयचे खेरीत देखावे म्हळ्यार साळगांवची इगर्ज आनी गोंयच्या सायबाचे कुडीचें रॅलीकेची दाखवण जावन आसात. ह्या फिल्मांक थळाव्या कर्नाटक सरकारान 1995 वर्सांतलें बक्षीस फावो केलां. ताका कर्नाटक सरकाराचें 4 लाख रुपया अनुदान फावो जालां. ह्या फिल्माची सी.डी.काडल्या.



नंदीनी सींग



करनाटकाच्या आदले उपमुखेलमंत्री सिद्धारामया हांच्या कडल्यान तस्रीप स्विकारताना डॉ. रिचर्ड कास्तेलीनो



प्रमोद चक्रवर्ती



नंदीनी सींग

**सगोट सांगाता मेळया**

गावपी: विल्फी रेबिंबूस आनी सांगाती

सगोट सांगात मेळया
सगोट लागीं सरया
आमचे ताळे एक करया

मोरियेक होगळसूंया
वॉडटा-दुरगांनी सोदया
फुलां एकठांय करया
तांचो एक मुखूट घुंतया
आनी मारियेक दिवंया

## नवेंच जिवन


विल्फी रेबिंबूस

गावपी: रॉनी डी कुन्हा आनी मी
संगीत: विल्फी रेबिंबू

रचपी: विल्फी रेबिंबूस

नवेंच जिवन, नवेंच जिवन सुरू करता
नवें जेवण जेवतां मनशाकूळ आयच्या दीसा
मोंतीच्या फेस्ता सगळें नवें नवें दिसता
तरा तरांची नव भागांची, रांदपय घरांत शिजता

नवेच जिवन सुरू करता, नवें जेवण जेवता
मनशाकुळा आयच्या दिसा, मोंतीच्या फेस्ता

पुरसांव काडून बँडा वाजपान हाडटात कोणशी
पयलें देवा लागीं, देवा सरशी
फुलां उडोवंक आयल्यांत नेण्टीं भुरगीं
उल्हास जाला मोंती मांय जल्मल्या म्हण
बिमलीं, तेंडलीं, तवशीं,सोदून सगळ्या पेंटेंर
सांगो, भेंडे, गोसाळीं,हाडल्यांत देगेर

नवेंच जिवन, नवेंच जिवन सुरू करता
नवें जेवण जेवतां
मनशाकुळा आयच्या दीसा मोंतीच्या फेस्ता

बेâजार केल्ली कोणशी घरांत हाडल्या
दिवो पेटोवन ओल्तोरी वयर मांडल्या
सरून गेल्ल्या आल्मांचो उगडास काडून
म्हालगड्यांचे दोळे दुकांत बुडल्या
भुरगीं राखून रावल्यांत, नाल्लाच्या रसाची
रसाची कोणशी भरसून नवें आसा तीं जेंवची

भुरगीं राखून रावल्यांत, नाल्लाच्या रसाची
रसाची कोणशी भरसून नवें आसा तीं जेंवची
नवेंच जिवन, नवेंच जिवन सुरू करता
नवें जेवण जेवतां
मनशाकुळा आयच्या दीसा मोंतीच्या फेस्ता
नवेंच जिवन सुरू करता, नवें जेवण जेवतां
मनशाकुळा आयच्या दीसा मोंतीच्या फेस्ता

मोंती च्या फेस्ता, सगळें नवें दिसता
तरा तरांची नवं भागांची, रांदपय घरांत शिजता
मोंती च्या फेस्ता सगळें नवें दिसता
तरा तरांची नवं भागांची, रांदपय घरांत शिजता

नवेंच जिवन सुरू करता
नवें जेवण जेवतां
मनशाकुळा आयच्या दीसा
मोंतीच्या फेस्ता

**चिलिपिली सुकण्यांनो**

गावपी: मीना रेबिंबूस
रचपी: विल्फी रेबिंबूस
संगीत: विल्फी रेबिंबूस

चिलीपिली सुकण्यांनो, चिलीपिली सुकण्यांनो
चिलीपिली सुकण्यांनो, कितें तुमी सांगतातू ?

कितें तुमी गायतातू, तुमीच करतातू दिसाची सुरवातू
मधूर तुमच्या ताळ्यांनी, गावचे गायन कितलें शांतू
चिलीपिली सुकण्यांनो, चिलीपिली सुकण्यांनो, चिलीपिली सुकण्यांनो

कांय तुमी लावंक ना, कांय तुमी लूवूंक ना
तूर्त पूण तुमच्या पोटांक उणें जावंक ना
देवाची म्हयमा ताचीच रचण
लिसांव इतलें आसल्यारी ऊंचले मनीस मांदीनां
चिलीपिली सुकण्यांनो, चिलीपिली सुकण्यांनो
चिलीपिली सुकण्यांनो, चिलिपिली सुकण्यांनो

वाऱ्यार उबचें, गायन गावचें
खुशाल भोंवचें सोबीत जिवन तुमचें
ताचीच दया ताचीच माया

ताचीच दया ताचीच माया
उबोन भोंवच्या वेळार तुमकां
फाल्यांची ना मूं खंत ?

चिलीपिली सुकण्यांनो, चिलीपिली सुकण्यांनो
चिलीपिली सुकण्यांनो, चिलिपिली सुकण्यांनो
कितें तुमी सांगातू ?
कितें तुमी गायातू,
तुमीच करतातू दिसाची सुरवातू
मधूर तुमच्या ताळ्यांनी, गावचे गायन कितलें शांतू
चिलीपिली सुकण्यांनो, चिलीपिली सुकण्यांनो,
चिलीपिली सुकण्यांनो, चिलिपिली सुकण्यांनो

**जासींता** गावपी: रॉनी डी कुन्हा आनी मीना रेबिंबूस

रचपी: विल्फी रेबिंबूस संगीत: विल्फी रेबिंबूस

जासींता, हांव तुका, हांव तुका आबळे सोदून आयलां दारार
आयलीं रे, आयलीं रे, पावलीं रे, हय मोगा हांव तुका पळे राखून रावल्या हुमऱ्यार
म्हज्या गोपांत धांवून ये, जिवीत नंदन करून घे म्हजे काळीज आशेता
वेंगेक लाळेता, म्हाका तुजीच करून घे
म्हज्या गोपांत धांवून ये म्हज्या गोपांत धांवून ये
विणे म्हज्या मोगा संवसारांत कोण ना कोण तुज्या गोपांत
म्हज्या सुखा पुडी विस्वेर्स घालूं नाका

म्हज्या गोपांत धांवून ये, जिवीत नंदन करून घे
म्हजे काळीज आशेता, तुज्या सावळेंत म्हाका घे
तुजे वेंगेक लाळेता, म्हाका तुजोच करून घे, म्हज्या गोपांत धांवून ये

कितलो सोबीत दिसता संवसार, सुकणीं गायतात गायोनां
सुर्या हांसता तो आकाशार, आमी एकवोटांत आसतना
कितलो सोबीत दिसता संवसार, सुकणी गायतात गायोनां
सुर्या हांसता तो आकाशार, आमी एकवोटान आसतना

म्हज्या गोपांत धांवून ये, जिवीत नंदन करून घे
म्हजे काळीज आशेता, तुज्या सावळेंत म्हाका घे
तुजे वेंगेक लाळेता, म्हाका तुजोच करून घे, म्हज्या गोपांत धांवून यो
ला ला ला ला ला

**जनानो घुमटां** गावपी: विल्फी रेबिंबूस आनी सांगाती

रचपी :विल्फी रेबिंबूस संगीत: विल्फी रेबिंबूस

जनांनो घुमटां बडोवन गावूंया गाणा,.नातालां फेस्त पळे आयलां आंगणांत
सर्वांच्या मुखामळार आयल्या कळा, बॅथलेहेमांत आज अजाप जालां
मध्यान राती वेळा, मोरियाच्या उदोरीं, राय आमचो जल्मला

वर्साक एक फावट नातालां परब येता
येना कांय सदांच, आमचो तुमचो दाखोवंक आतां
गावंया उडटीं पदां, कुंसवार भाजूंक भितर बसल्यांत बायलां
शिमिल नखेत्र पाक्याक हुमकळयलां
मध्यान राती वेळा, मोरियाच्या उदोरीं, राय आमचो जल्मला
घुमटां मारा, घुमटां मारा, ताळी मारा ताळी मारा बॅंड वाजोवंया
आमी आनी तुमी मेळून पोलका नाचूंया

वेगळ्या जातिची, वेगळ्या कातिची, वेगळी आमी एक गांवांची]
रामा, अल्लाह, जेजू क्रिस्ता, सगळीं नांवां एका एकाच देवाचीं ](2)

घुमटा मारा, नाचूंया, हय घुमटां मारा
जनांनो घुमटां बडोवन गावुंया गाणां
नातालां फेस्त पळे आयलां आंगणांत
सर्वांच्या मुखामळार आयल्या कळा
बॅथलेहेमांत आज अजाप जालां
मध्यान राती वेळा, मोरियाच्या उदोरीं, राय आमचो जल्मला
जनांनो घुमटां बडोवन गावुंया गाणां
नातालां फेस्त पळे आयलां आंगणांत
सर्वांच्या मुखामळार आयल्या कळा
बॅथलेहेमांत आज अजाप जालां
मध्यान राती वेळा, मोरियाच्या उदोरीं, राय आमचो जल्मला

# ओ बाय





**नीता जैन दुहॉ**

नीता जैन दूहॉ ही हैदराबादची आनी *और क्या प्रोडकशंस* हाची संवस्थापक, संचालक आनी एक फिल्म दिग्दर्सपी.तिणें ओ बाय हें मोटवें 16mm फिल्म डिसेंबरांत 1997 वर्सा तयार केलें. ह्या फिल्माक समार 7.5 लाख रूपया खर्च जाला. तीचीं हेर फिल्मां फ्रेंच Les Mariés de l'Inde (भारतिय गांठ) म्हायतीपट, दिगांबेर जैन जोगींचेर म्हायतीपट, फ्रेंच Connivences- दोग बायलांच्या इश्टागतीचेर चलचित्र, ललीता फिचर फिल्म, फ्रेंच Le Bhopa fait son cinéma (भोपा दाखोवण गाजयता) म्हायतीपट जावन आसात.



**प्रशांती ताळपणकार आनी ज्ञानेश्वर मोघे**

1998 वर्सा विला दु कोंद अंतराष्ट्रिक मोटव्या फिल्म उत्सवांत पुर्तुगालांत दाखोवपाक तें पयलें कोंकणी फिल्म. हें चलचित्र 29 मिनटांचें जावन आसा.

एका साद्या  मोटारसायकलीचेर भोंवपी कांकणकाराची काणी हातूंत विणल्या. ताच्या कामांत ताका खाशेली हातकारागीरीची कसबी आनी युक्ती वापुडपाक पडटा. परंपरेच्या लजेस्त बायलांचें मन ताच्यानूच फिरावपाक येता. हें करपाक तो तांचे हात आपल्या म्हव्यांत लांब सोडपाक लायता ज्या वरवीं तांच्या मनगटी वेल्यान तीं कांकणा गसरावपाक सोंपें जाता. ताका बायलांचे हात घट धरचे पडटात आनी ह्या वेव्हारांत ताची कसबीची संवकळ दिसून येता.

बायलांक आपल्या हातांक कांकणा घट आनी ठाक ठीक बसलेलीं जाय.नाजूक कांकणा बायलांच्या हातांचेर गसरायताना तीं वेरूक तशेंच फुटूंक फावना हाची ताणें काळजी घेवपाक जाय.तशें जायत जाल्यार एक वायट शकून मानतात. कांकणकारांक, लग्नांत आनी जात्रेंत खूब मागण्यो आसतात. हें फिल्म असल्या कांकणकारांचे नपयत जावपाचे प्रसंग दाखयता. हाचें कारण आतां बायलो कोंवचेचीं कांकणा घालप, मदी भायलें समजतात आनी प्लास्तीक व धातूचीं पसंत करतात.

असल्या पेंचांत आसताना दोग तवनाशी ताची मोटरसायकल चोरतात आनी ताचो संवसार उबंत पडटा. हे परिस्थितींत, हें फिल्म ताचें मन आनी विचार खंडटा. ताका दुसऱ्या धंद्यांत उडकी मारची पडटा. बायलांकडे सोंपेपणी संबंद जडप ताका जमलेल्यान तो सेल्स्मेनाची नोकरी धरता आनी तातूंत तो धादोशी आसता.बायलांच्या संवसारांत एक दादलो ही ह्या फिल्मांची काणी.ह्या फिल्मांक सेंसर विभागान 'अ' प्रमाणपत्र दिलां.

क्रिस्तांवांच्या कुतुंबाच्या दस्तूरेंत, कांकणांक चड म्हत्व आसा. काजाराच्यो चिटी वाचतात तेन्ना हकलेन चुडो घालचो पडटा. आपल्या घोवाच्या मरणाच्या वेळार हीं कांकणा मोड्यार फोडचीं पडटात.

कांकणकाराचें पात्र ज्ञानेश्वर मोगे हाणें केलां. ज्ञानेश्वरबाब एक

येसवंत व्यक्ती. ताणें मुंबयच्या नामणेच्या सेंट जेवियर्स संवस्थेंत प्रशिक्षण घेतलां आनी वीस अदीक फिचर चलचित्रां कोंकणींत काडल्यांत. *जस्ट अ मिनट* फिल्मांक ताका वाखाण्णी फावो जाल्या. एक नांव जोडपी कलाकार जावन ताणें दिग्दर्सपणांत हात घातला. साबार नाटकांनी ताणें भाग घेतला. ताच्या कांट्यांतलें फूल विडियो फिल्मांक नवेंब्र 2005 वर्सातल्या तिसऱ्या गोंय राज्य फिल्म उत्सवांत आठ तस्रीपां फावो जाल्यांत.

ह्या फिल्मांचीं हेर पात्रां थळाव्या गोंयच्या कलाकारांनी केल्यांत. हें ताचें फिल्मांत पयलें भूमिका करप जावन आसा. कॅमरा दिलीप वर्मा हाणें हाताळ्ळा. संगीत शावीयेर पिरीस हाणें बसयलां.पारंपरिक कांतारां आनी नाच तातूंत दिसतात, जे बोरयेच्या प्रतीमा फ्रेंडस सर्कल हांचे जावन आसात. ह्या फिल्मांचें चित्रण गोयांत आनी पुण्यांत केलां.

हें चलचित्र दूरदिसण्याचेर फ्रांस, जरमनी, यू. एस्. ए., पोलँड, डेनमार्क दाखयलां. फिल्म उत्सवांत तें क्लेरमंती फेरांदी फ्रांसांत, ब्रूजिस बेल्ज्यूमांत, ड्रेस्डेन जरमनींत, मुंबय, विला दु कोंद पुर्तुगालांत, मन्तेचातीनी इटालिंत, स्येन्ना इटालींत, नरूदा केनाडांत, लारीस्सा ग्रीसांत, मेंचेस्टर यू. कें.त आनी ग्रींस्टेद नोरवेंत दाखयलां.

ह्या फिल्माक इंग्लीशींत *सब टायटल्स* आसात.ह्या फिल्माची डी. वी. डी. और क्या फिल्मस्, इंडिया हाणीं 1997 वर्सा प्रस्तूत केल्या.



ज्ञानेश्वर मोघे

## डॉन बॉस्को






बॅन गाजारा

डॉन बॉस्कोचो जल्म जॉन बॉस्को म्हण ऑगस्ट 1815 वर्सा जालो. 15 वर्साचे पिरायेर तो कामार, दर्जी, बोटलेर कसो वावरून आपल्या आवयचो भार हळू करपाक वावुरलो. शाळेंत ताका बरी स्मरण शक्ती आशि'ल्यान एक हशार शिकपी उतरलो. ल्हानपणींच ताका पाद्री जावपाची इत्सा आसली. धर्मनिश्टा आनी हिशोबा भायर लोकांची इश्टागत करपी आशी'ल्यान तातूंतल्या एका इश्टान ताचे बरे गूण वळखून देवाची येवजण फुडें व्हरपाक ताका दिशा दाखयली.



लीयांद्र कास्तेलानी

मिश्यनरी वावरांत ताणें झोपड्यांच्या जाग्यांक, अनाथघरांक भेट दिवन तांकां मजत केली., निवारक पद्दत जाका इंग्लीशींत *प्रिवेंटिव मेथड* म्हण वळखतात ती वापडून ताणें तरणाट्यांक वायट उतरपाचे वाटायले. आयज हो वावर सालेसयान पाद्री दुपट रितीन आपल्याक पवित्र करुन आनी दुसरें तरणाट्यांची काळजी घेवन करतात. डॉन बॉस्को, एक मागण्यांचें, गरीबकायेचें आनी पवित्रतायेचें प्रतिक जावन गेलो. तो जानेवारीच्या 1लेर 1888 वर्सा देवाधीन जालो.



डॉन बॉस्को

डॉन बॉस्को हें लियांद्र कास्तालिनोचें इटॅलियन चलचित्र 1998 वर्सा गोंयच्या डॉन बॉस्को संस्थेच्या पाद्रींच्या बरेपणान सगळ्यां भारतीय भासांनी *डब* केलां. ह्या फिल्मान बॅन गजारा डॉन बॉस्कोची पार्त करता तर पॅटसी कॅन्सीत लीनाचें सवंग निभयता आनी कार्ल जिदनी गिसेरपे हाच्या सवंगांत दिसता.फिल्मांत रस्त्यावयल्या भुरग्यांचो कसो एक पाद्री एकोडो सांबाळ करता तें दाखयलां. अश्या भुरग्यांचो सांबाळ सालेसियन पाद्रींची संस्था स्थापिल्ली. ही संस्था संवसारभर शिक्षण दिवपाखातीर आनी तरणाट्यां खातीर वावुरपाक घडिल्ली आनी हें काम संवसारभर अजून चालूच आसा. हें फिल्म डॉन बॉस्कोच्या जिवितांतल्या एका भागाचेर–भुरग्यां-कामदारांच्या पुनर्वसन करपाचेर आटापिल्लें आसा ताचेर आदारीत आसा. हो 19 व्या शताब्दीतलो पाद्री तुरीन शारांत वावुरतालो. हें चलचित्र डॉन (पाद्री) जाका कॅथलिक इगर्ज सांत जॉन बॉस्को म्हण वळखता ताचेर चलचित्राच्या तकट्या प्रमाणे सरकाराक डॉन बॉस्को नाका आशिल्लो. तेच परीं थंयच्या आर्चबिश्पान ताका उलोवपाक बंदी घाल्ली आनी क्रांतीकारांक तो जड जाल्लो. अशें आसतना डॉन बॉस्को हाका घर-दार नाशिल्ल्यान तुरीनच्या भुरग्यांक वांचोवपाक कोणाच्यान जालेंना. तें कोंकणींत *डब* करपाक ज्यॉ रोज, बॅटी नाझ, ऍथनी सॅन, ऍल्सी आनी जेनिफर रोज हाणीं हातभार लायला. हें 30 मिनटांचें फिल्म.





# जिवनाचो खेळ





ए. एस्. राजन्ना

जिवनाचो खेळ हे 2000 वर्सांतलें फिल्म निर्मुपी ए. एस्. महादेवबाब राजन्ना जावन आसा. जाका राजन्ना म्हण वळखतात. तो बेंगाळारू आपली वस्ती करून आसा. राजन्नाच्या बापायच्या मरणाक लागून ताका कॉलेजीचें शिकप करपाक फावलें ना.ताणें कुटुंबातलो धंदो सांबाळ्ळो. आपली खासा टॅक्सी चलोवन तीन वर्सां भितर पांच विलासी मोटारिंचो धनी जालो. ह्यो मोटारी तो फिल्म निर्माण कंपन्यांक पुरवण करतालो आनी अशी ताची कन्नड फिल्म दिग्दर्सपी जयकुमार हांची वळख जाली. राजन्नान आपलें पयलें कन्नड फिल्म *साकिद गिणी* (पोशिल्लो कीर) 1990 वर्सा प्रस्तूत केलें पूण तें पडलें. पाच वर्सा उपरांत ताणें कुर्ग भाशेंत बालू पोलांदत (जिविताचो प्रकाश) फिल्म तयार केलें जें खूब चल्लें आनी जाका प्रादेशीक भाशेचें बऱ्यातलें बरें फिल्म म्हण तस्रीप फावो जालें. ह्या जैता वरवीं ताच्यांत नवी उमेद भरली आनी आपली काणी घेवन तो कारवार आयलो आनी वासुदेवबाब शानभाग हाका भेटलो.


वासुदेव शानभाग

वासुदेवबाब बालकृष्ण शानभाग हो शिर्शी रावपी आदी बँकेंत काम करपी आनी आतां कोंकणी संस्कृताय, नाटक, सिनेमा आनी लोक कलेचो सेवक. ताणें पांच कोंकणी नाटकां बरयल्यात. 55 एक आंकी नाटकां आकाशवाणी धारवाड आनी मुंगळूर केंद्रांन वित्रायल्यांत. ताणें नाचनाटका बेंगाळारू दूरदर्शनाचेर प्रस्तूत केल्यांत.' हावें सांगिल्लें आयकात' ही ताची तेरा *एपिसोड* हाची माळ बेंगाळारूच्या दूरदर्शनाचेर दाखोवप्यांत आयल्या.ताणें जिवनाचो खेळ हाची काणी, पटकथा, संवाद, गीतां बरयल्यांत आनी तातूंत विनोदी सवंग केलां. कोंकणी सिनेमाचें पुस्तक, दोन नाटकां पुस्तकां आनी एक कविता पुस्तक बरयल्यांत. आतां कर्नाटकांतल्या कोंकणी नाटकांवयर एक पुस्तक बरोवपाक हातांत घेतलां.

दोगांयनी ती काणी सुदरायली आनी पटकथा तयार केली. 30 दिसांचें चित्रण कारवार. अंकोला, शिर्शी आनी बेंगाळारू केल्या उपरांत माय 2000 वर्सा जिवनाचो खेळ तयार जालें. हें फिल्म कारवार उपरांत बेंगाळारू, मुंगळूर. उडुपी, कारकाळा, ब्राह्मावार आनी शिर्शी दाखोवपात आयलें जें लोकांक मानलें पूण दुडू वसूल जावंक नांत. ह्या खातीर तें विकचे पडलें आनी बाबड्या राजन्नाक फिल्म उद्येग सोडून दुसरो उद्येग धरचो पडलो. जिवनाचो खेळ रुपेरी पडड्यार दाखोवपाक सुरू केल्लें कोंकणी चलचित्र मुंगळूरच्या कोंकण्यांचें आनी सुब्रम्हण्यम स्वामी फिल्मस् ह्या बावट्या खाल प्रस्तुत केलें. ताका 20 लाख रुपया खर्च जाला आनी ताका कर्नाटक सरकाराचें अनुदान म्हण 2.5 लाख रुपया फावो जालें.

ह्या चलचित्रांत हिंदू, ख्रिस्ती, मुसलमानांचो एकवट चित्रायला. अरुण एक गिरेस्ताचो चलो, जाचो बापूय ल्हान आसताना सोंपता आनी आवय ताका वाडयता. शारांत इजनेरकी शिकतच तो गांवात परतता आनी निसर्ग आनी दर्याची सुरोपाय पळोवपाक सोदता. परतून येतकूच ताका ताचो शाळेंतलो इश्ट जॉर्ज मेळटा, जो अगुणी जावन बेकार भोंवता. ताचो बापूय पिटर आनी ताची कुड्डी धूव, हो ताचो कुटुंब. अरुण मॅरीक मयपास

दाखयता. तो तिका बलात्कारातल्यान वाटयता. पिटराचो भाव डॅनियल आसता, जाची बायल मूत्रपिंडाचे पिडेस्त आसता. पिटर तिका आपली किडनी दिवपाक तयार आसता पूण ताचे बदले मॅरिच्या दोळयांच्या ऑपरेशनाचो खर्च करपाक सांगतां. जॉर्ज ते पयशे आपल्या धंद्यांक दी म्हण्टा आनी नाकारतच तो ते चोरता. पिटर हें पळोवन आपलो प्राण सोडटा, आनी मॅरी बापडें जाता. जॉर्जीचो पत्तो ना. ह्या वेळार अरुण मॅरीक आदार करता. शेजारी ताच्या मॅरी कडल्या संबंदा विशीं नाका जाल्लें उलयतात. हें आयकून अरुणाची आवय ताका मॅरीचो सांगात सोड म्हण सांगता, नाजाल्यार ताका भाट-बेंसाचो कांयच वांटो मेळचो ना म्हण्टा. पूण अरुण ताची परवा करीना आनी मॅरीच्या ऑपरेशनांक लागतलो दुडू एकठांय करता. इतलें म्हणसर जॉर्ज चड दुयेंत जावन हॉस्पिटलांत पावता आनी ताच्या ऑपरेशनाची गरज आसता. मॅरी अरुणांक हे दुडू जॉर्जी फाटल्यान खर्चूक सांगता आनी तें ताका आयकता, अशी ही काणी चलता.

तातूंत मधूर संगीत आनी गीतां आसात. ताची काणी बरोवपी वासुदेव शानभाग, ए.एस्.महादेवराजन (राजन्ना) हाणें ताचे दिग्दर्शन केलां. तातुंतले कलाकार व्ही. शानभाग, एच्.एन्.कामत, श्वेता शेट्टी, यमुना शेट्टी, एम्.एल्.ए. अस्नोटकर, विश्वेश्वर हेगडे आदी टी. रविराज हाणें संगीत बसयलां. ह्या फिल्माची कांतारां कॅसॅटीचेर मुद्रायल्यांत.



नवकुमार आनी माला



नागराज कुंभाशी आनी ए. एस्. रजन्ना

**कोंकणीचें अंत**

रचपी: वासुदेव शानभाग



वासुदेव शानभाग

गावपी: पुथूर नरसिंह नायक

संगीत: टी. रविराज

प्रकरीत रम्य शांत अखिल भारतांत
आमचे कोंकणीचे लोक जावन आसा हांगा एक
कोंकणीची व्हडवीक भरून आसा आमगेल्या मनांत
कोंकणीचो अंत भांगाराचो प्रांत
प्रकटीत रम्य शांत,
कोचीन थावन मुंबय मेरेन कोंकणकारा वळ्ळी
आमगेल्या निकट्या जिवनांत कोंकणी प्रभावळी अरबी समुद्राची

न्हंयचे देगेर घरदारां, नाल्लां सुपारींचीं हीं झाडां
मळबांत धांवचीं ही मडां, देवळां, चर्चीं, मशजिदां
सर्व धर्म सारां
कोंकणीचें.........

कोंकणी लेखक श्रेष्ठ गौरव कायकिणीं
वी.जे. पी साल्दान्हा, साबुती नायका
कोंकणी नाटक एकशा गामा
फुगडी दामाणी किर्तना
घुमटां पांगाचे ताळकां
नाच उमेदी भरपुरां
मासळी मेळटा झोरां
कोंकणीचें.......

जीवनांतलो खेळू गावपी: सुनिथा
रचपी :वासुदेव शानभाग संगीत: टी. रविराज

जीवनांतलो हो खेळू आयला कश्ट तांचो हो वेळू
पित्र भक्तीचो साकार, सुखा दुखाचो सुमेळू
हें जिवन तुगेलें धन्या, ही बापसुली प्रिती आनालिया
जीवनांतलो हो खेळू आयला कश्ट तांचो हो वेळू
पित्र भक्तीचो साकार, सुखा दुखाचो सुमेळू

जीवनांतलो हो खेळू आयला कश्ट तांचो हो वेळू
पित्र भक्तीचो साकार, सुखा दुखाचो सुमेळू
आनी तुका ना जाल्ली, बापायन मोगान वाडयली
दोगांयली प्रिती ती दिली, तुमची मोगाची चली
बरेपण जावंचे बापायले, तुका हें जग दाखयलें
अनुदीन जिवन पूर्ण जाल्लें, बरेपण जावंचे बापायलें
तुका हें जग दाखयलें.
जीवनांतलो हो खेळू आयला कश्ट तांचो हो वेळू
पित्र भक्तीचो साकार, सुखा दुखाचो सुमेळू

**पयशे आसल्यार**

गावपी: प्रकाश पागी

रचपी :वासुदेव शानभाग

संगीत: टी. रविराज

पयशे आसल्यार हो जाय तो कारभार,
आज मेळ्ळा म्हाका तो सर्ग भूंयचेर
पयसो खाली जालो म्हळ्यार मनीस आसून मेल्लो,
कोणी लागीं येना लाचार तो जावन गेल्लो
खंयचे तरी पयशे जोड, कोणाक मारून काड,
पयशे आसल्यार हो जाप तो कारभार

पयशे ना जाल्यार भाव ना, भयण ना
आवय ना, बापूय ना, दोस्त ना, कोणी ना
पयशांची म्हयमा ना ताका उपमा
पयशांच्या मुखार कोण ना
दुडू व्हड तुगडू तुगडू
दुडू व्हड तुगडू तुगडू
कशेय तरेन दुडू जोड आहा आहा पैशे आसल्यार.........

सोरो पियेल्यार संतोस मेळटा तो हय
बर्शी चलयान नासर हांव खेळटां हय
सुखाचें साधन आसा हें जिवन
कशें नंदता हें मन
आनी मेळून तुगडू तुगडू
हांगा खेळून तुगडू तुगडू
चिंतना बदलून पियेवंया आहा आहा
पयशे आसल्यार............

**तूं सददां**

गावपीः सभाशिव शेणय

रचपीः वासुदेव शानभाग

संगीतःटी. रविराज

तूं सददां म्हगेलें प्रितीचें, तन मन अर्पून हें
भावना म्हगेल्या मनाची, आज तूं समजून घे
तूं लागी येवन पळे, तूं लागी येवन पळ, संशय कर नाका
तूं सददां म्हगेलें प्रितीचें, तन मन अर्पून हें
तूं कुड्डें जाल्यार तुका जिवन हांसयता, म्हगेल्या दोळ्यांची दिश्टी वयता
जाती धर्म सगळें सोडून तुका पळयतां, जिवनांत हांव तुका मोग दाखयतां
सोबीत ती, सासवत ती, सोबीत ती, प्रितीची
चलीः तुगेल्या उतरांचेरी पोवन हांव नमतां
तुगेल्या भावनांक हांव समजतां
जिवना तुजो हात धरून हांव समकतां
आयल्ले म्हगेले कश्ट ते विसरतां
सासवत . . .
चलोः तूं सददां म्हगेल्या प्रितीची, तन मन अर्पण हें
चलीः भावना म्हगेल्या मनाची, आज तूं समजून घे
चलोः आज आमी एक जालीं
चलो आनी चलीः जिवन धन्या तूं सदांच, म्हगेल्या प्रितिचो
तन मन अर्पण हें.

**जीवनाचो खेळ हो**

गावपीः अनील कामत

रचपीः वासुदेव शानभाग

संगीतः टी. रविराज

जीवनांतलो हो खेळू आयला कश्ट तांचो हो वेळू
पित्र भक्तिचो साकार, सुख दुखाचो सुमेळू
हें जीवन तुगेलें धन्या, ही बापसुली प्रिती अनानिया
जीवनांतलो हो खेळू आयला कश्ट तांचो हो वेळू
पित्र भक्तिचो साकार, सुख दुखाचो सुमेळू

जीवनांतलो खेळ हो
खेळ खेळतलो जणांक
जाय खेळाचो अणभव
ना जाल्यार कोणाक आसा दुबावाचो संभव
जल्म मरणा दोगांयची नदर
जीवनाची नदी ही हळताची उरता
जीवनाचो खेळ हो

## सूड





संजीव प्रभुदेसाय

सूड ह्या फिल्मांचो निर्माता संजीव प्रभूदेसाय हाका वेवसायिक कलाकार जावपाचें सपन आशिल्लें. ताचो गांव लोलयें, काणकोण पूण वेवसाया खातीर तो मडगांव रावता.

बेंगाळारू फिल्म उद्देगांत दिग्दर्शक म्हण वावुरपी सुरेश रिवणकार हाचे कडेन तांची 2003 वर्सा वळख जाली आनी दोगांयनी एक कोंकणी (35 mm) फिल्म काडपाचें थारायलें.

ते तेन्नाचे मुखेल मंत्री माननिय मनोहर पर्रिकार हांका वचून मेळ्ळे.2004 ह्या वर्सांत पयलो इंटर्नेशनल फिल्म म्होत्सव घडोवन हाडपा खातीर माननिय मनोहर पर्रिकार हे प्रयत्न करित आसले आनी तांच्या प्रयत्नांक येस आयिल्लें.ताणें संजीवाक फिल्म काडपाक परवांगी दिली आनी 25 लाख रूपया दिवपाचें आस्वासन दिलें. ताच्या एका उतराचेर संजीवाक फाटलो फुटलो विचार करिनासतना उरिल्ले 25 लाख रूपया, आपले मित्र, आपले सोयरे आनी बँकेचें रीण काडून हो सिनेमा तयार केलो आनी गोयांत जावन पयलोच इंटर्नेशनल फिल्म म्होत्सवांत दाखयलो आनी गोंयांत *फिल्म कलचर* ना म्हणपी लोकांची तोंडां बंद केलीं आनी गोंयची मान वयर काडली. फिल्माच्या प्रेमीयर शोच्या वेळार मुखेल मंत्र्यान 8 तें 15 दिसां भितर आपुण ह्या फिल्मांक 25 लाख रूपयाचें

अनुदान दितलों हें सगळ्यां ठियटरांतल्या लोकां सामकार आस्वासन दिलें, पूण हें फकत आस्वासनूच उरलें. मागीर सरकार पडलें, राष्ट्रपती राजवट आयली आनी परत सरकार येवून 'फिल्म स्कीम' तयार जावन 3 वर्सां गेलीं.' फिल्म स्कीम' तयार करपा खातीर फिल्म निर्माते रस्त्यार आयले. सरकारा विरूध झगडलें आनी 'फिल्म स्कीम' तयार जाली. ते मेरेन बँकेचें रीण वाडत गेलें. स्किमाचे पयशे मेळटकीर सगळे पयशे बँकेंत भरले पूण जुराक लागून तितलेंच रीण माथ्यार उरलें. आयज हें रीण फारिक करपाक तो आजून परिस्थिती कडेन झगडत आसा. आजून हें रीण ताच्या माथ्यार आसा पूण ताका आत्मविस्वास आसा की तो ह्या परिस्थितींतलो 2015 वर्सा मेरेन भायर सरतलो.

ताका ह्या विशीं विचारल्यार तो सांगता आतां गोंयांत 'फिल्म स्कीम' जाल्ल्यान खूब जाण बरीं बरीं फिल्मा काडटात, हें पळोवन बरें दिसता. आमी फिल्म निर्माते तेन्ना झगडलें आनी ही *स्कीम* तयार जाली. आयज ताचें फळ गोयांत फिल्म काडपाक सोदपी फिल्म निर्मात्याक मेळटा हें पळोवन खूब बरें दिसता !

सूड उतर म्हणजे हिंसा ! गांधीजीच्या धोरणा प्रमाणे हें अख्खें फिल्म मनीसपणाच्या मुल्यांचेर आसा, आयज ना जावपाक लागल्यांत. ह्या चलचित्राचो हेतू फकत इतिहास खणपांत ना पूण जीं मुल्यां मनीसपणाचो संदेश पावोवपा खातीर आसा जीं भारताचे लोकशाहीच्या पवित्र मुल्यांचेर आसात. सूड गोंयांतल्या हिंदू आनी क्रिस्तांव समाजान समजिकायेचे लागीचे संबंद इस्कुटायता.भारत स्वतंत्र जाले उपरांत, गोंयांत पुर्तुगेज राज्याची जुलूमशाही चलताली ताचेर ताची काणी आसा. एका मतलबी पुर्तुगेज इस्पेक्टर आजेंत फिगरेद हाचेर ती काणी केंद्रीत आसा, जो बायल पिसांट आसून आपलो भोग घेतना कोणाकय धरून ते स्वातंत्र्य सैनिक म्हणून तांकां मारता.हो सूड सिनेमा, उठ गोंयकार ह्या देसभक्ती गितान सुरवात जाता. डॉ. परब एक आयुर्वेदीक वयज आसता जाका लोक खूब मान दिता, आनी तो गरीब गांवकारांक फुकट वयजकीय आदार करता. ताची हुशारकाय आयकून पुर्तुगेज राज्यपाल आपल्या पुताचो इलाज

करपाक ताच्या स्वाधीन करता. आपल्या पुताक बरो केलो देखून राज्यपाल ताका तोखेता. पूण घायाळ जाल्ल्या स्वातंत्र्यसैनिकांक दोतोरान इलाज करुन ताका आसरो दिला म्हणून आजेंत फिगरेद ताचेर बगलांट घालूंक सोदता. एक दीस दोतोरागेर एक बायल वयजुकी इलाजा खातीर येवान रावता म्हणान फिगरेदीक कळटा. मध्यान रातीर तो तिका स्वातंत्र्यसैनिक म्हणून पळोवन व्हरता. आनी दोतोराक आनी ताचे बायलेक तीं आपणांक आडायतात म्हणून तांकां जिवेशी मारता. दोतोराचें शिर्विदोर दोतोराच्या आठ वर्साच्या भुरग्याक विलासाक वाटायता.

गोंय स्वतंत्र जाल्या उपरांत विलास आतां एक मोटो सर्जन जावन आपलें ठिकाण कारवार करता. आपले आवय बापायचो सूड घेवपाक तो आपल्या भुरगेपणाचो इश्ट मार्टीन हाचो आदार घेता. एक दीस फिगरेद गोंयां आइल्लो आसा म्हणपाची खबर ताचो मित्र मार्टीन ताका दिता आनी ते दोगूय जाण ताका मारपाची येवजन करतात. एक दीस आजेंत फिगरेदीक एके दोंगुल्लेचेर गेल्ले कडेन मोटारींतल्यान वतना अपघात जाता. दोतोर जाल्ल्यान विलास आपलो सूड विसरता आनी ताचें ऑपरेशन करून ताका वाटायता. विलासाची हॉस्पीटलांतली वागणूक पळोवन फिगरेदाचें मन वळटा आनी तो आपली चूक वळखता. आतां पयलींचो आजेंत फिगरेद मरुन नवो फिगरेद जल्म घेता अशें तो दोतोराक सांगताना विलास आयकता. बदल्लेल्या आजेंत फिगरेदीक मारुन फायदो कितें हो विचार विलास करता आनी ताका सोडून दिता. म्हळ्यार हाचो अर्थतो मनीसपणाच्या मूल्लयांनी ताका मारता.

सूड हो दामोदर आर्टस् हांच्या बावट्या खाल लोलयेच्या संजीव प्रभूदेसाय हाचो सिनेमा. हातूंत हिंदी चलचित्र उद्देगांतले फामाद टॉम अल्टर,परिक्षित सहानी आनी थळावे कलाकार संजीव प्रभूदेसाय, प्रशांती ताळपणकार,योगिता राजी, प्रीन्स जेकब हाणीं भाग घेतला. गोंयचे मुक्तेचेर दामोदर मावजो हांचे काण्येचेर बरयल्या. एक पुर्तुगेज अधिकारी सुटकेची चळवळ कशी मसडूंक सोदता तें दाखयलां. ह्या फिल्मांत गोंयची सांस्कृताय,गावडा कोरेदिन्हो नाच हांचो आसपाव आसा. हातूंतलें गीत प्रसाद

लोलयेकारान रचलां आनी त्या गिताक मुकेश घाटवळ हाणें संगीत बसयला आनी जय मांगाल्दास हाणें तें गायलां. ह्या फिल्माचें दिग्दर्शन सुरेश रिवणकार हाणें केलां.हें फिल्म तयार करपाक पन्नास लाख रुपया खर्च जाला.ह्या फिल्मांचो पयलो शो इफ्फी फेस्टीवलाच्या वेळार 9 जानेवारी 2004 वर्सा जालो.



परिक्षीत, सयाली आनी प्रशांती



प्रशांती, महेश फोंडेकार आनी परिक्षीत

**उठ गोंयकार**

रचपी: प्रसाद लोलयेंकार

गावपी: जय मंगलदास

संगीत: मुकेश घाटवळ

संघर्षाची चूड जावन पेटला एक विचार
पेटयत गेले कुडीकुडीनीं क्रांतीचो चिंगार
उठ गोंयकार ! उठ गोंयकार !
तनामनाच्या मळार रुजूं चैतन्याचे आंकूर
दिठये दिठये फुटून येवं पर्जळाचे फागूर
तनामनाच्या मळार रुजूं चैतन्याचे आंकूर
दिठये दिठये फुटून येवं पर्जळाचे फागूर
नर नारिनी घेवंचो भास्कराचो अवतार,
उठ् गोंयकार ! उठ गोंयकार !

दुस्माना आड जैत जोडूंक, जिखूंक आनी झुजां
शस्त्रां आनी अस्त्रां जांवची, हात पांय भुजां
पडचो आनीक देह कामनी, सुगूर करूंक फुडार
उठ गोंयकार ! उठ गोंयकार !

## आलिशा





राजेंद्र तालाक


देबू देवधर

आलिशा हें मडगांवच्या राजेंद्र तालाक क्रियेशन्सचें चलचित्र 6 डिसेंबर, 2004 दीसा सादर जालें. राजेंद्रबाब तालक हाचो जल्म नोव्हेंबर 16, 1957 दिसा मडगांवा जालो. ताका नाटकांतलें दिग्दर्शन, विजेचें, बॅकग्रावंड संगीत, कलेचें दिग्दर्शन हांचो अणभव आसा. ताणें 1996 वर्सा चलचित्र काडपाक हात घालो. *शितू* नांवाचें टेलिफिल्म ताणें तयार केलें. आलिशा फिल्माचो फोटोग्राफर देबू देवधर तर निर्मातो राजेंद्र तालक जावन आसात. ह्या फिल्माची काणी निसर्ग आणि पर्यावरणाच्या मोगाचेर आदारीत आसून गोंयचे सुंदर देखावे पळोवपाक मेळटात.

सर्वय देण्यांनी भारेल्ल्या निसर्गाची गोयची सुदरताय पळोवन सगळ्याचेच मन खोशेन मुरगट्टा. अख्ख्या संवसाराक गोंय हो भोंवडेकारांचो जागो म्हण फांकारत केला आनी तो जायत्याच लोकांचो सुटी सारपाचो सपनांतलो

जागो जाला.

गोंयची अर्थवेवस्था मिनाच्या उद्देगाचो फाटीकोणो आसा. हें बऱ्याच लोकांक खबर ना. आतां हेर उद्देग आपलें स्थान मजबूत करपाक लागल्यात. मनीस कुळाचो जिवीताचो पांवडो वयर काडपाक उद्देगाच्या वाडीची गरज हें सगळ्याच विचारवंतांनी मानून घेतला. अर्थशास्त्राची ताकीद आनी पर्यावरणाची राखण हाचो समतोल हाडपाक येवजण आंखतल्यांक आनी नियंत्रण हाडप्यांक एक अवघड प्रस्न जावन गेला.

आलिशा एक कलाकार फोटोग्राफर. जी एक पर्यावरणाची जतनाय करपी चली. मिनेराच्या कुटुंबात तिचे लग्न जाता आनी ती हितसंबंदाच्या वादांत घुस्पता.

उगडे नागडे कायदे आनी नेम मोडप, ती निटायेर घालपाक वावुरतना आपले कुटुंबाच्या वेव्हारीक खुशेचेर रुजवत करपाक पावता. तिच्या कडक धोरणान घडण्यो उकत्यो करतना तिका लागू जावपी लोकां कडल्यान विरोध मेळटा.

आलिशा फिल्मांत तिची मन ओडपाची तांक आनी तरा दाखळ करतना ती आपले खुशेच्या आनी मनाच्या यशाकडेन ओडटा. निसर्गा वांगडा उद्देग, पर्यावरणाच्या इश्टागतीन जियेवप ही आयच्या काळाच्या गरज जावन आसा. आलिशा होच मुद्दो परतून परतून सांगता.

संगीत अशोक पत्कीन बसयलां तर कांतार श्रीधर कामत हाणीं घडलां. ह्या सिनेमास्कोप फिल्मांक सुमार 60 लाख रुपया खर्च जाला, जाका अनुदान 20 लाख रुपया मेळ्ळां. आनी तें पंदरा दिसां भितर तयार जालां. इंटरनॅशनल फिल्म फेस्टिव्हल ऑफ इंडिया 2001, पुणे इंटरनॅशलन फिल्म फॅस्टिव्हल 2005 आनी बर्लिन, एशिया, पॅसिफीक फिल्म फेस्टिव्हल हांगासर तें दाखयलां. ह्या फिल्मांक 2005 वर्साचें बऱ्यांतलें फिल्म म्हण 2 लाख रूपयांचो राष्ट्रीय पुररस्कार फावो जाला. ह्या फिल्मांची सी. डी. काडल्या.



प्रियंका बिदये आनी तपन आचार्य



अशोक पत्की

**कळी कळी**

रचपी: श्रीधर कामत

गावपी: देवकी पंडित

संगीत:अशोक पत्की

कळी कळी, मोनी कळी, कळी कळी मोनी कळी
आबोली पिशी, पिशी कळी, हांसत हांसत लजली ती
लजत लजत फुल्ली, जिवाताची रूच आगळी
कळी.... मोनी कळी आबोली पिशी..... पिशी कळी
वाऱ्या तुजो संग दी, फुला तुजो गंध दी, चारय दिको धूंद जावं दी
साळोरे गे सूर दी, मोरा पाख रंग दी, मळब पिशें भरून ओतूं दी
मवें मवें सुखी जिणें, खिण खिण मधूर जावं दी
कळी कळी, मोनी कळी, कळी कळी मोनी कळी
आबोली पिशी, पिशी कळी, हांसत हांसत लजली ती
लजत लजत फुल्ली, जिवीताची रूच आगळी
कळी.... मोनी कळी आबोली पिशी..... पिशी कळी

जलपरी तुज्या मनांतली, अप्सरा तुजे जिणेंतली
जलपरी तुज्या मनांतली, अप्रसा तुजे जिणेंतली
प्रिती ही तुजी म्हजी, सप्त सूर्य जलपरी
उतर उतर पावोवन वच तरी, अस्तरी ती एकसुरी
तुज्या बगर रिती रिती, अस्तरी ती एकसुरी
मोगा विणें सुखून सुखून बावली
दुखी, दुखी, सुखी, सुखी
आबोली पिशी, पिशी कळी
आबोली पिशी, पिशी कळी



हर्श कामत आनी प्रशांती



केशव नाडकर्णी, तपन आनी प्रियंका



राजेंद्र तालाक्बाब राष्ट्रपती भोवमानादीक  ए.पी. जे. अब्दुल कालाम हांचे कडल्यान 2005
वर्सातलो  आलीशा फिल्मांक बऱ्यांतलें बरें कोंकणी फिल्मांचो पुररस्कार स्विकारताना



# पाद्री





रेयमंड क्वाडरूस


प्रीन्स जॅकब


एन्. राजेश फेर्नांदीस

पाद्री फिल्म 2005 वर्सा प्रस्तूत जालें. ताच्या बावट्या प्रमाणें प्रीन्स जॅकब प्रॉडक्शन्स् भेटयता श्रीपद मुवी मेकर्सची प्रस्तूती. ताचो निर्मातो रेयमंडबाब क्वाडरूस बेंगाळारू रावपी जावन आसा. ताणें ह्या फिल्माचें चित्रीकरण गोंयांतल्या आनी कर्नाटकांतल्या कलाकार आनी तंत्रज्ञाना सांगाता एक वेवसायीक भावनेन पुरें केलें. ह्या सिनेमास्कोप चलचित्रांत 46 कलाकार वांटो घेतात. तातूंत 58 सुंदर जाग्यांचे भितरले तशेंच भायले देखावे दिसतात. कासरगोड तें गोंय जातूंत मुंगळूर, कुमटा आनी होनावर हांगाचे सुंदर देखावे दिसतात. ह्या फिल्माक सुमार 60 लाख रुपया खर्च आयलो. रेमंडबाब गांवान मुंगळूरचो आनी आखाती देसांत एक कोंत्रादोर म्हण काम पळयतालो. णव वर्सां थंय काम केल्या उपरांत तो बेंगाळारू परतलो आनी थंय ताणें श्रीपदा नांवाचें शिवराक जेवणाघर उगडलें. हांगासर ताका यश फावो जावन ताणें उपरांत पांच हॉटेलां उबारलीं. पूण ह्या जैता उपरांत ताची कोंकणी विशीं उर्बा उणी जावंक ना. ताणें एक कोंकणी फिल्म



काडपाक उर्बा दाखयली. योगायोगान ताची वळख दिग्दर्शपी एन्. राजेशबाब फेर्नांडीसा कडेन जाली. प्रीन्स जॅकब हाचो पाद्री नांवाचो तियात्र पळेतकच त्याच नांवाचे फिल्म काडपाक ताणें येवजिलें.

मडगांवच्या प्रीन्स जॅकब हाचे मूळ नांव मिंगॅल जॅकब कार्मो लुईस फॅर्नांडीस. ताचो जल्म जुलयच्या 16 तारखेर 1960 वर्सा फातोर्डा गांवात जालो. ताका कॉमेडी प्रीन्स जॅकब ऑफ गोवा हें नांव फादर आंतोन पेरेरा ह्या जेजूइत पिकाळ कोंकणी बरोवप्यान दिलां. खेळ तियात्रांत ताका थांबनासतना येस फाव जालां. आपलो पुराय पंगड घेवन लंडन शारांत भोंवडी करून खेळ तियात्राचो प्रयोग करपी तो पयलो तियात्रीस्त जावन आसा. पी.अक्षरान ताणे 25 दाखवण्यो केल्यात. आनी पी. अक्षराचो 25 वो तियात्र पाद्री जावन आसा. माथें मारून काम करपी, पोटतिडकीन बाळगप आनी आव्हान स्वीकारप हें ताचें खाशेलेपण. ताच्या दाखवण्यांनी दोळे दिपकावपी देखावे, विशीश्ट उजवाडाची वेवस्था, मधूर संगीत, देखदिणे संदेश आनी पोट फुटसर हांसोवप आसता. ताचो भाव कॉमेडी सुप्रिमो हंबर्ट ताका विनोदांत सांगात दिता.

ह्या फिल्माचें खाशेलेपण म्हणजे तातूंतले कलाकार सगळे माच्येवयले जाणीं पयलेच फावट कॅमेराक फुडो केला. अख्खें फिल्म 16 दीसां मदीं पुरें केलें. राजेशबाब प्रमाणे हें फिल्म घराब्यांनी एकठांय पळोवपाचें. सॅन्सर बोर्डान एकूय कडेन कातर लायनासतना ताका 'U' प्रमाणपत्र दिलां. ह्या चलचित्रांतली भास मुंगळूरी आनी गोंयची जावन आसा, आनी तातूंतले कलाकार गोंयचे तशेंच मुंगळूरचे आसात. सावयो पाद्रीची भांमिका नीवटन डी सौजा करता तर व्हन्येचें सवंग एनी क्वाद्रूस निभयता. ज्युलियसाचें पात्र डॉ. कीरण कीरकार आनी रिगनाची भूमिका तपन आचार्य करतात. प्रीन्स जॅकब, सुप्रिमो हंबर्ट आनी जॉन डी. सिल्वा विनोदी सवंग करतात. जासिंत ग्रेसीयस रॉल्दांव हाच्या सवंगांत तर डायना फेर्नांडीस मावशेच्या सवंगांत दिसतात. अरुणा फॅर्नांडीस ज्युलियसाचे बायलेची भांमिका करता.

ताची काणी अशी आसा. सावयो एक पाद्री. ज्युलियस एक धंदेकार

आनी रिगन एक इंजनेर अशे तीन भाव आसतात. हे तीगूय भाव आपले व्हन्येच्या पालवा सांगाता जियेतात. ही व्हनी सगळ्या भावांची मांय कशी.ह्या सुखी घराब्यांत अनुशा प्रवेस करता आनी एका आस्तीग घराण्यांतली जाल्ल्यान आपलो शेक चलयता. तिचो रॉल्दांव तीव आनी मावशी ह्या घरांत भितर सरून सवस्तकाय इबाडटात. आनी तांका अनुशा सांगात दिता. रॉल्दांव तिवाचे येवजणेची फाटभूंय कसली ? हे येवजणेंत लचाणां, बगलांटां, फसवणूक करून घराब्याचो एकवट पिसूडटात. ह्या कामांत निरोपराधी लोक बळी पडटात तें बरे तरेन दाखयलां. कशे परीं मतलबी लोक नेणारपणाचो फायदो घेवन हक्काचो वांटो न्हयकारतात तें हातूंत दिश्टी पडटा. दिग्दर्शन एन्. राजेश फॅर्नांडीस तर काणी संवाद प्रीन्स जॅकब आनी संगीत विल्फी रेबिंबूस हाणीं दिलां. तातूंतले कलाकार नीवट्रन डी सौजा, डॉ. कीरण कीरकार, तपन आचार्य, एनी क्वाद्रूस, अरुणा फॅर्नांडीस, प्रीन्स जॅकब, सुप्रिमो हंबर्ट, जॉन डी सिल्वा, जासिंत ग्रेसियस, डायना फॅर्नांडीस, रोज फर्नस, टोनी मार्टिन्स जावन आसात. ह्या चलचित्रांतलीं कांतारां कलाकारांचेर चित्रायल्यांत तीं अशीं. संवसारांत -रोजफर्नस, एक चंद्रींम -सगळी फामील, पयशे पयशे- प्रीन्स जॅकब आनी सुप्रिमो हंबर्ट, रात जाल्या -ऍंथनी सॅन, मजा मार- तपन आचार्य आनी सांगाती, ये चेडवा- प्रीन्स जॅकब आनी सुप्रिमो हंबर्ट आनी घडयेक पावती- डॉ. कीरण कीरकार आनी अरुणा फेर्नांडीस. पाद्री चलचित्र पळेतकच ताचे जायराती प्रमाणें तें फिल्म एक संदेश दिवपी आनी कोंकणी सिनेमांत एक व्हडलें नांव म्हण सिद्ध जाता. ह्या फिल्माची डी.वी. डी. काडल्या.



**तपन आचार्य, एनी क्वादरूस,डॉ. किरन किरकार आनी निव्ट्रॉन डी सौजा**


हंबर्ट आनी प्रीन्स जेकब


हंबर्ट, प्रीन्स आनी जॉन डी सिलवा

**पयशे पयशे**
गावपी: प्रीन्स जेकब, क्लावद आनी सांगाती
रचपी: विल्फी रेबिंबूस
संगीत: विल्फी रेबिंबूस

ये ये साल्,
उलय रे आल्  आयकता साल्
पेन्टांत आमच्या कितलीं बॉल्सां, बॉल्सांत भितर कितलीं पर्सा
पर्सात दुसरें जायतें आसा, पूण पयशे नात पयशे नात, खर्चाक पयशे नात

पयशे, ये पयशे नासल्यार पयशे, ना बंगलो, ना गाडी, ना तिकशे ना गोडशें
ना कोट्री, ना मांद्री, ना मांद्रेक उशें, सगळ्यांक जाय पयशे

साल्: लॉटरी फुटल्यार एक दीस हांवूय सावकार जातलों
बंगलो बादून आल् तुका नौकर करतलों
आल्: नशीब आसल्यार हांवूय एक दीस मोटोर घेतलों
साल् तुका ड्रायव्हर करून गांवार भोंवतलों
साल्: ये ये साल्.......
साल्: पैशां विणें मनशा जिणेर मजा भागना
आल्: कितलेंय आसूं, कितलेंय वचूं, आशा भागना

**मजा मार**
गावपी: महमद इक्बाल आनी सांगाती
रचपी: विल्फी रेबिंबूस
संगीत; विल्फी रेबिंबूस

तरनाटपणाचें मेळ्ळां देणें, सुयेग आसा मजा मार
फाल्या कितें घडत चिंतलां कोणें, आयच्या दीसा मजा मार
ह्या संवसारांत पावलाक बारा, सर्गार व्हरची आसात दारां

त्यातलो रम, बीयर बार्रां, रस्त्यार दिसतात सुंदर नारां
मजा मार, मजा मार, मजा मार, मजा मार

पोयतना चेडवांची तोंडां
थोड्यांची तांबशेली भिंडा
थोड्यांची फुटफुटीत बोंडां
कशीय धळयतात भेंडां

थोड्यांच्या आंगार साडी, थोडीं पोय न्हेसतात मिडी
थोडीं आसात बारीक काडी, थोडीं बॉलेरो गाडी

ह्या संवसारांत पावलाक बारा, सर्गार व्हरचीं आसात दारां
त्यातलो रम, बीयर बार्रां, रस्त्यार दिसतात सुंदर नारां
मजा मार, मजा मार, मजा मार, मजा मार

तरनाटपणार जाय थंय भोंवचें
थंय हांगा मेळ्ळेलें खावंचें
जिवितांत बिनदास्त रावंचें
फाल्यांचे फाल्यांच घेवंचें
मजा मार, मजा मार

आंकवारपणाची गोडसाण
ना जातेली थोड्याच वर्सान
एका दिसा घरच्यांच्या फोर्सान
शिरकताय लग्ना फासांत

ह्या संवसारांत पावलाक बारा, सर्गार व्हरची आसात दारां
त्यातलो रम, बीयर बार्रां, रस्त्यार दिसतात सुंदर नारां
मजा मार, मजा मार, मजा मार, मजा मार

**घडयेक पावर्तीं** गावपी: पिटर, प्रेम कुमार आनी मीना रेबिंबूस

रचपी: विल्फी रेबिंबूस संगीत: विल्फी रेबिंबूस

घडी एक पावतीं घडयेक रडटाय, थोड्याच वेळान दडटाय, मोगान पडटाय
सदांच तूं आसतलोय म्हजे फाटीक, सपनांत तूं दिसतालोय हर ये रातीक
दोळ्यानी मोगाचीं किरणां हाडटाय, आनी काळीज म्हजे वोडटाय
धन्या देवाक हावें पेटल्यो वाती आनी मागलें तुजे खातीर
नंदा म्हज्या तूं सुंदर आंज्या, सदांच करतलों तुजी पुजा
फाटीक लागलाय तूं गोंयच्या राजा, आनी कातरींत पडला म्हज्या

नंदाः हड्ड्यार म्हजें नांव पळेवन हांसता तुका गांव
म्हाका भोगता फुगासांव कशें सोसून व्हरूं हांव
सालूः हय बाय हय तुंवेच भुलयलें
तुवेंच भूल दिलें म्हण हें काळीज उलयलें
नंदाः न्हय कांय न्हय तुंवेच शिकयलें
तुवेंच शिकयलांय तें हावें करून दाखयलें
सालूः हय बाय हय
सालूः नंदा मोगा तूं चली मंगळा पुराची
केन्ना जातेली राणी म्हज्या घराची
नंदाः चीट हाडटां पयलीं पाद्री विगाराची
मागीर करया भराची, तयारी काजराची



**डॉ. किरण कीरकर आनी अरूणा फेरनैन्दीस**

**रात जाल्या रात**

गावपी: डॉ. प्रशांत राज

रचपी: विल्फी रेबिंबूस

संगीत: विल्फी रेबिंबूस

रात जाल्या रात, मदयानी रात, न्हिदल्या सुशेगाद, मनशा जात
तरूय थोडी दुखी, जणां आसड्यो धांपीनांत
दोळ्यांत आसा दुखा वाळो, मतींत आसा खंत
रात जाल्या रात, मदयानी रात, न्हिदल्या सुशेगाद, मनशा जात

सावळी घालूंक नेगार करी पोसलोलो तो रूख
विखाळ सोरपाक दूद वोतोवन जाली केदी चूक ओ हो हो
रडल्यारय कांय जायना उणें काळजाची दूख
सोदल्यारी कांय मेळना आनी सांडलेलें तें सूख

संवसारांत अशेंच जाता, जालेलें विसर आतां,
उरलेलें जिवीत तुजें, जियेवंक आसा
निराशी मनशां, सोदू नाका,
जालेलें जावं आतां रडू नाका

रात जाल्या रात, मध्यानी रात,
न्हिदल्या सुशेगाद, मनशा जात
उंचाय चडूंक आदार जाली निसण लोटून सकला गेली
सासायेची भासावणी ती भासायलेल्याक विसरून गेली
घाम थेंबे आटोवन आटोवन केल्ल्या कामार मेळ्ळें कितें
मोगा शिंवर ओतून काळीज पासुन जालें रितें

आतां तूं बदल दिशा, जालेलें विसर पिशा
पळे थंय नवो दीस उदेवन येवंचो आसा
निराशी मना आशा सोडू नाका,जालें तें जालें आता रडूं नाका
रात जाल्या रात, मध्यानी रात,
न्हिदल्या सुशेगाद, मनशा जात

**ये चेडवा** गावपी: डॉ, प्रशांत राज आनी सेंमसन

रचपी: विल्फी रेबिंबूस संगीत: विल्फी रेबिंबूस

ये चेडवा तुजो मोग केला
तुका भुलून हांव पिसो जालां
हांव तुका मोग म्हजो
हें काळीज तुवें चरुन व्हेलां

तूं म्हजेर भूल भूल्ला, भूल्ला हांव तुजेर
गुट आमचो दोगांयचो घरच्यांकुय कळ्ळा
तर आतां कळंया आख्ख्या संवसाराक
तयार जांवया आमच्या काजाराक

सूर्या पळे वयर रावून पयता
किरणा ताचीं आमकां पोशेतात
वतांत ताच्या लासतां
मोगा तापान भाजतां
तुज्या काळजांत रावूंक आशेतां

उगतीं आसात काळजाची दारां
रावतां तुका मेजून हांव वोरां,
सोबीत दिसताय म्हज्या भांगारा
काजार जावन केन्ना येताय घरा
गोऱ्या गोऱ्या ह्या मुखामळार

पिश्यार करचे दोन दोळे
असो पळेनाका मोगान जळयनाका
काळजांत भरून येतात उमाळे
ये चेडवा.. चोरून व्हेलां

# अंतर्नाद




राजेंद्र तालाक

2006 वर्सा अंतर्नाद फिल्म राजेंद्र तालाक क्रियेशन्स हाणीं तयार केलें. अंतर्नाद म्हणजे भितल्लो आवाज. ह्या फिल्मांत काम करपी रीमा लागू, प्रदीप वेलणकर, अमृता सुभाष, उर्मिला कानेटकर, अमिता खोपकर, अनिल रायकार आनी राजू एम्. नायक. स्वप्निल बांदोडकार, प्रियांका बिडये आनी वर्षा उजगांवकार हीं खेरीत दिसतात. ह्या फिल्माचो फोटोग्राफर देबू देवधर तर संगीतकार अशोक पत्की जावन आसा हांतूंतली कांतारां डॉ. मनोहर सरदेसाय, उदय भेंबरे आनी श्रीèधर कामत हांचीं.

हें ,कोंकणींतलें पयलें डॉल्बी डिजिटल फिल्म. अंतर्नाद फिल्माची काणी आताचें पिळगेची काणी. हे नवें पिळगेक सगळो वैभव, फांक रोखडीच जाय. ह्या चलचित्राची कथा एके आवय आनी धूवेच्या खाशेलेपणाच्या विरोधाचेर आटापल्या.

रैना शिरोडकार एक शास्त्रीय संगीताची 'जिनियस' आनी कडक शिस्त पाळपी. सानिता तिची धूव एक बरी गावपी, जिका गोड ताळो आसा. ह्या खातीर आवय आपले धूवेन शास्त्रीय संगीताचीं तत्वां पाळून ताची गिरेस्त आनी आदली परंपरा पाळची अशी अपेक्षा धरता. सूर तोच

ताल तोच गाणी कसलींय आसूं. नांवां वेगळीं अशें आवय आपले धुवेक समजायता. तशेंच पयलीं लोकां मेरेन पावूंक जाय उपरांत नांव मेळोवपाक जाय अशें सांगता.

सानिता नवे पिळगेतलें आशिल्ल्यान आपल्या आवयच्या प्रभावा कडल्यान फुटूंक सोदता आनी आपलें खेरीत खाशेलेपण स्थापूंक सोदता. ह्या पासत सानिता वेगळें संगीत जशें 'रिमिक्स' आनी सुमेळ हातूंत आपलें दिरवें धरता. अशें करतना तिका विकी ह्या चल्याची भेट जाता. ह्या कामांत विकी सानिताचें सपन पुरें करपाक आत्मविस्वास दिता. सानिता फांकीचे तेंकशेर पावतच जैत अणभवता पूण अशें करताना तिका एक खेरीत पोकळसाण जिवाक भोगता. सानिता आप-तपासणी करता आनी परतून पुरें धादोसपण मेळोवपाक आपल्या मुल्यां कडेन वचपाक निर्णय घेता. अंतर्नाद ह्या भावनांचे खोलायेन खणटा. हातूंत फकत आवय आनी धूव, गुरू आनी शिश्य इतल्याच विशया पुरती नदर मर्यादीत करना बगर हेर सोयरिगतीच्या परिणामाविशीं बदलत्या देखाव्यांत हात घालता.
ह्या फिल्माक सुमार 65 लाख रुपया खर्च आयला. ताचें चित्रण मडगांव, राय आनी पणजे केलां. आनी गोंय राज्य सरकारान ताका मौजेकर माफ केला.

अंतर्नाद फिल्मांक पांच राष्ट्रीय पुररस्कार अशे फावो जाल्यात: पार्श्वगायन-आरती अंकलेकार, संगीत- अशोक प¦की, बाळ कलाकार दिव्या चाफादकार, दिग्ददर्शन आनी बरें कथानक फिल्म- राजेंद्र तालाक. ह्या फिल्माची डी.वी. डी. काडल्या. कांतारां सी.डी.चेर मुद्रायल्यांत.


स्वप्नील बांदोडकार आनी आंमुता सुभाश


अमुता सुभाश



रीमा लागू

## नीळ रंगान



शंकर महादेवन

गावपी: शंकर महादेवान

संगीत :अशोक पत्की

रचपी: श्रीधर कामत

त्या अंबरांतल्या नीळ भुंयेचेर शाम कन्हैया नाचे
त्या अबनीतयांतल्या रासलयाची बांसरी वाजो
म्हजी सुध बुद्ध आनी रीत भीत तूं भिजलां चिंब चिंब रे
नीळ रंगान रंगला रे कान्हा, नीळ रंगान रंगला

हय न्हय सो साद तुजो शिरशिरलीं ही रानावनां
जाय जाय सो स्पर्श तुजो दाह दाह हे तनामना
आता न्हावन धुवन तुजें गीत म्हणूं कशें एकलोच नाचूं रे
तुका हय म्हणूक, तुका हय दिवूंक, कशें एकलोच वचूं रे
म्हजी सुद बुद्ध आनी रीत भीत तूं भिजलां चिंब चिंब रे
नीळ रंगान रंगला रे कान्हा, नीळ रंगान रंगला

प्रित म्हजी ही पिशी जनलोक म्हाका हिणसायती
रीत जगाची स्वार्थभरी तुका आनी म्हाका पयसावपी
हांगा दीस-रात एक मनसपन ही हांव तुजीच मुरली रे
म्हजें शांबान, हेंच एक ध्यान की हांव तुजीच उरचीं रे
म्हजी सुद बुद्ध आनी रीत भीत तूं भिजलां चिंब चिंब रे
नीळ रंगान रंगला रे कान्हा, नीळ रंगान रंगला

**साळोरे यो**

रचपी: उदय भेंबरे


शान

गावपी: शान

संगीत: अशोक पत्की

यो यो साळोरे यो, यो यो साळोरे यो, यो यो साळोरे यो
बरसूं तुजें गे यो, बरसूं तुजें गे यो, बरसूं तुजें गे यो
पावसांत लागे रावला तुका घे पावसांत लागे रावला तुका घे
यो यो साळोरे यो, यो यो साळोरे यो, यो यो साळोरे यो
बरसूं तुजें गे यो, बरसूं तुजें गे यो, बरसूं तुजें गे यो

**नाच गो नाच**

रचपी: डॉ. मनोहर


अशोक पत्की

गावपी: स्वप्नील बांदोडकार आनी बेला

संगीत: अशोक पत्की

दबदी दबदी दबदीदू, दबादी दबादी दबदीदू
कोण खंयचें तूं कशें पावलें गो हांगा
यो म्हज्या गोपांत आनी सांग गो म्हाका
अस्तुरी गे अस्तुरी, कात तुजी कस्तुरी

दशणे परीं अंत तुजे, दांत मोगऱ्या वरीं

नाच गो नाच चेडवा नाच, सगळो लोक नाचतलो

घुमट घुमट घुमटा ना गा जोत सोयरी कान



राजेंद्रबाब राष्ट्रपती भोव मानादीक श्रीमती प्रतीभा देवी पाटील हांचे कडल्यान 2006 वर्सांतलो अंतरनाद फिल्मांचो राष्ट्रीय पुरस्कार स्विकारताना



अमृता सुभास, प्रदीप वेलंकर

## ब्लॅक न्हेसप फॅशन आतांचें





टी- बूश

ब्लॅक न्हेसप फॅशन आतांचें हें पयलेंच कोंकणी फिल्म जें सावदिया अरेबिया हांगासोर दाखयलां आनी ताका गोंयकार तसो मुंगळूरकार भावांडांचें फाटबल फावो जालां. हो कोंकणीचो पयलोच इ-सिनेमा आनी तो टीबूश- हाणें टी. बूश इंटरनेशनल फिल्मस् बावट्या खाल प्रस्तूत केलां.

टी-बूश नागोवा गांवचो. ताणें *द लेटर* हें अंतराष्ट्रीय किर्ती मेळोयललें फिल्म बरवन दिग्दर्शीत करुन प्रस्तूत केल्लें आसा.ताचें शिकप सेंट जोसेफ कोव्हेंतांत नागोवा तशेंच गोवा कॉलेज ऑफ आर्ट आनी गोंय विध्यापिठांत जालें. ताणें फ़िल्मांची आनी टी.वी.ची फिशालकाय लंडन फिल्म स्कुलांत जोडली.तें एक विनोदी काण्येचेर आटापलां. एका मदल्या पिरायेच्या गोंयचे जोडयेचेर आनी तांच्या दोग पूतांची तांतूंत काणी आसपावता. ते आपली नोकरी आनी काजारी जिवीत घरा परस पयस कशे करतात तें दाखयलां. टी-बूश ह्या दिग्दर्सप्यान विनोद वापडून हांगा आनी थंय काण्येक वळन दिलां आनी *सस्पेंस* चालू दवरलां. जेन्ना कुवेटांत आसलले दोग भाव आपल्या मदीं वेगळोचार करपाक नाडबुदी वापुडतात तेन्ना ही काणी फिरकी घेता. हें तांकां आपल्या पारंपरिक वेवसाय बदल रूच ना देखून आनी ताका लजेपाक लागून ते करपाक पावतात. उल्लेखणी संवाद आनी वेगळे विनोद घालून ह्या फिल्माची

पटकथा चलता जातूंत कांतारां आसपावतात. खेरीत, मौजेचें आनी उमेदीचें दिग्दर्शन ह्या फिल्मांत झलकता. हें एक विनोदी फिल्म आमच्यान म्हणूं येता.

हें फिल्म गोंय आनी कुवेट जाग्यांचेर बसयलां. गोंयच्या हुशार संगीतकार नॉर्मन कारदोज हाणीं ताका संगीत दिलां तर ब्राज दे पारराा हाणें गीतां घडल्यांत.तातूंत उमेदीची काणी, मौजेची पटकथा- आनी वेगळ्या तरेचीं पात्रां दाखोवप जालां. कलाकारांची निवड बरी जाल्या. कुवेटांत काडपी हें भारताचें पयलें फिल्म जावन आसा तशेंच पयलें कोंकणी इ फिल्म.शेवट बरो आसा, फोटोग्राफी सुंदर आनी ताका इंग्लीशींत *सबटायटलस्* दिल्यात.

ह्या फिल्मांत कॉमेडयन फिलिप, ग्रेसी मोरायस, रावला लुइस, काजेतान दे सांवर्दे, हेलेन पिंटो,सिलवेस्टर वाज, ब्राज दे पारराा, जोसेफ रोद्रीगीस, केरोबीना कारवाल्हो, रीयाना आजावेदो, मारयो दे माजोर्दा, सालू फालेयरो, बाब्बीत, एब्बी, फ्रांसिस दे वेर्ना, डॉमनिक आरावजो, गास्पार आलमेयदा आनी हेर भाग घेतात. ब्लेक... ची पयली दाखोवण ऑगस्टांत 2007 मासराह हांवाळी ऑडिटोरीयमांत जाली. हें फिल्म कुवेटांत 6 दाखोवण्यो, जरमनिंत 2 दाखोवण्यो आनी आतां सावदी अरेबिया तशेंच दुबय दाखोवपाचें आसा. ह्या फिल्मांक दाखोवणेच्यो मागण्यो मुंगळूर, गोंय, मुंबय.कॅनाडा, यु. के. आनी पुरतुगाल कडल्यान आयल्यात.यांगों दाखोवपाचे आदीं तो तें संवसाराक दाखोवपाक सोदता. तेच परीं फ्रांस आनी यू. के. देसांनी तें दाखोवपाक येवजिलां. कितें तरी नवें तो प्रेक्षकांक दिवपाक सोदता.

*द लॅटेर* ह्या ताच्या इंग्लीश फिल्मांक मान्यताय मेळटकूच हें फिल्म निर्मुपाक ताका स्फूर्ती आयली. कोंकणी सिनेमांक हक्काचो जागो मेळोवपाक आपूण फिल्मी उद्देगांत आसा अशें तो म्हणटा.

ह्या फिल्माची प्रस्तूती स्तूडयोंतलें नेपथ्य नासताना केल्लें आसा. ह्या फिल्मा खातीर ताणें चत्रायेन येवजप, फिशालकायेचे कलाकार निवडप, उजळणी आनी एंसाय आदीं फुडें करून आपली येवजण आंखलेली आसा ज्या वरवीं कलाकारांच्यान आपली नाट्यकला बरे तरेन दाखोवपाक घडलां. संगीत सोडून सगळें कुवेटांत केलां. कलाकारांक दिग्ददर्शन करप अवघड जातलें अशें ताचें

चिंतप आसलें पूण तें चड सोंपेपणाचें आनी खुशालकायेचें जावपाक पावलें. ब्लॅक...ची काणी एका संगीतकाराचेर आटापलेली आसा.

ब्राज दे पाररा हाणें तीन कांतारां रचल्यांत जांचो स्पर्श खरसाणीचो जावन गेला. टी-बूशबाबाक ह्या फिल्मांतले देखावे आवडल्यात कित्याक तातूंत विनोदी घडण्यो आसात ज्यो तें फिल्म मानवता तशें आनी आवडटा तशें करपाक पावलां. ताका गोंयची बावतेली परंपरा दाखोवपाक जाय आसली. लंडनांत घेतलेलें शिकप ताच्या कामांक आयलें जें ह्या फिल्मांक आकार दिवपाक पावलां. फिल्मांतलें रचनायेचें कार्य ताका चड आवडटा आनी ह्या खातीर फिल्मांचें बरें संपादन करप चड गरजेचें अशें ताचें मत. ब्लेक... फिल्मांची काणी एक ताजी,भुलोवपी, विनोदी आनी चक्क जावन आसा जी ताच्या चिंतणेंतल्या स्फुरतेंतल्यान आयल्या. ताचो खर्च ताणें येवजिलेल्या परस अदीक जावपाक पावलो आनी हें ताणें आपलो पागार. रीण. गुंतवणुक हांचो उपेग करुन केलां. चड खर्च ताका आवतां घेवपांत. संपादन करपांत, *सॉफ्टवेर* घेवपांत आनी खेरीत आस्पत हाचे खातीर आयला. आतां तो एक नवें कोंकणी फिल्म *कर मोग-हमेशा-फोरएवर* तयार करपाच्या बोबाळार आसा.



काजेतान,मारयो आनी कॉमॅडियन फिलिप



सिलवेस्टर डायस आनी ओलिंदा



ग्रेसी मोरायस



सनी, दुआरतो. सॅलेस्तीन,डॉमनीक आनी मार्टीन मेनीनो

**ना गो ना**

गावपी: कॉमडियन फिलिप, ग्रेसी मोराइस,मॅगी आनी टी. बूश

रचपी: ब्राज दे पाररा

संगीत: नॉर्मन कारदोज

ग्रेसीः दर्याक आयलां तुफान, चंद्रीम लिपला कुपांत, मोगा धर रे म्हाका गोपान (2)
रगत शिजता आंगांत, कित्याक रावला रागान, पोशे म्हाका मोगान (2)

फिलीपः ना गो ना गो ना, येसो लफड्यांत हांव पडना

ग्रेसी आनी
मॅगीः दर्याक आयलां तुफान, चंद्रीम लिपला कुपांत, मोगा धर रे म्हाका गोपान

मॅगीः उठ्ठां, बसतां तुजेंच हांव चिंततां,रात दीस तुजींच म्हाका सपनां
सपनांत हांव तुजे कुशीक न्हिदतां, तेन्ना हांव सर्गार आसा दिसतां

टी-बूशः मोगान तूं पिशें जालां, न्हय गो तूं पिशें जालां
मोगान तूं पिशें जालं, न्हय गो तूं पिशें जालां

ग्रेसीः चिड्डून मुड्डून मोगा म्हज्या आनी कीस कोर म्हाका

फिलीपः ना गो ना गो ना, येसो लफड्यां हांव पडना

ग्रेसी आनी
मॅगीः दर्याक आयलां तुफान, चंद्रीम लिपला कुपांत, मोगा धर रे म्हाका गोपान

मॅगीः काळीज हें काळजाक तुज्या तेंकय, कुडीक म्हजे उजो पेटला पालोय
कुड ही म्हजी गोपांत तुज्या खेळय, वोंट म्हजे वोंटाक तुज्या तेंकय

टी-बूशः मोगान तूं पिशें जालां, व्हय गो तूं पिशें जालां
मोगान तूं पिशें जालां, व्हय गो तूं पिशें जालां

ग्रेसीः धांवून यो मोगा म्हज्या, आनी पोशेन काड म्हाका

फिलीपः ना गो ना गो ना, येसो लफड्यांत हांव पडना

ग्रेसीः दर्याक आयलां तुफान, चंद्रीम लिपला कुपांत, मोगा धर रे म्हाका गोपान
दर्याक आयलां तुफान, चंद्रीम लिपला कुपांत, मोगा धर रे म्हाका गोपान
रगत शिजता आंगांत, कित्याक रावला रागान, पोशे म्हाका मोगान
रगत शिजता आंगांत, कित्याक रावला रागान, पोशे म्हाका मोगान

फिलीपः ना गो ना गो ना, येसो लफड्यांत हांव पडना.

## राव राव राव

गावपी: कॉमेडियन फिलिप आनी ग्रेसी मोराइस

रचपी: ब्राज दे पारा

संगीत: नॉर्मन कारदोज

राव, राव कित्याक वयता गो धांवन
मोगान तुज्या पिसो जालां, चोय गो वळन
गोपांत तुज्या धर गो म्हाका, धादोशी कर गो मोगा
इंग्लीश भाशेन म्हणटात ताका *आय लव यू*
*आय हेट यू*

पांय तुजे पडटा, उठ बस करतां
सांग, ताचें हांव आयकतां
भांगार दुडू गिरेस्तकाय, म्हाका नाका
तुंच मोगा जायें

माय पाय भुरगीं

गावपी: टी. बुश

रचपी: ब्राज दे पाररा

संगीत: नॉर्मन कारदोज



नॉर्मन कारदोज

भुरगीं म्हणचे माय पायची गिरेस्ताकाय
भुरग्यां असली गिरेस्तकाय ना
सुकणीं पिलां काडटात घंतेरार घोंटेरांत
आमकां फटवन उडन गेलीं हय तीं वाऱ्यार
उडना मारतात झाडार विसर त्या घोंटेरार
आवय ती पळेत आसता वाट
घरांत मोग मयपास आसूंक जाय
व्हडलो जावन माय पायचे कश्ट तूं विसरताय
सुखाचो घराबो दुखान घालीनाकाय
घर एक घोंटेर करिनाकाय



ब्लॅक बॅंड

# रीण तें फारीकपणाचें





रोहिदास शिरोडकार

रीण तें फारीकपणाचें हाची पयली दाखवण 2008 वर्साच्या मेच्या 24 तारखेर कला अकादेमी वसऱ्यांत गोंयांत जाली. हें 35 mm सिनेमास्कोप रंगीत फिल्म रोबाशी आर्टस् बावट्या खाला काडपी फोंडेचो रोहिदासबाब बाबुराव शिरोडकार. रोहिदासबाब फोंडेच्या राजीव गांधी कला मंदिराचे वांगडी आनी एक हुशार नाटकीस्ट, गीतां रचपी आनी काणी बरोवपी. ताणें सुमार पंदरा मराठी आनी कोंकणी नाटकां बरयल्यांत. आनी तातूंतलीं थोडी नांवा आसातः

तूं आयलो ?, *ऑल इन ऑल*. केन्ना कशे ? घोवाक खालो आल्मारीन.त्याग ना.कोण कोणाचो ?, खा मरे खा. ह्या फांटभुंयेचेर ताणें वयल्या नांवाचे चलचित्र तयार केलें. हें फिल्म तीन गजाली स्पश्ट करता. पयलें, जाणटेल्यांचें आपल्या भुरग्यां कडे मयपास ज्या वरवीं ते बरे नागरीक जावपाक, दुसरें प्रौड साक्षरता आनी तिसरें सोऱ्याच्या व्यसनाचे नष्ट. सोऱ्या वशीं दोन वस्तु सागपाक दिसता. सोरो एक वांकडी वस्त.माड वांकडो, रेंदेर माडार वांकडो चडटा. ताच्या हातांत आशिल्ली शेव वांकडी. घाव घालताना वांकडो घालचो पडटा. सोरो काडपाची भाटी वांकडी, सोरो बाटलेंत रकयताना बाटली वांकडी करची पडटा, आनी सोरो पितच मनीस वांकडो उलयता. सोरो पिवून

कितले घराबे निसंटनांक पावल्यात. सोरो हो म्हाताऱ्याचें वखद आनी तरणाट्यांचें वीख.

फिल्माची काणी अशी आसा. एका गांवात एक गरीब बायल आनी घोव आपल्या दोग भुरग्यां वांगडा जियेतात. बायलेचें नांव चंद्रिका आनी घोवाचें नांव चंद्रकांत. पूतांचीं नांवां मुकूंद आनी मंगेश. दोगांय घोव-बायलां एकामेकाचो चड मोग करतात. पूण चंद्रकांताक सोरो पिवपाचें आनी सिगरेट फुस्कावपाचें व्यसन आसता.

चंद्रिका आपल्या घोवा सांगाता एका शेतांत वावुरता. रातची ती जाणटेल्यां खातीर आशिल्ले शाळेंत शिकूंक वयता. तिका शिकपाची चड उमेद पूण गरीबकायेक लागून भुरगेपणार हें घडूंक ना. त्या खातीर आपल्या भुरग्यांनी ऊंचलें शिकप घेवन इजनेर आनी वयज जावंचे अशी तिची इत्सा. हें शार्ती पावोवंक ती खूब वावुरता. भुरग्यांच्या शिक्षणा खातीर दुडू एकठायता.

चंद्रकांत सोरो पिलेल्ल्यान परत परत दुयेंत जाता. जोडिल्ली जोड ती ताच्या वखदांक मोडटा. घरकाराच्यो त्यो वायट संवयो मोडूंक जायनात देखून तिका वायट दिसता ह्या व्यसनाचे संवयेक लागून चंद्रकांत खूब दुयेंत जाता आनी एक दीस मरता.

चंद्रिकाचेर आतां एक काळें कूप रेवडटा. भुरग्यां खातीर ती आपल्या घरकाराचें दूख विसरता, आनी भुरग्यां खातीर खूब वावुरता. भुरग्यांचें शिक्षण दुडवांच्या उणावाक लागून इबाड जायना जावपाक ती कश्टवता. भुरग्यांक इजनेर आनी  वयज करपाक तिचें सपन आसता.

आतां तिची भुरगीं तिका कसलो इनाम दितलीं? चंद्रिके कडेन आपल्या भुरग्यांक ऊंचलें शिक्षण दिवपाक घडटले ? ह्या प्रस्नांची जाप चलचित्रांत पळोवपाची.

ह्या फिल्माची काणी, पटकथा आनी गीत रोहीदास शिरोडकार हाणें बरयलां दिग्दर्शन अमोल भावे हाणें केलां आनी फोटोग्राफी हर्ष झांट्ये हाणीं सांबाळ्ळया. हातूंतले कलाकार अश्विनी एकबोटे, शरद पंक्षे,  कशेव रविंद्र नायक, तपन आचार्य, सिल्विया फॅर्नांडीस, अमिता सलत्री, गौरी कामत

आदी. ह्या फिल्माची डी.वी. डी. काडल्या आनी फिल्माक 50 लाख रुपया खर्च जाला. ताका सरकाराचें अनुदान म्हण 20 लाख रुपया फावो जालां.



आश्विनी एकबटे आनी शरद पोंक्षे



आश्विनी एकबोटे



रविंद्र नायक आनी आश्विनी



तपन आचार्य आनी सिलवीया फेर्नांदीस

### जिवितान जिवीत जियेलें

गावपी: नंदीनी बोरकार

रचपी: रोहिदास शिरोडकार

संगीत: रघुनाथ फडटे

जिवितांत जिवीत जियेलें, जापसालदारकी सांबाळ्ळी
पूण दिलें ना मोल जिवितान जिविताचें
जिवितान जिवीत जियेलें जापसालदारकी सांबाळ्ळी
जापसालदारी कितेंच पळेलें ना
हून पावस गर्मे थंडेचे पर्वा केन्ना केली ना
चक्र काळाचें फिरतना वेग ताचो पळयलो ना
जिवितान जिवीत जियेलें, जापसालदारकी सांबाळ्ळी

फुडाराचे आशेन बांदून घेतली काळखी पाटी
पळेत जाल्यार दोळ्यां मुखार दुखाची घुसपट्टी
आशा सगळी जिविताची हुंवारार व्हांवून गेली

## सावरिया डॉट कॉम




राजेंद्र तालाक

राष्ट्रीय पुरस्कार जोडपी राजेंद्रबाब तालाक हाणें सावरिया डॉट कॉम नांवाचे आपलें तिसरें *सॅल्युलॉयड* चलचित्र तयार केलें आनी तें इफ्फी 2008 हातूंत नोव्हेंब्राचे 30 तारखेर दाखयलें. हें फिल्म कोंकणी आनी मराठी भाशेंत राजेंद्र तालाक क्रियेशन्स् बावट्या खाल सादर केलें. दोनूय फिल्माचो खर्च 120 लाख रुपया जाला.

तातूंतले मुखेल कलाकार प्रियांका बिडये आनी अनिकेत विस्वासराव आसात. हेर कलाकारां मदीं सुबोध भावे, रीमा लागू, दिलीप प्रभावळकर, प्रदीप वेलणकर, शुभांगी गोखले, निला भट आसात. देबू देवधर हाणें फोटोग्राफीचें सूत्र सांबाळ्ळां. ह्या चलचित्रांत गोंय, मुंबय आनी लंडनचे देखावे दिसतात. आपलीं फिल्मा पळेणाऱ्यांच्या मागणेक लागून आपूण आसा अशे उदगार निर्मातो राजेंद्रबाब तालक हाणें काडल्यात. ह्या सिनेमाची काणी अशी चलता:

*नॉट्स आर टायड इन हॅवन* (लग्नाच्यो गांâठी सर्गार बांदतात) ह्या निवेदनान चलचित्राची सुरवात जाता. आयचीं काजारां म्हणजे ह्या वेगान धांवपी संवसारांत कळवळ्यान काजार, धांदोळींत दुस्पट आनी सडसडीत सोडचीट. आयच्या काळांत दोन काळजां जोडपाक एक पद्दत वापरिल्ली दिसता. ती म्हळ्यार ' इंटरनॅट ' सोयरीकेचे जागे जे सोयरीक्कार कशे

वावुरतात. लग्न जावपी दादल्यांची आनी बायलांची वळेरी कंप्युटराचेर थोडक्यांत पळोवपाक मेळटा. असल्या यंत्रा वरवीं जिवीतभर नातें जोडूंक तजवीत चलता.

सांवरिया डॉट कॉम असलो एक जागो. प्राजक्ता, ही प्रियोळकारांची व्हडली धूव आपल्या भलायकेच्या कारणांक लागून लग्न जावंक सोदना. प्राजक्ताक दुयेन्साक लागून गुरवार जावप शक्य ना. ह्या खातीर तीं आपले धाकटे धुवेक प्रीतमाची भेट पंकजा कडेन करून दितात, आनी तांच्या सांगण्या प्रमाणें तें पंकजाकडे गप्पां मारता. पूण अशें करताना प्रीतमाक पंकजाचें जिवीत खुशालकायेचें दिसना. रिवाज विसरपाक फावना, जैत आनी उपयेस जिविताचो एक भाग, ह्या विचारांचें प्रीतम. प्रीतम आपल्या निर्णयाचेर थीर पूण निर्णय घेवपाक कळाव करपी.

दुसरे वाटेन, प्रीतमाच्या जिवितांत एक सादो आनी प्रामाणीक चलो जयेश येता आनी तीं लागीं सरतात. पूण आपले उमाळे एकामेकाक सांगनात. ते वाटेन प्रीतमाचो आवय-बापूय आपली धूव पंकजाक आवडटा अशें समजून तिच्या लग्नाची तारीख थारायतात. प्रीतमान ह्या लग्नाक हयकार दिवंक ना आनी तें आपल्या आवय-बापायच्या निर्णयावयर काळजांत सावन कबूल आसना. प्रितमाचें लग्न थारिल्ल्यान तें जयेशाक मेळपाचें टाळटा. पूण अशें करतना तें सांडिल्ल्या भशेन जाता. लग्नाच्या शुभ म्हूर्तार 'वरमाला' आदल-बदल करताना प्रीतम मोट्यान ना म्हण्टा आनी आपलो आत्मो जयेश, आनी पंकज न्हय म्हण सांगता. पंकजाचो संपर्क एका यंत्रा वरवीं आनी जयेशाचें मेळप काळजांतलें अशें समजायता. पंकज पूर्णपणी ताचो साथ दिता. लग्न त्याच जाग्यार, त्याच दीसा जाता पूण जयेशा कडेन, आनी न्हय पंकजा कडेन. सर्वकाळ मोग हाचेर निर्मात्याचे सांगणें अशें:

ज्या कोणाक मोग समजता तो जिवीत बरे तरेन समजता. हो मोग मागीर वडिलांचो, भाव-भयणिंचो वा घोव-बायलांचो आसूंदी. मनीसकुळाची संपूर्ण आशा मोग जावन आसा, जो बळान जिखचो नासता पूण भोगचो आसता. आयच्या ह्या यंत्रणीक युगांत, आमी हेर जिविताच्या

कामांक पांगून आसतात आनी मोगाची तडजड  करपाक पावतात. ह्या अडचण्यांचेर जैत व्हरपी खरो मोगी.

मोगाच्या बळाचो आमचे मदीं दर खिणांक आस्पाव आसा, आनी तें पुरें सत ऊंच उरता, जेन्ना आमी आमचें एकसूरपण, संपूर्णपण आनी एकामेकाक जुळप जाणून घेतात. ह्या फिल्माची डी.वी. डी. काडल्या. कांतारां सी.डी.चेर मुद्रायल्यांत.

**फूल हें**

रचपी:श्रीधर कामत



सोनू निगम

गावपी:सोनू निगम

संगीत: अशोक पत्की

फूल हें फुलतना, ल्हार हें झेलतना
रंग हे रंगतना, मन पिशें झिंगतना
साथ ही साजनां, सावरिया

जिणेच्या खिणातली रागाची भाशा
सपनांतल्या शारांतली, मोगाची आशा
सुन्नशी सांज ही जाप ही साजना
फूल हें फुलतना, ल्हार हें झेलतना

तळ्यांतल्या चंद्रीमाची सोबीतशीं रुपां
मळबाची साथ कशी, दाटलीं हीं कुपां
एकसुरी चाल ही, हात दी साजना
फूल हें फुलतना, ल्हार हें झेलतना

**मनाचो मंद मंद**

रचपी: श्रीधर कामत


**अशोक पत्की**

गावपी: निहिरा जोशी

संगीत: अशोक पत्की

मनाचो मंद मंद उस्कार
तनाचो हय न्हय सो हयकार
नवलांची प्रिती हांसरी कांय दुखी ?

श्रावणी सपनेल्या बरसात
सुरांचे उतराळी स्वास
छंदनाची निती हांसरी काय दुखी ?

फुलांची पाकळ्यांची आस
मजगती भंवऱ्याचे निस्वास
गंधाची शक्ती हांसरी काय दुखी ?

जगाची सुरेलशी काणी
सरभोवती रेशमी गाणीं
जिविताची नाती हासरी काय दुखी ?

सुखाची अस्फुटशी वाणी
दुख तें अणभवल्या जाणी
नशीबाची पाती हांसरी काय दुखी ?

नावमय भ्रमाचें नातें
दिवी अशें काळाचें हाशें
उतरांची भक्ती हांसरी काय दुखी ?

मनाचो मंद मंद उस्कार
तनाचो हय न्हय सो हयकार
नवलांची प्रिती हांसरी कांय दुखी ?

**बेधुंद धूंद**

गावपी: सोनू निगम

रचपी: श्रीधर कामत

संगीत: अशोक पत्की

बेधुंद धींद प्रीत नवी
ही जीप नवी ही नीत नवी
वळखिचीं उतरां चुकचुकली
अनोळखी मोतयां लिकलिकलीं
ह्या फुलां फुलांचेर तुजी सदां
सावरिया
दला साजप रसया साजप
दालो थारे पे दला साजप

जवानिचो परमळ, प्रितिचो दरवळ
उमाण्याच्यो यादी जागयतात राती
तुजें रूप म्हवें काळजाचें दावें
रेश्माच्यो यादी जुळतात नाती
जी वाट तुजी ती वाट म्हजी
चंचलतायेची साथ तिची
ह्या फुलांफुलांचेर तुजी सया
सावरिया

दीसान दीस ध्यास एक, अदींमदीं स्वास एक
तुज्या मिलनाची चान्न्याचीं आसा एक
भांगराचीं पावलां, अजापाचीं नवलां

भरतेच्या ल्हारांची मनेळ भास एक
हे रिते जिणेचें आंगण
लागून तुका जालां पावन
ह्या फुलांफुलांचेर तुजी सया
सावरिया



सुभांगी गोखले आनी प्रियंका बिदये प्रियंका बिदये आनी अनिकेत



सुभांगी गोखले आनी प्रियंका बिदये



सुबोध भावे

## काजार





फ्रेंक फेर्नांदीस

मुंगळूरांतल्या एडलॅबस अलंकार चित्रघरांत काजार फिल्म नोव्हेंब्राचे 27 वेर 2009 वर्सा काजार दाखोवपांत आयलें.तें डॉ.रिचर्ड कास्तेलीनो हाणें दिग्दर्शीत केलां. डॉ. कास्तेलीनो हाणें आदीं भांगार पाटलेर, सेप्टेंबेर 8, बादी ह्या फिल्मांनी नांव मेळयलां.

ह्या फिल्मांचो केंद्रबिन्दू एका परदेसांत आशिल्या सत्तावीस वर्सांच्या चल्याचेर आसा. रॉनी नांवांचो अनिवासी दुबय वावुरपी चलो आसता. ताच्या मुंगळूरच्या घराब्यांत ताची विध्वा आवय,धाकटो भाव आनी एक पोस्की भयण जियेतात.हो चलो मुंगळूर काजार जावपाक येता आनी काजारा उपरांत ताची पतीन ताका परतून दुबय वचपाक दिना.ह्या चलचित्रांत मन भुलोवपी संगीत, विनोद, घडामदी आनी भावना दिसतात.तातूंत काजाराचे तशेंच नातालांचे देखावे झलकतात. लॅरीन पयलेच फावट कॅमराक फुडो केला.ह्या सिनेमाची फोटोग्राफी माळीकार्जून हाणें केल्या आनी हें ताचें शंबरावें फिल्म. ह्या फिल्मांत मुखेल नट लॅरी जो फ्रेंक आनी एलीस फेर्नांदीस हांचो पूत जो मसाको आगबोट कंपनींत दुबय वावुरता. ताणें बी.बी.ऐम. पदवी मुंगळूरच्या कॉलेजींत

घेतल्या.काडागू गांवची सुंदरी हरशिता पुनाचा मुखेल नटीचें काम निभयता, जिणें दोन कन्नड फिल्मानीं काम केलां.

ह्या दोन वरांच्या फिल्मांत पांच हीट कांतारां आसात आनी बारा कलाकारांनी तातूंत वांटो घेतला. फ्रेंक फेर्नांदीस ह्या फिल्माचो निर्मातो जावन आसा. विल्फी रेबिंबूस ह्या कोंकणी कोगूळ म्हण पाचारलेल्या संगीतकारान आनी मिकमॅक्स हाणीं कांतारां रचल्यांत.विल्फी रेबिंबूस, रागदेव आनी विजय भारती हाणीं संगीत बसयलां.फाटभुंयचें संगीत भारती दास हाणें रचलां. राधिका मेनन,हेमंत आनी रॉनी क्रासता हाणीं कांतारां गायल्यांत. चोमाकुद्रू मडकेरी, मुंगळूर विमानतळ, गोंयच्यो वेळो, दोना पावला, समेशवर वेळ, कारवार, किंग्स कॉटेज, हांतले सुंदर देखावे ह्या चलचित्रांत पळोवपाक मेळटात, मुंगळूरचे कलाकार मितेश, साव्यो, रीना, लारीना, विपीन आनी हेरांचो तातूंत आसपाव आसा. हें फिल्म कॅथलीक परंपरेच्या दस्तूरेंचेर  भर घालता आनी तातूंत सोयरीगतिचो सुवाळो तशेंच रस लावप हाचे देखावे दिसतात.*दायजीवरल्ड मिडिया* (मुंगळूर) ह्या फिल्मांचे अधिक्रुत प्रसार माध्यमाचे भागीदार जावन आसात जाणीं हें फिल्म संवसार भर प्रसिद्ध केलां.जेन्ना तांकां हें फिल्म बऱ्या चित्रघरांनीं दाखोवपाचें आसलें तें तांकां उसरां दाखोवपाक पडलें जरूय तें बरेंच आदीं तयार जाल्लें.*जुलकास ऑडियो इंटरनॅशनल कोरपरेशन* हाणीं ताच्या कांतारांची केसेट काडल्या.

निर्मातो फ्रेंक फेर्नांदीस हाच्या प्रमाणें काजार सारखीं समाजीक फिल्मां आयच्या दीसाची गरज कित्याक तीं घराब्याचो एकवट चित्रायतात. फिल्मां, भावार्थ आनी नैतिक तत्वां परगटून खुशालकायेचे उदगार समाजांत पसरायतात. फुडें उलोवन तो सांगता की कुळवंत मूल्लयां काजाराच्या संवस्कारांत आसात. रोमी कॅथलीकांच्या भावार्था प्रमाणें काजार एक बऱ्यांतलो बरो संवसारांतलो संवस्कार कित्याक तो जोडप्यां मदीं एकवट परगटायता आनी जेवण तशेंच मागणीं एकठांय करुन तो सासणांक तिगोवपाक पावता. दिग्दर्सपी  डॉ. रिचर्ड  फिल्म दूडवांचे आशेन तयार करना पूण ताका आपले आवय भाशेचो मोग आसा

देखून आनी ह्या खातीर ताची तोखणाय करपाची गरज अशें जायत्यांचें सांगणें आसा.असल्या कामांक ताका सगळ्यानीं पुरो पालव दिवपाक जाय. लॅरिच्या म्हण्ण्या प्रमाणें ताका पयलेच फावट कॅमराक फुडो करपाक त्रास जाले पूण मागीर ताका संवंय जाली आनी ताच्या पंगडान ताका पालव दिलो ज्या वरवीं ताका धाडस फावलें आनी फुडें वचपाक आदार जालो, असल्या रचणायेच्या पंगडांत ताका वावुरपाक मेळ्ळें म्हण तो दिनवाशी. दिग्दर्सप्यान जेन्ना ताका भूमिका करपांत रूच आसा म्हण विचारलें ताका जाप दिवन ताणें केन्नाच अशें करूंक ना म्हण सांगलें पूण जेन्ना दिग्दर्सप्यान 'तुज्यान करपाक जाता' म्हणपांत ताका स्फूर्ती मेळ्ळी आनी आव्हान स्विकारपाक फुडें तांच मारली. बऱ्या पंगडाच्या पालवान, कोंटांच्या वावरांत आनी माथें मारुन काम करपांत कितेंय प्राप्त करपाक जाता, अशें ताचें सांगणें. आपल्याक आपले भूमिके खातीर अठरा किल वजन दोन म्हैन्या भितर उणें करपाक पडलें. हें करपाक ताका कडक शिवराक जेवण आनी सदांच्यो कसरती करच्यो पडल्यो. फिल्म तयार जातच तो खुशाल आनी सुसेगाद जालो, कित्याक हो एक उमेदीचो वावर जो आपल्याक चड आवडटा.


हर्शीता पुनाचा आनी लॅरी फेर्नांदीस


हर्शीता पुनाचा

**काळजाच्या कोणशांत तूं**

गावपी: रॉनी क्रास्ता आनी डॉ. राधिका

रचपी: आर्थर पेरेरा

संगीत: विल्फी रेबिंबूस/रागदेव

चेडोः काळजाच्या कोणशांत मैना संभरम वर्णूक जायना
बगलेक तुज्या हांव आसल्यार कितें जाता कोणा

चेडूं: आयलीं हांव आयलीं, म्हजो मोग घेवंक आयलीं
चेडोः दोळ्यांत उजवाड तुज्या पावलांक मेळूं दिशा
उतर दितां तुका सांबाळतलो आंज्या
चेडूं: लग्नांत एकवट आमचो केन्नाच ना फुटचो
मुखार आसा सोबीत जीवन मोग्या सुफळ जावं
चेडोः काळजाच्या कोणशांत मैना संभरम वर्णूक जायना.

**खंय सोदूंक वचूं तुका** गावपी: मीना रेबिंबूस आनी क्लावद डी सौजा
रचपी:विल्फी रेबिंबूस संगीत: विल्फी रेबिंबूस

खंय सोदूंक वचूं तुका, वाट दिसना म्हाका
ह्या दोळ्यांतलीं दुकां, आज आपोयतात म्हाका
खंय सोदूंक वचूं तुका, वाट दिसना म्हाका
ह्या दोळ्यांतलीं दुकां, आज आपोयतात म्हाका

सुंदरी राणी तूं, म्हज्या काळजाची राणी तूं
मोगाचें माणीक तूं, देवान दिलेलें काणीक तूं
मोगाचो राय तूं, म्हज्या जिविताचे राय तूं
सदांच जाय तूं, म्हज्या सुखांत जाय तूं

सूर्य दर्याक तानेलो, दर्यान सुर्याक वेंगयलो
दोंगांयचो मेळ जाताना, मोगाचो वेळ उदेलो
सूर्य दर्याक तानेलो, दर्यान सुर्याक वेंगयलो
दोंगांयचो मेळ जाताना, मोगाचो वेळ उदेलो
सुंदरी राणी तूं जाय तूं

**लग्नाचे पयलीं** गावपी: रॉनी क्रास्ता आनी सींधू
रचपी :मीक मेक्स संगीत: विल्फी रेबिंबूस

लग्नाच्या पयलें सुडसुडीत आसलें बाय पुडपुडीत

जिवीत आतां जालां करकरीत, तुजे संगी कोण जियेत,
वचूं नाका रे रागान तूं, बिराडा भितर यो रे तूं
रुचीक रांदून वाडटेली, मोगान पोशेवन धरतली

आतांच यो रे तूं आमच्या बिराडाक
तूंच म्हजो गांवचो बोंडो, न्हय रे तुज्या मोगा हांडो
अमालूच भरला मांडो, खरेंच तुज्या काळजा गोंडा
आदीं उतर दिल्लें कितें, जावन काजार जालें कितें

आतांच चल्लों हांव आमच्या बिराडाक
सर्गीचें सुख दिवंचें आमच्या बिराडाक

### म्हज्या काळजा ल्हारांचेर

गावपी: विल्फी रेबिंबूस
रचपी: आर्थर पेरेरा
संगीत: विल्फी रेबिंबूस

म्हज्या काळजा ल्हारांचेर प्रथम
ल्हार जा
त्या मोगाच्या ल्हारांक पुनवेचो
चंद्र जा

तुज्या त्या पावलांच्या सोबीत मनांचेर
खोजोयतां मेटांची साल
माजवनासतां उरों मोरोसर
जिणी रुता करया हांगासर

तें चान्नें खेळटा, वोळू तिळटा
त्या नाजूक कुपा वयल्यान
कोणयेर पोसवण मोग सोबता
तुज्या त्या मोगा येण्यांत

### म्हज्या तुज्या काळजांनीं

गावपी: रॉनी क्रास्ता, सींधू
रचपी: विल्फी रेबिंबूस
संगीत: विल्फी रेबिंबूस

म्हज्या तुज्या काळजांनी
आतां, मोगान बिराड
केलां
म्हाका तुका मोगान
आमकां, दोगांयकी बांदून
घालां ओ ओ ओ

उपकार बौदतां तुजो,
केल्ल्याक मोग तुवें
म्हजो
जिवितांतल्या माथ्या
माथ्यांनी

झर ती वाळटा, पोशेवन धांवता
देखलें तुका त्या ल्हारांत
तुकाच हांव चिंत्तां मनांत भरतां
नावाचो गाज ह्या काळजांत.

मोगाच्या दर्यांत आमी
जिणी भर उफेवंया
तोल नासलेल्या उदकांत आमी
एक जावन रावूंया

तूं चलचे वेळी पळेवन लजलें
मळबार दिसलीं नखेत्रां
चली तूं म्हज्या नशीबांतली
भोगणां ल्हारां ह्या काळजांतली

त्या सोबीत साळका फुला भाशेन
फुलून यो तूं मोगान
सपनेल्लीं सपनां सत करूं
सारें आमचें जिवन

घड्यांतल्या घड्यांनी
म्हजो सांगात दितां
तुज्या उसवासांत अमर
हांव स्वास जाता

तुज्याच खातीर हांव राखली
उजवाडाचीं किर्णां फांकलीं
जालें सार्थक म्हजें जिवन
सेवेक तुज्या जिण ही अर्पण

हर एक सुखा दुखांनी
एकवट उरूंदी आमचो (2)
म्हज्या तुज्या........ बिराड केलां
जिणेंतलें एकूच सपन
घेवंच्याक तुका ह्या गोपांत
काळजांनी मोग आसूंदी
विस्वास सदां उरूं दी
जिणेंत उठल्यारय तुफान(2)
म्हज्या तुज्या......... बिराड केलां.

# मोगाची झर





सुकूरीन डी कॉसता

मोगाची झर ह्या कोंकणी चलचित्राचो म्हूर्त नावेलेचे रुझाय सायबिणीच्या फिर्गजेच्या केंद्रांत जालो. हें फिल्म दुमियाना नायगारा मोशन फिल्मस् आनी बी.वी फिल्मस् प्रॉडक्सन, गोवा हांच्या सुकोरिना डी कॉस्ता आनी बॉनिफासियो डायस हाणीं सादर केलां. सुकोरीनाबाय कुडटरेची आनी परदेसांत रावपी गोंयकार जावन आसा.ही पयली गोंयची फिल्म कंपनी. डी कॉस्ता एक अनिवासी गोंयकार आसून तिची मोख गोंयच्या चलचित्र उद्देगाक पुरो आदार दिवपाक जावन आसा. तशेंच ती ह्या माध्यमांतल्यान प्रेरणा घेवन विकास करपाक सोदता. जेजूचेर पुराय भावार्थ दवरून हें काम पुराय जातलें म्हण तिचो विस्वास आसा.


बॉनिफासीयो डायस

बॉनिफासीयो डायस हो गोंयच्या कोंकणी चलचित्र उद्देगा तिजिल्लो मनीस, जाचो वावर ती खूब तोखेता आनी ह्याखातीर ह्या फिल्माचें दिग्दर्शन तिणें बॉनिफासियो डायस हाचेकडेन सोपयलें. डायस हो गोंय राज्यांत चलचित्र मळार तसीप जोडपी. ताच्या

'तो दीस उदेलो' ह्या फिल्माक बरे संवाद, बरी आदारी नटी आनी दुसरें

बरें फिल्म अशीं तस्रीपां फावो जाल्यांत. बॉनिफासियो डायस जो आतां दावर्ले वाठारांत आपलें पेणे करून आसा . ताणें गुपीत मोग, गुपीत चोरी, म्हजो अंकल तुजो पाय, संवसार कोणाक जाय, इतल्यान रस्तो बंद अशीं साबार फिल्मां लोकांमुखार हाडलीं . जबाबदारी फिल्माक राज्य तस्रीप फावो जालां. तशेंच मर्याद टॅलिफिल्म मुंबयच्या सह्याद्री वाहिनीचेर प्रसारीत केलां. पटकथा बरोवपी आनास्तासियो एल्युतेरियो कार्नेरो आनी एँथनी सॅन जावन आसात. पीटर द बॅनावली आनी एँथनी सॅन हाणीं कातारां घडल्यांत. ह्या चलचित्रांतलीं धा कांतारां गावपी हेमा सरदेसाय, लूलू, शॅरोन, विलियम द कुडटरी, एँथनी सॅन, पिटर, रोशन आनी आनिसेत जावन आसात. नांवलौकीक मुंबयचे फिल्म उदवेगांतलो डॉमनीक डायस हाणीं भारतांतलें फोटोग्राफीचें सूत्र सांबाळ्ळां तर अमेरिकेंत फोटोग्राफी बक विलियम्स हाणीं केल्या. हातूंतले कलाकार वयर सरपी आनी वेवसायीक जावन आसात. आगोसतिन्हो दा क्रूज हाणें संगीत बसयलां.

हें फिल्म गोंयचें पयलें फिल्म संवसारीक बाजारपेठेंत भोंवडी मारपी थारतलें कित्याक तें यू. के., गल्फ, न्युझिलॅंड, ऑस्ट्रेलिया,यू, एस. ए., कॅनाडा आनी पुर्तुगाल हांगा दाखयलां. *दुमियाना नायगारा मोशन पिक्चर्स इनकॉर्पोरेशन कंपनी* खाल कारभारी जेमस् रिबेलो हांचे खाल जातलें. *नायागरा मोशन पिक्चर्स लायन* जिची धनी सुकोरिना डी कॉस्ता जावन आसा तिची उक्तावण कार्यावळ नायगारा शाराच्या नगरपती विन्संट एस. आगनेलो हाणें केली. ह्या चलचित्रांत सुंदर देखावे जशे नायगारा धबधबो, यंगस् टावनची फातिमा सायबिणीचें देवस्थान, न्युयॉर्काचो स्टॅच्यु ऑफ लिबर्टी, ड्रीफ्टवूड्स, मॉटेल्स, रामादा हॉटेल्स, सेरेका कासिनो, कोलंबस नाईट्स ,नायगरा शार अशें पळोवंक मेळटा.

ह्या फिल्माची काणी भाटकार मुंडकार संबंदा विशीं आदारीत आसा. रिया एका क्रिस्तांव घराब्यांत जल्मल्ली आनी वाडिल्ली. ती एक देव भिरांतीची आनी उदार काळजाची अस्तुरी, म्हायती तंत्रज्ञानाची पदवी घेतल्या उपरांत तिका अमेरिकेच्या नायगारा फॉल्स हांगासर वावरूक

सयेग मेळटा. रियाचो आजो आंतोनियो आनी भाव नावाजते भाटकार, मुंडकार आनी भाटकारा मर्दी भाटाभेसांक लागून ठांव-ठींव जाता. रिया अमेरिकेंत वचपाच्या आदल्या दिसाक मुंडकार सोरो पियेवन गुंडागिरी करून आंतोनियोच्या घराक उजो लायतात आनी तातूंत सगळे मरतात, भायरावन आंतोनियो आनी रीया.

चलचित्राची काणी अमेरिकेंत रावतल्या गोंयकाराच्या जिविताचेर रेवडायल्या. कशे त्रास घेवन ते दुडू एकठायतात/जोडटात आनी फॉल्गांक मोडटात अशें करतना ते कांय सुगूर करनात आनी भारतांत आशिल्ल्या आपल्या कुटुंबाक कांयच धाडिनात. पूण नशीबान रिया जी एके व्यापारसंस्थेंत कारभारी आसता ती तांका एक देवदूत जावन आसता. ती तांचे प्रस्न समजता आनी घडटा तसो आदार करता. थंय रावतल्या गोंयकारां पासत ती खूब वावुरता आनी तांकां सांबाळटा. काळ सरता. रिया दुयेंत जाता. तिका कांक्राची पिडा जाता. ही खबर कोणाक आसना आनी ती आपल्या इश्टाक एका दीसा आदेवस करून सर्गीची वाट धरता. तिचें नासप सगळ्यांक जाणवता कित्याक तिणें तांचे अद्रुश्टी जिवीत खुशालभरीत केल्लें. तांच्या जिवितांत ती मोगाची झर जावन आशिल्ली.ह्या चलचित्रांतले मुखेल कलाकार सुकोरिना आनी रीक जावन आसात. ह्या फिल्माक सुमार 10 लाख रुपया खर्च जाला. तें डिसेंबरचे 20 वेर 2009 दिसा गोंयांत आनी अमेरिकेच्या नायगारा शारांत डिसेंबरचे 30 वेर 2009 दाखोवपात आयलें. कांतारां सी.डी.चेर मुद्रायल्यांत.


एंथनी सॅन, इलेन, सात्कार, जॅक फेर्राव


हंबर्ट आनी एंथनी सॅन

### हॅपी बर्थडे

गावपी: एंथनी सॅन
रचपी: एंथनी सॅन
संगीत: आगोस्तिंह दा क्रूज

दीस म्हयने वर्सां सरोंन वेता. घड्याळाचो कांटो वरां मेजता
संवसार गुंवता दीस आनी रात येता, हे वरवीं आनीक एक वर्स मेळटा
हॅपी बर्थडे आज दीस तुज्या जल्माचो
हॅपी बर्थडे आज दीस खोशेचो
पाराबेंस दिया ओ दिया द आलेग्रिया (2)
पाराबेंस दिया ओ दिया द आलेग्रिया
मारिया आमच्या सगळ्यांच्याच मोगाचें माय पायचें तूं आपूरबायेचें
बरें शिकून माणसुकेन वयर सरचें आनी माय पायचें नांव वयर काडचें
हॅपी बर्थडे आज दीस तुज्या जल्माचो
हॅपी बर्थडे आज दीस खोशेचो
पाराबेंस दिया ओ दिया द आलेग्रिया(2)
जिवितांत रस्तो मेवल्यार कांट्यांचो, निराशी जायनाका तो भाग जिविताचो
दीस येता तो हांसून खेळून सारचो, देवान तुजो फुडार बरो करचो
हॅपी बर्थडे आज दीस तुज्या जल्माचो
हॅपी बर्थडे आज दीस खोशेचो
देवान तुजेर आपलो आशिर्वाद घालचो, असो आंवडो आसा आमचो सगळ्यांचो

### यो गो जाकीन

गावपी: पिटर आनी रोशन
रचपी: पिटर दे बेनावली
संगीत: आगोस्तिंह दा क्रूज

यो गो जाकीन यो तुका गाडयेन भोंवडायतां
ना बाबा ना तुजे बराबर येवंचीना
दोंगरार व्हरून तुका बऱ्यो काजू खावयतां
आवय ना बाबा नाका तुज्यो खबरो हांव जाणां

बेस्टेच बाये तूं लाग कित्याक मारता
आडकां नाडकां सांगून म्हाका भुलयच्याक सोदता
हातीक धरून पोय आमची जोडी बरी सोबता
कुशीन सर सगळो गांवचो लोक आमकां चोयता

यो गो जाकीन बांदार आडसर काडून दितां
ना बाबा ना आडसर खावंक हांव भितां
बोरां आनी थोड्यो काजू तुका दितां
त्यो कालूच घेतल्यात कितल्यो ते हांव सांगतां

उतर दिना तर हांव जीव दीवन मरतलों
मरतोच दोन दिसांनी तुका सर्गार व्हरतलों
सर्गार वचून तुजे लागीं काजार जातलो
येरोप्लेनान मागीर रोकडोच संवसारांत येतोलों

यो गो.... खावंक हांव भितां

भोंगू तुजें आतांच जाल्यार उतर दितां
यो गो जाकीन यो तुका सुर्या दाखयतां
भिरांत म्हाका दिसता आतां घरा हांव वयतां
फाल्यां तुका हांव हे सुवातेर येवन मेळटां

बरें करून वच सपनांत दिश्टी पडटलों
एक बाटली गायेचें दूध तुका हांव दितलों
मोठें जावं बारीक तुका घेवन नाचतलों
काजार जातच हानीमुनाक कारवार वयतलों
भोंगू तुजें आतांच जाल्यार उतर दितां
यो गो जाकीन यो तुका सुर्या दाखयतां

**गोंयकार परदेसांत**

गावपी: पिटर आनी आनिसेत

रचपी: पिटर दे बेनावली

संगीत: आगोस्तिंह दा क्रूज

गोंयकार आमी पोटाक लागून परदेसांत आमी पावले
हातपांय झरोवन घामबी वारोवन हजारांनी दुडू मोडले
शेतकामत करून गर्मेत दीस सारून घराबे खुशाल आमी केले
आमगेले पूत तशेच ते भाव शिकून दोतोर, इजनेर जाले

आज हे खुशालकायेच्या नादार
आमी नाचतात आनी करून कांतार
सदांच येतात आमी ह्या मांडार
असोच वेळ आमचो करूंक पासार

गोंयां आमच्यो बायलो आसात आमची तीं वाट पळेतात
आमी आसात हांगां तीं मरतात तींगा न्हिदांत आमी उशीं पोशेतात
दुखी आनी उल्हास विचार काळजांतले आमी एकामेकांक सांगतात
दुडू कमयतात खुशाल जियेतात, पूण आमच्या बायलांक आशेतात

आज हे खुशालकायेच्या नादार
आमी नाचतात आनी करून कांतार
सदांच येतात आमी ह्या मांडार
असोच वेळ आमचो करूंक पासार

**म्हज्या मोगाचें बाय**

गावपी: रोशन

रचपी: पिटर दे बेनावली

संगीत: आगोस्तिंह दा क्रूज

न्हीद बाय न्हीद काळोख जालो, सुर्याचो गुळो समदिरांत बुडलो
कावळो पासून घोंटेरांत गेलो, चंद्रीमान आपलो उजवाड शिंपडायलो
पाळण्यांत घालून तुका अशींच धोलोयतलीं
म्हज्या दोनूय हातांनी घेवन खेळयतलीं

म्हजी वेंग पडतच धादोशी जातेलीं
तूं रडत केन्नाच ना सांडतेलीं

दिमकुऱ्यांनी धांवून यो गो बाय
वेगीन तूं बाय व्हडलें जावंक जाय
चिंतनां म्हजीं पुरीं जाल्लीं जाय
म्हजे आशेक तुजे वेगीन दोळे लाय

म्हज्या पावालांनी तुका चलयतेलीं, तुज्या सांगाताक हावूंय खेळटेलीं
तूं रडत तर फुगार हांव जातेलीं, तूं आसोसर खोशेन भरतेलीं

दिमकुऱ्यांनी... दोळे लाय

जाय म्हाका तूं बरें शिकलेलें, शिकून नांव आमचें वयर काडलेलें
समाजांत नांव तुजें पाचारलेलें, सपन म्हजें पुरे जातेलें
धांवून धांवून बाय वेगीन यो म्हज्या, म्हज्या सुखा दुखान वांटो घे आंज्या
हांव आशेतां बऱ्या सुखाक तुज्या, म्हाका केन्नाच दिवनाका सजा
जाय म्हाका तूं बरें शिकलेलें, शिकून नांव आमचें वयर काडलेलें
समाजांत नांव तुजें पाचारलेलें, सपन म्हजें पुरे जालेंलें

**स्वीट लव**
गावपी: शारन आनी एंथनी सॅन
रचपी: एंथनी सॅन
संगीत: आगोस्तिंह दा क्रूज

*यू आर माय स्वीट स्वीट लव्ह*
*द सान इज शायनींग अबाव*
*यू आर ऑलवेज मायन एवरी मोमेंट इज फायन*
*यू आर लव्हींग एज गूड एज नाव*

तूं मोगान म्हज्या पिसो जाला
मोग आमचो असोच उरचो

फुडार आमचो कसो आसा
तो आमी पळेवन घेवंचो

*इन दीस ब्यूटीफूल लॅण्ड*
*वी वील वॉक हॅण्ड इन हॅण्ड*
*एण्ड आय वील ड्रायव टू द पूल*
*इट्स सो नायस् एण्ड कूल*
*लिस्टन टू द कंट्री बॅण्ड*
आमच्या गोंयचो असलो गांव सोदल्यार तुका मेळचोना
गोंयां शांती आसा तसली दुसऱ्या गांवात आसचीना

*इन..... कंट्री बॅण्ड*

*दीस बिल्डींग इज हाय एण्ड टॉल*
*बी कॅरफूल यु मे फॉल*
*इट्स सो ब्युटीफूल डे*
*येवरिथींग इज फायन एण्ड गे*
*दीस इज नायागरा वॉटर फॉल*

गोंयांत आसात सोबीत न्हंयो
तशेच व्हडले दोंगर
गोंयची गिरेस्तकाय शेतां भाटां
संतोसान धादोसता घर

*यू आर माय स्वीट स्वीट लव्ह*
*द सन इज शायनींग अबाव*

*व्हॅदर वी आर इन गोवा ऑर इन अमेरिका*
*यू आर लव्हींग एज स्वीट एज नाव.*

## आय लव यू

गावपी: शारन आनी एंथनी सॅन

रचपी: एंथनी सॅन

संगीत: आगोस्तिंह दा क्रूज

तूं म्हजें सूख, तुका हांव सोडूंक सोदिना
तुका पोयतोच म्हाका तान भूक लागना
*वॉट डीड यू से,* म्हाका कांय एक समजना
काळजांत तूं पावलाय कारण तुजो मोग करतां

*यू आर माय हॅपिनॅस, आय डोन्ट वॉन्ट टू लूज यू*
*आय नो समवे यू आर बीजी वॅन आय ग्रीट यू*
मोग आमचो अमर जावन गेला घालतां जीव
*यू आर ओनली माय स्वीट हार्ट आय लव्ह यू*

माणकां मोतयां तुका सर करूंक जावंचीना
तुजे असलो मोग म्हाका सोदल्यार मेळचो ना
*वॉट डीड यू से?* म्हाका कांय एक समजना
काळजांत तूं पावलाय कारण तुजो मोग करतां

*डायमंड्स ऍण्ड पर्लस् आर नथींग इन फ्रंट ऑफ यू*
*आय वील नॅवर गॅट द क्वीन ऑफ माय हार्ट लायक यू*
मोग आमचो अमर उरून गेला, ताचो जीव
*यू आर माय ओनली स्वीट हार्ट, आय लव्ह यू*

तुफान पासून आयल्यार मोग काबार जावंचोना
तशींच चिंतनां सपनां उरचीं ना
वॉट डीड यू से, म्हाका कांय एक समजना
काळजांत तूं पावलाय कारण तुजो मोग करतां

*इफ आफ्टर समटायम, आवर लव्ह वील बी स्टॉग फॉरेवर*

*आवर ड्रीम्स कम त्रुठली आर मॅण्ट फॉर इच अदर*
तूं म्हाका सोडून वेशी
*ओ नो नॅवर*
*वी वील ऑलवेस बी इन लव्ह टूगॅदर*

**फातिमा सायबीण** गावपी: क्लेरीसा
रचपी: एंथनी सॅन संगीत: आगोस्तिंह दा क्रूज

देवान सोबीत सुंदर संवसार घडलो
तातूंत आपल्या सारक्या मनशाक रचलो
पूण मनीस देव बापाचेर बदल्लो
आपल्याक जाय तें करून पातकांत बुडलो

वर्सां वेतात तशीं पातकां चड जालीं
देवान पातक्यांक संवसारान बुडयलीं
वडें नोहा उदेशीं ताणें सालवार केलीं
वर्सां सरलीं तरी पातकां व्हडलीं

तेन्ना देवान मनशाक सोडवण दिवंक चिंतलें
आपल्या पुताक संवसारांत धाडूंक येवजिलें
आंकवार मारियेच्या कुसव्यांत विजमीत घडलें.
जेजूची मांय जावंक देवाक हय म्हणलें

सायबीण मांयन जेजू क्रिस्ताक जल्म दिलो
गोरवांच्या गोठ्यांत जेजू जल्मलो
जिवीत भर सदांच ल्हानविकायेन चल्लो
आमकां पातकांतलीं सोडोवंक खुरसार मेलो

सायबीण मांयन दुख जायतेंच सोंसलें
खंयचीय आवय दुख सोंशीत तिचे इतलें

जेजूचे कश्ट मरण तिणें पोयलें
देवाक जाय तशें तिणें केलें

सायबीण मांय दिसली फातिमा गांवांत
फातिमा सायबीण म्हण पाचारतात त्याच नांवान
तुजी कुर्पा वोतोय आमच्या जिवांत
फुडार बरो कर तुज्या बेसावान
फातिमा सायबीणी, फातिमा सायबीणी, फातिमा सायबीणी

एकूच हें आवय-बापायच्या मोगाचें
रीत देकीन वाडलें तें देव भिरांतीचें
माय पाय सरतोच वजन वाडलें चिंतनांचें
तें देवोसांव करता  सायबिणीचें.

कोरः  तीच ती फातिमा सायबीण मोगाची मांय
त्या भुरग्याक तिणें फाल्त करूंक ना कांय
सायबीण लागता त्या भावार्थ्याचें थांय
सगळ्यांक पावता ती आमच्या मोगाची मांय
फातिमा सायबीण तूं कुर्पेची झर
आमची सगळ्यांची काळजां मोगान भर
आमकां उबार आमी खाला पडत तर
आमचें जिवीत तूं कर मोगाची झर आवे आवे मारिया, आवे आवे मारिया

## मोगाची झर



आगोस्तिंह दा क्रू

रचपी: एंथनी सॅन

गावपी: हेमा सरदेसाय

संगीत: आगोस्तिंह दा क्रूज

तूं म्हज्या मोगाची झर. तान भूक पयस करता
तूं म्हज्या मोगाची झर. दुखी म्हजी शांत दवरता

तूं म्हज्या मोगाची झर, म्हजें काळीज तरणें उरता
तूं म्हज्या मोगाची झर, म्हाका नवें जिवीत दिता

*यू आर माय लव्ह, यू आर माय फांवटेन ऑफ लव्ह*
*यू आर माय स्वीट हार्ट, यू आर माय फांवटेन ऑफ हार्ट (2)*

तूं म्हज्या मोगाची झर, म्हाका कांय त्रास दिना
तूं म्हज्या मोगाची झर, म्हाका निराशी करिना
तूं म्हज्या मोगाची झर, म्हज्या मनाक भिरांत दिना
तूं म्हज्या मोगाची झर, म्हजें काळीज जाण्टें जायना
*यू आर माय लव्ह,... फांवटेन ऑफ हार्ट (2)*

तूं म्हज्या मोगाची झर, नितळ शीतळ व्हांवता
तूं म्हज्या मोगाची झर, म्हाका उजवाडान भरता
तूं म्हज्या मोगाची झर, म्हज्या काळजाक उमेद दिता
तूं म्हज्या मोगाची झर, म्हजो मोग तिगोवं सो करता

*यू आर माय लव्ह, ..... फांवटेन ऑफ हार्ट*

## अमेरिकन डॉल

गावपी: लुलू

रचपी: एंथनी सॅन

संगीत: आगोस्तिंह दा क्रुज



एंथनी सॅन

*आय एम ए डॉल, स्वीट अमेरिकन डॉल*
*प्ले वीथ मी कॅरफुली यु मे फॉल*
*लॅट्स एन्जॉय दीस इवनींग वन ऍण्ड ऑल*
मागीर खेळूंया आमी धोल बाबा धोल

हांव बावलें कोर्तीचेर चलना, हांव बावलें बॅटरीचेर हालना
हांव बावलें लायटीचेर उलयनां, हांव मोगाचेर चलतां तूं समजना

जावंदी आमचो मोग एक मिण्टाचो
जावंदी एक वराचो वो एक दिसाचो
जावंदी आमचो मोग थोड्याच वेळाचो
पूण हो वेळ आमी मौजेन सारचो

कोणूय तूं जावं सध्याक म्हजो मोगी, तूं दुडू दिताय हांव तुका मोग दिवपी
तूं हांगासर आयलाय जावन निराशी, *कम एण्ड एन्जॉय* आनी जा धादोशी

पिये तुका जाय तितलो सोरो, आनी पैस कर तुज्या चिंतनांचो भोरो
पैस कित्याक वेताय म्हजेशीं यो आरो. हें चिंतून मोग तूं करताय खरो

ह्या संगीताचेर आमी नाचूंया, एकामेकांक चिकटून आमी रावूंया
संवसारांत आसा म्हण आमी विसरुंया. हो वेळ आमी मौजेन सारुंया

**गोंयकार**

गावपी: विलम दे कुरतरीं

रचपी: पिटर दे बेनावली

संगीत: आगोस्तिंह दा क्रूज

गोंय आमचें धाकटुलें सुरोपायेन भरलां
दोतोर जॅक सिकेरबाबान सांबावलां
ओपिनीयन पोल करून वजन हाडलां
नशीब गोंयकारांचें तांका सुख फावो जालां

भाऊ सायब बांदोडकार एक अखंड खांबो
गोंयकारांक आमकां पिकलोलो आंबो
सांबावता तो बाबा जॅक सिकेरा रोंबो
सगळ्यांक एकठांय धरता मारून मोगाची वेंगो

रेजीदोर आमचो गांव सांबावता
वायट बरें जाल्यार आमचे समजून घेता
एकवट सांबाळात म्हण आमकां शिकयता
उपाशी आसलेल्यांक तो जेवण वाडटा

वा रे आमच्या गोंयकारा
दुस्मान तुजी वाजोवंक सोदतात बारा
आमी स्वताचो धंदो करतांव घरच्या घरा
कश्टांची पेज जेवताय आमी जातोच बारा



हंबर्ट,स्प्रीतो आनी अनिता

## जागोर






दामोदर नायक



संग्राम सिंग गायकवाड

पर्यावरण, भूंय SEZ, स्थलांतर, प्रदूशण अश्या साबार विशयांचेर आदिरिल्लें जागोर शंबर टक्के गोंयचें फिल्म अशें निर्मातो मडगांवच्या दामोदर नायक हाणें सांगलां. ताचो पयलो प्रयोग 2009 वर्साच्या इफ्फींत जालो. ताचो दिग्दर्शपी संग्राम सींग गायकवाड आनी फोटोग्राफर शर्मद पै रायतुरकार जावन आसात. तातूंतले मुखेल कलाकार लालन देसाय आनी वर्धन कामत आसात.आपली मांयभूंय सांबाळून दवरपाचो संदेश दिवपी ह्या चलचित्रांत नव्या कलाकारांक घेतल्यात. श्रीदामबाबाले गडे बावट्या खाल तें प्रस्तूत केलां. दोन वरांच्या ह्या फिल्माचें संगीत दिग्दर्शपी सिद्धनाथ बुयांव जावन आसा. कथा आनी संकल्पना दामोदर नायक हांची आनी ताचे संवाद एन्. शिवदास हाणें बरयल्यात अनील रायकर, आर्यन खेडेकार, केतन प्रभू, अंशा जोशी आनी हेर कलाकारांनी ह्या फिल्माक बरो न्याय दिला. ह्या 35 mm *सिनेमास्कोप* फिल्माक सुमार 75 लाख रुपया खर्च जाला आनी *गोवा फिल्म फायनान्स स्किमीचें* ताका अनुदान फावो जालां.



. शर्माद पै रायतुरकार

ह्या फिल्माचें चित्रीकरण माशेंतल्या श्री देवकीकृष्ण देवमंदीर, माशेंलातली सुखठणकार इमारत, ऍला कृशी मळो, रायकार इमारत सावय वेरें, केरीचें विजयदुर्गा देवमंदिर, पाजवाडो खेडेगांव, मडगांवच्या राजीव शिंक्रे आनी हनुमान लवंदे हांच्या घरांत आनी GTDC फार्मागुडी हांगासर केलां.

मनिस जात तंत्रज्ञानाचो ऊंचलो पांवडो जोडूंक शकतेली पूण जगपाक आमकां जमनीचेर उत्पन्न जाता तें जेवण गरजेचें. ह्या खातीर मांयभूंयचें सुपीकपण आनी रोवप सांबाळपी आतां चड गरजेचें. जागर लोकांचे जिणेंत जाग जावपाक जाय म्हण सांगता. फुडें जेवण उत्पन्न करपी शेताची जमीन सरकारान आपल्या ताब्यांत घेवपाक जाय.जो कोण शेतकी जमीन विकता जाल्यार ती ताणें सरकाराक विकपाक जाय आनी ऊंचल्या मोलाक घेवपाक जाय, जी शेताच्या कामाखातीर वापुरपाक जाय.

मानव, गांवच्या भाटकारालो हुशार चलो शेतकामत आपणायता. ताचो भाव आदित्य आनी ताची भयण मानविका गांव सोडून शारांतलें जिवीत पसंत करतात. आनी अशे बरेचशे गांवकार करतात. मानवाक आपल्या वेवसायांत खूब आव्हान स्विकारचें पडटा. विकासाच्या कामावरवीं, वाडटे उद्देग, उदकाचो उणाव आनी जमनीचें प्रदूशण करपाक पावतात जांचो पिकेचेर वायट परिणाम जावंक पावता. थळाव्या कामदारांचो उणाव आशिल्ल्यान विशाल जमनीची देखरेख करपाक अवघडाय उप्रासता. ह्या अवघडायांक तोंड दिवपाक घडना देखून तो आपली जमीन विकता आनी गांव सोडटा. अशें आमी सगळेच करतात. आमचे कडेन झगडपाक धिटाय नासतच आमी एकामेकांचेर, सरकाराचेर आनी राज्यांतल्या सगळ्या लोकांचेर आरोप करतात. जण एकाच्या जिवितांत एक मोख आसता. आनी ज़िवीत हें आमकां दाखळ करता. जागोर ह्या जबाबदारींची आमकां जाणीव करून दिता. हो संवसार बदलूंक जाय जाल्यार पयलीं आपणाक बदलूंक

जाय. आनी मानव परतून रोवपाक सुरवात करता. हें चलचित्र एका मनशाच्यो आपल्यो पसंती बदलून, वेवस्था बदलपाचें झूज चित्रायता.



वर्धन कामत,मोहित केनी,चिकितो बारेटो, ब्रिजेश काकोडकार, भावेश फुतारी, साइ नायक आनी हेर



लालन देसाय आनी वर्धन कामत



## मन सैर भैर

रचपी: दामू नायक


सिद्धनाथ बूयांय

गावपी :नॅफी रॉड आनी
स्वप्नील बांदोडकार

संगीत: सिध्दनाथ बूयाव

मन सैर भैर काळीज वयर, सदांच तुजींच चिंतनां
तुजीच चिंतनां, तुजीच सपनां, तुजीच कवनां, मनां मनां
हुमऱ्यावेलो कळश हुपलो, केलो शिंवर मोतयांचो
म्हज्या मनांत , म्हज्या तनांत, फुलय रोंपा भार भांगराचो

तूंच नांगर तूंच भांगर, तूंच मोगा घरकार म्हजो
सपन म्हजें आमूरपिकें, आशेलों तुका संवसार भर
तन आशेलां, मोगा आशेला, पावस आयलो ना
म्हज्या मनान, म्हज्या तनाक, हुंवार हुपलो ना

घामाची कणसां येवंदी पिकाक, मनाचीं सपनां जावंदी साकार
नांगर मोगाचो चोरोव सुखाचो, फुलूंदी भांगरा सपना मुखार

## ह्या भुंये खातीर

गावपी: स्वप्नील बांदोडकार आनी सांगाती
रचपी: दामू नायक
संगीत: सिध्दनाथ बूयावं

हे भुंयेखातीर जीव दितले आमी, तुका राखचे खातीर जीव घेतले आमी
वंदे मातरम्, वंदे मातरम्, वंदे मातरम्

हिमालया थावन कुन्याकुमारी, शंकर, शंभू माय मॅरी
जात रंग आनी भास, एकचार भौसाचो ध्यास
मोख जिखचे खातीर  जीव दितले आमी, मळब निळें पांक फांकतले आमी
वंदे मातरम्, वंदे मातरम्, वंदे मातरम्

शिक्षण, खेळ, विद्या कले मळार, चंद्रार गुतूंया म्हासंघणक पोरां
वंदे मातरम्, वंदे मातरम्, वंदे मातरम्
गंगा, जमुना, सरस्वती तारतले आमी, नवे दर्या सैम गाज गाजतले आमी
वंदे मातरम्, वंदे मातरम्, वंदे मातरम्

**नांगर घालून जमनीन पिकलीं भांगरा कोणसां** गावपी: रविंद्र साठे
रचपी:दामू नायक संगीत: सिध्दनाथ बूयावं

कुळागरां, शेतां भाटां धोलता वाऱ्या वांगडा
मातयेच्या गर्भांतल्यान हांसली म्हाका फुलतीं फुलां
दुखाची न्ही आयलीं सुखाचीं दोळ्यांत दुकां
हांव राखणो वाठाराचो
हांव हावेस फुडाराचो
हांव नांगर हे भुंयेचो
हांव जागर ह्या सैमाचो
हांव राखणो वाठाराचो, हांव हावेस फुडाराचो
राखलें दायज वाट म्हजी पळयता
तळयो न्हंयो आनी हुंवार रात म्हजी जागयता
वाऱ्या नेटार, शेतांत भाटांत बांदा बांदार म्हजो उलो
लक्षीमीच्या पावलांनी संवसार नितळ धुलो
हांव राखणो वाठाराचो, हांव हावेस फुडाराचो
हांव नांगर हे भुंयेचो, हांव जागर ह्या सैमाचो
हांव राखणो वाठाराचो, हांव हावेस फुडारोचो

# पलतडचो मनीस





लक्ष्मीकांत शेटगांवकार


म्हाबलेश्वर सैल

कुंकळे जल्मल्लो आनी मुरगांव रावपी लक्ष्मीकांत शेटगांवकार हाणें गोंयांत कलेची पदवी जोडली. तो मागीर कलाकार तशेंच शिकोवपी कसो नवी दिल्लीच्या *नॅशनल स्कूल ऑफ ड्रामा* हातूंत आलसो. ताच्या वावराची झलक अशी आसा:

*कॅन यू हयर माय सायलॅंस?* (म्हजें मोनेपण तुका आयकूंक येता?) हो कोंकणी-इंग्लीश 14 मिनटांचो म्हायतीपट 2007 वर्सा भुरग्यांच्या लैंगीक छळाचेर आसा.

मस्ती-*लॅटस् टॉक अबौट इट* (ताचे विशीं उलोंव या) हो कोंकणी-इंग्लीश 48 मिनटांचो म्हायतीपट एच्. आय. व्ही. बळी हांची समजूत आनी सोडवणेचेर आदारीत आसा. *टेलस् ऑफ गॅंजीज* (गंगेच्यो काण्यो) हो म्हायतीपट वारानसीच्या विध्वांचेर आसा तर नवजीवन, शारांत रावपी तरणाट्या शिकप्यांच्या मनाची चौकशी करपाचेर आसा.

एका सागरी किनारी हो वर्सांतलो 2004 मिनटांचो मराठी इंग्लीश विडियो साद्या मनशांचे व्यापारीकरणाचेर एका खासगी पातळी चलोवपा वयर आटापला. एका सागरी किनारा हाका राष्ट्रिय पुररस्कार

सुवर्ण शंख मुंबय अंतराष्ट्रिय फिल्म उत्सवांत फावो जालां. पलतडचो मनीस हें, विश्व सिनेमान मान्यताय दिल्लें पयलें फिल्म जावन आसा. 2010 वर्सांतलो विश्व बऱ्यांतल्या बऱ्या फिल्मांत तें एकमेव भारतीय फिल्म FIPERESCI (*इंटर्नेशनल फिल्म क्रिटिक्स फेडेरेशन)* आनी लॉस एंजेलीस हांगा फावो जालां आनी ताका दोन अंतरराष्ट्रीय किताब टॉरंटो फावो जाल्यात.

त्या भायर तें नांवास्त्या फिल्म उत्सवांत बर्लीन,कायरो,हॉग कॉग, बेंगकॉक, पाम स्प्रींग्स हांगा दाखयलां. 2010 वर्सांतलो ताका राष्ट्रिय पुररस्कार फावो जाला. हेर तस्त्रीपां मदीं सन मासिकाचो 1995 वर्सांतलो भारतांतल्या पयल्या धा तरणाटे मेळोवपी पुररस्कार, बेरिस्टर नाथ पै पुररस्कार, 2005 वर्सांतलो पयल्या फिल्मांचो दिग्दर्सपी 52 वो राष्ट्रीय पुररस्कार, *इंडियन पानारामाचो* वांगडी, *ब्रिटीश कौंसिलचो* बऱ्या पटकथेक देणगी, सिनेमा खातीर योगदान.

महाबळेश्वर सैल हाचे अद्रुश्ट काणयेचेर आदारीत हें कोंकणी फिल्म बरेंच नांव जोडपाक पावलें. आनी तें टोरांटो शारांत आंतरराष्ट्रीय फिल्म उत्सवा समयार दाखोवपांत आयलें. समाज हो पिशे बायलेची जबाब्दारी नाकारता आनी एक मनीस जो तिका आपल्या जिवितांत मिसळूंक सोदता ताची ही काणी.ह्या फिल्मांत धर्माचे संवस्थीकरण पळोवपाक मेळटा, पिश्यांक भायरावप कित्याक तें वायट आनी वायटाक देवा कडेन जागो ना, अशे विस्वास हांगा उगतायल्यात.

महाबळेश्वर सैल यल्लापूर कारवार रानांत काम करतालो. थंय मातिल्लें रान. भिरांकूळ मोनजाती. थंय रावपी कुणबी. गावडी. सिद्दी लोक ताणें लागींच्यान पळेल्यात. आनी ही कथा बरोवपाक ताका तांची स्फूर्ती मेळ्ळया.

ह्या फिल्माचें दिग्दर्शन नावाजतो तरणाटो लक्ष्मीकांत शेटगांवकर हाणीं केलां. त्या फिल्मात ताणें जादूचो स्पर्श दिला. ताची काल्पनीक येवजण. मांडणी लागू करप आनी फाट पूरवण बेस बरी जाल्या. सोयरू वेळीप हाणें ह्या चलचित्राचे संवाद बरयल्यात जे वेळीप

समाजाचेर आटापल्यात. ही नमळायेची काणी अस्तंत घाटाच्या रानांतल्या रुपेस्त सैमीक देखाव्यांचेर चित्रायल्या. ती काणी अशी चलता:

विनायक एक रानातलो वनपाल. ताची बायल अंतरिल्ल्यान ताका एकट्याक विस्तारीत वाठाराचो सांबाळ करचो पडटा. एका दिसा ताका एक पिशी बायल ताच्या घरा फाटल्यान गळसणून बशिल्ली दिश्टी पडटा. तिका तो आसरो दिता. सवकासायेन एक तात्पुरती इश्टागत जल्मूंक पावता. दर राती तिका तो जेवण दवरता. आनी दर राती ती जेवपाक परतता आनी ताच्या आंगणांत न्हिदता.

शेजारच्या गांवचो लोक पिश्यांक घरा भायरो करपी आसता. तांच्या गजालीची परवा करिनासतना तो तिका आपल्या घरांत घेता आनी शेवटीं आपले बाजेर पावयता. पूण जेन्ना ती गर्भेस्त जाता ताका गांवा भायरो जावपाचो भंय दिसता.

वेंचणूक जिखपाचे नदरेन गांवचो सरपंच रानाच्या जाग्यार एक बेकायदेशीर देवूळ बांदूक येवजिता. विनायकाची जबाबदारी ह्या बांदकामाक विरोध करपाची आसता. पूण तो सरपंच त्या गांवच्या कांय मुखेल फुडाऱ्यांक तशेंच देवळाक लागतलें मदेर रानांतले चोरप्यांक आनी विनायकाचें लग्न कायदेशीर करपी भटाक आपल्या बोल्सांत घालता. ही काणी रावनटी जंगलाक आनी सुदारिल्ले गांवचे संस्कृतायेक नाजूक राजवाच्या पुलाकडेन सर करता. विनायक शेवटाक पुलाचो राजू कातरता.

ह्या फिल्मांत तीन पोटभासो वापुडल्यात-वेलिप, मुंगळूरी आनी आंत्रूजी. रानवटी जंग्लाची संवस्कृताय आनी शारांतल्या सुदारलेली संवस्कृताय हिका अशिर राजवाच्या पुलान जोडलेले दिसता. जण एकेल्याच्यो खासगी पसंती समाज कसो प्रभावित करपाक पावता तें हातूंत दिसता.

ह्या चलचित्राची गोंय सरकाराचे अर्थीक मजतीचे समितीन *स्क्रिप्ट* भायरायिल्ली, पूण *नॅशनल फिल्म डॅवलपमॅण्ट कौंसिला* कडल्यान तें वेव्हारांत घालें. ह्या फिल्मांतलो पूल गोकूळडें न्हंयचेर चित्रायला.

गोकूळडें, पाडी, सबदुळें, मोरपिर्ल, खोतिगांव हांगाचे सोबीत देखावे ह्या चलचित्रांत दिसतात.

दिग्दर्शपी लक्ष्मीकांत ही काणी सोबीतकायेन आनी जागृतायेन सांगता. गांवठी चाली-रीती आनी विस्वास तो गंभीरतायेन घेता. पूण त्यो चालीक लायतात आनी पिळटात तांका तो विसरता. हाल उपद्रे सोंसपाचे धाकटे पेचप्रसंग उक्तावप बरे तरेन तो हाताळटा. रानाची राखण करप्यान लोकांक मेकळीक दिवं येता? तो मनीस जो पिशे बायले लागीं लग्न जाता तो तिका आदार करता वो तिचो फायदो घेता ? असले प्रसंग दिग्दर्शपी ल्हानविकायेन काळजान सावन उबे करता. प्रशासनाच्यो खांची जश्यो रानपालाक अधिकार दिवप आनी ताचें शेवटाचें उतर हें भ्रांटाचाराक दार उगतें दवरता तें दिसून येता.

हें फिल्म *नॅशनल फिल्म डॅवलपमॅण्ट कॉपोरिशन* हाणीं प्रस्तूत केलां. ताका संगीत देबाशीश भट्टाचार्य हाणें बसयलां. तातूंत मुखेल पात्रां करपीः चित्ररंजन गिरी, विणा जोमकर, प्रशांती ताळपणकार, वसंत जोसालकार आनी दीपक आमोणकार. सगळ्यांनी आपलीं पात्रां बरीं फुलयल्यांत. ह्या फिल्मांत सभावीक अभिनय, दोळे दिपकावपी देखावे आनी गुणादीक संवाद आसात. संगीत उमेदीचें आसा. सुकण्यांचे रडप, जंगलांतलो कुशळ आवाज, न्हंयचें निवळ उदक व्हांवप, गोंयची रुखावळ आनी प्राण जिवीत हातूंत दिसतात. ह्या फिल्मांत उलयल्ली कोंकणी भास वापरल्या. ती आयकूंक गोड लागता. फिल्माक 100 लाख रुपया खर्च जाला . ह्या फिल्माची डी.वी. डी. काडल्या.


**गोकुल्डें नदीचेर पूल**


**लक्ष्मीकांत FIPRESCI तस्रीप घेवन**

# तूं कितें करतलो आसलो?





शारन माजारेलो

शामाज फिल्मस् (गोवा) हाणीं तूं कितें करतलो आसलो? फिल्म नोवेंब्रांत 2010 पयलीं कुवेटांत आनी उपरांत गोंयत दाखयलें. त्या चलचित्राचो बरोवपी, निर्मुपी आनी दिग्दर्स्पी मडगांवची शारन माजारेलो जावन आसा. ती एक नांवादीक तियात्रिस्त आनी गावपी.ह्या फिल्मांत प्रदीप नायक आनी शारन माजारेलो मुखेल पात्रां करतात. ह्या सिनेमांची कांतारां विल्सन माजारेलो हाणें घोडल्यांत तर बालथाजार फेरर्नांदीस हाणें संगीत बसयलां. तें इथोपिया आदीस अंतराष्ट्रीय फिल्म उत्सव 2011 हातूंत तशेंच स्पेनच्या मारबेला अंतराष्ट्रीय फिल्म उत्सव 2011 दाखवपांत आयलें.डॉमनिक दायस हाणें फोटोग्राफी सांबाळ्ळ्या, क्लारन माजारेलो हाणें नाच निभयल्यात. दोन वरांच्या ह्या सिनेमांतली कांतारां गावपी शारन माजारेलो, एंथनी सॅन, एल्वीस मासकारेन्हास आनी विल्मिक्स जावन आसात. ह्या सिनेमाचें खाशेलेपण म्हणचे नुत्र्य कला आनी गोंयचो उज्या नाच. 35 गोंयकार संगितकारानीं ह्या फिल्माक हातभार लायला. हें फिल्म मुकूट कांतारान सुरू जाता.

जॉनी आनी शायना एक नवी काजारी जोडी. दुडवांच्या फाटल्यान

लागलेलो घोव आपले बायलेक गोंय एक्सुरी दवरता आनी आपूण परदेसांत नकरी करता. शायनाक,जोनिची बापुलभयण एल्सा सड्न कोणाचीच वळोख ना. गोंयात फावो तो पगार ना देखून तो आपलीं सपना पुरीं करपाक परदेसांत वचून आपले पतिनीक एक सुखी कुटुंबाचो झगझग दिवपाक सोदता. परदेसांत वयताना तो आपल्या विस्वाशी इश्ट सॅमीक शायनाची मजत करपाक विनयता. सॅमी एक मोटार सायकल पायलट. जॉनी परदेसांत सावन सददां आपले बायले कडेन मोबायलाचेर उलयता. पूण फोन आसते आसते उणें जायत वयतात.आनी शायना एक्सुरपणांत तळमळटा.शायनाक सांगात फकत सॅमिचो. हो सांगात हळू हळू मोगान बदलूंक लागता. हें ताळपाक एक दीस शायना बळजबरीन सॅमिचो अपमान करता. आपल्या सरशिलो तो पयसावतलो हे नदरेन ती तशें करता. दीस सरतात आनी सॅमिचो पत्तो ना. शायना दुयेंत जाता. शायनाची इश्टीन एल्सा, सॅमीक ही खबर दिता, सॅमी धांवून येता आनी आतां शायनाची आनी सॅमिची इश्टागत चड घट जाता. ह्या मोगाची खबर गांवांत कोणाक नासता पूण एका दीसा शायनाच्या वाडदीसा, एलसा तांकां दोगायंकूय एका मेकाचे वेंगेंत आसलेलीं तीं सांपडटात. एल्सा ही खबर जॉनीक कळयता. शायनाक एक दीस घुंवळ येता आनी सॅमिच्या आग्रो करपात तें तोपासणी करपाक दोतोरा फुड्यान वयता. सॅमी आतां शायना फुड्यांत येना आनी फोनुय करना. शायना आपूण गरभेस्त आसल्याची बातमी सॅमीक सांगुंक उतसुकता. पूण सॅमिच्या अपघाती मरणाची खबर आयकुन तिचो संवसार कसळून पडटा. एल्सा ही खबर जॉनिक कळयता.जॉनी घरा येतकच घोव-बायलांचें झगडें जाता. शायना आपल्या घोवाक महणटा: हे परिस्थितिंत तूं आसलो जाल्यार-तूं कितें करतलो आसलो? फुडले,चलचित्र पळोवन जाणा जावपाचें. हो सिनेमा घोव-बायलेच्या अविस्वासाचेर आटापला. ह्या फिल्मांक पन्नास लाख रुपया खर्च जाला आनी ताका अनुदान वीस लाख रुपया फावो जालां.

### तू कितें करतलो आसलो?

गावपी: कलींटन माजारेलो

रचपी: विल्मिक्स

संगीत: बालथाजार फेर्नांदीस

तूं कितें करतलो आसलो? (4)
केन्नाच जिवितांत असलो दीस येता
केलेलीं कामा सगळीं फाल्स जाता
उलयतलो म्हण्टल्यार इश्ट कोण ना
हंकलूय सोडून वेता
कामांक गेल्यार ऑफीसर तापयता
वेते पावलाक चुकी दाखयता
बराबरचे कोणूय सपोर्ट दिना
एक एकलो कुशीन वयता

### कशें म्हणून

गावपी: शारन आनी एंथनी सॅन

रचपी :विल्मिक्स

संगीत: बालथाजार फेर्नांदीस

कशें म्हणून, तुका समजावं,
हांव म्हज्या मोगा
कूड ही म्हजी तुका आशेतां
म्हज्या आंज्या
केन्ना परत म्हाका घेतलय वेंगेंत
तुज्या
सात वर्सां जालीं भगतां ही सज्या
बरे भाशेन राव, म्हज्या घरकान्नी
परत येतलों दोनूच वर्सांनी
हड्ड्यांत ह्या काळीज रडटा
दुखांनी
दूख म्हजें सांगूंक जायना
जिवीत आमचें विचित्र उमाणीं
सुखाचें सपन दुखाची काणी
सोंसणिकाय घेवया पयस कर
ताळणी



फ्रेंकी गोंसालवीस आनी शारन



विल्सन माजारेलो आनी हुंबर्ट

**मॅकानीक**

गावपी: विल्मिक्स

रचपी: विल्मिक्स

संगीत: बालथाजार फेर्नांदीस

मेकानीक हांव मेकानीक मोटार सायकल मेकानीक
मोटें मोटें गिरायक म्हजें त्या भायर बारिक बारिक
म्हाका गॅरेज ना म्हण रस्त्यार काम करतां दुरगा कुशीक

हांवें रिपेर केलेल्यो मोटारसायकल रोखडेंच वळखूंक मेळटा
कसलेंच प्रोबलेम नासताना रस्त्यार सुडसुडीत धांवता
म्हजीं गिरायकां दुसऱ्या शीं वचना म्हाकाच येवन रावता
हांव घाम वारवन म्हजें पोट भरतां देव म्हाका पावता
सकाळीं उठून हांव सातांक इगर्जेत आयकतां मीस
देवाचो पयलो उगडास केल्यार बरो वेता म्हजो दीस
जुस्तूच साडे णवांक मागीर सुरू जाता सिरवीस
म्हजो सभाव हेपी गो लकी मेकानीक मायखल फेर्नांदीस

**रावन**

गावपी: शारन माजारेलो

रचपी: विल्मिक्स

संगीत: बालथाजार फेर्नांदीस

रावन दोळे आयले वळन
पती रे म्हज्या घरा ये उडन
एकसुरपण कसलें आयलें म्हाका कळोन
सोंसूंक जायना दीस काडटां रडन

सुकरारा सुकराराक फोन करतलो म्हुणो
आयज म्हयनो जालो फोन ना रे तुजो
ताळण्यो येतात साबार आंगाक पेट्टा उजो
देवान एकल्यानूच सांबाळ करचो म्हजो

**जसो तो सूर्या**

गावपी: शारन आनी एल्वीस मास्कारेन्हास

रचपी: विल्मिक्स

संगीत: बालथाजार फेर्नांदीस

जसो तो सूर्या उजवाड दिता ह्या संवसाराक
जशी त्या उदकाची व्हडविक त्या समदीराक

**काळीज म्हजें**

गावपी :एल्वीस मासकारेन्हास

रचपी: विल्मिक्स

संगीत: बालथाजार फेर्नांदीस

काळीज हें म्हजें खोशेन आयज
नाचता
मुखामळ म्हजें अमुरकेंच
हांसता
सुखाच्या पाळण्यांत जीव
म्हजो धोलता
मोगान हांव पडलां
पळयल्यारूच कळटा

काल दिसो तसो आयज
संवसार दिसना
सगळे वाटेन मोग मोग खंयचो
समजना
मोगाळ दिसता दोंगर, मोगाळ
तीं रानां
मोगाचो रंग भरला एका एका
पाना

लोकलोकीत तीं नखेत्रां सोबिताय अंत्रळाक
तेच परीं तुजो मोग तो ह्या म्हज्या जिविताक

मोगाची गरज सगळ्या मोग करणारांक
मोगान जियेवंक रचल्यां देवान आमकां सगळ्यांक
मोगान पडटच लागना तान भूक, मोगाक ना भिरांत
मोग फकत खुशालकाय हाडटा आमच्या जिवितांत

जशे परीं सुकण्याक उडूंक गरज त्या वाऱ्याची
जशे परीं नुस्त्याक पेंवूंक गरज त्या उदकाची
जनवारांक गरज आसता राना दोंगरांची
तेच परीं म्हाका गरज ह्या तुज्या मोगाची

मोगान हांव पडलां गो तुज्या हय त्या दिसाक थावन
आथवेच तरेचीं भावना ह्या म्हज्या काळजान
तुजो म्हज मोग जायत म्हण चिंतूंक ना सपनान
ओ म्हज्या सर्गीच्या सुखा धावन ये गोपांत
ला ला ला

**देव दिता तेन्ना**

रचपी: विल्मिक्स

गावपी: शारन माजारेलो

संगीत: बालथाजार फेर्नांदीस

देव दिता तेन्ना मेजूंक तूं मेळना
खुशालकाय इतली काळजांत ती धरना
कोणांक तो दिता कोणाक तो दिना
देवाचो गूट तो मनशाक समजना

धन्या कित्याक खुशाल करताय तूं इतलें
काळीज खुशालकायेन भरून पळे अतलें

सांगूंक तुका आशेतां कितलें
मोगाचें आमचें भुरगें जल्मा येतलें

हांव जातेलीं माय तूं जातलो पाय
जिवितान आमच्या कितली खुशालकाय
समाज हो आमचो कितें म्हणटलो गाय
काजार आमी जावचीं सेमी तूं म्हाका जाय
ला ला ला हे हे हे

### कित्याक सॅमी

रचपी: विल्मिक्स



बालथाजार फेर्नांदीस

गावपी: शारन माजारेलो

संगीत: बालथाजार फेर्नांदीस

कित्याक सेमी असो म्हाका सांडून तूं गेलो
काळजाक म्हज्या केदो व्हडलो धको तुवें दिलो
खंय आसा तो मोग खंय तो सांगात भासायलोलो
सगळेच म्हजो विस्वास सेमी तुजेर आसलो

मोग हांवें पळोवंक नासलो
तो मोग तुवें म्हाका दिलो
काळीज म्हजें मारी उडणा
सपनांतलें उठून जागें जाल्ल्या परीं
आयज मोग म्हजो करतलो कोण ना

**हुस्को**
रचपी: विल्मिक्स

गावपी: शारन माजारेलो
संगीत: बालथाजार फेर्नांदीस

हुस्को म्हाका जाला तुजो पती रे म्हज्या
मोबायल केन्ना वाजतलो काय म्हण रावतां आंज्या
काजार जावन हांव भगतां एकसुरपणाची सज्या
आलबम पळोवन आस भागयतां उगडासान तुज्या

जुरामेंत आमी दिलोलो मोगा पवित्र आलतारा मुखार
सासणाक दोगांय एकठांय जाता म्हण बरयलेलें इगर्जेच्या बुकार
रेस्पेराक कीतलोच लोक आयलोलो इगर्ज भरलेली चिकार
एकवट जोडूंनुय एकठांय आमी ना कितो पयस दोगांयचो संवसार



एफी, फरमिन आनी शारन

# ओ मारीया





राजेंद्र तालाक

*एम्. बी. क्रियेशंस* हाणीं निर्माण केल्लें आनी राजेंद्र तालाक हाणें दिग्दर्शीत केलले ओ मारीया चलचित्र 2010 नोव्हेंब्रांत जाल्ल्या इफींत दाखोवपांत आयलें. तें पुराय गोंयांत काडलेलें आसून ताचें चित्रण माजॉर्डे, आगोंदा काणकोण आनी पणजे केलां. ह्या चलचित्राक अंतराष्ट्रिय किर्ती आसलेल्या फामाद गावपी आनी संगीतकार रेमो फेर्नांदेस हाणें संगीत बसयलां आनी ताणें दोन कांतारां रचल्यांत. ताचें हें पयलेंच कोंकणी फिल्म जावन आसा. कांतारां रचपी साइश पाणंदीकार आसा. गावप्यां मदीं क्विनी फेर्नांदीस, कृजेल मेन्दोनसा आनी शायनी फेर्नांदीस हांचो समावेश आसा. हें फिल्म कोलकाता फिल्म उत्सवांत दाखयलां. तें गोंयांत 25 सातळें चल्लां.

हालींसराक गोंयची वळोख सांडत चल्ल्या आनी ती तिगोवन दवरपाक गोंयकारांक खूब त्रास पडटात. हें फिल्म ह्या प्रस्नाचेर उजवाड घालतलें, अशें राजेंद्र तालाकान सांगलें. ह्या चलचित्राची काणी राजेंद्र तालाकान बरयल्या तर पट कथा प्रतीमा कुलकर्णी आनी राजेंद्र तालाक हांची जावन आसा.दामोदार मावजो हाणीं संवाद बरयल्यात. प्रियांका बिदये पालवी दिग्दर्सपी जावन आसा. ह्या फिल्मांत नाटकांनी तशेंच हिंदी

धारवायकांनी आनी ब्लॅक ह्या हिंदी फिल्मांत अभिनय केल्ली शॅर्नाज पटेल मुखेल भूमिका करतात. हे पारसी नटयेन कोंकणी शिकून आपले संवाद खाशा *डब* केल्यात, हें आयकून आनंद जालो. तिच्या वांगडा नांवादीक तिकू ताल्सानिया, सुलभा आर्या, कॉरी गोल्डबर्ग हो अमेरिकन कलाकार हेवूय नट आसात. हांच्या शिवाय केवीन डी मेलो, आर्यान खेडेकार, डॉ. मिनाक्षी मार्टींस, संजय तलवडकार म्हत्वाच्यो भूमिका करतात. तियात्रिस्त रोज फर्न्स आनी जॉन डी सिलवा हांचोय ह्या फिल्मांक तेंको आसा.

ओ मारीया चलचित्र, मारीया नांवांच्या चाळीसेच्या पिरायेचे अस्तुरेचेर आदारीत आसा. मारीया आपल्या आवय वांगडा पूर्वजांच्या घरांत राबितो करता. शेजाऱ्याक तिच्या सर्गेस्त जॉन भावाचें भाट आसा जें मोरच्या आदीं एका होटेल कंपनेक विकेलें. अर्द दुडू ताका फक्त मारीया आपलें भाट विकतकच मेळटेले अशें कबलातेंत बरयल्लें आसता. जॉनाचो एरदेर ताची बायल आनी दोग चले जांचो दोळो मारीयाच्या भाटाचेर आसता पूण मारीया आपलें भाट विकपाक सोदना. भोंवडेकारांक बांदपाच्या वस्तींक लागून वादडतें जमीन बळकावप, गोंयची परंपरा, सांस्कृती आनी उदारपसन धक्यांत पडप ह्यो गजाली तिका पसंत नांत. ह्या खातीर ती ताचेर विरूध. ह्या झगड्यांत तिका तिच्या केविन भावाचो आनी मायक भोंवडेकाराचो तेंको मेळटा. मायक गांवकारांक मजत करता आनी एकवटान गोंय सांबाळपाक नेटान घूरी घालून झुजपाक जागरूताय हाडटा. ह्या आडमेळयांक लागून तें घरचें झगडें जावंक पावता आनी नाटकी वळणा फुट्टात आनी शेवटीं घराब्यांत सवस्तकाय आनी समजिकांय येवपाक पावता.

तालाक बाबाचें सांगणें, परिस्थितीविज्ञान आनी पर्यावरण विशीं आमी चड नाजूकाय आनी जापसालदारकी दाखोवपाक जाय ज्या वरवीं आमच्या जिविताचो पांवडो ऊंचावूंक आदार जातलो. गोंयकारांनी दुडवांचें तोंड पळेनासताना, परजेच्या सामाजीक आनी अर्थवेवस्थे खातीर

वावुरताना समतल राखूंक गरज ज्या उदेशीं आमचें खाशेलेपण इबाडपाक पावचें ना. ह्या खातीर विकासाच्या वावराची येवजण आंखपाक गरजेचें.

विकास कशेय भाशेन जावचो हाचो वसवस सोडून सामाजीक अर्थवेवस्था आनी सांस्कृतीक बांदावळ कोसळपाक उपकारना. आपूण फिल्मानीं पर्यावरण,परिस्थितीविज्ञान,रानां,उदका कोणां आनी सामजिक घटक असले प्रकल्प राखूंक वावुरतलों, अशें फुडें उलोवन तालाकबाब म्हणटा. भोंवडेकारांक लागून नितळसाण, भलायकी आनी उदकाचेर ताण येता. त्या विशीं तो हुसको दाखयता. वयजुकी प्रकल्प परयटन हातांत घेवपाक सरकाराक ताणें उलो मारला. ह्या फिल्मांक 110 लाख रूपया खर्च जाला आनी ताका सरकाराचें 30 लाख रूपया अनुदान फावो जालां. फिल्मांची सी. डी. काडल्या.


शर्नाज पटेल


शर्नाज पटेल आनी कॉरी गॉल्ड्बर्ग


कॉरी,केवीन. शर्नाज आनी सुलभा


जॉन.कॅवीन.कॉरी आनी शर्नाज


रेमो फेर्नांदीस

**सुरंगांची फाती**

रचपी: साइश पाणंदीकार

गावपी: रेमो फेर्नांदीस,क्विनी

संगीत: रेमो फेर्नांदीस

चेडो: सुंर्गाची फाती माथ्याक गो
परमळ गांवांत फांकला गो
चेडूं: भांगार शृंगार काय ना
फुला बगर जायना
मेवलाच तो चांटो म्हाका घोव
चेडो:मत्याची राणी करतां गो
तुका माणकाची रास दितां गो
चेडूं:मारीत म्हाका घोव
चेडो: ताका पडलां तुजें भव
दोगूय:इंगा नाका पोरसा कोरया मोग

चेडो; मोग आमचो फुलतलो
चेडूं: शेजारी चयतलो
चेडो: तेका हाणामी मारतलो
चेडूं: तो सगळ्या गांवांक आपोयतलो
चेडो: रातीची न्हीद पडना
सकाळची थाकाय ना
जेवणाची रूच गो लागना
केसो दुयेंस तें कळोना
दोगूय:मोग आमचो पेटूं दी
संवसारा कळूं दी
बिरमत फुटूं दी
आनी घर लासन मोरों दी

चेडोः यो गो यो गोपांत मुज्या यो
दी गो दी गो उमो तुजो
मनाक पटना रावोंकूय जायना
लागलाय केसलो उजो
ना गो हांव तेसो दादूलो
सुखाचो शिजूं बुडकुलो
चेडूंः कित्याक सतायताय
चेडो सत उलयताय
दोगूयः शिंवार केला जाया जुयांचो
चेडोःसुरगांच्या वासारू
सुखाच्या आंगणांतु
फळां फुलांचो सांगातु
पिरतीचो शिरिगार
कुडीची आस भागय गो
मळबाची वाट दाखय गो
मोगाची भास जागय गो
सुरंगांची रास भेटय गो

## ल्हार ल्हारांची

गावपीः रेमो फेर्नांदीस
रचपीः साइश पाणंदीकार
संगीतः रेमो फेर्नांदीस

ल्हार ल्हारांची आयक तीं कांतारां
अलीं अलीं दरयाचीं
सैमाची रीत काळजांत रिगूं दी

वाऱ्या वांगडा सुकण्याचीं पिलां
मळबांत दाटल्यांत तीं कुपां
भूलियाळी भुयेंचीं

गोवा गोवा तुजी गिरेस्तकाय
गोवा गोवा आमकां तुजीच सासाय
गोवा गोवा आसा तुजीच आपुरबाय
शेतां भाटां तुजी सोबितकाय
चुन्ना चारां तुका जीबेर जाय

गोवा गोवा अशें सदांच उरत काय
पानां पानांनी खेळटा ती शितळकाय
मनी मनी नितळ
नकलामी ही दोळे दिपायताय
अंळम्याची सत्री धोलताना
मिरगाचो पावस जॉट्टाना
सुखाचो चोंवर फुलताना

गोवा गोवा तुजी गिरेस्तकाय
गोवा गोवा  आमकां तुजीच सासाय
गोवा गोवा आसा तुजीच आपुरबाय
शेतां भाटां तुजी सोबितकाय
चुन्ना चारां तुका जीबेर जाय
गोवा गोवा अशें सदांच उरत काय

# उजवाडू





कासरगोडू चिन्ना

कासरगोडू चिन्ना हो केरळच्या कासरगोडचो आदल्या नांवान सुजिर श्रीनिवास नायक. ताणें 1000 व़यर कन्नड, तुलू, कोंकणी आनी मलयाली नाटकांनी काम केलां. ताणें दिग्दर्सपी, बरोवपी म्हण काम पळेलां. तशेंच साबार कन्नड फिल्मानी भूमिका केल्या. हालींच ताणें कर्नाटक कोंकणी साहित्या अकादेमीचें येजमानपणाचें पद दुशयलां

नांवादीक नाटकां बरोवपी आनी फिल्म कलाकार कासरगोडू चिन्ना हाणें दिग्दर्शीत केल्लें पयलें चलचित्र उजवाडू हाची म्हुर्त एप्रीलाचे 22 वेर 2011 वर्सा बेंगाळारू हाच्या कुमारस्वामी ले आवट हांगा जालो.कन्नड फिल्मांतले शिश्ट लोक हाजीर आसलेल्या मदीं गिरीश कासरावळा, टी. एस्. नागाभराना, जयमाला,उमाश्री, वास्तू योगी डॉ.रमेश के. रमेश कामत आसपावले. तेच परीं फिल्म दिग्दर्सपी पी. एच्. विश्वनाथ,नाटककार बी. जयश्री, ई. टी. वी. निर्मुपी श्रीधर,नट सी. आर. सिंह. कलाकार ममता राव, गावपी पुतुर नर्सिंह,जेश्ट वकील प्रमिला नेसर्गी, संगीत दिग्दर्सपी वी. मनोहर बरोवपी गोपालकृष्ण पै, नाटककार कपन्ना, पत्रकार सुब्रमनियम,लेखक प्रोफेसर. ना. दामोदार शेट्टी आनी फिल्मांतले तशेंच

नाटकांतले हे . हें फिल्म मित्र *मिडया प्रायवेट लिमिटेड* हाणीं तयार केलां. ताची काणी एका खुशाल गौवड सारस्वताच्या जिविताचें वर्णन करताना तांचो खवडळ आनी धडपडप दाखळ करता.

ह्या चलचित्राचे कलाकार संध्या पै, प्रमिला नेसर्गी, नितू, शिवाधवाज, उमाश्री,सादाशिवा ब्रमावर, प्रकाश शेणय, अं गणेश, शशीभूशन किनी, पुर्निमा सुरेश, वासुदेव शानभाग, डॉ. अनंत प्रभू आनी हेर. सगळे मेळून 95 नाटक कलाकरांनी हातूंत भाग घेतला. ह्या फिल्माचे निर्मुवपी के. जे. धनंजय आनी अनुराधा पदीयार. पट कथा आनी काणी बरोवपी कासरगोडू चिन्ना आनी गोपालकृष्ण पै. फोटोग्राफी उत्पाल नयानर, संगीत दिग्दर्सपी वी. मनोहर, गीतां रचपी भद्रगिरी अचुथदास आनी जयवंत कायकीनी आनी दिग्दर्सपी कासरगोडू चिन्ना जावन आसात. पुतुर नर्सिंह नायक, शंकर शानभोग आनी सिमा रायकार हांणी फिल्मांतली गीतां गायतात.चलचित्राचें चित्रण कारवाला, गोंय आनी मुंगळूर केलां.मुंगळूरांत अक्टोबराच्या 14 तारखेर 2011 वर्सा ताची पयली दाखवण जाली.

फिल्मांची काणी साधी आनी सभावीक आसा. एका धाकट्या गांवांत श्री वेंकट्रामन्ना देवळाचे सरभोंवती, जायतेच गौड सारस्वत बामण घराबे मयपासान जियेतात. तांचे मदीं कांय वेपारी खानावळकार, पूजारी आनी शेतकारी आसपावता. आपरय मास्तर एक बसपागारी शिकोवपी जाका अख्खो गांव आदरान वागयता. तो एक उजवाडू नांवाचो वृधाश्रम गांवकारांच्यो देणगी घेवन चलयता. तो एक विधूर आनी आश्रम तशेंच ताचो सांबाळ शांतेरी नांवांची अनाथ चली करता. शांतेरी गांवच्या कॉलेजींत शिकयता जंय ताका नवोच प्रवेस केलेलो गणपती पय लेकचरर भेट्टा. तो शेजारच्या गांवचो आनी आपरय मास्टराच्या मालकेच्या एका कुडींत भाड्यांन रावता. तिका पूर्णिमा आनी सुवर्णा नांवांच्यो इश्टीनी आसतात. वासुदेव पै जाका आजज्या म्हण वळखतात हाच्या जोड घराब्यांतल्या प्रकाश नांवांच्या चल्याचो मोग पूर्णिमा करता. सगळे लोक

आजज्याक मान दितात आनी ताका ना केन्नाच म्हणीनांत. गजानान जाका अडे नांवान सायकल गज्जू पाचारतात एक अनाथ चलो जाचो बापूय एका मोटारीच्या अपघातांत सोंपलो. तो गांवच्या गरजेवंतांची सेवा करता आनी सगळे ताचो मोग करतात. पूर्णिमाचो बापूय देवळाच्या कचेरीचो कारभारी. तो आपले धूवेचें लग्न डॉ. पय ह्या गिरेस्त घराब्यांत करपाक सोदता. नवरो अमेरिकेंत वावुरपी *सॉफ्टवेर टॅक्की.* पूर्णिमांक पळोवंक येता आनी तिका पळेतच लग्न करपाक कबूल जाता. पुण मार्थू-एक बेकार रस्ताद चलो तांकां पूर्णिमा प्रकाशाचो मोग करता म्हण कळयता आनी तें, हें लग्न करपाक कबूल नासलेले म्हणटा. ह्या खातीर पूर्णिमाचो घराबो उचांबळ जाता आनी ही बातमी गांवार पसरता.गांवचे भुरगे रागार जातात आनी मार्थूक जिवेशीं मारपाक सोदतात पुण तो गणपती मास्तरा उरवीं वांचता.आपरय मास्तराच्या सल्ल्यान तो आपलें जिवीत बदलता आनी ताच्या प्रयतनान दोनूय लग्नां-पूर्णिमा आनी प्रकाश तशेंच शांतेरी आनी गणपती पय जावपाक पावतात. आपरय मास्तर आपलें घर उजवाडू वृधाश्रमांक भेटयता आनी आपुण त्या घरांतल्या जांट्यां वांगडा रावपाक येता. गांवच्या देवळाचे रथ यात्रेंत, गांवकार रंगीत उदकांत आनी गुलालांत देवळाच्या शेजाऱ्याक आसलेले तळ्येंत नाचतात. आवचीत कामाक्षी नांवांचे भुरगें तळयेंत पडटा. सायकल गज्जू उदकांत उडकी मारता आनी तिका वांचयता पूण गजजू  आपलो जीव लुकसाण करता. सगळ्यांक वायट दिसता. त्या वेळार देवळाचो मुखेल भट गज्जू सारखेलो अनाथ भुरगो घेवन प्रवेस करता. सगळे ताका पोसपाक थारायतात आनी मोगाची निशाणी कशी ताक गजजूची सायकल भेटयतात. तो ती चलयता आनी फुडें वयता.. उजवाडू हाचे विसल्यान.

ह्या फिल्मांत गौवड सारस्वत समाजाचो पारंपरिक आटाप दिसता जशे परीं चुडय पुजा, वयना पुजा, नगर कट्ये पुजा, पालकी उत्सव, रथ उत्सव, वकाली खेळू. ह्या खातीर ह्या फिल्माचें कथन सभावीक जिविताचें जालां.

आमच्यान ताका एक पुल बांदपाचें फिल्म म्हणू येता.ह्या

फिल्मांक इंग्लीशींत *सब टायटल्स* आसात आनी ताका 45 लाख रूपया खर्च जाला. एकूय देखावो तांतलो कातरूंक ना, तें एक घराब्यान पळोवपाचें फिल्म. फिल्मांचीं गीतांची सी.डी.चेर मुद्रायल्यांत.



**संध्या पै**



**शशीभुशन कीणी**



**संध्या पै, अनंत प्रभू आनी शशीभुशन**



**शिवधवाज,सादाशिवा, श्रीनिवास**

**जय जय कुळदेवता**

रचपी :भाद्रगिरी आचुतदास

गावपी: पुथूर नर्सिव्ह नायक

संगीत: वी. मनोहर

जय जय कुळदेवता, जय जय कुळदेवता (2)
म्हालक्ष्मी महोमया माता, महेश्वरी (2)

सांतेरी कमाक्षी दुर्गा दया करी आमचेरी
म्हालक्ष्मी महमया माता, महेश्वरी (2)
महाल्सा कतैयनी, शांतादुर्गा नारायणी
विजयी मराठी वैशणवी शांताली भवानी,

विजययी कनिश्वय शंकरी भवानी
चंदा मुंदा मर्दीनी विजयांबिका विश्विश्वरी
म्हालक्ष्मी महमया माता, महेश्वरी
दामोदार सपता कोतिश्वर
बनिश्वरू नर्सिंहू देवू तो रवलनाथू
लक्ष्मीनारायवनू गणपती बितालू पुरूशू
म्हालाश्मी महमया माता, महेश्वरी

म्हालाश्मी म्हाकली म्हा सरस्वती
पंचदुर्गा नवदुर्गा दी आमकां सनमती
दत्त दिगंबरू गुरू श्रीपाद्रुयूय
भक्ती ज्ञान दी रे गुरू नारायन सखीया
म्हालक्ष्मी महोमया माता,महेश्वरी (4)

**आयका ताजो आवाज** गावपी:सीमा रायकर

रचपी: जयंत कायकीनी संगीत: वी. मनोहर

मातिथांतू मानताना, आयका ताजो आवाजू,आयका ताजो आवाजू
काणयातू घालताना,आयका ताजो आवाजू,आयका ताजो आवाजू
चित्रांतुली हांसताना,आयका ताजो आवाजू, आयका ताजो आवाजू
वाऱ्यांतू दिवो खेळटाना आयका ताजो आवाजू, आयका ताजो आवाजू

हातांतू हात लागताना, आयका ताजो आवाजू,आयका ताजो आवाजू
वाऱ्यांतू पाना हालताना आयका ताजो आवाजू, आयका ताजो आवाजू
दोळयांतुली आश्रू रडटाना,आयका ताजो आवाजू, आयका ताजो आवाजू
मेहन्दीचो रंग चडटाना आयका ताजो आवाजू आयका ताजो आवाजू
हरूदयांतु पड खेळटाना, आयका ताजो आवाजू आयका ताजो आवाजू
जीवनांतु जीव मेळटाना, आयका ताजो आवाजू, आयका ताजो आवाजू

**रंग पंचमी** गावपी: पुथूर नर्सिंह नायक आनी शंकर शानभोग

रचपी: जयंत कायकीनी संगीत: वी. मनोहर

आयली आयली आयली रंग पंचमी
आजी मिलनू जली,खेळया आमी चों चमी
रंग पंचमी हय रंग पंचमी
रंग रंग रंग रंग रंग पंचमी
आयली आयली आयली रंग पंचमी
मिस्टर गोपी, मिस्टर, मुर्थी,मिस्टर मोथाकली
मस्ती पिवंया, मासळी
पुरणपळी आमकां आजी, तांबडी भाजी
सप्तरंगी रंगू, जाली रंग पंचमी
आयली आयली आयली रंग पंचमी (2)
रंग पंचमी हय रंग पंचमी (2)

# म्हजो गांव म्हजें गोंय




*टायम एंड टायड कमुनिकेशन्स* आनी *एस्. एम् .एस्. एन्टरटेन्मेन्ट* हांच्या जोड भागीदाराच्या बावट्या खाल म्हजो गांव म्हजें गोयें फिल्म 2011 वर्साचे शेवटाक प्रस्तूत केलां.

एका शारान जल्म घेवपाक एका गांवांक मारपाक गरज ? आख्खो देस हो प्रस्न दुखेस्त ताळ्यान विचारता. रंगीत गोंय जाणे 2011 वर्सा आपले सोडवणेचो भांगरा उत्सव समरपिलो, तो एक अपवाद. गोंयांत जिवीत सुंदर जावन 365 दीस मौजेच्या मनस्थितींत.सांस्कृतीचो मिसळ जाता. अनवळखी इश्ट जातात आनी सपना एकामेकाक सांगतात. गावप आनी नाचप चलता..मौन वसता.

म्हजो गांव म्हजें गोंय हाची काणी अशी चलता: रोजी एक विधूर, जी एका माणसूगेच्या घरांत आपले धूवे वांगडा रावता. क्रांती तिची धूव, तिच्या घरा फाटल्यान एक सोऱ्याची गादी चलयता, तिका शांतताय पसरावप, हें सोरो विकपा परस, चड मलाचें. तिची गादी एक जागो जंय गांवचे दादले सांजेर एकठांय जातात आनी आपलीं मतां आदल बदल करतात, ते चालू घडामोडीचेर भासाभास करतात आनी आपल्यो खासगी खंती बुडयतात. थंय एक थळावो कवी जियेता, जो आदल्या दिसांचे गूण गायता,भरवोंसो आनी भिरांत. एक स्वतंत्र सैनिक राणे जो आजून आपल्या

यादिनी घुसपला..., धानू एक बसपागारी सरकारी सेवक..., डी सौजा एक प्रमाणीक पूण निराशी वकील..., आनी प्रीन्स एक मोटार सायकल पायलट.

नाना,जो गोंयचे मुक्ते संग्रामाचो एक भागीदार जावन आलसो, तो म्हाराष्ट्रांतल्या सांगली गांवांत सावन गोंयच्या सोडवणेच्या भांगारा उत्सवा सुवाळयाचें आपोवणें स्विकारुन गोंयां येता. रोजी ताची वाट दोळयांत तेल घालून पळेता.

नानाच्या वांगडा ताचो पूत हरी येता जो आतांच्या तरणाट्याचो प्रतिनिधी जाची खास येवजण नांचें भाटबेंस विकूंक आसता.क्रांती ही रोजीची धूव हिकाय आपल्या गांवांतलें भाट बेंस विकून पणजे एक फ्लेट घेवपाची निसचीत येवजण आसता.

जमीन घेवपी गिदांच्यो,गांवच्या जमीनीचेर दोळो आसता आनी हें गांवची शांती इबाडूंक पावता. थळावो सरपंच तांचो चेलो जावन गेला. ग्रामसभा हो परजेचो आवाज पूण तांकां दादागिरी करप्यांचो विरोध आसता.

नानाक परत गोंयचे सोडवणेची गरज दिसता,. नानाच्या सत्याग्रह हाका येस मेळत? वो गोंयचे गांव, दुडवां खातीर लोक आपलो आत्मो विकतलो? बरें आनी वायटा मदीं झगडीं मांडटात. इगर्जेच्या आनी देवळांच्या घांटाचे सुमेळांत भरसप जातलें वो थंय विसंगत सूर आसतलो?

गोंयचे सोडवणेची 50 वर्सां समरपूंक, हें फिल्म स्वतंत्र सैनिकांक आरगां दिवपी आसा, म्होजो गांव म्हजें गोयें, गोंय हिरवें दवरपाक वचन दिता.

हें फिल्म मराठींतल्या 'गड्या आपला गांव बरा' हाचें कोंकणींत *डब* केलां दोनूय चलचित्रांत 90 लाख रूपया खर्च जाला आनी ताका 25 लाख रूपया अनुदान मेळ्ळां.हातूंतले कलाकार डॉ. मोहन आगाशे,शिल्पा आनासपुरे, विष्णू सूर्या वाघ, प्रीन्स जेकब, सुनील देव, दिलीप धारे, डॉक्टर सुधिर निकम, राजू हेदे, मधुकर जोशी,केशव नाडकर्णी, सतीश गौस, धनू डीचोलकार,विश्वनाथ फडते, बबिता आंगले आनी प्रशांती

ताळपणकार जावन आसात, ताचो निर्मुपी दिग्दर्सपी आनी काणी बरोवपी धर्मानंद वेर्णेकार जावन आसा.फोटोग्राफी सुरेश सुवरना हाणें सांबाळ्ळ्या. संगीत मुकेश घाटवळ हाणें बसयलां तर गाणीं विशणू सुर्या वाघ हाणें बरयल्यात. हें फिल्म सर्गेस्त मंत्री माथानी सालदाना हाका अर्पण केलां.



धर्मानंद वेरणेकार

रायबंदरच्या धर्मानंद वेर्णेकार हांची फिल्मा आनी बरोबपां ताचे मनांत घळयलेलो मूल्लयांचो विस्तार जावन आसा. जमातींचो सुमेळ आनी पर्यावरण सांबाळप ह्या जोड वस्तूंचो ताका चड मोग आसा, पुर्विल्या यादींच्यो कविता ताचे लिखणेत दिसून येतात. ह्या विशीं ताणें दोन कविता संग्रह-मराठींत *बुगनविलिया* आनी कोंकणींत *ल्हारां* उजवाडाक आयल्यात. पत्रकार जावन ताणें फामाद व्यक्ति गूल्जार,कमलेश्वर, फोटोग्राफर वैकूंठ कुंकोलियेंकार आनी फिल्म संपादप लक्ष्मण भोसले हांच्या सांगाता काम पळेलां. ताणें जायत्योच टी. वी. धारवाययीक आनी म्हायतीपट केल्यात. युगंधदारा वाधचक्र, आत्मघात, *द ग्रीन गोड, टुवर्डस अ न्यू होरायजन* हीं ताचीं गाजलेलीं फिल्मा जावन आसात.म्होजो गांव म्होजें गोंय विबाड जायपी गोंयचें जिवीत थांबोवपाक सांगता आनी आमचीं मुळां घट करपाक बुद दिता. ह्या फिल्मांत दोन पिळगेचें जिवीत, पयलें सोडवणे आदलें आनी दुसरें मुक्ते उपरांतलें इस्कुटायता.



सविता, केशव आनी धनू



सविता मालशेकार आनी प्रीन्स जेकब



धनू, मधुकर,डॉ. मोहन आगोशे,दिलीप आनी बबिता



सयाजी शिंदे, विशणु वाघ, मकरंद

# मारियोला





जो रोज आनी दर्शन


मुकेश घाटवळ

2012 वर्सांतल्या मारियोला ह्या फिल्मांचे मुखेल कलाकार विनिशा हलर्नकार आनी केवीन डी मेलो जावन आसात. ताची काणी एका कॉलेजींतल्या जिविताच्या चेडूं-भुरग्याचेर आटापलेली आसा. तांतूंत सात कांतारां आसात जीं जो रोजान रचल्यांत आनी ताका मुकेश घाटवळ हाणें संगीत बसयलां. ह्या चलचित्राचें चित्रण एच. डी. फॉरमेटांत केलां, आनी तें दोन वरांचें आसा. दर्शन लोलयेंकार ह्या सिनेमांचो फोटोग्राफर आसून तें गौतम लोलयेंकार हाणें निर्मयलां आनी पुराय गोयांत काडलां. ताचो दिग्दर्सपी ओलावलींचो जो रोज जावन आसा. चलयाची इत्सा जायत्यांक विचित्र घडणयो करपाक लायता. चेडूं भुरग्याचेर जालेलो छळ ह्या फिल्मांत दिसतातही एक वेगळीच काणी आनी सदांचे परीं भयांक्रूट चेडूं भुरग्याचो जीव घेवपाची न्हय पूण प्रेक्षकांक चिंतपाक लावपाची.

हे काण्येची स्फूर्ती जो रोजबाबाक आपल्या घरांतल्या खासगी अणभवांतल्यान आयल्या. आपले आवयक सदांच जाय आसली.ह्या खातीर म्हज्या धाकट्या पुताक ती चेडूं न्हेसयताली. हे कल्पनेंतल्यान जेन्ना ह्या

फिल्मांचे काण्येत आवयक आनी आजेक एक चलो जाय आसता, तेन्ना दुसरेंय भुरगें धूव जाल्यान ताका ती चेडो कसो न्हेसयता आनी आस भागयता. ह्या फिल्मांत चेडूं- भुरग्याचेर जाल्लो शारिरीक तसोच भावनाचो छळ दाखयला.कलाकारांची निवड भोव चत्रायेन केल्या. केवीन डी मेलो घुंवळी वखदां विकप्याची भूमिका करता, विनिशा आपली भूमिका-एक दादल्या रुपान चिडिल्या नटीची भूमिका निभयता. एका चेडूं भुरग्याचें जिवीत, कसवटी आनी कर्मभोग तातूंत दाखळ जाता. फिल्मांचो खर्च सुमार सात लाख रूपया आयला. मारीया कारदोज विनोदी भूमिकेंत तर जेस्सी डायस आजेच्या पात्रांत दिसतात. कांतारांची सी. डी. काडल्या.

दर्शन लोलयेंकार गांवान लोलयेंचो पूण आतां बेतीं रावता. तो एक अधिक्रूत फोटोग्राफर कसो 1973 तें 1984 पर्यांत गोंयच्या सरकाराक वावुरला. साबार पत्रा खातीर ताणे काम पळेलां. गोवा प्लस हाचेर बातम्यो वित्रायल्यात. ताचीं गाजलेलीं मोटवीं फिल्मा राखणदार,पडबिंब, सानुली, *अक्रोस अक्रोस,* एक पल, भावार्थ भरवंसो, *इटस् माय लायफ,* किरण,भाडयाचो कुस्वो, सांगाती, नवीं येवपाचीं फिल्मा, *द बॅबी,* एक कोंकणी फिल्म आनी श्री जन मराठी फिल्म.



**प्रीती, आंजेला, माधुरी, विनिता**



**विनिता, माधुरी,रूजारियो**

**मारियोला**

रचपी: जो रोज

गावपी: मुकेश घाटवळ

संगीत:मुकेश घाटवळ

नेणटो जायना जाणटो पडोसोर मिरयो
ओगी जायना पाडो लागतोच त्यो धिरयो
चेडो आसा पय तो चेडूं जाय नजो, न्हेसत तर विस्तीद साडयो
सोबीत नांव ताका दिलां पुण सगट म्हणटात मारयो
मारियोला, मारियोला जीव पिसो जाला,मारियोला, सोबीत फुला, मारियोला

पेल्याक दिवंच्याक आदार, सगळ्यां थांय मोगाळ
पावता खंयच्याय वेऴार, काळजांत तें दयाळ
ताचे असलें चेडूं मेळचेंना, कितलोय तूं सोदूंक गेल्यार
तवनाशी मस्ते वाटेन येत तर बेश्टे, सोडचें न्हय कितेंच केल्यार

**हातार मार रे हात** गावपी: डी. जे. किम आनी जुनियर रिगन
रचपी :जो रोज संगीत: मुकेश घाटवळ

चेडूं::सपनांत येवन दिना तूं थार, उगतें आसा काळजाचें दार
पुण भिरांत करशी म्हण घात
चेडो: पिस्तल जोखून सोडला फार, वडून व्हरतां मोगाचें ल्हार
भास दितां, हातार मार गो हात
ल्हारां येवन वेतात पय कशीं खेळटात वेळेर
सुकणी परततात, वेळ पावलो दीस पडूंक धारेर
म्हज्या गोपांत यो तांचे परीं आमी करया घोंटेर

चिंतना मनांत सावरना, पय जीव जाला पिसो
तुज्या गोपांत म्हाका सर्ग कसो
तुज्या विणें हांव नकळो जियेतलों कसो
दोळे कर बंद, संपतोच सपन, मारुंक दिसता हांसो

**तरणें जिवीत** गावपी: डी. जे. किम,जुनियर रिगन आनी कायतान दे कुरतोरीं
रचपी: जो रोज संगीत: मुकेश घाटवळ

तरणें जिवीत हें जिवीत तुजें चत्रायेन पावलां घाल
सिगरेट,सोरो, नश्टी नश्या, कुडीची करतात हाल
आयचो दीस मोवजेन सार, फुडारार नदर मार,विसर कितें जालां काल
इश्टागत खरी जाय तर फुडाराक मेळत सूख

वादळ मोडां पावसा झडान पडचोना व्हडलो रूख
खोल वेतोच तीं मुळां,बरीं जातात फळां, कोणाक दिनासताना दूख
मोगाचें येतच आगटें,थीर दवर तुजें मन
पयलीं भुलतात, मागीर रडटात, विबाडून निर्मळपण
मोगाचो लागतोच रोग, फेसता आदीं फोग, मारतोच गुन्यांकारी कोण ?

**पुरें जालें सपन**

गावपी: डी. जे. किम
रचपी: जो रोज
संगीत: मुकेश घाटवळ

सदांच हांव चिंतालों विस्तीदूच न्हेस्तेलीं, लांब केंस दवरतेलीं
मेकपूय करतेलीं
काळजाची आशा तो दीस भागयतेलीं, मनांतलीं चिंतना पूरीं
शेकीं आयलें घडून पूरें जालें सपन,चरुन व्हरतलो कोण, म्हजें धादोसपण

वोंट रंगयतलीं, नाक्षयो पिंतारतेलीं,हात गोळो धांपून रेस्पेद राखतेलीं
शेकीं आयलें घडून पूरें जालें सपन
चरुन व्हरतलो कोण,म्हजें धादोसपण

**शिणटां फुटक्या नशीबाक**

गावपी: कशल्पा दुबाले
रचपी: जो रोज
संगीत: मुकेश घाटवळ

हांव जल्मान येतांच आई तुवें गळोयलीं दुकां
चलो जाय आसलो दादाक आनी तुका
नांव राखून घराक उजवाड हाडटलो दिसो
घात घेवन तुमचो ताणें उबोवन घातलें म्हाका
फर्स्ट क्लास मेळून म्हाका चुली कडे जागो दिलो
पास क्लास मेळून ताका चलो म्हण तो कॉलेजीक गेलो
खोट्या इश्टागतीन, गुळ्या वखदांचो तो गुलाम जालो
रिणान बुडोन लजेन पडून दादान जीव दिलो

म्हज्या लग्ना खातीर तुवें करून दवरलें भांगार

व्हेलें चोरुन गळो करुन तुजो फुगार
हांव तयार आसां उरलेलें जिवीत सारुन आंकवार
म्हजी मोगाळ आई म्हाका परत दिल्यार
मागतां माय दादा तुमीच आतां राखात म्हाका
एकलोच म्हजो भाव देवा आतां सुदार ताका
जल्मान येवन चलयो कितलींच रडटात फुडाराक
देवा शिणटां म्हज्या आतां फुटक्या नशीबाक

**नियाळून तुजो रुपकार** गावपी :जो रोज आनी मारीया कारदोज

रचपी: जो रोज संगीत: मुकेश घाटवळ

तुजो रुपकार, मनांत खेळूंक लागतात तीं आदलीं चिंतना
गोपांत तुका धरुन आलतारा मुखार देवाक दिनवासल्यांव
पुरीं जालीं म्हण सपना

तू आमचें मोगाचें फूल, सुंदर दोळे आजूल
बाग आमची नेटयल्या भरून परमळान
चिंतलें ना जायत म्हण गूल, आमच्या आदाराचें मूळ
परत आमकां एक करचीं धन्या देवा
नियाळून पयल्यार तुजें तें भुरगेपण,बरें शिकप करुन
आमकां केलीं धादोशी
नांव आमकां हाडलें, इनाम तुवें जिखून,दोतोर जावपाची तुका आसली

**आंगवणेचें भुरगें** गावपी: मारीया कारदोज

रचपी :जो रोज संगीत: मुकेश घाटवळ

आंगवणेचें भुरगें एकलेंच हांव भुरगें, माय पायचे आपुर्बायेचें
म्हज्या जल्मा दिसा म्हणटात आसलें व्हडलें गिराण सुर्याचें
म्हणटात बाळंतीन दुकराचे मास खायल्यार जाता खंय व्हड ल्हंवेचें

म्हाका झकताना तागडी मोडली, वैजीण जिंट येवन पडली
मायन खेलें खंय मास रेड्याचें

आय एम नोट टेलिंग लायज, आय एम बिग सायज, पुण तें ना रे म्हज्या हातांनी
दुसऱ्या चेडवां भाशेन, जिन पेंट घालून आशेन रावतां, सायज मेळणा शॉपानी
सांबबाळच्याक रेस्पेद, कितलो जाता देस्पेज, विस्तीद जायना रे चार मेत्रांनी
शिवूंक गेल्यार दरजी म्हणटा,जकाक टेप पावना, तो जक काडटा वेतांनी

पणजे हांव सिरविसेक पावच्याक, वेगीं भायर सरता जायत म्हण लेट
चेडवांक स्कुटरार रोकडीच लिफ्ट मेळटा, चेडे पयतच म्हाका करतात नेट
कितलीच सुवात बसींत रे आसल्यार हांव चडटच म्हणटात जाली खेट
थोडे बसींत म्हाका घेनांत, घेतल्यार बसूंक दिनांत, म्हणटात म्हाका डबल तिकेट

दुसरीं चेडवां दोनूच पार घेतात, हांव मोच्यां फाटल्यान कितलेंच मोडटां
टू बाय वन पर, आय टेकींग वन आव्हर, दुकानकार पांयच पळोवंक उरता
फरेनच्यो वस्तु घालूक म्हाका गोस्तु, स्टोकींग घालताना कितें घडटा
*इफ स्टोकींग फ्री सायज, देन वेन इट रिचेज माय थायज,* सांग कित्याक रे *इलास्तीक* तुट्टा

हांव आसा जशें देवान म्हाका रचलां, सांग म्हाका हांव कितें करूं
गल्फान सावन कुवेटकार नवरयांची सोयरीक म्हाका आयली परूं
जीव म्हजो खोशेन भरलो, चिंतलें जिवीत आतां सुखान सारूं
उगीच रावलीं देखून मिसता सोयरीक मोडली न्हवऱ्यां म्हणन्टालों व्हकल सारकें गोरूं

नवऱ्याचो पळोवन नेट,वकलो करतात रे जेत,मेकप करुन दिसतात मोहीं
विस्तीदाक घालतात पेडींग,मागीर आफ्टर वेडींग, दिसतात पळोवंक मानशेचीं फळीं
यूय दोंट नो येट, पूण जातच रे कॅट, म्हणटलय म्हजे असलींच जायीं
बारिक नियाळ कर,हनिमुनाक उगडास धर,काळखांत सगळीं माजरां काळीं

## ध विक्टीम





जेरीटन डायस


मिलरॉय गोइस

जेरीटन दायस हाका चॅफ जेरी म्हण वळखतात. तो जायत्या तासांचो आनी भोवनावश गोंयकार जाणें ह्या फिल्मांची पटकथा, काणी, कांतारां आनी कांतारांचे सूर रचल्यात आनी धाकटी भूमिका केल्या. ताणें ल्हानपणी आठवेंत आसताना असळणें ,वेल्ली, कुंकळी, चिणचणेच्या बारा शाळां मदीं एक एकांकिका स्पर्धेंत पयलें इनाम मेळोयलां. ताणें चार तियात्र बरयल्यात, जे आपल्या गांवांत चींचण्या दाखयल्यात. तो *रॉक ड्रमर* म्हण फामाद जाला आनी अमेरिकन एकमेव गोंयकार.

मिलरॉय गोइस हो मोटवीं फिल्मा दिग्दर्सपी आनी ताणें *एक्स्पेक्त ध अनएक्स्पेक्टेद* (अनअपेक्षित अपेक्षित कर), वेनजंस (सूड) तशेंच संगीत विड्यो आनी जायराती केल्यात. एक जायरात ब्रेट ली वांगडा ताणें केल्या. दिपक राना हाका *एक्स्पेक्त ध अनएक्स्पेक्टेड* हातूंत घातला. ध विकटीम (बळी) हें ताचें पयलें 2012 वर्सांतल्या ह्या चलचित्रांतली काणी दोग झोंटांची, एकलो अपघातांत मोरता आनी

मोरतेल्याक ताणें भास दिल्ली तें काम आतां ताणें करपाक जाय. एशली काजारी, ताणें ताचे बायलेक सोनियाक आनी भुरग्यांक आदार करपाक जाय पूण एशलीक आर जाता आनी तो भेड्डोय जाता. सोनिया भुरग्यांक घेवून वचपाक सोदता, एशळी निर्दोश म्हण तिका उसरां कळटा. ताच्या जिवितांत गंभीर वळन येता जंय नशीब ताचे खासगी जिवीत दुरूस्त करपाक जायना तशें सोडटा.

काजारां सर्गार जमतात अशें म्हणटात पूण जेन्ना मनांत दुबाव किरलोता तेन्ना तें एक काजारी सुखी जिवीत नाश करपाक पावता जें हालींच्या लग्नांनी आमकां दिसून येता, हें फिल्म दुबाव, विस्वास आनी घराब्याच्या मनशांचे जबादारीचेर भर घालता.

ध विक्टीम हें पयलें कोंकणी *डिगिटल थियट्रीकल फिल्म* जातूंत बॉलीवुड कलाकारांचो समावेश आसा. ताचें चित्रण *कॅनन इ ओ एस् 7 डी* हातूंत केलां. तें कारवारुय दाखोवपांत आयलां.हें एकूच फिल्म जें *यु. एफ्. ओ* .आनी *स्क्रॅबल* हातूंत सादर केलां जें एक संदेशाचें वेपारी फिल्म जावन आसा. ह्या फिल्मांक 85 लाख रूपया खर्च आयला.

फिल्मांचें कलाकार राजाक खान, रोहान ऑस्टीन गोइस,प्राजाकता बिलये, अपुर्वा शर्मा, कुनल मालारकार, सरिता वक्त, प्रीन्सी गुप्ता, दिपराज राना, राजाक खान, रागेश अस्थना,केशव नाडकर्णी आनी कॅवीन डी मेलो. ह्या फिल्मांक आना रिबेलो हिणें संगीत बसयलां,तर फाटभुंयचें संगीत डी. एंड ए. प्रोडकशन्स हांचें जावन आसा. राजाक खान बस कंडक्टराचें पात्र, कुनाल मालारकार एश्लीची भूमिका, प्राजाकता बिलये सिस्टर मिससाची पार्त, दीपक राना राजाची भूमिका, प्रीन्सी गुप्ता सोन्याची पार्त निभयतात. राजेश आस्थाना आनी केशव नाडकर्णी वकीलांचे भूमिकेंत दिसतात. ह्या फिल्मांचो आदारी दिग्दर्सपी रोहान ऑस्टीन गोइस जावन आसा.

**जिवीत म्हजें**

रचपी: जेरीटन डायस

गावपी: नॅफी रॉड

संगीत: आना रिबेलो

संवसार खऱ्यांनीच हो नवलांचो
हांसयतल्याक हांसययता
रोडटा तो मनीस कितें जायत चिंतता
बाबडो दुकां गळयता

संस संस कितलें म्हण हांव सोंसूं
सोद सोद खंयसोर म्हण हांव सोदूं
केन्नाच कोणाक हांवें वायट करूंक ना
ना म्हण वायट उतर दिवंक ना
म्हणटात ताचो गूट तोच जाणा
देखून हांव ताचेरूच पातयेतां
सूख सूख गेलें सगळें उडोन
संस संस कितलें म्हण हांव सोंसूं
सोद सोद खंयसोर म्हण हांव सोदूं
केन्नाच कोणाक हांवें वायट करूंक ना
ना म्हण वायट उतर दिवंक ना
म्हणटात ताचो गूट तोच जाणा
देखून हांव ताचेरूच पातयेतां
दूख दूख आयलें सगळें लोटोन

**काळजां आमचीं**

गावपी: हेमा आनी आकासियो
रचपी: जेरीटन डायस
संगीत: आना रिबेलो

ये मोगा धांवून तूं ये गोपांत म्हज्या
रावूंक दी सदांकाल मोगा काळजांत तुज्या

तूंच खरो धीर आदार म्हजो तुज्या विणें रावूंक नजो
आंज्या ये तूं आरो

सदांच अशीं मोगान भोंवूंक आनी एकवटान रावूंक
एकामेकाक जाय पावूंक

मोग तुजो सदांकाल हांव करतेलीं, विस्वाशी हांव रावतेलीं
य आमी भोंवत तर मोगान सासणाक एक उरतेलीं (2)
मोगान पडून हांव तुज्या सदांच खुशी आसां आंज्या
दुखयशी काळजाक म्हज्या
कुडींत म्हज्या जीव आसो सोर व्हांवयतेलीं मोगाची झर
मोगा सदांच मतिंत धर

**मोग**

रचपी: जेरीटन डायस

गावपी: नाथानिया
संगीत: आना रिबेलो

पांय नासलेल्याक म्हणटात थोंटो
हात नासलेल्याक म्हणटात पांगळो
दिसो नासलेल्याक म्हणटात कुड्डो
आयकुंक येनासलेल्याक म्हणटात भेरो

दुडवांकारांक म्हणटात आमी दुडू आसात
व्हड गिरेस्त तो
कांयच ना ताका म्हणटात गरीब (2)

पांय आसून आमी थोंटीं
हातूय आसून आमी पांगळीं
दोळे आसून आमी कुडडीं
कानुय आसून आमी भेरीं

देवान आमकां सगलेंच दिलां
तरूय आमी खुशालना
ममी देडी एकवटान रावना (2)

धन्या दोनूय हात जोडून मागतांव
मोगाचीं किरणा पळोंवक आशेतांव
मोग घरांत ना देखून घुस्पतांव
मोगाक आशेल्यांव मोगाक रावतांव

चूक आमची कसली जाल्या तर
धन्या आमकां गुन्यांव भगोस
ममी देडीक एक तूं कर

**नशीब** गावपी: एंथनी आनी इगर्जेचें गायनमंडळ
रचपी: जेरीटन डायस संगीत: आना रिबेलो

म्हाका म्हज्या जिवितांत अशें कित्याक जायत घडटा
वारें नासताना सगळेंच म्हजें उडोन वेता दिसता

जिवितांत हो मनीस सदांच बऱ्या रस्त्यान चलतालो
जिविताचो रस्तो विसरूंक सांगात खंयसर चुकलो
सदांच नास्तेल्याक दित आसलो आपलें केन्नाच चिंती नासलो

म्हुणो गरजेवंताक दिवूंक जाय तेन्ना देव दोबराद दितलो
धन्या हात जोडून मागतां भगोस म्हजीं पातकां
मोगाचे उबेक आशेलां घाल काकूतीचीं किरणा

**संवसार** गावपी: एंथनी सॅन
रचपी: जेरीटन डायस संगीत: आना रिबेलो

खरेंच जिविताची ती घडी, केन्नाच सांगून ती येना
विस्वासान रावलेलीं हांव,कित्याक जायत फटयलें (3)हें समजना

तरी तुका मोगा केन्नाच वायट हांव मागचीना

तुज्या विणे म्हज्यांन केन्नाच रावूंक जावचें ना, सत सांगतां

तुंच म्हजें सुख जावन कित्याक म्हाका तुवें दुखान घातलो
जिवितांतल्या हांव तुजे पय पयस (2) खंय तें नेणा

संवसार हो देवांच घडला दुबाव ना
ताचे पदवे विणे काडी पासून जालोना,हय हालना
तोपल्या बगर कांट्याची दूख गोमना
पांय आसात म्हण तुका थोंट्याक हांसूंक उपकारना, उपकारना
जिवितांत सदांच तूं जाय दुसरो नाका
तुज्या बगर जिवितांत जालां, उदोक नासलेलें तळें, हय तळें

मोगा, मोगा कित्याक सोडून दिलां

चुकलों हांव गूट तुका लिपोवन दवरून
हातींत सूख आसलेलें उडोन गेलें वारें मारुन
मोगाचें झाड हांवें मोगान शिंपलें ना
घडूंक अशें म्हजें खंयसोर जायत चुकलें, जायत
संवसार हो सगळोच काळोखी जाला

कित्याक म्हणून तुवें मोगा म्हा पयस केला पयस केला
मोगा मोगा कित्याक म्हणून सोडून दिला कित्याक

### विस्वास

रचपी: जेरीटन डायस

गावपी: व्याम ब्रागांजा
संगीत: आना रिबेलो

खरेंच जिविताची ती घडी, केन्नाच सांगून येना
विस्वासान रावतेलीं हांव, कित्याक जायत फटयलें (3)समजना

तरी तुका मोगा केन्नाच वायट हांव मागचीना

तुज्या विणें म्हज्यान केन्नाच रावूंक जावचेंना, सत सांगतां

तुंच म्हजें सूख जावन कित्याक म्हाका तुवें दुखान घातलो
जिवितांतल्या हांव तुजें पोय पयस वयतां (2) खंय तें नेणा



जेरीटन डायस,कुनाल मालारकार,आपुर्वा शर्मा आनी प्राजाकता बिलीये



फाटल्यान: कुनाल मालारकार,जितू जाधाव, जॉन फेर्नांदीस,प्रीन्सी गुप्ता,जेरीटन डायस, मरलीन कारवाल्हो, रोहन
फुडल्यान:प्रशांत डी क्रूज, जुलयस डी मेलो,प्राजाकता बिलीये आनी मिलरॉय गोइस



प्रीन्सी गुप्ता,बाळ कलाकार वेंडी आनी कॅवीन डायस



कॅविन डी मेलो आनी राजाक खान



कुनाल मलारकार, प्रीन्सी गुपता

# दिगंत





संजय शेटये



ज्ञानेश्वर मोघे



प्रसाद लोलयेंकार

दिगंत मनशाची मेकळीक आनी धादोसपणाचें म्हत्व दाखोवपाक प्रयत्न करता. ह्या फिल्माची काणी धंगर समाजाचेर आटापल्या जी प्रसाद लोलयेंकारान बरयल्या. तांतूंतले मुखेल कलाकार राजेश पेडणेकार, दीपालक्ष्मी मोघे, गौरीभूषण होलकार, विनय साखाराम देसाय, प्रनाव बिचे, सोनाक्षी देसाय, राजीव नायक, धानू डिचोलकार, बाबू देवा, बिरू काळे आसात2012 वर्सातल्या ह्या फिल्माचें दिग्दर्शण, पटकथा आनी संवाद बरोवपी म्हापशेंचे ज्ञानेश्वर मोघे जावन आसात. तें *विन्सन प्रोडक्शन* हांच्या संजय शेटये हाणीं निर्मयलां. ह्या चलचित्राक इंग्लीशींत *सब टायटल्स* दिल्यात आनी ताका 45 लाख रूपया खर्च जाला आनी ताका फिल्म फायनेंस संवस्थेचे 15 लाख रूपया अनुदान फावो जालां.

दिग्दर्सप्याचें म्हणणें: जिविताच्या हावेसा प्रमाणें ताचो अर्थ लावपाक येता. फिल्माच्या मुखेल पात्रां प्रमाणें जो शेळ्यो राखपी आसता तो निसर्गाच्या वांगडा रावता जो प्रमाणिकपणीं अशें जिवीत सारप अखेरचें अशें मानता. तो निसर्गांत आपली मुक्ती सोदता पूण गिरेस्ताक माळ्यांच्यो इमारती बांदपाचो हावेस आसता. ताका मेकळीक म्हणचे मनाची अवस्था दिसता. ताका पयलिंच्या जिवितांत अणभवलेल्या दुर्बळकायेचो सूड घेवपाक इत्सा आसता.

ह्या शिवाय हेर मेजमाप ह्या व्हडविकायेच्या मेकळीक संकल्पनांत आसा, जशी राजकी मेकळीक, कारकीर्दीची मेकळीक आदी. सत म्हणचे ही मेकळीक मान्यताय आनी आदाव आसलेल्या समाजांत वांचयता, मुखेल पात्र अंतरमनान जाणा की कुड्डेपणी पोकळ मेकळीकेचो पाटलाव करचे परस सोंपेपणी धादोस्कायेची चाल तो वेंचता जी ताणें आपल्या फाटल्या काळांत मस्तिल्या. ह्या फिल्मांतलें झगडें वेगवेगळ्या पात्रांच्या मुल्यां वयर जावन आसा.

ह्या फिल्माची काणी एका धंगर हाचेर बसयल्या जो जंगलांत वर्साच्या वर्सां आपल्या मेंडऱ्यांक घेवून हेडटा. एकाच घरांत रावप ताका शक्य ना. ताचे पूर्वजूय अशेच हेडपी आसले. शेळी राखपाक एक हुशार चलो आसता. एका शिकोवप्याची नदर ताचेर वयता. तो ताका शाळेंत धाडपाक सुचयता.धंगर तयार जाता जो आपलें काम चालू दवरता. ताचो पूत येसयेसपणी परिक्षा पास जाता. ताका शिश्वृती मेळून ताका वास्तूशिल्पकलेचे कॉलेजींत प्रवेस मेळटा.

धंगर, घराक पातक मानपी. ताचो चलो घराच्या येवजणेच्यो आकृतायो करपी म्हणचे सारकें विरूध. ताचे वंश्यावळेच्या जिवीताक तें एक संकश्ट . धंगराक घराची मालकी आसप हें विरूध आनी सुदारत्या ह्या समाजाक तें एक स्थिरपणाची निशाणी. धंगर आनी ताच्या पुताचें झगडें मुळांत तांच्या मुल्यांचेर आसा. चलो आपल्या वांगडा शिकपी चलये मोगान पडटा. तिचो बापुय एक व्हडलो घरां बांदपी बिल्डर. तोवूय गरीबकायेंत सावन वयर सोरला. ताचें चिंतप हें आपले गरीबसाणेचेर सूड. तो

आपल्या पुताचो उजळ फुडार वळखता, तो ताचे नदरेंतल्यान पळेता.

जेन्ना धंगराचो पूत ते चलये सांगाता लग्न जावन शारांत रावूंक सोदता तेन्ना तो तळमळटा पूण शेकीं आपले सुनेक पळोवपाक शारांत येता.तो शारांत जायते आदीं गोंयचे मुक्ते वेळार आयिल्लो आनी आतां येतच, जायतो बदल जाल्लो पळेता. तो सगळें शार भोंवता आनी सगळी वेवस्था ताचे समजणे भायली आसता. आनी एक दीस दुरदिसण्यार तो एका जाणटेल्या मनशाचो सान पिरायेच्या चलयेचेर बलात्काराची बातमी आयकता. ही सभावा आड वागणूक, ताचे देखी भायली. तो तें शार तेच रातीक आपल्या पुताक सांगनासताना सोडटा. पूत बापायक सोदूंक भोंवता. आपलो बापुय त्या जाग्यार सुरक्षीत आसलेलो पळोवन सुसेगाद जाता. शारांत चली खोल चिंतनेंत आसता. पयलेच फावट तिका भोळेपण आनी निसर्गाची पवित्राय धंगरा कडल्यान अणभवता, ती धंगराच्या मुल्यां जाणून घेता, तिका रानांत कायम रावपाची येवजण ना म्हण कळटा.पूत परतो येतच शारांत तो आपले बायलेची चिट वाचून भावूक जाता.हें फिल्म 43 व्या इफिंत एकमेव नोंदणी आसलें आनी तें 26 दीसानी तयार केलां जाचें चित्रण म्हाराष्ट्र-गोंय शिमेर उरतेल्या कळणें खेडेगांवांत केलां.हें फिल्म प्रवचन करना पूण शारांतल्या आनी गांवातल्या जिवितांतली अंतर दाखयता.



**राजू पेडणेकार आनी समीक्षा देसाय**



दीपालक्ष्मी मोघे



राजू पेडणेकार



प्रनाव बिचे आनी राजू पेडणेकार

## सुरींग




स्वप्नील शेतकार

फोंडेंचो स्वप्नील शेटकार हो तरणाटो नाटकांचो अणभव गांठिल्लो मोटवीं फिल्मा करपी हाणें हें सुरींग फिल्म दिग्दर्शीत केलां. ह्या आदीं ताणें दोन चलचित्रांनी प्रोडक्शन मेनेजर म्हण काम पळेलां. ताणें फामाद कवी सर्गेस्त बाकीकबाब बोरकार हांचेर तयार केल्ल्या म्हायतीपटांत मुखेल पात्र केलां.


हेमांत मालवणकार

ताच्या कौन जिमेदार फिल्मांक ताका बऱ्यांतलो कलाकार म्हण छोटा सिनेमा इफ्फिंत 2010 वर्सा तस्रीप फावो जाला. ताचीं हेर फिल्मां रूपते आनी केन्वासिंग जीं इफ्फिंत दाखयल्यात. हेमंत मालवणकार हो एक धंदेकार आनी हें फिल्म ताणें प्रीन्स क्रियेशन बावट्या खाल प्रस्तूत केलां.

ताका चलचित्रांचो चोड मोग आनी हें ताचें पयलें फिल्म जावन आसा. सुरींग फिल्म फामाद बरोवपी पुंडळीक नायक हाच्या त्याच नांवांच्या नाटकाचेर आदारीत आसा आनी ताचें चित्रीकरण शरमाद रायतुरकार हाणें केलां.

2013 वर्सांतल्या ह्या फिल्मांत मुखेल कलाकार गौरी कामात, संजय गांवकार, रघुनाथ साकोरडेकार, अनिल रायकार आनी आर्यन खेडेकार जावन आसात. जॉन डी सिलवा होवुय हातूंत दिसता. ह्या फिल्मांक इंग्लीशींत *सब टायटल्स* युगांक नायक हाणें दिल्यात. पटकथा आनी गीतां रचपी पुंडलीक नायक जाका संगीत अजय नायक हाणें बसयलां. गाण्यां मदीं रक्तसांवार जें स्वप्नील बांदोडकारान गायलां, पती आनी पतीन हो जागोर महेश आनी पंगड, स्वप्नील शेतकार, अजय नायक, सतीश गांवकार हाणीं गायलां, तर यो सॉफीया हें सोनीया शिरसट, अजय नायक आनी एलेन फरर्नांदीस हाणीं गायलां, जयपूर फिल्म फेस्टीवल हातूंत 2013 तें दाखोवपांत आयलें. ह्या फिल्मांचें चित्रण वेरणें, लोटले, केरी, तळावले, कांसावाळे, उपासनगर केलां. सुरींग हाची काणी अशी आसा:

सुरींग म्हणचे स्फोटक. तें गोंयच्या गावडी-कुणबी वावुरपी जमातीचेर आटापलां आनी तांचें जिवीत आनी तांचे सत्तरांतल्या दसकांतले परिस्थितीचेर आदारीत आसा. त्या वेळार सुरींग भरपाचें आनी फोडपाचें काम हो लोक आपल्या हातांनी करतालो कित्याक तेन्ना आतां आसात तसलीं आवतां नासलीं. मार्यसन, एक वावुरपिणीचेर बलात्कार जाता जाका मिनाचो मुकदम जबाबदार आसा. हाची जाणीव आसुनूय ती वावर चालू दवरता. दुसरे वाटेन एक तीन मनशांचो पंगड जो नाटक कंपनेंतल्यान भायर सरला तो असल्या अडचणेक पडिल्या समाजाक मजत करपाक फुडें सरता. गावडी-कुणबी समाजाच्या आर्थिक प्रस्न ते सुटोवपाक पावतेले? हें ह्या फिल्मांत पळोवपाचें. असल्या समाजाक एका फुटो नासलेल्या सुरींगाक सर केला.ह्या फिल्मांत एका समाजाच्या भागांतल्या लोकाचेर जाल्लो शेक आनी पिळणूक दाखळ जाता जांकां आपल्या गुलामपणांतली जाणीव जातच ते आपली प्रतिक्रिया सुरींग सारक्या स्फोटोकाक सर करूं येता.

हें फिल्म पूरें एच डी फोरमेटांत काडलां जाका केनन 5 डी मार्क

कॅमरा वापरला. तें 90 मिनटांचें आसा आनी ताका 50 लाख रूपया खर्च आयला आनी अनुदाना खातीर अर्ज करूंक ना.स्वप्नील शेतकार म्हण्णें प्रेक्षकांक आकर्शीत करपाक एका भोंवपी चित्रघरांची वेवस्था करपाक जाय ज्या वरवीं खेडेगांवांतल्या लोकाक फिल्मांचें मनोरंजन चाकुंक सुविधा मेळूंक पावतेली. बरी अर्थिक सुविधा फिल्म निर्मात्यांक उपलब्द करुन बरी प्रसिद्धी फावो केल्यार गोंयांत फिल्म कलचर सुदारूंक आदार जातलो अशें जायत्यांचें म्हण्णें आसा



गौरी कामत



रघुनाथ साकोरडेकार



संजय गांवकार



अनील रायकार



समीक्षा, आर्यन,राविंद्र आनी सचिन सुरलाकार

## खण खण

गावपी: गौतमी हेदे

रचपी: पुंडलीक नायक

संगीत: अजय नायक

खण खण खण – काळजार घण
घण घण घण – मनार व्रण

माकनार बसून आयला सांवार
दांतांक काडून चडटी धार
दोंगरां पोटांत दडलां धन
चिरून फोडून केलें रण

सृश्ट सदांच पांचवी जिती
भांगर पिकोवपी हांगची माती
शेतांत रूजलां लोखणी तण
मातयेंत शेणला शिताचो कण

मळबाक भिडल्या किदी रास
राशींत दडला फायचो नास
राशीन निर्मिला व्हडलो फोण
फोणाचो सोद घेता कोण?

प्राक्तन रावलें कितलें निबर
जित्या-जिण्याचो जालो गोबर
आपल्या हातांनी रचलें सरण
उक्त्या दोळ्यांनी भोगलें मरण

## रक्तसांवार

गावपी: स्वप्नील आनी गौतमी हेदे

रचपी: पुंडलीक नायक

संगीत: अजय नायक

रक्तसांवार ! हाय रे हाय !
घायार घाय ! हाय रे हाय !

नीळ मळबाचे धारेपेल्यान
साद खडपाच्या काळजांतल्यान
कपला वयल्यो लिखित रेशा
व्हळून वतल्यो हुमेंतुल्यान

जिवीत जालां घट फातर
दडून आसा काळोख भितर
उज्वाडाचें किर्ण उदेतलें
फोडून तोडून ही धर्तर

फाटीक बांदून वेंतभर पोट
जिवीत देंवचाराचें रोंट
मयपासांचे बांद तोडून
कोण जिणेचेर मारता खोंट

## बागा बीच





डॉ.प्रोमद साळगांवकार


लक्ष्मीकांत शेटगांवकार

गोंयचें नांव सामान्य अर्थांत सुर्या आनी फेण्येचेर आटापलां पूण 450 वर्सांच्या पुर्तुगेजांच्या पुर्वजांचे परंपरेन तिका एक वेगळो मौजेचो आनी मेकळेपणाचो रंग दिवपांत आयला. जे मेरेन हांगा गुंगे वखदां आनी भूरग्यां लिंगे संबंदांत तें रेवडूंक नासलें, ते मेरेन हें सगळें नक्सूद आसलें.

भायल्या राज्यांतल्या कामदारां विशीं गोंयांत नसाय वसता जी प्रसार माध्यम लक्षांत घेना. जरूय असली नसाय हेरां राज्यानिंय वसता तर गोंयच्या लोकाची मनस्थिती कितें तें लोक नकळो. हेंच कोंकणी फिल्म दिग्दर्स्पी मुरगांवचो लक्ष्मीकांत शेतगांकार आपल्या नव्या फिल्मांत बागा बीच हातूंत सांगपाक प्रयत्न करता. हें फिल्म इंडीयन पानोरामांत 44 व्या इफ्फिंत 2013 वर्सा दाखवपांत आयलें.

शेतगांकार, हाणें पलतडचो मनीस फिल्मांत नांव जडलां आनी ह्या बागा बीच फिल्मांक तो वेगळेंच रूप दिता.आदलें फिल्म उमळशिकेचें आनी एक्सुरपणाच्या बंधनाचें आसलें आनी हें फिल्म एक मनवपाचें कशें

आसा.ह्या फिल्माच्या वण्टिपत्रका प्रमाणें तें भुंयवैंकुठांत एक मौसम जावन आसा.

ह्या फिल्माच्या सुरवातेच्या चित्रांनी वेळेर एक इंत्रूज कसो दिसता. बिकिनी न्हेशिल्ल्यो बायलो, भायले मण्यो विकपी, मालीस करपी आनी गुंगेचीं वखदां धुंवरावपी दिसतात.पूण हें फिल्म साबार जाणांचें जिवीत दाखळ करता आनी गंभिरपणान दोन मुखेल गोंयचे प्रस्न हाताळटा. भायल्या वावराड्यां विशीं नसाय आनी भुरग्यां लिंगेची व्यसन. हाचे शिवाय दुडवांचे आशेचें नश्ट. एका गोंयकार कुटुंबाक बरें फारीक करपी जरमन भाडेकार जाय आनी कितलीय बरी बुद घेवपाक तांची तयारी ना जें तांकां तांच्या भुरग्याक, भाडेकार लिंगेचे व्यसनेन वायट करता.दुडवांचे आशेन एका भायल्या वावराड्याच्या भाच्याक शिंदळकेंत पावयता. आनी एक तरणाटो रुपेस्त मणी विकपी, चिंतून की ताचे कडेन लग्न जावन आपूण पॅरिसाक पावतलो म्हण एका फ्रेंच भोंवडेकाराच्या मोगान पडटा. एक बऱ्या जिविताची तिकेट, वेळेर सावन पळप जंय तिका भोंवडेकार वायट करतात आनी पुलीस सतायतात. उपरांत एक कर्नाटकांतलो मनीस जो एक *लायफ गार्ड* जावपाक वावुरता जाका तो भायलो देखून गोंयकार उणाक लेखतात. बागा बीच गोंयच्यो दोन वांटण्यो ताब्यांत घेता- एक पर्यटन जें दुडू हाडटा आनी दुसरें पळून वचपी पर्यटन.पांच तरणाटे व्यापारिकरणारच्या संवसारांत गोंयच्या पर्यटनाचे फाटभुयेंत जियेपाक प्रयत्न करतात.जेन्ना तांच्या मदल्या एकाचो लैंगिक छळ जाता तेन्ना तांचें सपन सदांकाल बदलूंक पावता.

ह्या फिल्माक 2013 वर्सांतलें बऱ्यांतलें कोंकणी फिल्म म्हण राष्ट्रीय फिल्म पुरस्कार फावो जाला जाका तीन कोटी रुपया खर्च आयला आनी जातूंत थळावे तशेच जरमन/फ्रेंच कलाकार भाग घेतात. हें फिल्म कोंकणी, इंग्लीश आनी हिंदी भासांनी काडलां. ह्या फिल्माचो देसाक तशेंच अंतराष्ट्रीय समाजाक एक समाजिक नातें आनी संदेश आसा.

ताचो निर्मुपी डॉ. प्रमोद साळगांवकार, जें शरवानी प्रोडकशन्स बावट्या खाल विर्मयलां. संगीत बसवपी एमिलियानो दा क्रूज. कांतार रचपी

साईश पाणदिकार आनी गावपी ऍंथनी सॅन आनी रोमा जावन आसात. ह्या फिल्मांतले कलाकार पावली दाम, जीन डेनीस रोमर, सादिया सिदिक्की, सॅड्रीक सिरोट्टो, आकाश सिन्हा, हर्श मैनरा, प्रशांती ताळपणकार, रेशम जाधव, राजेश कारेकार, आयवन सी. डी सौजा,प्रदीप नायक, सिरजी क्लीम जावन आसात. हें फिल्म 103 मिनटांचें आसा.



अभिशेक विश्वकर्मा आनी सिरजी



पावली दाम आनी सेड्रीक सिरोट्टो



पावली दाम आनी सेड्रीक सिरोट्टो



आकाश सिंन्हा आनी पावली दाम



लक्ष्मीकांतबाब राष्ट्रपती भोव मानादीक श्री प्रनाब मुखरजी हांचे कडल्यान बागा बीच फिल्मांचो राष्ट्रीय पुरस्कार स्विकारताना

**ह्या काळजाचो आयक उमाळो** गावपी: एँथनी सॅन आनी रोमा
रचपी: साईश पाणंदीकार संगीत: सिध्दनाथ बुयांव

दादलो: पलतडे हांव आल्तडे सूख
हो कसलो खेळ नशीबाचो
सुखाचे मोल हें एकसुरपण
ह्या काळजाचो आयक उमाळो
बायल: तुजे बगर हे रितें घर

नाका जाता ही सगळी गिरेस्त्काय
तुज्या गोपांत मेवताली ऊब
ती खंयसर सोदूं आतां. शेणली खोशाल्काय

दादलो: दिसता म्हाका सुकण्या वरवीं
उडन येंव तुजे सरीं
मतीन येता हें पिशेपण
ह्या काळजाचो आयक उमाळो

पोंवक आशेता नुसत्याची रास
पदेर जागयता सुऱ्या किर्णा
उगडास येतच रडटां दीस रात
बायल: यो मोगा यो ना कसलें रीण

परत येना गेलले खीण, लासून वेता हें जुवानपण
ह्या काळजाचो आयक उमाळो

दादलो आनी बायल: पलतडी हांव आल्तडे सूख
हो कसलो खेळ नशीबाचो
सुखाचें मोल हें एक्सुरपण
ह्या काळजाचो आयक उमाळो

# मोर्तू




आत्रेय सावांत


जितेंद्र शिकेरकार

*आरोही क्रियेशन्स* हाच्या बावट्या खाल मोर्तू हें 109 मिनटांचें डिजिटल डलबी (5.1) सरुपणाचें फिल्म 44 व्या अंतराश्ट्रीय फिल्म उत्सवांत (इफ्फी) 2013 वर्सा दाखवपांत आयलें.तशेंच प्रतिश्टीत इफ्फी (औस्ट्रेलिया) हातूंत माय 2014 वर्सा दाखयलें. ताचो निर्मुपी आत्रेय सावांत आसा जें बोरयेच्या र्जितेंद्र शिकेरकार हाणें दिग्दर्शीत करून ताणेंच ताची काणी आनी पटकथा बरयल्या. संवाद साईश पाणंदीकार हाणें बरयल्यात, गीत राजय पवार हाणें रचलां आनी संगीत अजय नायकान बसयलां.

फोटोग्राफी सुरेंद्र सिंघ हाणे हाताळ्ळया.ह्या फिल्मांतल्या कलाकारांची नांवां भरत गणेशपुरे, राजदीप नायक, प्रशांती ताळपणकार, साइश पणंदीकार, प्रीन्स जेकब आनी स्वीती राजपूत.

ताची काणी अशी आसा:

चाळीस वर्सांचे पिरायेचो मोर्तू आपली घरकान्न पारवती सांगाता पिसुडें गांवांत रावता. तो विक्षिप्त वावर करता पूण मोंडीं लासप ताचें खाशेलेपण जावन आसा. पारवती जिका भुरगें ना, तिका दिसता की

मोर्तून मोडीं लासपाचो वावर सोडून एक सभ्य नोñकरी धरची. दूसरे वाटेन सदा गांवचो सरपंच एक वीजेची मसंद घेवपाक येवजिता. पूण ताचो भ्रश्ट वेव्हार सुफळ जायना कित्याक मोर्तू गांवकारांक त्या येवजणे आड झगडूंक जाग्रूत करता. पिसुडें गांवांत जायते फटकिरे दलाल येतात आनि मोर्ताचो उपेग करून एक बनावट बाजारपेठेंची येवजण वेव्हारांत घालपाक सोदतात. सूड घेवपी सदा गांवकारांक, मोर्तूक आनी पारवतीक गांवा भायर घालपाक फाटबळ दिता. ते शारांत वचून बिळू, जो रिणांत बुडिल्लो आसता ह्या पारवतीच्या भावाक ही खबर सांगतात.हुशार बिळू, मोर्तूक गांवांत परतून येवपाक पटयता जंय ते दोगूय बिळुची गाडी वापरून एक सामान पाववपाचो वेपार सुरू करतात. सदाक, मोर्तूचें लोकप्रियेतिची निर्डुकाय जाता. बिळू सदाच्या धूवेच्या मोñगान पडटा. मोर्तू एक मोडीं लासपाची येवजण मांडटा जंय एका प्रेतयात्रेची सगळी बंदाबस्त एके थडे रक्कमेंत वेव्हारांत घालपाक जाता. ते थळावो आमदार गंगोत्री कडेन वयतात जो ताका पाठिंबो दिता. पूण दुर्दैवान गंगोत्री काळजाच्या विकारान मरता. गंगोत्रीच्या दवरलेले बायलेचें उग्तादार येवप एक प्रचार माध्यमाक एक बदनामिची भान्गड जावपाक पावता जें गंगोत्रीèच्या पुतण्याक तिडवपी जाता कित्याक ताचो गंगोत्रीèच्या जाग्याचेर दोळो आसलो.आमचे वीर भान्गडीचो विशय सोडयतात आनी एका प्रचार माध्यमाक ताचें एके व्हड रक्कमेंत खेरीत प्रक्षेपीत करपाक दिवन गंगोत्रीची प्रेतयात्रा गाजयतात. गंगोत्रीचो पुतवणो तांचे प्रेतयात्रेñचे येवजणेक तेंको दिता आनी तांकां भरपूर पयसो मेळटा.बिंदू आनी बिळू लग्न जातात आनी पारवती आनी मोर्तू खुशाल जियेतात.

ह्या फिल्मांचें चित्रण काणकोñण, तळावळी, फोंडें, पयंगिणी केलांû दिग्दस्र्प्यान मराठी “उदय” (2012) फिल्म हाताळ्ळां, जें सावथ एशन फिल्म फेसटिवल आनी 5 व्या मराठी फिल्म फेसटिवल ओफ गोñया हातूंतूय दाखवपांत आयलां.ताणें टी. व्ही. माळो केल्यात तातूंत “बिके हूये लोग” आनी “रंग ये जाफ्रान” डी. काशीर हाचे खातीर वावर केला.ताणें तशेंच साबार वेपारी फिल्मां वेग वेगळ्या दिल्लिच्या प्रचार

माध्यमा खातीर पटकथा बरोवपी आनी दिग्दर्स्पी म्हण काम पळेलां *डिफरंट मिडिया हावसस ईन दिल्ली*, डी. नॅशनल आनी डी. भारती हाचेर प्रसारीत केलेल्या 'उत्तर कथा' हाचो तो मुखेल आदारी दिग्दर्स्पी पट कथा बरोंवपी जावन आसा. ताणें एन्. डी. टी. व्ही. आनी एन्. डेबल्यू. आर. यू. खातीरूय काम केलां. ह्या फिल्मांक 80 लाख रुपया खर्च आयला.



भरत गणेशपुरे आनी प्रशांती



साइश आनी विनिता काळे



प्रीन्स जेकब आनी बाळ कलाकार





राजदीप नायक,भरत गानेशपुरे,राघुनाथ साकोरडेकार आनी प्रानवा नायक

**अभंग**

गावपी: स्वप्नील बांदोडक

रचपी: डॉ. राजव पवार

संगीत: अजय नायक

तुजे विणें देवा
कोण ना गा तारी
सुवार्थाच्यो झरी
मनशां

दुस्वासा रुखार
फळां तीं विखारी
कसळजां अंतरी
तलवारी

दोश अवारण
का निवारण
आयतां शरण
तुज्या दारी विठठल. विठठल, विठठल (2)

# अ रेनी डे





राजेंद्र तालाक


डॉ. प्रियांका बिदये तालाक

*अ रेनी डे* (एक पावसाळ्याचो दीस) हें फिल्म मूळ मराठींत जानेवरी 2014 वर्सा प्रस्तूत केलां आनी कोंकणींत डब केलां. हें फिल्म राजेंद्र तालाक क्रीयेशन्स बावट्या खाल प्रस्तूत केलां आनी ताचो दिग्दरसपी राजेंद्र तालाक जावन आसा. तें मन शिरशीरावपी णवद मिनटाचें फिल्म आसा. भ्रष्ट कर्तूबां कोणें केल्यांत ताची ती शेणिल्ली वाट सोदून काडपी अशी ताची काणी आसा. आनिकेताक आपल्या कारकीर्दीचो खूब मोग पूण तो एक मयपाशी घरकार.

पूण ताच्या येसयेस्वी जावपांत दाग ना अशें खात्रेन म्हणूंक जायना. आनिकेत घरा पावता आनी ताचे घरकान्नीक आपल्या भुरगेपणाच्या घडणेची म्हायती आसा तें जाणा जावन अजापीत जाता कारण असली म्हायती कोणूच नकळो. असलीं अजापां जायत रावतात आनी ताका हें गुपीत ताची पतीन कशी जाणा तें समजना. हेर घडण्यो सवकास उगत्यो जातात पूण ह्यो घडण्यो खरेंच घडल्यात वा तें एक बेशटेंच चिंतप? एक दीस हीं सगळीं कर्तूबां तुज्या दोळयां मुखार येतच

तुका कितें भोगतलें आनी तुज्या घोवाचें गुपीत जिवीत, गुपीत आनीक उरिल्लें ना,ताचेर हें फिल्म भर घालता. एक जबरदस्त कपशेच्या कश्टान मेळोवपी व्यक्तीची  काणी जावन आसा जाचें सपन रोखडो गिरेस्त जावपाचें आसता. हें करपाक तो खैंयचीय शीम उपूंक तयार. लांच दिवप ,भेटो दिवन भुलोवप आनी तें घडना जाल्यार आडमेळीं नाटाक करप. आपल्याक जाय तें ताका कशेय परीं शारती पावलेलें जाय.

आनिकेत हाची मोख दुडू कोमावप, खूब दुडू एकठावप .एका पावसाळ्याच्या दीसा ताची घरकान्न मुगदा हीं भ्रष्ट कर्तूबां सोदून काडटा. आनिकेताक एक अजापांचो मोटो प्रकल्प हाताळूंक मेळटा आनी त्याच दिसा ताची घरकान्न गर्भेस्त आसा म्हण कळटा.आनिकेताची भुरगेपणाची घडनी ती जाणा.ताचें म्हेळें गुपीत कशी जाणा जावपाक पावली तें आनिकेताक समजना.

दर येसवंत मनशा फाटल्यान अस्तुरेचो हात आसता अशी एक म्हण्णी आसा,तर अस्तुरी असल्या वायट कर्तूबांक आपलो तेंको दीत? तिका हातूंत जापसालदार करपाक जाता? ह्या प्रस्नाचो जबाब हें फिल्म पळोवन सोदून काडपाचें.ह्या फिल्मांत हें सगळें काणी, दिग्दर्सपण, आवाज आनी फोटोग्राफी वरवीं फिशालपणी विणलां.

राजेंद्र तालाक सस्पेन्स उंच धरता आनी रेसूल पुकाटी आवाज आनी संजय जाधव ताका साथ दिता.ह्या फिल्माक अडेज कोटी रूपिया खर्च आयला.ह्या फिल्मांची निर्मुपी डॉ.प्रियंका बिधये तालाक जावन आसा.काणी आनी दिग्दर्सपण राजेंद्र तालाक हाणें सांबाळ्ळां.संगीत अशोक पत्की हाणें बसयलां आनी कांतारांचे गावपी आरती अंकलेशर तिलेकार आनी जयश्री शिवराम जावन आसात.तातूंतले कलाकार मृनाल कुलकर्णी, सुबोध भावे, अजिंक्य देव हीं मुखेल पात्रां करतात. ह्या फिल्मांत खेरीत हे कलाकार दिसतात:किरण करमरकार, हर्श छाया, मनोज जोशी,डॉ.मिनाक्षी मार्तीन्स, नेहा पेंडसे, प्रीन्स जेकब , संजय माने, सुलभा आर्य.सुबोध भावे अनिकेत प्रधानाची पार्त करता, मृनाल कुलकर्णी  मुघदा प्रधानाचें संवगांत दिसता, सुलभा आर्य मुघदाची आवय, प्रीन्स जेकब हेरी डी सौजाच्या पात्रांत, किरण करमरकार राय साहेबाच्या संवगांत, सजय

मोने मानिकराव मंत्री कसो आनी नेहा पेंडसे सिमरानाची भूमिका करतात. सुबोध भावे आनिकेताचे एक आवगडायांक सांपडलल्या घरकाराचे भूमिकेंत पर्जळटा. पुण मृनाल कुलकर्णी एका त्रासांत पडलेल्या अस्तुरेचें संवग हुशारकायेन हाताळटा. ह्या फिल्माची ताब्यांत घेतलेली काणी पळोवन काडपाची.रसूल पुकुटीची आवाजाची आंखणी बेस बरी जाल्या. गाडी बगदांतल्यान, शेतांतल्यान वयताना, पावसाळ्याचो आवाज कौतुक करपा सारखे आसात.



मृनाल कुलकर्णी



मृनाल कुलकर्णी आनी सुबोध भावे



सुबोध भावे आनी म्रुनाल कुलकर्णी



म्रुनाल कुलकर्णी आनी सुबोध भावे

# गुणाजी





निलेश नेवालकार


एश्ली- अभिलाश

गुणाजी फिल्म दावरलेच्या निलेश नेवालकार हाणें *एक्सीस वीजन* बावट्या खाला जून 2014 वर्सा प्रस्तूत केलां. ताचो दिग्दर्सपी सुरेश रेवणकार जावन आसा जाणें आदीं सूड कोंकणी फिल्म दिग्दर्शीत केलां. ह्या फिल्माचे संवाद आनी गीतां फामाद बरोवपी पुंडलीक नायक हाणें बरोयल्यांत जाका एश्ली-अभिलाश (एश्ली मॅन्डोन्सा आनी अभिलाश लाकरा) हाणीं संगीत बसयलां.

ह्या फिल्मांत भाग घेवपी उपेंद्र लिमये, मुक्ता बर्वे, दामोदर नायक, डॉ. मिनाक्षी मार्टिन्स, राजीव हेदे, गौरी कामात, अनील रायकार, लुइस बच्चन कोयेल्हो, वसंत घोसालकार, माधूकर जशी, राजदीप नायक, इशा नेवालकार, वेदंग गावडे आनी हेर. ह्या फिल्माची काणी अशी आसा: एक गुणाजी नांवांचो गोरवां राखणो गोंयच्या एका गांवांत आपल्या कुटुंबा वांगडा रावता. गांवचो थळावो सरपांच ताका पुररस्कारा खातीर नेमता. सरपंच्याच्या अशें घडूंक पावता. गुणाजी जाणें आपल्या जिवितांत गांवां भायर पांय दवरूंक ना, ताका दिल्लीच्यान एक चीट येता सांगून की ताका वर्सातलो बऱ्यांतलो बरो राखणो हें तस्रीप फावो जालां. ताणें तें स्विकारापाक दिल्ली वचपाक जाय आनी भारताच्या राष्ट्रपती कडल्यान स्विकारपाक जाय. हें फिल्म

तो दिल्ली कसो एक्टोच वयता आनी थंय कितें घडटा तें सगळें इस्कुटायता. नुस्तें उदकांतल्यान भायर पडटच फडफडुंक लागता तसली परिस्थिती गुणाजीची जाता. सगळे उमेदीन आसतात पूण हें कशें घडटेलें तें चिंतुंन सगळे हुस्केतात.हें फिल्म तो दिल्ली कसो एक्टोच वयता आनी थंय कितें घडटा तें सगळें इस्कुटायता. पुररस्कारा समयार गुणाजी एक प्रमाणीक भाशण करता आनी मोनजातींची काळजी विशीं तशेंच गाय सांबाळपा विशीं उलयता.काणी एका पोरणे चालींत सांगल्या अशें लोक उलयतात. ह्या अख्ख्या फिल्माचें चित्रण गोंयच्या सोबीत स्थळांचेर केलां जें पळोवपाक सुंदर दिसता. ह्या फिल्मांक 50 लाख रूपया खर्च जाला. गुणाजीची पार्त उपेंद्र लिमये हो मराठींतलो तिजलोलो कलाकार करता. ताचे घरकान्नीची पारत डॉ. मिनाक्षी मार्टिन्स निभयता. पुताचें सवोंग दामू नायक आनी सुनेचें पात्र मुक्ता बर्वे हाताळटात. लुइस बचान चेल्हो एका दक्षिण भारतीच्या विनोदी पात्रांत रंगता जंय तो गुणाजीक सांगात दिवपी आसता.



मुक्ता बर्वे आनी वेदंग गावडे



उपेंद्र लिमये

**भांगराचो तूं गुळो**

गावपी: ऍंथनी सॅन आनी सांगाती

रचपी: पुंडलिक नायक

संगीत: एश्ली- अभिलाश

भांगराचो तूं गुळो, फुलयता हो मळो,विस्वाशी तूं कळो सुर्यनारायणा
सुर्या उदेवन आयलो मळबांतूं, उजवाड फांकलो रे संवसारांतू
कालची सोंपून आतां रातू, सुकणीं मळबांत आयलीं गायतू
माड मू रे घलता, गांवाक वारो घालता,तळ्यांत सोबीत साळकां फुलता
चुडटांची तरणां पूजिती चोरणा,फांकय किरणा सुर्यनारायणा
हाल्ली एक ताळी, पानाचे पावळी,चल वळ गे पत्रावळी सुर्यनारायण

दोंगरावयलीं शिंपता रुखां, शेतां भाटांनी तीन पिकां
थोंट्या पांगळ्यांक दिवन पाकां, तुज्या भुजांक लायतां थिकां
पान मूरे हालता, फूल मू रे फुलता,पाना फुलांतल्यान देव गायता

पाणी या चल नारी घेवून घागरी,खळखळ घराघरी सुर्यनारायणा
भरून गेलें होन, सुखाचें हें दान सुर्यनारायणा

धन्या देवा विजमीत तुजें, पांचव्या पानार उदक ताजें
जिवीत फळाक आयलें म्हजें, ल्हवू केलें संवसारा वजें
धनी म्हाका चयता, मात्यान म्हाका कयता
धनी संवसार दाखयता

**आपोवणें**

गावपी: सुनिल केरकार

रचपी:पुंडलिक नायक

संगीत:एश्ली अभिलाश

आपोवणें येयलां सायबा नाचपाकू
आपोवणें येयलां सायबा गावपाकू
ना पणजे ना मुंबय दिल्लीकू
पाकां फुटलीं बांदावेल्या कुल्लेकू

कांतून पिळून काडात गो गोड नाल्ला रोस
सान्ना आनी शिरवळयांचे घोंस काडात घोंस
वल्ले सुपांत धरना अशें जाल्या खोस
तळ्यांत आनी मळयांत घालया आनंदाचो धोस

अपरुपाचें फूल सायबा पोरसांत फुल्लां
धाय दिको परमळून नाक आमचें भल्लां
मोलाक येतली कोनशाचीं कोल्लां आनी सोल्लां
भरून थेयात दुडवानी धोणा आनी बोल्लां

### वयर वयर माडा वयर

रचपी:पुंडलिक नायक
गावपी: ऍंथनी सॅन
संगीत: एशली- अभिलाश

वयर वयर माडा वयर आतां तुजें नांव
भावा तुज्या नांवांचेर धोलता म्हजो गांव
तुका सदां मेळचो भावा गोडाचो पावं
आमी तुका मागता भावां तुजें बरें जांव

केन्ना तुका येता भावा पोटांतल्यान राग
फाटीर बोडी पडटा खरी तुज्या काळजाक दाग
मोनजाती मोग कसो जोडलो तुवें सांग
तुज्या उल्यान गरवां परसां मारुन येतात धांव

झरीच्या उदका सारकें नितळ तुजें मन
ऊंच उबो माडा सारको बागयत तुका कोण

पावल तुजें निट आनी उतर रेजावं
सांत कशें वागवप तुजें इस्तींमोसांव
जीव तोडून राखलें तुवें गोट्यांतलें गोरूं
देखून तुका फावो जालें मळबांतलें तारूं

जोड भावा जोड अशें वेत आनी वांव

नेणटे आनी जाणटे भावा कांतार तुजें गावं

**धन्या देंवचारा** गावपी: पुर्णानंद च्यारी आनी सांगाती

रचपी:पुंडलिक नायक संगीत: एश्ली अभिलाश

धन्या देंवचारा धन्या देंवचारा न्हय रे भुता न्हय रे देवा
न्हय रे भुता न्हय रे देवा मदल्या रुपकारा,हय सायबाऽऽऽऽऽऽ
आपालिपा धर ताका मुतूं नाका थुकूं नाका
चिलापिलां पांजीखाला धापा तांका धापा धापा
कुतूं नाका फुतूं नाका बोला फुला गांठ नाका, हय सायबाऽऽऽऽऽऽ

कोंब्यान साद घालचे आदीं तांबशी अजून फुटचे आदीं
कंठ पिलांक फुटचे आदीं मनशां कुळां उठचे आदीं
कोण मारता भोंवडी सगळे संवसारा कोण मारता भोंवडी सगळे संवसारा

धोलता पेडार तांबडी घुडी नवी ताल्ल कांबळ घडी
शेंताची आख्खी विडी सोरो रोंट तुजी वाडी
पावता पेडार कशी बुधवार आयतरा पावता पेडार कशी बुधवार आयतरा

फातर गुणे आमचें जिणें तुजे बगर राखचें कोणें
पावस उदक तुजें देणें तुजे करामती विणें
चुड पेट्टा कशी आयले पयले दोंगरार चुड पेट्टा कशी आयले पयले दोंगरार

धन्या देंवचारा धन्या देंवचारा........

**आस म्हजी**

गावपी: गौतमी हेदे

रचपी: पुंडलिक नायक

संगीत:एश्ली अभिलाश

आस म्हजी आयल्या चंवरून खोशयेन मन गेलां फुलून
येतलें भांगर शेतांत पिकून घेतलें हांव संवसार जिखून
राया हांव तुजी राणी हय राणी
भांगरा पेल्यान आमकां पाणी हय पाणी

सदां सहवास तरि तुजो ध्यास
ध्यास कित्याक कळना
मन वळना ना वळना
म्हजी तुजी जोडी काडावडी
अमृताची गोडी ती
तान भागना कशी भागना
ये सुखा व्हर म्हाका लावन पाखां लागीं नाका
पैस गावानीं हय पैस गावानीं
ये मोगा आमी दोगां घे म्हाका तुजे गोपां
सुख राशीनीं हय राशीनीं



इशा नेवालकार आनी उपेंद्र लिमये

# नाचोंया कुंपासार






बाडरॉय बारेटो

*गोवा फॉल्कलोर प्रोडकशन्स* ही एक पणजेंत स्थापलेली मर्यादीत व्यापारी संवस्था जाचे दोग भागीदार गालजिबागचो बार्डरोय बारेटो (निर्मुपी,दिग्दर्सपी) आनी रायबंदरचो आंजेलो ब्रागांजा (निर्मुपी) जावन आसात. बार्डरोय बारेटो जायरातींच्या फिल्मां प्रस्तूतेचो तज्ञ जाका बऱ्यांतलो फिल्म संपादपी म्हण राष्ट्रीय तशेंच अंतराष्ट्रीय वित्रावणेच्या दाखोवण्यांत तस्रीपां फावो जाल्यांत. पांच आनी *मिस्ड कॉल* फिल्मानी *कान्स* फिल्म उत्सवांत ताचो मोटो हात आसा. ताची *ब्रावन सेकीन्स* कंपनी मोट्या वेपारी संवस्थांच्यो जायराती हाताळटा जातूंत जायत्या फिल्मी नखेत्रांचो आसपाव आसा. आंजेलो ब्रागांजा हो जायराती आनी *मार्केटींगचो* अणभव आशिल्लो आनी मनीस बळांत पदविधर तशेंच पत्रकारींत रोंबिल्लो आसा जाका गोंयच्या संवस्कृतायेचो चड मोग आसा.धा वर्सांच्या सोद वावराचें हें फिल्म 2 वरां 45 मिनटांचें जावन आसा. ताचें खाशेलेपण तें शंबर जाणानी निर्मयलां जांचीं नांवां पड्ड्यार दिसतात जें गोंयकांरेचो एकवट दाखळ करता.ह्या फिल्मांक तीन कोटी पन्नास लाख रूपया खर्च आयला.



आंजेलो ब्रागांझा

*गोवा फॉल्कलोर प्रोडकशन्स* संवस्थेक चड खलायेंत पळेल्यार ही भागीदारी संवस्थे परस वरती जावन आसा. विचार आनी कार्य ती उच्चारपाक प्रयत्न करताना, आत्म्यांक परंपरेंत दसून दवरता आनी भावना मेजार हाडटा,भावना जीं भारतांतल्या अस्तंत किनारेच्या गोंय म्हण पाचारलेल्या कोंकणी उलोवपाच्या लोका मदें मुळां सोदता. अहंकारी कोंकणी अस्मितायेची दिवटी केन्नाच पालोवपाक नजो तसली ती पेटोवंक आनी पसूंक वावुरतेली.

हें ती तोंडीं तशेंच चलचित्र रुपांत आनी भावनेंत, फिशालकायेच्या लोकाचे कुळयेची किर्तिवंत परंपरा आपल्या फुडल्या पिळगेक दर एकाक पावोवपाक वावुरतेली. तशेंच झग झगीत संवस्कृताय आनी भुयेंच्या पारंपरिक भाशेचें गर्व आनी खालतेपण सांबाळूक सादृया आनी एकोड्या दिशटाव्यान *गोवा फॉल्कलोर प्रोडकशन्स* हांची स्थापणी जाल्या. चलचित्रां नव्या पिळगेच्या वापरपांत एक म्हत्वाची भूमिका जावन आसा हें सांगपाची गरज ना...आनी समकालीन माध्यमाचें बळ *गोवा फॉल्कलोर प्रोडकशन्स* हो दिशटावो विशीश्ट कोंकणी उलोवप्यांचो विश्वांत फुडाकार घेवपाक पावतली,संवसाराच्या वेगवेगळ्या जाग्यांचेर आनी घडये त्या फुडें. नाचोंया कुंपासार हो *गोवा फॉल्कलोर प्रोडकशन्स* हाचो पयलो प्रकल्प जावन आसा.

डिसेंबराचे 4 तेर 2014 वर्सा सावन दाखोवपांत आयिल्लें *गोवन फोल्कलोर प्रोडकशन्स* हांचें नाचोंया कुंपासार चलचित्र गोंयच्या आदल्या काळाचें परत रचप जावन आसा जातूंत गोंयच्या संगीताचें दायज आसपावता.तातूंतले मुखेल कलाकार विजय मौर्या (लॉरी) आनी पालोमी घोश (डॉना) जावन आसात. त्या भायर प्रीन्स जेकब आनी जॉन डी सिलवा सांगात दितात जे आपल्या गुल्ल करपी अभिनयांत अजापांनी थटाकणी करतात. चलचित्राची सुरवात ह्या निवेदनांत जाता:

"दर भुंयेक, एक काणी आसता.एक काणी जी ताच्या आतम्यांतल्यान व्हांवता आनी दर पिळगेक तांचेच समजिकायेन काळजाक हात घालता. गोंयांक, ग्रीक लोक कवितेचे कलेंत सांगतात त्या

प्रमाणें ती काणी संगीत जावन आसा.गोंयचो ताळो ताच्या संगीताचो जावन आसा. एक खोशेचें सांगणें जें मनशाची देंवती आनी ऊंचाय, पिशेपण आनी निर्दूकाय, मोग आनी विस्वासघात, आशा आनी अपमान सगळ्या एका त्रंपेटीच्या पितुळच्या नळयेंतल्या नादान फुंकलेली. सोबीत आवाज आनी रुचीक घडप आनी ताल जंय राज करतात, थंय गुलामी जाल्ल्या तिजलेल्या मौज दिवप्यांक, हो मातयेचो धाकटो कुडको कसो रचता जायत? एंथनी फिगरेडो , दिनानाथ मंगेशकार, फ्रेंक फेर्नांद,श्रीधर पारसेकार, मोघुबाय कुर्डीकार, चिक चॉकळेट, एंथनी गोन्सालवीस, सूरश्री केरकार, किशोरी आमोणकार आनी हेर म्हालगड्यानीं जाणीं गोंयच्या संगीताच्या रुचीन सगळ्या संवसाराक गाजयला, तांकां, हांगाचो पिशेपणाचो आनी पुर्तुगेज जुलूमशायेचो कसलो एकवट घडूंक पावलो जायत? देसाक सुटका मेळूंक पावली तेन्ना, आतांचें भारतीय फिल्मांचें संगीत, गोंयां सावन उफेवन मुंबयच्या वेळांचेर पावलेल्या सुवादीक सुरवातेक, कितलें देणें आसा?तरूय आयज, हें गिरेस्त संवस्कृतेचें दायज खडेगांत सोर्तीच्या 21व्या शेकड्यांत शिमिटाच्या बांदावळींत पुरलेलें आसा, मानून घेवंक नासलेलें, शाबासकी दिनासलेलें, आनी कांतार करूंक नासलेलें.घडयेक, ही धाकटी म्हण एक पोरणो आवेस्वर कसो गोंयचे काण्येंत, तिच्या सासणाचे कवितेंत उगतो जायत. आनी घडयेक थोडे बंदूय करीत".

नाचोंया कुंपासार, गोंयच्या संगीताक आनी ताच्या संगितकारांक आर्गां जावन आसा.ह्या फिल्माची काणी संगितकारांक उल्लेखून बरयल्या जाणीं आदल्या काळांत मुंबयचे जाज क्लब गाजयल्यात. ह्या संगितकारांक संगीत आनी जिवीत एकूच जावन आसलें. भावनावश मोगाच्या काण्येच्या मौजेची भोंवडी जी शकांतिका जाता.गोंयचें संगीत ठांय ठांयच्या मतांतल्यान जंय साठीच्या आनी सत्तराच्या दसकांतल्या संगीताच्या पिळगेच्या दोळ्यांतल्यान पळेल्लें कथन आसा.ह्या फिल्मात रुचीच्या वीस कांतारांच्या अमर संगीतांत सजोवप केलां जें एका संगीतकार आनी एका गावप्याच्या जिविताचेर चित्रायलां,

विजय मौर्या एक कलाकार आनी बरोवपी. विजय हाणें *द लॅटर्स, भूतनाथ रिटन्र्स, चिल्लर पार्टी,* मुंबय मेरी जान, *ब्लॅक फ्रायडे* आनी पांच फिल्मा केल्यांत. पालोमी घोश हिणें नॉर्थ कॅरोलीना युनिवर्सिटीच्या वेंचलेल्या नाटकांनी काम पळेलां. *ध वेयटींग सीटी* (वाट पळोवपी शार) ह्या ऑस्त्रेल्यन फिल्मांत आनी *गांधी ऑफ ध मोमंट* (खिणांतलो गांधी) हातूंत दिसल्या.ह्या फिल्मांत वीस कांतारां आसात जांचीं नांवां कू कू रु, नाचोंया कुंपासर, पिसो, बेबदो, आमेरिकाक पावशी, *आय्ल ऑलवेज लव यू,* करा करा ट्वीस्ट, सपन, नाचोंया ला बांबा, तूजो मोग, आबघात केलो, सर्गा राज्यांत, मारीया, *रॅड रोज, मेव आमोर,* आयक रे खबरेकारा,आदेवस जीं सियेल्दा, जॅकसन, पालोमी, वी. पी. मिश्रा आनी एस्थर नोरोन्हा हाणीं गायल्यांत.एस्थर नोरोन्हा ही मुंगळूरकार्न जिणें हिन्द आनी कन्नड फिल्मांत गायलां ती चलचित्रांतलें मुखेल कांतार नाचोंया कुंपासार गायता. तिचो 'काळजान थावन' *एल्बम* बरोच गाजला. तिणें हिन्दी फिल्मा *मिस्टर मनी, कयामत ही कयामत* आनी कन्नड फिल्मा *निंहस* आनी *नाविका* केल्यांत. ह्या फिल्माचे कार्यकारी निर्मुपी आंजेलो ब्रागांजा, बार्डरॉय बारेटो, राधेशाम पिपाला आनी मायखल आराक्काल जावन आसात. दिग्दर्शन बार्डरॉय बारेटो हाणे केलां. फोटोग्राफी सूहास गुजराथीन सांबाळ्ळ्या आनी संगीत रॉनी मोन्सोरात आनी जेकब परेरा हाणीं बसयलां. नाचाचें दिगदर्शण लॉगिनुस फेर्नांदीस हाणें केलां.



**पालोमी घोश आनी विजय मौर्या**



पुपुल,विजय मौर्या आनी जॉन डी सिल्वा



डॉ मिनाक्षी मार्टीस,पालोमी आनी विजय मौर्या



प्रीन्स जेकब



सगीत पंगड



फिल्मांतलो नाच



विजय मौर्या आनी पालोमी घोश

# होम स्वीट होम





स्वप्नील शेतकार

होम स्वीट होम हें कोंकणी फिल्म डिसेंब्राचे 26 वेर 2014 सावन पुराय गोयांत दाखोवपांत येता. त्या फिल्मांचे निर्मोवपी माधव गाड आनी स्वप्नील शेतकार जावन आसात आनी तें *गो गोवा गोलिवूड प्रोडक्शन* बावट्या खाल प्रस्तूत केलां. ताचें दिग्दर्शन स्वप्नील शेतकार हाणें केलां. ह्या फिल्मांची मुखेल पात्रां जॉन डी सिलवा आनी राजदिप नायक निभयतात

हेर कलाकारां मदीं दामोदार नायक, लुइस बचन, अनील रायकार, प्रीन्स जेकब, मांदार जोग, सिद्धार्थ नागोजी, निटा आल्फोन्सो आनी पालव दिवपी कलाकार आसपावतात. मोहित काकोडकार हाणें फोटोग्राफी सांबाळ्ळ्या. संगीत दिग्दर्सपी रोहन नायक तर कला दिग्दर्सपी सतीश गांवकार जावन आसात. प्रीन्स जेकब मुखेल मंत्र्याची, लुइस बचन कायतानाची आनी दामू नायक निलेश यादव बिहारी व्यक्तीची पात्रां निभयतात.

ह्या फिल्मांत चार कांतारां आसात जीं आकाश मंगेशकार, एश्ली कोयेल्हो, ब्रिजेश काकोडकार,पूजा बादकार,रोहन नायक आनी मांदार जोग हाणीं गायल्यांत जीं साइश पानंदीकार हाणे रचल्यांत. संगीत वाजोवपी पुष्पाशील मालीक, अंकूर दिंगे, आनी रोहान नायक आसात. फिल्मांची काणी गोयेंचे मुखेल

विशय हाताळटा. रोजगाराक लागून गोंय सोडून वयतात आनी आपल्या भाटबेंसांची काळजी घेनांत आनि त्या खातीर साबार प्रस्नांक तोंड दिवचें पडटा. ह्या फिल्मांचें चित्रीकरण मडगांव, म्हापशें, दावरली, वादी वेळेर, आगोंदा आनी सेर्नाबातीं केलां.तातूंत कांतारां आसात जांचीं नांवां बोल्सान घाल हात, हे जिणेची आनी दूर देशी.हें फिल्म 1 वोर 33 मिन्टांचें आसा.

**बोल्सान घाल हात**

गावपी:आकाश मंगेशकार
रचपी: साइश पाणंदीकार
संगीत:रोहन नायक

बोल्सान घाल हाथ..
फुडे वच..ना..ना..फाटी यो..
टर्न मार..अरे ब्रेंक मार.

फुडे वच.. फाटी यो..
टर्न मार.. ब्रेंक मार
फुडे वच.. फाटी यो..
टर्न मार.. ब्रेंक मार

आतां?
आतां??धक्का मार..धक्का मार.
धक्का मार.. धक्का ओ..
बोल्सान घाल हाथ (7).
बोल्सान घाल..बोल्सान घाल..

**ह्या जिणेची**

गावपी: आकाश मंगेशकार
रचपी: साइश पाणंदीकार
संगीत: रोहन नायक

ह्या जिणेची ही तर्हा रे
कोणाक ती उमगना
ह्या मनाची ही दशा रे
कोणाक ती समजना
आस भागना.. सपना सोपना..
काळ कोणाक रावना
वाट खंयची रे.. मोख कसली ही..
कोणाक कोण तारीना
ही वाट अनवळखी ना रे
पुण कोणाक तू वळखना
सोदूंक तें जें शेणयले
ह्या जिणेची ही तर्हा रे
कोणाक ती उमगना
ह्या मनाची ही दशा रे, कोणाक ती समजना
आस भागना.. सपना सोपना..
काळ कोणाक रावना
वाट खंयची रे.. मोख कसली ही..
कोणाक कोण तारीना,ही वाट अनवळखी ना रे
पुण कोणाक तू वळखना
सोदूंक तें जें शेणयले, तो सुमार मेळना

## दूर देशी

गावपी: रोहन नायक
रचपी: साइश पाणंदीकार
संगीत: रोहन नायक

दूर देशि हून पारधि आले गा..
दूर देशि हून पारधि आले....
अश्या पारध्याने गावि आग लाविली गा..
अश्या पारध्याने गावि आग लाविली..
रुपाला आपल्याच मोर भूललो गा..
भारलेलो मोर कसो गाफ़िल झाल).
भारलेलो मोर कसो गाफ़िल झालो.
इतक्यात पारध्याने ज़ाळ घातिलो गा
गाफ़िल मोराका बंदि केलो.
गाफ़िल मोराका बंदि केलो
दूर देशि हून पारधि आले गा
दूर देशि हून पारधि आले.
अश्या पारध्याने गोंय बळकावला रे
अश्या पारध्याने गोंय बळकावला
अश्या पारध्याने गोंय बळकावला
अश्या पारध्याने गोंय बळकावला
पारध्याने गोंय माझा बळकावला जॉन.. जॉन.. जॉन.. जॉन..
तुका घर हाडला..
तुका घर हाडला..

**जॉन जॉन**

गावपी: रोहन नायक, एश्ली कोएल्हो, ब्रिजेश काकोडकार,पूजा बादकार आनी मांदार जोग

रचपी: साइश पाणंदीकार

संगीत:रोहन नायक

जॉन.. जॉन.. जॉन.. जॉन..
तुका घर हाडला..
तुका घर हाडला..

म्हाका नाका म्हाका नाका तुजें घर
म्हाका जाय मुगेले होम स्वीट होम
म्हाका जाय मुगेले होम स्वीट होम
जॉन.. जॉन.. जॉन.. जॉन..
तुका घर हाडला..
तुका घर हाडला)..

We've got you a house.. We've got you a home..
This ain't nothing like your home sweet home..
I've got you a house..
This house वड्डा चंगा
Take it.. From you मैं फ़ुटी कौडी नही लुंगा
We've got you a house.. We've got you a home..
This ain't nothing like your home sweet home..
I've got you a house..
This house वड्डा चंगा
Take it.. From you मैं फ़ुटी कौडी नही लुंगा
For you क्या फिकर




राजदीप नायक आनी जॉन डी सिल्वा



डीलन वाज आनी हर्शद शेटिया



हर्शद शेटिया

# कोंकणी व्यक्तिंचें बोलीवुडांत योगदान

बऱ्याच कोंकणी व्यक्तींनी भारती चलचित्र उद्देगांत योगदान केल्लें आसा.हातूंत फिल्म प्रस्तूती, दिग्दर्शन,कथा बरोवप, गावप, फोटू काडप, नाच दिग्दर्शन करप, आदी हांचो समावेश आसा. ह्यो व्यक्ती कोंकणी उलोवपी भागांतल्यो जशें म्हाराष्ट्र, कर्नाटक आनी गोंयच्या राज्यांतल्यो जावन आसात. तांच्या वावराची तोखणाय करताना तांतल्या कांय मानेस्तांचो हांगासोर फोटवां सयत वळोख दिवपाक प्रयत्न केला.


अमृता राव

कर्नाटकांतली चित्रापूर जल्मलेली कोंकणी उलोवपी नटी अमृता राव *माय नेम इज एंथनी गोन्सालवीस* हातूंत प्रेक्षकांक दिपकावपाक लागल्या. ह्या फिल्मा शिवाय तिणें *प्यारे महान, येस बोस, प्यार तो होना ही था, इश्क विश्क प्यार व्यार, विवाह.मस्ती, वेलकम टू सजानपूर, जॉली एल्. एल्. बी.* हातूंत नांव मेळयलां. तिणें *अब के बरस* हातंत सरवात केली.


अनंत नाग

त्या गांवांतलो अनंत नाग (नागरकटटी) कन्नड फिल्मांनी नांव जोडूंक पावला आनी *अंकूर, निशांत, भूमिका,मंथन* असल्या हिंदी फिल्मांनी फामाद जाला.चडशीं ताचीं फिल्मां विनोदी जावन आसात आनी कन्नड चलचित्रांनी सभावीक भूमिकेक लागून तो फामाद जाला.


अनुराधा पडूवाल

अनुराधा पोडुवाल कारवारच्या देसाय घराब्यांतली. तिका अभिमान फिल्मांत एस्. डी .बर्मन हाणें गावपाक संधी दिली.2000 अदीक कांतारां सगळ्या भारती भासांनी तिणें गायल्यांत आनी भजनांत तिणें नांव मेळोयलां, तिचें गायत्री मंत्र बरें खपलां. भक्ती गीतां खातीर फिल्मफेर तस्रीप तिका तीन पावटी फावलां. सूरशृंगार आनी श्रीरामोनी तस्रीपां तिका फावो जाल्यांत.


अशोक सराफ

अशोक सराफ जाचे पुर्वज गोंयकार, ताणें हिंदी आनी मराठी फिल्मांनी नांव जोडलां. ताका मराठी फिल्मांचो अमिताभ बच्चन म्हण पाचारतात. चडशी विनोदी भूमिका करपी ह्या कलाकारान *सखी, साडे तीन माडे तीन, शुभ मंगलम सावधान, नवरा म्हाजा नवसाचो, जोडी नंबर वन, जोरू का गुलाम, सींघम* ह्या फिल्मांनी नांव मेळयलां.


आल्फ्रेड रोज

आल्फ्रेद रोज हाणें इंग्लीश, कोंकणी खूब कांतारां गायल्यांत. ताणें कोंकणी फिल्मांची गीतां रचल्यांत तशेंच संगीतूय बसयलां आनी भूमिका केल्या. *लव इन गोवा* हिंदी फिल्मांत एक इंग्लीश-कोंकणी कांतार *कम एंड सिंग* रचून गावून एक वेगळे तरेचो मान कोंकणीक फावो केलो देखून ताची तोखणाय करपाची.


आशा भोसले

आशा भोसले हिणें 1000 अदीक कांतारां हिंदी, तामीळ, तेलुगू, कोंकणी, मळयाळी,गुजराथी भाशेंत गायल्यांत. *आयटम* गाण्यांक लागून ती फामाद जाल्या. भक्ती गीतां आनी भाव गीतां ती आपल्या गोड ताळ्यान गायता. तिणें सगळ्यावन पयलें, *चला चला नव बाला,* हें मराठी गीत *म्हाजा बाळ* मराठी फिल्मांत गायलें. *आ आजा आजा, ये मेरे सोना रे, ओ हसीना झुल्फोंवाली* हीं गीतां लोकांच्या वोंठाचेर खेळटात. 79 वर्सांचे पिरायेर *माई* फिल्मांत भूमिका केल्या. हालींच तिचें नांव चड एकोड्या गीतां गावपा खातीर *गिन्नेस्स बूक ऑफ वरल्ड रेकॉडस* हातूंत नोंद जालां.


आशालता

गोंयच्या पालोलेंची आशालता वाबगांवकार हिणें मराठी तशेंच हिंदी 100 अदीक फिल्मा केल्यांत. चलचित्रां मदीं *हत्या, यह प्यार नहीं, अंकूश, अपने पराये, शौकीन, यादों की कसम. माहेरची साडी* अशीं गाजल्यांत.


इलियाना डी क्रूज

इलियाना डी क्रूज ही गोंयकार चली तेलुगू फिल्मांनी नांव जोडूंक पावल्या आनी ती महेश बाबुच्या वांगडा *पोकीरी* ह्या तेलुगू चलचित्रांत काम करुन परजळीत जावंक पावल्या. ती गांवान पारराची. तिणें कन्नड फिल्मांत काम केलां आनी तिच्या हिंदी फिल्म *बर्फी* हाका गाजलेलो येवकार फावो जाला. तिका फिल्म्फेर (दक्षिण) बरी नटी म्हण तस्रीप फावो जालां. तिका तेलुगु फिल्मांची सुपर हिट स्टार.


इशा कोपिकार

कर्नाटकांतली इशा कोप्पिकार मुंबयंत जल्मलेली कोंकणी उलोवपी *एक थे दिल एक थी धडकन, फिजा, कांटे, एक विवाह. ऐसा भी, हेलो डार्लींÃग* हातूंत परजळूंक पावल्या.तिणें तामीळ आनी तेलुगू फिल्मांनी भाग घेवन ती *राख* ह्या हिन्दी फिल्मांनी दिसल्या.


उषा मंगेशकार

उषा मंगेशकार हिणें मराठी आनी हिंदी चलचित्रांची गीतां गायल्यांत आनी तांतले मदलीं *जय संतोशी मा, इन्कार, आजाद, खट्टा मीठा, सुलताना, डिसको डांसर,नसीब, खुबसुरत, काला पथर, ब्लफ मास्टर* आनी *तराना* हांतलीं चड गाजल्यांत.


एन्. दत्ता

पेडणेचो एन्. दत्ता (दत्ता नायक) हो पयलीं एस्. डी. बर्मन हाचो आदारी आसलो. ताणें *मिलाप, ब्लॅक कॅट, साधना, मिस्टर एक्स, धूल का फूल, चंद्रकांत, चांदी की दिवार, लायट हौस* आदी चलचित्रांक संगीत दिलां.*मिलाप* फिल्मांक लागून तो फामाद जाला. दत्ता नायक नावांच्या एका फिल्मांकी ताणें संगीत बसयलां.


एन्. चंद्र

एन्. चंद्र (चंद्रशेखर नारवेकार) हाणें बरोवपी, दिग्दर्सपी, निर्मुपी, संपादपी म्हण काम पळेलां आनी *अंकूश, यह मेरा इंडिया, ब्रेकींग न्युज, एकस्क्यूज मी, तेजब, नरसिम्हा, बेकाबू, तेजवस्वीनी, प्रतिघात* आदी फिल्मांनी नांव जोडलां.



एंथनी डी सौजा

ऍथनी डी सौजा हाणें *ब्लू* हें बॉलिवूडींतें उदकांतलें पयलें चलचित्र दिग्दर्शीत केलां जाका 130 लाख रूपया खर्च जाला. तें ताचें पयलें हिंदी चलचित्र आनी चड म्हारग फिल्म जावन आसा. आतां नांवादीक शाहीद कपूराक ताणें नवी भूमिका दिवपाक केल्या. हालींच *बॉसस्* फिल्म ताणें केलां. एंथनीची आवय गोंयची जावन आसा.



एंथनी गोंन्साल्वीस

संगीता मळार माजॉडर्डेचो ऍथनी गोन्सालवीस हाणें उपाट वावर केला. फांकिवंत संगीत दिग्दर्सपी लक्ष्मीकांत प्यारेलाल हांच्या मदल्या प्यारेलाल हारीप्रसाद शर्मा हाका तो रेबॅक वाजोवपाक शिकयतालो. *अमर अकबर ऍथनी* फिल्मांत प्यारेलाल हाणें *माय नेम इज ऍथनी गोन्साल्वीस* कांतारान ताची तोखणाय केल्या. *दिल्लगी, हकीकत, नया दौर* आनी हेर फिल्मानी ताच्या संगीताचो परमळ झगझगता. *ऍथनी गोन्साल्वीस द लॅजेंड* हो ताचेर अशोक राणे हाणें तयार केल्लो म्हायतीपट 2011 वर्सातल्या इफिंत सादर जालो, ताका कर्मवीर पूरस्कार तशेंच दादा फालके *लायफ्टायम आचिवमेंट अवॉर्ड* फावो जाला.



एरमेलीना प्रुथ्वीराज कपुर वांगडा सिनेमा गर्ल फिल्मांत

तेच परीं दिवाडेची एरमेलिंदा हिवूय अस्तुरी हिंदी फिल्मांनी सुधाबाला, आरमेलीन ह्या नांवांनी मान जोडूंक पावली. तिणें पृथ्विराज कपूर हाका हिंदी सिनेमांत प्रवेस दिल्लो आसा. फामाद तियात्रिस्त सायब रोचाची ती पतीन जावन आसली.


कमला गोखले

*भस्मासूर मोहिनी* ह्या भारती फिल्मांत पयलेच फावट एके अस्तुरेन चलयेचें पात्र केल्लें आनी ती अस्तुरी आनीक कोण न्हय पूण एक गोंयकार चली आसनोडा गांवची. तिचें नांव कमला कामत जिका उपरांत कमला गोखले म्हण वळखोपांत आयली.ती नांवादीक विक्रम गोखले ह्या फिल्मी नखेत्राची आजी आनी चंद्रकांत गोखले हाची आवय.


काश्मीरा शाह

काशमिरा शाह ही फामाद शास्त्रीय संगीत गावपी अंजनीबाय लोलयेंकार हीची नात.ती आपुण आपले आजे लागीं कोंकणींत उलोयता म्हणटा आनी *येस बॉसस्, प्यार तो होना ही था, माय बॉलिवूड ब्रायड, मर्डर* हातूंत दिसल्या.


कानन कौशल

कानन कौशल (इंदुमती पंयगणकार) ही गांवान पंयगणीची. तिचें *जय संतोषी मां* हें फिल्म गाजलां. मराठी फिल्मानी ती परजळ्ळ्या तीं जावन आसात *पाहुणी, भोले बाबडे, मान अपमान, एक्टी, मामा भाचे,* आदी.


किशोरी आमोणका

किशोरी आमोणकार गांवान कुरडी, सांगें. पद्मभुषण मघुबाय कुरडीकार हांचीं ती धूव जावन आसा. ती उत्तम शास्त्रीय गावपी आसून तिच्या गीतांच्या भांडारांत खयाल, थुमरी, भजन, आसपावतात. *गीत गाता पथरोने* ह्या फिल्मांत तिणें नांव मेळोयलां. तिका संगीत नाटक अकादेमीचें तस्रीप तशेंच पद्मभुशण पदवी 1981 वर्सा , पद्मविभुशण तशेंच संगीत नाटक अकादेमीचें विद्यावेतन 2010 वर्सा फावलें. एन्. सी. पी. ए. चो पयलो *लायफ्टायम अचिवमेंट अवॉर्ड* तिका लाभला.


के. वैकूंठ

मडगांवचो सर्गेस्त के.वैकूंठ (वैकूंठ कुंकोळियेंकार) हाका तर सीता और गीता हिंदी फिल्माचे फोटोग्राफीक लागून फिल्म्फेर तस्रीप फावो जालां. ताचीं हेर गाजलेलीं फिल्मा *हातिम ताई, सालमा , मीरा, प्रेम बंधन, आंधी* जावन आसात.


ख्रीस पॅरी

ख्रीस पॅरी ह्या मडगांवच्या संगीतकाराक *चॅरी पिंक अँड दी एपल ब्लॉसम वायट* कांतार त्रंपेटीचेर वाजोवन *मॅन विथ ध गॉल्डन त्रंपेट* नांव फावो जालां. 25 वर्सां ताणें हिंदी संगीत दिग्दर्सप्यांक आदार दिला आनी *कभी कभी* फिल्मांत ताच्या संगीताचो जादवाचो स्पर्श दिसून येता. नांवादीक हिंदी फिल्मी गावप्यांनी ताचीं कांतारां कोंकणींतल्यान गायल्यांत.


ग्लॅन बारेटो

गालजीबाग गांवचो ग्लॅन बारेटो हाणें *जाने होगा क्या,* हातूंत दिग्दर्सपणाची सुरवात केली. *कयामत से कयामत तक* आनी *जो जिता तो सिकंदर* हातूंत आदारी दिग्दर्सपी म्हण काम पळेलां आनी आतां *आवो विश करें* फिल्म दिग्दर्शित केलां.


गिरीश कर्णाड

गिरीश कनार्ड माथेरान जल्मलेलो कोंकणी उलोवपी हाणें कन्नड भाशेंत तशेंच हिंदी भाशेंत काडलेल्या फिल्मांक लागून नांव जोडलां. कलाकार, दिग्दर्सपी आनी बरोवपी म्हण ताणें काम पळेलां. ताका ज्ञानपीठ तस्रीप फावलां. पद्मभुशण हो किताब ताणें आपणायलां आनी *उत्सव, पुकार* हीं ताचीं नांवाजलेलीं फिल्मां.


गुरू दत्त

गुरू दत्त (वसंतकुमार शिवशंकर पादूकोन) हो बेंगाळारूंत जल्मलेलो कोंकणी उलोवपी कलाकार हाणें *सी. आय. डी.,कागज के फूल,बहारें फीर भी आयेगी, लाखराणी, बाजी,मिस्टर एन्ड मिसेस,प्यासा,साहीब बिबी और गुलाम, चौदवी का चांद* अश्या फिल्मानीं याद उरपी भूमिका केल्यात.


चंद्रकांत काकोडकार

काकोडेच्या चंद्रकांत काकोडकार हाका *दो रास्ते* (1969) हिंदी फिल्माचे काण्येक लागून फिल्मफेर तस्नीप फावो जालां. ताणें मराठी भाशेंत जायत्योच कादंबरी बरोयल्यात आनी तांकां लागून तो फामाद जाला. *मैं तुल्सी तेरे आंगन की.* हें फिल्म ताचे काण्येचेर आदारीत आसा.


चिक चॉकळेट

चिक चॉकलेट हल्दणें गांवचो आनी ताचें नीज नांव आंतोन्यो शावियेर वाज. तो नांवादीक त्रंपेटर आसून जाज संगीतांत हुशार आसलो. मुंबयच्या ताज महल हॉटेलांत तो बँडाचो फुडारी आसलो. ताच्या बँडाचें नांव *चिक अँड हिज मुजीक मेकर्स* आसलें.*नादान* फिल्मांचें संगीत दिग्दर्शन ताणें केलां. *सामाधी* फिल्मांतलें *गोरे गोरे ओ बांके चोरे*, *अलबेला* फिल्मांतलें *शोला जो भडके दिल मेरे धडके* हीं तांचीं गाजलेलीं कांतारां.अलबेला फिल्मांत ताणें धाकटी भूमिका केल्या.


जयश्री

वी. शाताराम हाची दुसरी पतीन पेडणेची जयश्री (कामुलकार) मुखेल नटी म्हण *नंदकुमार, शकुंतला, म्हाजी लाडकी, शेजारी, डॉक्टर कोटनीस की अमर कहानी, सुबह का तारा* अश्या फिल्मांनी फामाद जाल्या..


जयश्री गडकर

कारवारची जयश्री गडकर हिणें मराठी फिल्मांनी नांव कोमायलां.तीचीं गाजलेलीं फिल्मा *सांगते आयका, सुबह का तारा, बिंदीया, लव कूश, बहारों के सपने* आसात. तिणें *सासर माहेर, अशी असावी सून*, हीं मराठी फिल्मां दिग्दर्शीत केल्यांत. *सवाल म्हाजा आयका, वैजंथां, मानीनी* फिल्मांक वाखाण फावो जाला.



जेनेलिया डी सौजा

तशेंच हिंदी चलचित्रांनी भरवोंसो दाखोवपी जेनेलिया डी सौजा ह्या नटीचो आवय बापूय मुंगळूरचो. तिचें नांव तिच्या आवय बापूय जेनेट आनी नोएल हाचेर आदारीत आसा. सुर्वेक तिणें *तुजी मेरी कसम* आनी *मस्ती* ह्या हिंदी फिल्मांनी रितेश देशमुख हाच्या वांगडा काम केलां. उपरांत तिणें साबार दक्षिण भारतांतल्या भाशेच्या फिल्मानी काम केलां आनी हिंदी फिल्मा केल्यांत तांचीं नांवां *रेडी, जाने तु या जाने ना, मेरे बाप पेहले आप, चांस पे डांस* जावन वरवीं बायलांनी आर्थिक स्वतंत्रायेन जिवीत जियेवपाक आदार करता. ती रितेश देशमुख हाचे कडेन लग्न जाल्या.



डॉमनीक डायस

डॉमनीक डायस हाचो जल्म गोंयच्या हडफडें गांवांत जालो. ताणें हिन्दी फिल्मानी बरो फोटोग्राफर म्हण नांव जोडललें आसा.फिल्मस् दिविजन हाच्या मारकुस बापतिसता खातीर ताणें काम पळेलां. *काला पथर, बर्निंग ट्रेन, सिलसिला, लव इन गोवा, ऊंची उडान, भूल, हायवे 69* ह्या फिल्मांनी ताच्या 'स्पेशल इफॅक्ट्स' चो वापर दिसला. भारताच्या पयल्या विनोदी टी. व्ही. माळ *यह जो है जिंदगी* हांचो तो



दत्ताराम

डीवचोलचो दताराम वाडकार हाणें संगीतकार म्हण एकूणीस फिल्मा पळेल्यांत आनी ताचें *परवरीश, अब दिल्ली दूर नहीं* खूब गाजल्यांत. तो नांवादीक संगीत दिग्दर्सपी शंकर जैकिशन जोडयेचो आदारी आसलो.


दीपिका पादूकोन

तेच परीं चित्रापूरची सारस्वत कोंकणी उलोवपी दीपिका पादूकोन ही सुपर मॉडल नांवस्त्या तेणीस पटू प्रकाश पादूकोन हाची धूव. सुर्वेक कन्नड फिल्मांनी जशें *आश्रवर्या* परजळ्ळ्या आनी आतां सुपरहीट फिल्मांत *æ शांती æ* हांतूत नांव जोडूंक पावल्या. तिका फिल्मफेर आनी हेर तस्रीपां फावो जाल्यांत. हालींच ती *चांदनी चौक टू चायना* हातूत परजळ्ळ्या. *कार्थिक कॉलींग कार्थिक, लफंगे, परींदे, ब्रेक के बाद, खेले हों जान से, दम मारे दम,आरक्षण,कोक्टेल, हे जवानी है दिवानी, चेन्नै एकस्प्रेस, गोलियों की रसलिला राम लिला*, *फांयडींग फॅनी फेर्नांडीस* हातूंत दिसल्या.


दुर्गा खोटे

म्हापशेंची दुर्गा खोटे (लाड) व्यक्तेन तर हिंदी फिल्मांनी प्रवेश करचे पयलीं आपल्याक फकत कोंकणी उलोवपाक येताली अशें सांगून दवरलां. तिणें हिंदी चलचित्रांनीं पन्नास वर्सां अदीक मुखेल भूमिकेचें काम पळेलां आनी *आयोधेचा राजा, मुघल इ आजाम, बॉबी, अभिमान, बिदाइ* अश्या फिल्मांनी परजळ्या. तिका दादा साहेब फालके तस्रीप फावो जालां.


पंडरीबाय

पंडरीबाय भाटकालची कोंकणी सारस्वत घराब्यांतली. हिणें 500 अदीक सात भासांनी फिल्मांची भूमिका केल्या. कन्नड, तेलुगू, मळयाळी, कोंकणी, मराठी, गुजराथी फिल्मानीं भूमिका केल्या आनी तिणे 4 कन्नड फिल्मा प्रस्तूत केल्यांत.


पांडुरंग नायक

पांडुरंग नायक ह्या फोटोग्राफराचें नांव मुंबयंत दादर विभागांत शिवाजी पार्क हांगा एका मार्गाक दिलां. *श्री सौंड स्टुडियोस* हाचो एक स्थापपी जावन आसा. *विश्व मोहिनी* (मोने आनी उलोवपी), *चंद्रमुखी* फिल्मा ताणें निर्मोयल्यांत. फोटोग्राफर कसो *चंदन, आरती, प्यार का सागर, ब्रँडीची बाटली, अर्धांगी* फिल्मानी ताची हुशारकाय दिसल्या.1936 वर्सा मास्टर विनायक हांच्या वांगडा *पी. नायक कंपनी* स्थापली. तो गांवान म्हाड्डलचो.


फ्रेंक फेर्नांद

कुडचडें गांवचो फ्रेंक फेर्नांद हाणें *प्रिया* आनी *आहट* हीं हिंदी फिल्मा प्रस्तूत केल्यांत. तशेंच *चोर दरवाजा* ह्या फिल्मांक ताणें संगीत बसयलां. तानें संगीत दिग्दर्सपी अनिल बिसास, रोशन, सी. रामचंद्र, शंकर जैयकिशन हांकां संगीत बसोवपाक आदार दिला कल्यांजी आनंदजी ह्या संगीत दिग्दर्सप्यांचो तो पयलो आदारी आलसो. *डॉन, हेरा फेरी, जंजीर, विक्टोरीया 203* ह्या फिल्मांचो तो संगीत कंडक्टर आसलो.


फ्रिडा पिंटो

मुंबंयत जल्मलेली मुंगळूरकान्न फ्रीडा पिंटो हिणें *स्लम डोग मिलयोनॅर* ह्या ऑस्कर फावो जालेल्या फिल्मांत लतीकाची भूमिका करून नांव मेळयलेलें आसा. तिणें ह्या आदीं एक मॉडल कशी जायरातींनी भाग घेतला. मुंबयतल्या बॅरी जॉन हाच्या एकटींग स्टुडियोंत तिणें अभिनयाचें प्रशिक्षण घेतिल्लें आसा आनी आतां परदेसांतल्या फिल्मांनी भूमिका करपाक तिका भाग फावो जालां आनी नांव कोमावपाक लागल्या. *यू विल मिट अ टॉल डार्क स्ट्रेंगर* हातूंत दिसल्या.


**भानुदास दिवकार**

भानुदास दिवकार हो नांवादीक फिल्मी मनीस, श्याम बेनेगाल हाका वावुरतालो. *मंथन, त्रिकाल, मंदी, रूदाली, सुरज का सात्वान घोडा, निशांत , भूमिका, अंकूर* ह्या फिल्मानी ताच्या संपादनाची हुशारकाय दिसल्या. *आरोहान* फिल्मांक 1982 वर्सा संपादना खातीर राष्ट्रीय पुरस्कार ताका फावो जाला तर *जुनून* फिल्मांक फिल्मफेर अवॉर्ड फावो जालां, सत्यजीत रे हाचेर केल्ल्या म्हायतीपटांत ताचो हात आसा.


**भास्कर चांदावारकार**

भास्कर चंदावारकार ही उदेंत कनाराची कोंकणी व्यक्ती हाणें 40 अदीक फिल्मा केल्यांत. *थोडीसी रोमानी हो जाय , कंदाहर, आक्रीत* आनी हेर चलचित्रांक संगीत बसोवन नांव मेळयलां. 1988 वर्सा ताका संगीत नाटक अकादेमी तस्रीप फावलां आनी मराठी फिल्म चैत्रा हाका बऱ्या संगीताक राष्ट्रीय पुरस्कार दिला.


**मनोरामा वागळे**

मनोरामा वागळे ही *गम्मत जम्मत, घडबड घोटाला, घर जावय, आत्मविश्वास, राजाने वाजिले बाजा, अंभरता* ह्या मराठी फिल्मानी आनी *सीता और गीता, एक फूल दो माली, दो कलीयां* ह्या फिल्मानी प्रसिद्ध जाल्या.


**मारादोना रिबेलो**

मारादना रिबेलो हो तरणाटो एक मॉडल जावन आसा तो *पंख* चलचित्रांत नांवादीक नटी बिपाशा बसू वांगडा हालींच दिसला. मुंबयंत भायंदर विभागांत रावपी ह्या नटाचें नांव नांवादीक फुटबल खेळगडी मारादोना हाचें जावन आसा.


मीना मंगेशकार

मीना मंगेशकार हिणें मराठी तशेंच हिंदी फिल्मांनी पदां गायल्यांत आनी एका मराठी सिनेमांक संगीत दिलां जाचें नांव *माणसाला पंख आसतात.* ती नांवस्त्या लता मंगेशकार आनी आशा भोसलेची भयण.


मिलिंद गुणाजी

मिलिंद गुनाजी ह्या फोंडेंचो गोंयकाराक कश्टांचो प्रवास आवडटा. तो मराठी फिल्मांनी नांवलौकीक जाला. हिंदी फिल्मानीं ताणें *फरेब, हजार चौरसी की मा, जुलम इ सितम, जिस देश में गंगा रेहता है, देवदास (2002) एल्.ओ. सी.कार्गील, फिर हेरा फेरी, एक ही भूल* असल्या फिल्मांनी फामाद जाला.


मैनावथी

मैनावथी, ही पंडरीबायची धाकटी भयण. तिचो जल्म भटकाल *जालो. तिणें कन्नड, तेलुगू, तामीळ, मराठी फिल्मानी भूमिका केल्या. चड करुन ती विनोदी पात्र करता.*

शियोलेचो रेमो फेर्नांदीस हाणें त्रिकाल आनी जलवा फिल्मांक संगीत बसयलां आनी ताच्या *बॉम्बे* फिल्मांतल्या *हम्मा हम्मा* कांताराक *डबल प्लाटीनम* फावो जालां. *हु या हो हें खामशी द- मुजिकल* सिनेमांतलें कांतार तशेंच *ओ मेरी मुन्नी* लोकांच्या वोंठार अजुन खेळटात. रेमोन पद्मश्री किताब मेळोयला आनी ताका कर्मविर पुररस्कार *नोबॅल लॉरेट* 2007 फावो जाला.


रेमो फेर्नांदीस


लता मंगेशकार

लता मंगेशकार बायेन सुमार 25000 कांतारां 20 भासांनी गायल्यांत. तिचें नांव *गिन्नेस्स बुक ऑफ वल्डÃ रेकॉर्डस* हातूंत नोंद जालां आनी च्यार हिंदी फिल्मां प्रस्तूत केल्यांत. सर्व ऊंच भारतांतली पदवी भारत रत्न तिका फावो जाला.


लॉरेंस डी सौजा

लॉरेंस डी सौजा हाणें फोटोग्राफी, दिग्दर्सपी आनी निर्मूवपी म्हण काम केलां. *संजय, प्रतीक्षा* आनी *साज्जन* फिल्मां खातीर तो फामाद जावपाक पावला. फोटोग्राफीक लागून तो *दिल तेरा दिवाना, प्रतिक्षा, साज्जन, हत्या* ह्या फिल्मा खातीर तो फामाद जाला. दिग्दर्सपी कसो *संजय, प्रतिक्षा, फौजी, दिल तेरा दिवाना* तर निर्मूपी कसो *लावारीस, संग्राम* आनी कलाकार कसो *दिल का क्या कसूर, हत्या, लव 86, झूटे सच* हातूंत परजळ्ळा.


लीना चंदावारकार

लीना चंदावारकार धारवाडची आनी गोंयची सून जावन आसा. अपघाती मरणान तिचो घरकार सिद्धार्थ बांदोडकार सोंपतकच तिणें फामाद गावपी किशोर कुमार हाचे कडेन लग्न जोडलें, तिणें *हमजोली, मंचली, बैराग, मन का मीत, जबाब, मेहबुब की मेहन्दी, अन्होनी* ह्या फिल्मां खातीर मान फावो जाला.


लॉंगिनेस फेर्नांदीस

लॉंगिनेस फेर्नांदेस हो नाच दिग्दर्सपी अंतराष्ट्रीय ऑस्कर तस्रीप फावो जालेल्या *स्लम डोग मिलयोनॅर* फिल्मांक लागून नांव जोडूंक पावला. *जय हो* ह्या ऑस्कर इनाम फावो जाल्ल्या कांताराचेर नाच ताणें दिग्दर्शीत केला.ताच्या नाचाक लागून हेर मान फावो जाल्लीं फिल्मां *मेरे दिल लेखे देखो, कॉरपोरेट, रूख सको तो रुखो, अग्निपथ, दिल विल प्यार व्यार* जावन आसात. तो गांवान हरमळचो ताका फिल्मफेर तस्रीप फावो जालां. *पप्पू कांट डांस साल्सा* हो *जाने तु या जाने* फिल्मांतलो नाच बरोच फामाद जाला.ताका हालींच न्यू यॉर्क शारांत बऱ्या नाच दिग्दर्शणा खातीर *फ्रेड एस्टेर* तस्रीप हो वरिश्ट मान फावो जाला.


वर्षा उजगांवकार

पणजेची वर्षा उजगांवकार हिवूय मराठी फिल्मांनी जशें *सवत म्हाजी लाडकी,नवरी मिळाली नवऱ्याला,घडबड घोटाला* आनी हिंदी फिल्मां जशें *मंगल पांडे, मिस्टर या मिसेस* हातूंत परजळ्ळ्या.


विठल कारेकार

रायबंदर गांवच्या विठल कारेकार हाणें कला दिग्दर्सपी म्हण नांव जोडलां. *ध स्वर्ड ऑफ टिपू सुलतान* ह्या टी. वी. माळेचें नॅप्थ्य ताणें केलें जें पळोवपाक भोंवडेकारांची गर्दी जाताली, ह्याच नेपथ्याक उजो लागून ताका मरणान गिरासलो. फामाद चलचित्रां *वालमिकी, म्हाराथी, माया बाजार* फिल्माचें कला दिग्दर्शन ताणें केलां. *पाकिजा* हाचे *स्केचीस* ताचे जावन आसात. 50 हिंदी आनी मराठी फिल्मानी ताचो आसपाव आसलो. ह्या भायर गुजराथी धार्मीक फिल्मानी ताणें वांटो घेतला.


शंकर नाग

अनंत नाग हाचो भाव शंकार नाग, होवूय आपल्या पात्रांत कन्नड चलचित्रांनी परजळ्ळा. ताणें दिग्दर्सपी म्हण काम पळेलां आनी ताका दिल्ली जाल्ल्या अंतराष्ट्रीय चलचित्र उत्सवांत बरो नट म्हण तस्रीप फावो जालां.


श्याम बेनेगाल

कनार्टकांत पेणें करपी श्याम बेनेगाल हाणें नांवलौकीक जांवक पावललीं फिल्मां जशीं *अंकूर, निशांत, मंथन, भूमिका* तयार केल्यांत. ताका दादासाहेब फालके तस्रीप फावो जालां आनी ताका बऱ्या हिंदी फिल्मां खातीर सात पावटी राष्ट्रीय पुरस्कार फावो जाला.


सचीन पिळगांवकार

सचीन पिळगांवकार हाणें पयलो बाळ कलाकार म्हण काम पळेलां. *त्रिशूल. शोले. सत्ते पे सत्ता,गीत गाता चल, बालिका बधू, आंखियों के झरोकों से, आमी सात्पुते* आनी *अशी ही बनवाबनवी* हातूंत पर्जळ्ळा. तो गांवान पिळगांवचो पूण आतां पेडणेचो.


साजू नायक

साजू नायक ह्या फोटोग्राफरान *भगवा झेंडा, थोरातांची मुलगी, कमला* हातूंत आपली फिशालकाय दाखयल्या. तो गांवान रायबंदरचो.


साराह जेन डायस

साराह जेन डायस ही आदली मॉडेल आनी आदली मिस इंडिया वरल्ड 2007. *गेम* हिंदी फिल्मांत अभिशेक बच्चन हाच्या वांगडा मुखेल नटी म्हण दिसल्या. *क्या सुपर कूल है हम* हातूंत ती दिसल्या. तीची आजी गोंयकार जावन आसा.


सूदेश भोसले

सुदेश भोसले हो शिरोडेचो गावपी गावपांत परजळ्ळा आनी ताची तोखणाय आमिताभ बच्चन करपाक पावला कारण ताचो ताळो ताका जुस्तूच बसता. जुम्मा चुंम्मा ह्या *आजूबा* फिल्मांतल्या पदाक लागून तो नांवलौकीक जाला.ताणें गायललीं नांवस्तीं फिल्मां *इश्क, सौदागर, मेजर सहाब, करण अर्जून, बडे मीयां चोटे मीयां* जावन आसात.


सूमन कल्याणपूर

सुमन कल्याणपूर (हेंमाडी) ह्या कनार्टक राबितो करुन आसलेल्या गावप्यान नांवादीक हिंदी चलचित्रां जशीं *दिल एक मंदीर, शगून,जहान आरा, नूर जहां* हांतूंत गावून नांव जोडलां.तिणें नांवस्त्या संगीत-दिग्दर्सपी जशें शंकर-जैकिशन, रोशन, एस्. डी. बर्मन, हेमंत कुमार, चित्रगुप्त, नौशाद हांचे खातीर काम पळेलां. तिका सूर श्रृंगार तस्रीप तीन फावटी दिलां.


सुरेंद्र पै

सुरेंद्र पै ह्या फोटोग्राफरान नांवादीक फोटोग्राफर के. वैकूंठ हाच्या हाता खाल काम पळेलां. *दिल भी तेरे हम भी तेरे,बडी बहेन, चांद* हातूंत ताणें नांव मेळयलां.


सॅबेस्ट्यन

वेरेंचो सेबेस्ट्यन (डी सौजा) नांवादीक संगीत दिग्दर्सपी शंकर-जैकिशन हांचो आदारी आसलो आनी ताच्या संगीताचो जादवाचो हात *आवारा, बुट पॉलिश, जिस देश मे गंगा बहती है, संगंम, मेरा नाम जोकर* ह्या राज कपूराच्या फिल्मांनी दिसता.तेच परीं ताचें *हावरा ब्रीज* फिल्मांतलें *मेरा नाम चीन चीन चू, आर पार* चलचित्रांतलें *सून सून सून सून जालीमा, मिस्टर एंड मिसेस* हातलें *उधर तुम हसीन हो इधर दिल जवान है,* चोरी चोरी फिल्मांतलें *आजा सनम मधूर चांदणी मे हम* आनी *मधूमती* चलचित्रांतलें *आजा रे परदेसी* पदां अजून लोकांच्या वोंठर खेळटात.


हृदयनाथ मंगेशकार

हृदयनाथ मंगेशकार हो लता आनी उषा मंगेशकार हांचो भाव. ताणें मराठी आनी हिंदी फिल्मांनी संगीत रचपी आनी गावपी म्हण काम केलां. कोळी गीतांक लागून तो फामाद जाला. ताणें गायलल्या फिल्मांचीं कांय नांवां जैत रे जैत, निवडूंग जावन आसात. म्हाराष्ट्राचो स्टॅट अवॉर्ड ताका गावला आनी पंडीत हो किताब फावो जाला.


हेमा सरदेसाय

पणजेची हेमा सरदेसाय हिणें गावपांत अंतराष्ट्रीय किर्ती मेळयल्या आनी तिचें *आवारा भवरे* हें *सपने* फिल्मांतलें कांतार बरेंच लौकीक जालां.

वयर दिल्ल्या कोंकणी व्यक्तींचो आदार घेवून सोबीत सुंदर कोंकणी चलचित्रां निर्मुपाक जातात आनी कोंकणी भाशेक मान हाडूंक शकता अशें म्हाका दिसता.ह्यो घडण्यो कोंकणी चलचित्रांक बरे दीस रावतात म्हण भरवोंसो दाखयतात.

## दिनवास

| | | |
|---|---|---|
| अलॉयशस सालदान्हा | कोंकणी मोगी | पुणे |
| आर्. जे. नायक | फिल्म निर्मुपी | मुंबय |
| एड.बेर्नार्द एफ् डिसोझा | कोंकणी मोगी | मडगांव |
| एम्. डी. सोनी | फिल्म पत्रकार | जयपुर |
| कॅप्टन मरवीन पिंटो | फिल्म निर्मुपी | कॅनाडा |
| जितेंद्र शिकेरकार | फिल्म दिग्दर्सपी | बोरी |
| जेरीटन डायस | फिल्म निर्मुपी | चिंचोणे |
| जोएल डी सौजा | पत्रकार | आसागांव |
| जो रोज | फिल्म दिग्दर्सपी | ओलावली |
| टी. बूश | फिल्म निर्मुपी | कुवेट |
| डॉ. अजीत सिंहा | फिल्म निर्मुपी | पटना |
| डॉ, के. रमेश कामत | फिल्म निर्मुपी | बेंगाळारू |
| डॉ. रिचर्ड कास्तेलीनो | फिल्म निर्मुपी | मंगळूर |
| दामोदर नायक | फिल्म निर्मुपी | फातोरदा |
| धर्मानंद वेरणेकार | फिल्म दिग्दर्सपी | रायबंदर |
| निता जैन दूहॉ | फिल्म निर्मुपी | हैदराबाद |
| नवीन कुशेलकार | कोंकणी बरोवपी | मंगळूर |
| नॅशनल फिल्म आर्कायवस् ऑफ इंडिया | फिल्म संवस्था | पुणे |
| निलेश नेवालकार | फिल्म निर्मुपी | मडगांव |
| फादर लुइ हेरेडिया | कोंकणी मोगी | पुणे |
| बार्डरॉय बारेटो | फिल्म दिग्दर्सपी | मुंबय |
| बोनिफास डायस | फिल्म दिग्दर्सपी | दावरली |
| मनोहर पै धुंगट | कोंकणी बरोवपी | मुंबय |
| राजेंद्र तालाक | फिल्म निर्मुपी | मडगांव |
| रोहिदास शिरोडकार | फिल्म निर्मुपी | फोंडें |
| लक्ष्मीकांत शेतगांवकार | फिल्म दिग्दर्सपी | मुरगांव |
| वासुदेव शानभाग | फिल्म निर्मुपी | सिरसी |
| विश्वास रेबिंबूस | कोंकणी मोगी | मुंगळूर |
| विल्सन माजारेलो | तियात्रिस्त | मडगांव |
| संजय शेटये | फिल्म निर्मुपी | वास्कू |
| संजीव प्रभूदेसाय | फिल्म निर्मुपी | मडगांव |
| स्वप्नील शेतकार | फिल्म दिग्दर्सपी | फोंडें |
| ज्ञानेश्वर मोघे | फिल्म दिग्दर्सपी | म्हापशें |



इजिदोर दान्तस लहानपणीं सावन बरोवपाच्या नादाक पडलेलो आसा, हालींच, एका फाटल्यन ताचीं पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत जांची नांवां व्रज्रां, कोंकणी चलचित्रां (रोमी आनी कन्नड लिप्येंत) उतरसोद, रस्पी मांय परत शिरकली आनी फुलुसाची हुशारकाय.

तो पुण्यांत रावपी आनी गोंयां भायर इतलीं वर्सां आसून कोंकणी संवस्कृताय आनी सरस्पती विशीं तो अजून रेवडून आसा. गोंयचो आनी कोंकणी भाशेचो मोग ताच्या बरोवपांतल्यान परजळटा.

पुण्यांत ताणें कोंकणी भाशा मंडळ स्थापून ताच्या सेगीद प्रयत्नांक लागून कोंकणी उलोवपाक लजपी अभिमानान कोंकणी उलोवपाक लागल्यात. साबार तियात्रांनी ताणें आपली कपशी दाखयल्या आनी खाशा दोन तियात्र बरयल्यात जायत्या कोंकणी नेमाळ्यांचेर ताणें बरोवप केलां. पुण्यातं उलो नांवाचे सायक्लोस्टायल्ड कोंकणी सातळें नेमाळें ताणें संपादलां. रोमी तशेच देवनागरी लिप्येंत तो बरयता.

पुणे गोवन्स सोशल युनियन हाचों सचिव म्हण ताणें काम पळेला.कांय कोंकणी फिल्मांक ताणें इंग्लीशींत सब्टायटाल्स घातल्यात, आकाशवाणी मुंबयचेर ताचे कार्यावळी जाल्यात. जायतीं तस्त्रीपां ताका फावल्यांत. ताणें कोंकणी विकिपिडिया घडपाक मजत केल्या.

नामनेच्या गिरायकांक तो कोंकणींतल्यान भाशांतर करता. कोकणवर्टर कॉम ह्या अंतर-लिप्यांतर संवस्थेक ताणें मजत केल्या. कोंकणी मायभास सर्व वाटांनी फुलची, परजळची आनी तिच्या पूता धूवांच्या वोठांचेर दीस रात खेळची हो ताचो खेरीत आंवडो, ताका भेटपाचें थिकाणः isldoredantas@gmail.com


ISBN 97B-B1-91361-1-4
9 788191 036114